साहित्य अकादेमीची पूरस्कार जोडपी इंग्लीश कादंबरी

# दीर्घ मौन तें



बरोवपी
शशी देशपांडे

अणकार
प्रशांती तळपणकार

मुखपृष्ठ आनी मलपृष्ठाचे फाटले वटेन शिल्पचित्रां दिल्यांत. तातूंत तीन ज्योतिशी बुध्द भगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुध्दोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोपवी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखन कलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

(राष्ट्रीय संग्रहालय, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान)

साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जोडपी इंग्लीश कादंबरी

# दीर्घ मौन तें

मूळ लेखिका

**शशी देशपांडे**

अणकारपी

**प्रशांती तळपणकार**



साहित्य अकादेमी

**Dirgh Moun Te** (**दीर्घ मौन तें**)**:** Konkani translation by Prashanti Talpankar of Award Winning English Novel *That Long Silence* by Shashi Deshpande
Sahitya Akademi, New Delhi (2015), One Hundred Twenty Five


First Edition : 2015

**Published by**
SAHITYA AKADEMI

**Head Office**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices**
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
4, D.L. Khan Road, Kolkata 700 025
Central College Campus, Dr Ambedkar Veedhi, Bengaluru 560 001

**Chennai Office**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai 600 018

**ISBN 978-81-260-4585-3**

**Price: ₹ 125/-**

E-mail : sahityakademimumbai@gmail.com
Website : http://www.sahitya-akademi.gov.in

Typeset by Sanjay Kanekar, Mumbai-400066, and Printed by India Printing Works, Mumbai – 400031

समजुपाक सोंपें जावचें म्हणून आनी विविध नातीं आनी तांचे संबंद वाचकाक घडये घुस्पायत म्हणून कांय म्हायतीः (निवेदिका) जयाचे आवय आनी बापूय म्हणल्यार अप्पा आनी आई, तिचो व्हडलो भाव (दिनकर) म्हणल्यार दादा, तिची बापायची आवय म्हणल्यार आजी, बापायचे भाव काका आनी बायलो काकी. जयाच्या आईची आई म्हणल्यार दुसरी आजी, चंदूमामा आनी मकरंदमामा हे तिचे आवयचे भाव आनी मामी (चंदूमामाची बायल) वनितामामी.

*“हांव दादलो आशिल्लें आनी हांव रावता तें जग समजून घेवपाची म्हाका पर्वा आशिल्ली, जाल्यार चड करून, अर्द्या जगाच्या त्या मौनाच्या भारान म्हाका थोडी भोव अस्वस्थता येवपाची.”*

(एलिझाबेथ रॉबिन्स, डब्ल्यू डब्ल्यू एस एल, 1907 वर्साचें भाशण)

कित्तेंय मेळयतलें, कोणय जातलें, जाल्यार तूं निबर आनी निर्दयी आसूंक जाय. हय, तूं संत जातलो जाल्यार लेगीत, तुका पुराय संवसाराचेर मोग करपाचो आसत जाल्यार, तुवें पयलीं एकेके व्यक्तीचेर मोग करप बंद करूंक जाय आनी जेन्ना ते तुजेर मोग करतात आनी तूं तांचेर मुद्दाम जावन मोग करिना हें कळटकीच ते निन्नळटात, तेन्ना तांचे खातीर ती वायटूच गजाल, पूण दुसरो मार्गच ना संत जावपाचो वा चित्रकार वा लेखक जावपाचो.

आतां कित्याक येवजिता हांव ह्या सगळ्या गजालीं विशीं? आतां म्हाका उतरां कडेन झुजचें पडटा म्हणून? अजापशें - हरशीं बरोवप म्हाका सामकें सोंपें जातालें. इतल्या सोंपेपणान येवपी उतरांक लागून हांव स्वताचेर खोशी जातालें. लजय दिसताली केन्ना केन्ना - सगळेंच सोंपेंशें म्हणून.

पूण आतां - कित्याक कोण जाणा, म्हाका म्हज्या बाळंटेराचे प्रक्रियेची यादशी जाता. त्या खिणाची एकमेव याद उरल्या ती भंयाची - भंय इतलोच - स्वताच्या शरीरा वयलो ताबो सुट्टा हाचो. देखून हांवें प्रतिकार केल्लो.

आतांय प्रतिकार करतां हांव? जावंये. कारण आतां हांव त्या निरागस चलयां विशीं बरयना, तांचे विशीं हांव आतां मेरेन बरयत आयलां; चलयो, तांणी निमणो स्वता खातीर योग्य जोडीदार सोदून काडिल्लो. आतां हांव, निश्ठूर आनी असंवेदनशील घोव आनी तांच्या संवेदनशील, पिडेस्त बायलां विशींय बरयना. आतां हांव आमचे विशीं बरयतां. मोहन आनी म्हजे विशीं. आनी म्हाका खबर आसा - कोणच स्वताचे कथेची स्वता नायिका जावंक शकना. आप-उक्तावणी ही क्रूर प्रक्रिया. हांगां तुका तुजें खरें रूप, खरें 'तूं' केन्नाच दिसना. तूं कशें दिसता हें जाणा जावप जितलें गोंदळावपी तितलेंच तूं कशें दिसता तें सोदपय गोंदळावपी. धा वेगवेगळे हारशे तुका धा वेगवेगळीं रुपां दाखयतात.

''तुज्या नांवा सारकोच तुजो चेरो'', कामतीन म्हणिल्लें आनी हांव भुल्लुशिल्लें.

''कशें?'' हांव दुसऱ्याक कशें दिसता हें समजून घेवपाचे उमळशिकेन हांवें ताका विचारिल्लें. हारसो सदांच घातमारो; तो फकत तुका कितें पळोवंक जाय तेंच दाखयता.

आनी अशेंय आसपाक शकता, दुसरीं तुज्या चेऱ्याचेर तेंच पळयतात जें तांकां पळोवंक जाय आसता, तरीय, स्वताक हारशांत पळोवपाची नशा, दुसऱ्यांक आपूण कशें दिसता, हें समजून घेवपाची इत्सा केन्नाच लुप्त जायना.

हांवें अशें भितरलें पात्र जावन बरोवप चूक आसुंये. घडये हांवें म्हाका, 'आमकां', पयसुल्ल्यान पळोवपाक जाय. हें अशें, हाचे पयलींय घडलां म्हाका; कितल्याशाच वेळा, म्हाका स्वता कडल्यानच अलिप्त जाल्ल्याची आनी पयस गेल्ल्याची बेचैन करपी जाणविकाय जाल्या. कांय वेळा तर, जाणविकायेचे दोन वेगवेगळे धागे वेगळावंक शकलां हांव - म्हज्या अणभवाचो एक धागो आनी दुसरो त्या अणभवा विशींचे म्हजे जाणिवेचो. आमचे काणये कडेन हांव तशें पळोवंक शकतलें? आसा तितली म्हजे कडेन निबरसाण?

"तुजो बायोडेटा दी आमकां" एकदां, एका म्हयनाळ्यान म्हजे कडेन मागलें आनी स्वता विशीं कितें बरोवं हाचे विशीं हांव तळमळ्यांत पडलें. अशें मोलादीक कितें आशिल्लें म्हजे जिणेंत? म्हाका दिसपी फालतू गजाली चाळून काडटकच, निमणे म्हजे कडेन उरलें तें इतलेंच.

हांव जल्मल्लें. हांव पंदरा वर्सांचें आसतना म्हजो बापूय हें जग सोडून गेल्लो. मोहना कडेन म्हजें लग्न जाल्लें. म्हाका दोन भुरगीं आसात आनी तिसऱ्याक हांवें जल्मूंकच दिवंक नाशिल्लें.

सुरू करपाक घडये इतलेंच पुरो. हांव हांगाच्यानच सुरवात करतां.

म्हज्या भुरगेपणांत सिनेमा संगीत सामकें पाडें मानताले आनी देखून हीं पदां रेडियोचेर आयकुपाक लेगीत बंदी आशिल्ली. फाटीं वळून पळयल्यार एक लक्षांत येता. तो काळ मात्सो बेगडी नैतिकता मानपाचो काळ आशिल्लो, गांधीजींची हत्त्या जाले उपरांतचो काळ तो. तीं नाचरीं पदां खोसदिणीं आनी चंचळ आशिल्लीं - देखून वायट. घडये ताका लागून, हीं पदां आयकुपाची ती सगळी खटपट - तीय रेडियो वयल्यान - म्हणल्यार लजेची आनी तिटतिटेपणाचीं लक्षणां थारतालीं. हय, तीं पदां आयकप हें असभ्यतायेचें लक्षण आसुंये. कारण म्हजो बापूय, जाका रूक्ष शास्त्रीय संगीत आवडटालें, तो हीं पदां आयकुपाच्या म्हज्या वेसनाक तुच्छ लेखतालो, आनी त्या पदांक 'पचपचीत पेज' म्हणटालो. म्हजी ही संवय सुटची, रफी आनी लताच्या गाण्यां बदला पळुसकर आनी फैयाज खान म्हाका आवडचे म्हणून ताणें खूब यत्न केले, पूण तो अपेशी थारलो.

"जया, कसली फालतू आवड गो तुजी?" ताणें म्हाका एकदां म्हणिल्ली याद जाता.

तें आयकून म्हाका जाल्ली लज खूब तेंप म्हज्या मनांत जिती उरली. "आगो, ओगीच ताकतीक करपाची गरज ना हां," सिनेमाक वचपाची तयारी चलतना मोहन म्हाका खूब वेळा म्हणटालो. "चडांत चड कितें जातलें? आमकां जायराती चुकतल्यो. हरशींय बी कोणाक पळोवंक जाय त्यो जायराती?"

म्हाका जाय आसल्यो, पूण ताका सांगपाचें धारिश्ट्य नासलें. ताणेंय म्हणिल्लें जाल्यार, "कितली फालतू आवड गो तुजी, जया?" म्हणटकच हांवय ताका म्हणटालें, "हय, हय गडबड करपाची गरज ना," पूण तशें म्हणटा म्हणटांच, हांव कोलेबुद्द वापरून कशाय भशेन थंय वेळार पावपा खातीर धडपडटालें. गोड अशी दुदाची मिशी आशिल्लो तो भुरगो, मायेन भुरग्यांच्या हड्ड्यार विक्स चोळपी हांसत्या मुखामळाची ती आवय; आपल्या बाळकाक फॅरॅक्स पिवोवपी तरणाटी आवय, हातांत हात घालून आपले अपुरबायेच्या हांसत्या मुखाच्या आवयबापाय कडेन आनी चॉकलेटी कडेन धांवपी भावभयणां - म्हाका हें सगळें आवडटालें. तीं आपल्या

चकचकीत घरांतलीं सुखदिणी, हांसतीं, खुशालभरीत कुटुंबां म्हाका सामकीं काव्यमय दिसतालीं. म्हजे खातीर, त्यो सगळ्यो परिकथा कश्यो, जंय मागीर ते लोक 'सदांकाळ सुखांत नंदताले'.

मोहन आनी हांव सांजवेळा हांगा आयिल्लीं, हांगा ह्या दादरच्या फ्लॅटांत - फकत धा दीसच जाल्ले हांगा येवन आमकां? - ते सांजे म्हज्या दोळ्यां मुखार एक दृश्य उबें रावलें, आमी चवगांय जेवणाक बशिल्ल्याचें, चकचकीत रंगीत जायरातींत दाखयतात तशें. आमी मुमुरख्यांनी हांसतालीं, आमी खळखळून हांसतालीं; हांव - आवय - तांकां मायेन वाडटालें. मोहन - घरचो मुखेली - म्होंवाळ हांसतालो आनी भुरगीं आशिल्लीं खेळीमेळीच्या उमेदी वातावरणांत दंग. एक काल्पनीक दृश्य - हय काल्पनीक दृश्यच तें. कारण त्या चित्राचें वेगळें वर्णन करपाक दुसरे शब्दच मेळनात म्हाका. जेन्ना हांवें यत्न केलो, तेन्ना, वयर उफेलो फेणेर आमच्या सदच्या जेवणा वेळच्या संभाशणांतले आक्रमकतायेचो आनी ढवळून गेलो नितळ, निवळ पृश्ठभाग.

खोशेचो बोमाडो - हय, म्हाका तो फोडचोच पडलो. घडये सत्य हेंय आसत, हांवें रंगयिल्ल्या काल्पनीक जगा पसून, हांव स्वताक अलिप्त दवरूंक शकलें ना, देखून तिगोवन दवरूंक शकलें ना हांव म्हजो भ्रम. घडये - कोणाक खबर? काळावेळान नानपयत जातली धुसफूस आनी दुश्टताय. आनी फाटल्यान उरतलें फकत रमणीय चित्र, पूण तेन्ना, त्या खिणाक, हांवें स्वता कडेन एक सत्य मान्य करचेंच पडटलें - खूब वेळा म्हाका ह्या घरसंवसाराचो भार असह्य जातालो देखून. सगळ्यांत वायट गजाल म्हणल्यार, उबगण आयिल्ली म्हाका तेच तेच पद्दतीन जगपाचे रितीची, त्या केन्नाच सोंपनाशिल्ल्या एकसुरेपणाची. आतां म्हाका याद जाता, कितलेशेच फावटीं कसलेंय भयानक अरिश्ट येवचें म्हूण हांव सुस्कारतालें. ना, ना, वैयक्तीक अरिश्ट न्हय, पूण आमची सुस्तेल्ली जीण हालोवन सोडपी कसलेंय अरिश्ट. (अश्ट गृहांचें मीलन, तातूंतल्यान अरिश्ट येतलें म्हणून भविश्य केल्लें, म्हजी आस्त फुलयल्ली एक फावट.) म्हाका सदांच दिसतालें, कित्या खातीर जातात हीं गेरीं फकत दुसऱ्याच देशांनी? कित्याक येतात पयसुल्ल्या अनाम देशांनीच हुंवार आनी भुंयकांप? खून, व्यभिचार, मर्दुमक्यो घडटात फकत दुसऱ्यांच्याच जिवितांत, केन्नाच आमच्या कित्याक न्हय? *अरिश्ट, कुकर्म,* दंड ह्या शब्दांक आमच्या जिवितांत स्थानच ना शें. ग्रीक नाटकांतल्या कोरसा सारकी आमकां वेदनांची झळच लागनाशी! आमचे खातीर फकत आशिल्लें जगप - सैमीक तरेन मरण येना ते मेरेन एक पावल दुसऱ्या पावला सामकार घालत चलत रावप.

पूण निमाणें म्हज्याय जिवितांत तें आयलेंच, खाशेलें अशें म्हजें स्वताचें अरिश्ट; आयलें तें इनामाचें पॅकेट कशें, बरें रंगीत रिबिनांनी बांदिल्लें; इनाम, म्हज्या घोवा कडल्यान म्हाका. हांव पुराय शेणलें. त्या इनामाचें कितें करप म्हाका कळ्ळें ना.

म्हाका तें अशक्यच कशें दिसलें. मोहन खंय तरी समजूंक चुकला. आमचें जिवीत पयलीं भशेनच चलत रावतलें, मदींच विरामचिन्न आसतलें वाजेवण्या झगड्यांचें, भुरग्यांचें येस-अपेस, तांचो एकामेकां कडलो पयसावो, आमचे कडलें परकेपण, आमचो राग, कोडसाण, आमचें जाणटेपण. घडये, म्हजें वैधव्य - हेंच आमचें भविश्य. आमच्या सारक्या मनशांक आनीक कांयच शक्य नाशिल्लें.

"आमच्या सारक्या" - आतां, कसली याद जाता म्हाका ह्या उतरांतल्यान? आरे हय, मोहनान सांगिल्ले ते काणयेची. दिल्लीक रस्त्यार बसकण मारून बशिल्ल्या त्या बायल आनी भुरग्यांची. घडये, आमी ती काणी मात्शी गंभीरपणान, अपशकून कशी घेवंक जाय आशिल्ली. पूण मोहनान जेन्ना म्हाका ती काणी सांगली तेन्ना म्हज्या काळजांत कसलीच चलबिचल जाली ना. हांव सामकें आस्थाहीन आशिल्लें. तटस्थ. तरीय म्हाका एक गजाल मान्य करची पडटली. म्हाका दिसपी ही सादारणशी घडणूक, जाचे कडेन आमचो कसलोच संबंद ना, ताचेर मोहनान उक्तायिल्ली भडक प्रतिक्रिया म्हाका अजाप करून गेल्ली. ताचो, ताच्या घरच्यांचो वा ताचे नोकरेचो संबंदच ना, असले गजाली खातीर अस्वस्थ जाल्लो मोहन हांवें चुकून पळयिल्लो. पूण आतां म्हाका कळ्ळें, ती घडणूक ताका अस्वस्थ करून गेली ती नेमके हेच गजालीक लागून - ताणें जें पळयिल्लें तातूंतल्यान ताका खंय तरी भंय दिशिल्लो.

"त्यो बायलो थंय उक्ते जमनीर बशिल्ल्यो, सामक्यो घाणींत, तांच्या पोंदां इल्लो पेपराचो कुडको वा शेंदरी लेगीत नाशिल्ली. तीं थंय अशींच बशिल्लीं जमनीर-भिकारी कशीं! आमचे सारकीं मनशां असले परिस्थितींत सांपडलीं जाल्यार कितें जातलें, कल्पना कर जया!

"आमच्या सारक्या" - ह्या शब्दांचो अर्थ कोणेच सांगपाची गरज नाशिल्ली. तो कितें म्हणटा तें म्हाका समजल्लें. सुशिक्षीत, कश्टाळू, सुरक्षीत नोकरी करपी लोक, जांकां आसतली ऊब इन्शुरन्स आनी प्रोविडंट फंडाची, तांचीं आसतलीं धश्टपुश्ट, खावन जेवन आनंदीत अशीं, प्रतिश्ठीत शाळेंत वचपीं दोन भुरगीं.

तीं थंय ओग्गी बशिल्लीं. कोणच उलयनाशिल्लो, भुरगीं लेगीत! आनी तोच शॉक बसलो म्हाका जया. तांचे वांगडा तांचीं भुरगीं आशिल्लीं. हातांत तकटे घेवन, पुठ्ठ्याचे गो, घडये, कांय भुरग्यांनी घराच तयार केल्ले जावंये. कांय अक्षरां वयल्यान रंग गळटाले... ते थेंब म्हाका दुकां कशीं दिसलीं..."

त्या खिणाक, म्हाका आतां याद जाता, हांव भानार आयलें आनी म्हजें पुराय लक्ष मोहनाचेर केंद्रीत केलें. सकयल गळपी रंग दुकां भशेन दिसलो? जो केन्नाच कल्पक नाशिल्लो, जाका अळंकारीत भाशेचो तिरस्कार आशिल्लो, जाका जिणेंतल्या वास्तवाचेर विस्वास दवरूंक अभिमान दिसतालो, त्या मोहनाक?

"सगळ्या तकट्यांचेर एकच बरयिल्लें... 'आमकां न्याय जाय.' तीं बायलां

आनी भुरगीं ते तकटे घेवन बशिल्लीं खरीं, पूण जशें काय हें सगळें अर्थहीन म्हूण तीं जाणा आशिल्लीं. तीं कशीं दिसतालीं जाणा... तांचें वर्णन करपाक तो शब्द सोदूंक लागलो आनी निमणे ताका तो शब्द सांपडलो. ''भयानक.'' लोक तांचे कडेन हयन्हयशे पळयताले आनी झुप्प करून वताले. जाणा जया, मात्शें विचित्रशें आशिल्लें तें, एक लेगीत मनीस थंय उबो रावन तांचे कडेन पळयनाशिल्लो. लोक तांचेर सरसरती नदर मारताले आनी बेगिबेगीन थंयच्यान कडसरताले. कोणें तांकां कांय विचारलें ना वा कितें म्हणलेंय ना. म्हाकाय गडबड आशिल्ली. साडे इकरांक म्हाका कौशीका कडेन अपॉयंटमेण्ट आशिल्ली. आनी त्या मनशाक कोणाची वाट पळयत रावंक आवडना. आमचें काम सोंपले उपरांत हांवें ताका तांचे विशीं विचारलें. ''मिलिटरींतल्या लोकांचीं बायलां आनी भुरगीं तीं'', ताणें म्हाका सांगिल्लें, ''तांच्या घोवांक खंय रातोरात, घरच्यांक मेळूंक दिनासतना, राखणे कायद्या खाला अटक केल्ली. हेरगिरी, समजलें? तांकां खंय व्हेल्यात, हें लेगीत तांच्या कुटुंबांक खबर ना. आनी असले परिस्थितींत घरच्यांची कितें गत जाल्या ती लोकांक कळची म्हूण तीं रस्त्यार बसल्यांत. हांव तुका सांगतां जया, तें दृश्यच भयंकर आशिल्लें, कसली अवस्था जाल्ली त्या बायलां भुरग्यांची, सामकी भिकाऱ्यां भशेन!'' तें दृश्य... आनी दुसरो शब्दच मेळनाशिल्ले भशेन ताणें तोच शब्द परत वापरलो, ''भयानक.''

तेन्ना आमकां कळपाक जाय आशिल्लें, तोंडार निर्शेणी घेवन बशिल्लीं तीं बायलां आनी भुरगीं आमचे खातीर एक सिग्नल जावंक जाय आशिल्लीं, आमचेंय हें सगळें केन्ना तरी अशेंच सोंपतलें, दुसऱ्याक घडलां तें आमकांय घडूंक शकतालें. असल्यो भयानक आनी भिरांकूळ गजाली दुसऱ्यांचेच जिणेंत घडटात अशें चिंतपी आमचे खातीर आमची पत आनी ऐपत हीं कवचकुंडलां जावंक शकनाशिल्लीं.

''ते दादले अशे कशे वागूंक शकले?'' तांची गजाल सांगतना त्या दिसा मोहनान उद्गार काडिल्ले. ''आपल्या घरच्यांक अशें संकश्टांत उडोवपाचें, येवजूंकच शकना हांव हें. तांचें वागणें सामकें बेजबाबदारपणाचें दिसता म्हाका.''

मोहनाचे ते शब्द... खरें म्हणल्यार जेन्ना ताणें म्हाका आपणें केल्ली गजाल सांगली, तेन्ना हे घडणुकेची याद करून दिवंक जाय आशिल्ली हांवें. आतां आमकां कितें जावंक शकता हाची कल्पना दिवंक जाय आशिल्ली. ताचेच शब्द मारूंक जाय आशिल्ले परत ताचेर. इतल्या वर्सांचे शरणागतीची परतफेड-माड्डिल्ल्या किड्याची परतफेड. पूण हांव केन्ना माड्डिल्लो किडो आशिल्लें?

''जाका पयलीं नाणें मेळटा तो घरांत शेक गाजयता.'' लग्ना उपरांतचे विधी वेळार जावपी एका अर्थहीन खेळाची सुरवात करतना हांसत मोहनाच्या घरांतल्या बायलांनी आमकां सांगिल्लें. आमच्या दोगांय मदीं तांदळाची रास आशिल्लें एक ताट दवरून खेळाची सुरवात जाली. हांवें बोटां हालयनासतना सुसेगाद खेळाक सुरवात केली. तो

मात जीव तोडून, धडपडत, तें नाणें मेळोवंक तांदूळ सांसपूंक लागलो. इतलेंय आसून, तें चांदीचें नाणें म्हाकाच पयलीं मेळ्ळें. पूण वास्तवांत हाका कांय व्हडलो अर्थ ना. कारण मोहनय कितें किडो जावन जगलो ना. आमचें नातें तशें नाजूक तडजोडीचे तागडेचेर आदारिल्लें. इतलेंच न्हय जाल्यार केन्ना केन्ना संतुलन इबाडचें न्हय म्हूण आमी आमकांच कांय कडेन बेणिल्लें.

‘‘घाण्याक बांदिल्ले बैल...'' हांगा आयिल्लीं त्या दिसा, अर्शींच दिसलीं म्हाका आमी दोगांय. ताचे फाटल्यान सोपणां चडून वयर वतना, एकदम आंगार कांटो हाडपी संवेदना अणभवली हांवें. अशें दिसलें, एका अणुखिणा खातीर म्हजें अस्तित्व गोठलां आनी हांवें म्हजें म्हाकाच, स्वता कडल्यान पयस केलां. आनी पळयतां हांव... घाण्याक बांदिल्ले बैल. मागीर केंद्रबिंदू फुडें सरकता आनी तांचे बदला दिसता एक दादलो आनी एक बायल, मुंबयच्या मध्यभागांतल्या एके विटकरे इमारतीचीं बुरशीं सोपणां चडटना, दाग लागिल्ल्या शिमिटाच्या सोपणां वयल्यान कोयरांची रांक, सिगारांचीं पोंतेरां, कागदाचे कुडके, भाजयांचीं सालपटां... आनी तांबडे दाग... पानाचे थुकयेचे फवारे... जीं बिभत्सपणान खुलयतालीं वणटींची हळशीक.

आतां हांव, जे तरेन आमी दुसऱ्यांक पळयतात, तेच तरेन त्या दोगांयक पळोवंक शकतालें, त्या खिणा पुरतें, त्या दोगांयचें अस्तित्व बंदिस्त करून, दादलो सामको जतनायेन आपल्या पांयांच्या बोटांचेर कसो चलत चडटा. ती मात चलता वळखीचे थिरतायेन, जशी काय तिचे खातीर भोंवतणची हळशीक आनी घाण सदांचीच आनी संवकळीची.

सोंपणांच्या वयर सपाट जाग्यार पावतकच दादलो रावता आनी म्हणटा, ‘‘देवा!''. आवाजांत निबरसाण आनी अधिकार. ‘‘हो जागो कोणच केन्नाच निवळ कित्याक करिनात काय?'' बायल हें आयकून परतता, ताचेर एकच नदर मारता आनी ताचे हावभावच बदलतात. तो बाविल्ले भशेन जाता. तीं परत सोंपणां चडपाक लागतात. वयल्यान एक बायल, सहजतायेन एक व्हडलो कोयराचो पांटलो माथ्यार पेलत सकयल देंवता. तांचे कडेन ती कुतुहलान पळयता, थांबता आनी हांसता. तिणें हांसून आपलो अपमानच केला अशे निर्विकार नदरेन तो तिका पळयता, पूण तिचो हांसो ताचे खातीर नासता, तो आसता ताचे जोडिदारिणीक, तीय हांसून तिका प्रतिसाद दिता. तो फुडें वता आनी बंद दारा मुखार पासियेंस काडिल्लेवरी वाट पळयत उबो रावता. मजगतीं ह्या दोनय बायलांचें उलोवणें चालूच आसता.

‘‘बाबडें नयना'' ताचे म्हऱ्यांत पावतकच बायल म्हणटा. ‘‘परत गुरवार! तुवें केन्ना ताका गुरवार नासतना पळयलां? तिचे मांयचीय हीच गत आसताली.'' दादल्यांच्या तोंडार भावशुन्य बेपर्वाय.

‘‘चावयो?'' तो हात फुडें करीत म्हणटा, पूण ताकतिकेन फुडें आयिल्ल्या हाता

कडेन लक्ष दिनासतना ती बायल आपले पर्शींतल्यान चावयो काडून दार उगडटा. तो मात थंयच उरता, आपलो हात तसोच धरून. तरीय ताचे कडेन लक्ष दिनासतना ती फ्लॅटांत वता. खीणभर तो थंय तसोच उबो रावता, हात फुडें करून. आतां ताची ही कृती याचना कशी दिसता. आनी मागीर, अचकीत तो तिचे फाटल्यान घरांत भितर सरता आनी दार घट्ट धांपून घेता.

आनी हांगाच म्हजी कल्पनाशक्त मार खाता. म्हाका स्वताक कितलेंय दिसलें तरीय, आमचे कडल्यान आनी आमकां जें भोगलां ताचे कडल्यान, म्हजें म्हाका, हांव पयस दवरूंक शकना.

घाण्याक बांदिल्ले बैल... कितलें चलाख वाक्य हें, पूण तें सत्य परिस्थितीक पर्याय जावंक शकता? एक दादलो आनी एक बायल, तांच्या लग्नाक सतरा वर्सां जाल्यांत. दोन भुरगीं आशिल्लें एक जोडपें. एक घराबो, जायरातीच्या चित्रांत बंद केल्लो आनी फुडाराचे पिळगेन पळोवचो म्हूण सांबाळून दवरिल्लो, म्हाकाय स्वता आवडटालो, तसलो! पूण कितेंय जालें तरी सत्य परिस्थिती ही फकत इतलीच. आमी दोन व्यक्ती. एक दादलो. एक बायल.

''बाबडें नयना, परतय गुरवार,'' हांवें ताका म्हणलें; पूण म्हाका खबर आशिल्लें, ताच्या लक्षांत कांयच येवंक नाशिल्लें. नयनाच्या पोटाचो तो नगारो वा त्या व्हडल्या पोटा सकयले ताचे इल्लेशे, ल्हान चलयेचेशे दिसपी विजोड दोंके, कांय म्हणल्यार कांयच ताचे मतींत येवंक नाशिल्लें. पूण म्हाका हें सगळें दिसलें आनी पळोवंक नाशिल्लेंय कळ्ळें... नयना चलतना ताचे वांगडा खोशेन किणकिणपी ताचीं तीं चांदीचीं पांयजणांय गायब जाल्लीं.

पूण असो, आपले कडेन संबंद नाशिल्ले गजाली विशीं अनास्था दाखोवपाचो ताचो हो सभाव सदांचोच. आतां नवें आशिल्लें तें इतलेंच, हे अनास्थेच्या पड्ड्या फाटल्यान एक भिवकुरो दादलो ल्हवूच भायर पळयतालो. ताचो सगळो आत्मविस्वास ताका सोडून गेल्लो. फकत एकदांच, खीणभर स्वता भशेन, पयलीं भशेन जाल्लो तो. ''देवा,'' ताणें म्हणिल्लें, ''हो जागो कोणच केन्नाच निवळ कित्याक करिनात?'' त्या खिणाक ताचे मदली आदली अधिकाराची आनी आत्मविस्वासाची भावना चमकल्ली. पूण मागीर रोखडीच ताचे मदली ती आदली व्यक्ती गायब जाली आनी फाटल्यान उरलो तो एक उदास भियेल्लो दादलो. पूण मजा म्हणल्यार एके वटेन तो म्हाका सामको वळखीचो दिसलो. म्हणजे हाचे पयलीं खूब वेळा म्हजे नदरेक

पडलासो, माचयेर वचपाचे एन्ट्रीची वाट पळयत चोरयां विंगेंत बशिल्लो कलाकारसो. काय ग्रॅहम ग्रीनाच्या पात्रा कडेन ताचें साम्य आसा म्हणून म्हाका तो वळखीचो दिसता? अपेसा कडेन जुळोवन घेतिल्लो, एक दुख्खी, झपाटिल्लो मनीस? हय... तो चड करून म्हाका पुस्तकांनी मेळ्ळा.

अपेसा कडेन जुळोवन घेतलां? आयकुपाक सामकें क्रूर कशें, पूण सत्य तें! ना जाल्यार, हांवें चावी दिली ना तेन्ना ताणें तोंड धांपून हार कशी मानली तर?

ना, हांवें म्हजे कडेन प्रामाणीक रावंक जाय. ताणें स्वताच्या अधिकाराचेर उदक सोडूंक नाशिल्लें, हांवेंच ताचो अधिकार अमान्य केल्लो. पूण अशें म्हणून हांवें म्हजरेय अन्याय करूंक फावना. म्हजें मतपरिवर्तन, अचकीत, एके रातयांत जावंक ना. इतलीं वर्सां गनिमी रणनिती वापरून हांव धुर्तपणान जो प्रतिकार करतालें ताचोच एक भाग हो. आमी सगळींच करतात तशें; कुटुंबीक जिविताचो भागच तो. जेवचे पयलीं न्हावपाक तयार नासपी राहुल, फोनार कोणा कडेन उलयतालें हें सांगपाक न्हयकार दिवपी रती, कांदो धोडावन सामको रुच्चीन खावपी अप्पा आनी ताका नापसंतीन पळोवपी सप्तगिरीची आजी....

ह्या सगळ्या गजालीं विशीं हांव मोहना कडेन उलयिल्लें जाल्यार म्हज्या ह्या विचारांचेर, कल्पनेचेर तो तिडकतलो आसलो. तिडक, पश्चात्ताप आनी अपराधी भावनेचे व्रण तो आपले मदीं घेवन जगता आसलो, तरी कुटुंबांत किजिलां आसूंक शकतात हें तो मानूंकच तयार ना. एक फावट, राहुला कडेन आशिल्ली ताची कोंत्रसाण मात्शी मोव जावची, हीं असलीं झगडीं सगळेच कडेन आसतात, हे गजालीक चड म्हत्व दिवचें न्हय हें समजावचें देखून, हांवें ताका म्हणलें, ''स्वताक सिद्ध करपाक दरेका पुताक आपल्या बापाय कडेन झगडचेंच पडटा. आनी दरेके धुवेक आपले आवय कडेन.''

''पिशेपणां!'' मोहन सणसणिल्लो. ''हो भुरगो बाद जाला. म्हज्या बापाय कडेन हांव असो केन्नाच वागूंक ना!''

मोहनाचें स्वताविशींचें मत सुस्पश्ट आशिल्लें. तो एक कर्तव्यतत्पर पूत, एक कर्तव्यतत्पर बापूय, घोव आनी भाव. हरशीं म्हाका व्हडलें पडून वचूंक नाशिल्लें. पूण जेन्ना ताणें म्हणलें, ''हांवें जें कितें केलें तें तुका आनी भुरग्यांक लागून. म्हाका तुका बरी जीण दिवंक जाय आशिल्ली, म्हजे कडेन केन्नाच नाशिल्ल्यो त्यो गजाली म्हाका भुरग्यांक दिवंक जाय आशिल्ल्यो,'' तेन्ना म्हाका मनाक लागलें.

हय, आतां म्हाका याद जाली, त्या खिणाक म्हजे मदीं खरी भावना जागी जाली. रागाची. आतां मेरेन ताचें म्हणणें हांव मात्शें गोंदळूनशें आयकतालें. म्हाका दिसता, जी गजाल तो म्हाका सांगूंक सोदतालो ती म्हजे तकलेंत रिगूंकच नाशिल्ली. कॉण्ट्रॅक्ट, टॅण्डर, फावोर, कमिशन... ह्या सगळ्या शब्दांचो म्हज्या जिविता कडेन कसलो

संबंद आशिल्लो? आमकां खंय बादताल्यो ह्यो गजाली?

"आतां चवकशी बी जातली," मोहनान म्हणलें, "म्हाका दिसना म्हाका सुटपाचो कितें चान्स आसासो. हांव काबार. आमी दोगूय काबार, अगरवाल आनी हांव, अगरवालाक फावो तें, सेक्रेटरी जालो तेन्नाच्यान तो ह्यो गजाली करता. ताणेंच ओडलो म्हाका हातूंत, म्हजे परस ताकाच हातूंतल्यान चड मेळ्ळां. ह्या सगळ्यांक तोच जबाबदार, हांव न्हय."

आयकून हांव ओगीच रावलें. हांव ओगी रावलां म्हणल्यार हांव ताका दोशी मानतां असो चुकीचो अर्थ ताणें काडला जावंये. तो एकदम उसळ्ळो - "हांवें हें केलें तें तुजे खातीर, तुज्या आनी भुरग्यां खातीर".

मागीर खूब वेळान ताणें म्हाका विचारलें, "तुका नायर याद जाता?"

"नायर?" खीणभर गोंदळून, त्या नांवां भोंवतणीं हांव घुंवत रावलें. आनी मागीर ह्याच खिणाची वाट पळयत उबो आशिल्ले प्रमाण, म्हज्या मनाच्या काळख्या कोनशांतल्यान म्हजे मुखार तो प्रकट जालो, म्हाका नायर याद जालो! स्पश्टपणान. तो कोण आशिल्लो आनी ताणें कितें केल्लें आनी तो कसो मेल्लो. *तो कसो मेल्लो*.. ताची याद येतकच, अचकीत म्हज्या लक्षांत आयलें, आमी कितें करूंक शकतात तें. हांवें तें चित्र पळयल्लें, सपना सारकें अस्पश्ट न्हय वा परिकथे सारकें झिळमिळटेंय न्हय जाल्यार सारकें स्पश्ट आनी अचूक, सिनेमा पळयिल्ले भशेन. सगळो तपशील स्पश्ट, जिवितप्रतिमे परसय व्हड आनी टॅक्निकलर. दोरयेन एकठांय बांदिल्लीं आमी चवगांय, दर्यांत चलत वतना. अपमान आनी बदनामी पसून पयस. एक शांत आनी रंगबिरंगी मरण. आनी म्हज्या मनांत त्या वेळार लेमिंग्सांचो विचार आयलो. घडये, चुकीचो विचार, कारण लेमिंग्स आत्महत्या करतात काय नात हाचे विशीं म्हाका खात्री ना. घडये मरणइत्सेन ते मरपा खातीर म्हणून दर्याच्या गर्भांत भितर सरना आसत. घडये अजाणतेपणान आसत, पूण भौशीक परहितनिश्ठेन ते ही असली अतिरेकी करणी करता आसत. ना, म्हणटकच लेमिंग्स हातूंत बसनात. मनांतल्यान ही कल्पना हांव फाफुडटां थंय आसां, मोहनान रागान म्हजी सुचोवणी भायर मारली आनी जें सुखदिणें मनोराज्य हांवें मनांत रचिल्लें... बुडट्या सुर्याच्या मोवसार उजवाडांत शांतपणान दर्यांत चलून वचपी आमी चवगांय... भंगून गेलें. आनी त्या अवशेशांच्या राशींतल्यान आनीक एक देखाव उबो जालो. जिवाच्या आकांतान, भयभीत मनस्थितींत देगे कडेन पेंवत येवपी एक चली. हय, नायराच्या भुरग्यां मदलें एक चली, ते बांदिल्ले दोरयेंतल्यान स्वताची सुटका करून घेवन धडपडत परत आयिल्लें जगपा खातीर. ते चलयेची याद जातकच म्हज्या लक्षांत आयलें - हो सुटकेचो मार्ग आमचे खातीर बंद. मोहनाचे नदरेन तर ही कल्पनाच अशक्य.

"पिशें लागलां जया तुका? कितली बदनामी जातली जाणा?"

बरोबर! हो सिनेमा सोंपतकच खंयचोच प्रेक्षक दोळ्यांतलीं दुकां गळयत घरा वच्चो नासलो. जालेंच जाल्यार, मोहनान स्पश्ट केल्ले प्रमाण हाची बदनामी चड बेगीन आनी चड पयस पातळपाची. मोहनान म्हजीं फकाणां केलीं म्हणून हांव मात्शें दबिल्लें तेन्ना, पूण आतां म्हजे ते विलक्षण कल्पनेचेर, म्हजें म्हाकाच हांसूंक येता. खरेंच तशें येवजुवप म्हणल्यार पिशेपणाचशीं.

एकामेकां कडेन केस्तांवां करिनासतना आमी असल्या निर्णया मेरेन पावंक शकतलीं आशिल्लीं? आमी, जीं केन्ना वाद घाले बगर कसलें जेवण आसचें वा खंयचो सिनेमा पळोवचो हें थारावंक शकनात - तीं सामकीं थंडसाणीन मरण आपणायतलीं आसलीं?

मोहना खातीर ही गजाल खूब सादी सरळ आशिल्ली. म्हजी ही कल्पना म्हणल्यार सामकें मुर्खपण! ती मरण-आस, ती लेमिंग्सांची खर इत्सा, मोहनाक अनवळखी आशिल्ली.

''तुका केन्नाच मरणाची इत्सा जाली ना? जीव दिवचोसो दिसलो ना?'' लग्नाच्या नवे नवलायेच्या दिसांनी हांवें ताका समजून घेवपाचे इत्सेन, उमळशिकेन, भावार्थी भावनेन विचारिल्लें. अशे तरेन दुसऱ्याक समजून घेवप शक्य आसा अशें तेन्ना म्हाका दिसतालें.

''ना,'' ताणें जाप दिल्ली आनी परत निश्चेवान न्हयकाराचो 'ना' तिरस्काराच्या तुतयान घट्ट मारिल्लो. आनी हांव उरिल्लें तशेंच. हांवें विचारिल्लो प्रस्न अभद्रसो, आमचे मदीं हुमकळायत.

तेन्ना म्हाका ताचें म्हणणें पटिल्लें, पूण आतां तितली खात्री ना. नक्कीच, मनशाच्या जिवितांत केन्ना ना केन्ना असो एक खीण येता, तो वा ती म्हणटा- म्हाका सिबला सारकें मरपाक जाय.

पूण मरणाची कबलात? मोहना खातीर हें मात्शें चडूच जाल्लें.

''इतल्या तोंकाची भुमिका घेवपाची गरज ना.'' ''नायर मूर्ख आशिल्लो. ताणें सामकेंच विटयिल्लें. ताका पयशाची हाव आशिल्ली. हांवें... .हांवें फकत वळखीच्या लोकां कडल्यान कांय फावोर घेतल्यात. आमची परिस्थिती इतली वायट ना, हांव तातूंत तितलो घुस्पल्लों ना. अगरवाल... अगरवाल - असो कसो निसरलो हें म्हाका कळना. हरशीं तो सदांच सादूर रावपी, पूण हे फावट... हो मनीस, जाची निविदा भायर मारिल्ली, दुर्देवान तो मनीस मंत्र्याच्या नात्यांतलो, हो मंत्रीय नवीन, अगरवाल ताका तितलो वळखना. ही चवकशी भायर मारची म्हूण तो आतां ताका मेळपाक धडपडटा.

''आनी तूं? तूं कितें करतलो?''

''अगरवालाचें म्हणणें, हांवें कांय दीस रजा घेवन नाच्च जावचें,'' मोहनाची

येवजण तयार आशिल्ली, ''आमी कांय दीस दादरच्या फ्लॅटांत रावया. बरें जालें, भुरगीं भायर आसात.''

आता म्हाका याद जाता, हांव ताचे वांगडा वतलें, ताचे येवजणेंत सामील जातलें अशें तो धरून चलिल्लो. आनी हांवूय बी. घोवा फाटल्यान अज्ञातवासांत वचपी सीता, यमदूता कडेन आपल्या घोवाच्या प्राणा खातीर झगडपी सावित्री, आपल्या घोवा वांगडा तांचे कश्ट समान वांटून घेवपाक तयार जाल्ली द्रौपदी...

ना, ना. ह्या पुराणांतल्या बायलां कडेन म्हजें कितें देणें-घेणें? हांव स्वताक फटोवंक शकना. सामकें सादें सत्य. जोताक वांगडा बांदिल्ल्या दोन बैलांक... एकेच दिकेन चलत रावप चड आरामशीर. वेगवेगळे दिकेन वचप कश्टाचें; आनी खंयचें जनावर आपूण जावन स्वता दुख्ख पसंत करतलें?

जेन्ना हांव मोहना वांगडा येवंक तयार जालें, तेन्ना एके गजालीची घासाघीस करूंक हांव तयार नाशिल्लें - त्या सगळ्या भुतांक मेळपाक, जांणी हांवें घरांत पांय दवरले बराबर म्हजेर घुरी घाल्ली. कितलींशींच जाणां - मकरंदमामा, आई, दादा आनी ताचे इश्ट, सामको उमेदी भुरगो, धाकलो राहुल आनी ''आमी हांगा चड दीस रावचीं नात...'' म्हूण सांगपी खुद्द मोहन.

हें सगळें म्हाका इतलें खरें दिसलें, म्हाका दिसता तें ताकाय दिसता काय हें पळोवंक हांवें बेगिबेगीन मोहना कडेन पळयलें. पूण ताच्या तोंडा वयली नावड, मुड्डिल्लें नाक पळोवन म्हाका कळ्ळें, ताका वेगळेच गजालीची जाणीव जाल्या. तो सगळो जागो कुबट आनी कुशिल्ल्या वासान भरिल्लो. तातूंत भर म्हणून नयनान आत्तां व्हेल्ल्या कोयराच्यो घाणी उक्त्या दारांतल्यान भितर सरल्यो.

''आमी हें सगळें निवळ करूंक जाय,'' मोहनान म्हणलें.

''आत्तां?''

''अर्थांत, ह्या असल्या सगळ्या पसाऱ्यां भितर आमी रावंक शकनात.''

आमचें लग्न जाल्लें तेन्ना ताची बारीकसाण, निवळसाणीची आवड, वेवस्थीतपण पळोवन हांव अजाप जाल्लें. आमच्या सप्तगिरीच्या घरांत वस्तू आपल्यो सुवातो सोडून व्हडा खोशेन हांगा थंय हेडटाल्यो. म्हणल्यार मुळांत तांकां तशी आपली म्हणून सुवात आसली जाल्यारच. आनी ताचें कोणाकच कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें; अप्पाक असल्या बारीकसारीक गजालीं विशीं चिंता नाशिल्ली आनी ताचें लक्षय नाशिल्लें. आई सदांच सुस्तेल्ली आनी अवेवस्थीत. आमच्या दुसऱ्या दोनय घरांची

अशीच वायट परिस्थिती आशिल्ली. आमचें सप्तगिरींतलें शारांतलें घर, जंय आजी, म्हजे काका, म्हणजे अप्पाचे दोनय भाव आनी तांच्या कुटुंबां वांगडा रावतालीं तेंय घर अशेंच सामकें रूक्ष आनी उगडें-नागडें, आजयेच्या बेणिल्ल्या जिविता सारकेंच आशिल्लें. सगळें कितें गरजे पुरतें. आनी आंबेगांवांतलें आईचें घर, जंय दुसरी आजी, चंदूमामा आनी वनितामामी रावताली, थंयूय सामको कचकच. चुकून खाटीचेर चादर-गादी वेवस्थीत आसताली. आनी घोड्या आकाराच्या खुटयाळ्याचेर तर कपड्यांची रास तें मोडपाक पावसर आसताली.

घडये हे गजालीक लागून, ह्या लोकां मदीं हांव ल्हानाचें व्हड जाल्ल्यान, म्हाका नितळसाण आनी वेवस्थीतपणाची शिस्त लावन घेवप कुस्तार जातालें.

पूण तेच प्रमाण मोहन ल्हानपणांत रावतालो तें सप्तगिरींतलें घरय पळयिल्लें हांवें. भितरले कुडींत कश्याकश्योय गादयो दवरिल्ल्यो आसताल्यो, त्या गादयांक आजूनय मुताचे खातसाणीचो मात्सो वास मारतालो. एक दोरी बांदिल्ली आसताली एके वणटी कडल्यान दुसरे वणटी मेरेन. मोहन सोडून आख्खें कुटुंब आपले कपडे तिचेर घडी करिनासतना उडयतालें.

"यो बेगीन," मोहनान बेजारून म्हणलें, "कित्याक रावलां तूं?"

लेमिंग्स... तेन्ना म्हाका तांची परत याद जाली. वेळ येता तेन्ना तीं फाटींफुडें जातात काय? काय अविचारी ताकतिकेन स्वताच्या अंता कडेन धांवतात?

हांव मोहना म्हऱ्यांत गेलें आनी आमी दोगांय सगळ्यो गजाली वेवस्थीतपणान जाग्यार घालूंक लागलीं. हांव एकदांच अनमनलें, कचकचून बुरशी भरिल्लो बूट म्हाका मेळ्ळो तेन्ना. विटून म्हजीं बोटां थरथरलीं. निमणें हांवें तो बूट पांयान धुकलून दारा भायर दवरलो, नयन तो कोयरा वांगडा व्हरूं म्हणून. मोहनान दारां आनी जनेलां उगडलीं. तांचेर गोठेल्लो धुल्ल फाफुडलो. मजगतीं, हांवें बेगिबेगीन सान्न मारली. पंखो फास्ट आशिल्लो, तरीय सगळें काम सोंपता म्हणसर आमी घामान न्हावन गेल्लीं.

"हांव न्हावन येतां," मोहनान आपलो शर्ट काडत म्हणलें. हांव म्हजो घाम सुकोवंक पंख्या पोंदां बसलें. तो संडासांत गेलो आनी कांय वेळान क्लँग, क्लँग, क्लँग हो वळखीचो आवाज कानार पडलो. थंय भितर घसघसून उदक भायर आयलें आनी हांगां क्रूरपणान भुतांनी म्हजेर झोंपय मारली. हांव सामकें चिड्डलें. आनी तेन्ना म्हाका कळ्ळें, हांव येवजितां तशीं हीं भुतां सदांच दुसऱ्या मनशांचीं आसनात. फुडो करपाक सगळ्यांत चड भयानक आसता तें स्वताचें आदलें भूत. आनी तेंच हांवें पळयलें. जमीन घांसून पुसून निवळ दवरपी, संडास लेगीत दाग आनी घाणी पसून निवळ दवरता म्हूण अभिमान बाळगुपी बायलेचें भूत. थंय बशिल्ले कडेन म्हाका याद जाली. आमी पयलींच जेन्ना हांगा रावंक आयिलीं तेन्ना कशें कश्टान आनी मन

लावन हांव संडासाचीं सोपणां लेगीत घांसून घांसून निवळ दवरतालें. सद्दां न्हावचे पयलीं हांव तीं घांसून घेतालें, बारीकांतल्यो बारीक काळ्यो जाल्ल्यो खांची लेगीत टूथब्रशान निवळ करतालें. उणोच म्हयनो लागिल्लो म्हाका ते सगळे दाग काडपाक. आनी मागीर कुसूम आयलें, आनी ताचे वांगडा दागय.

"आरे देवा, कुसूम? हो जागो तुवें इतलो घाण कसो जावंक दिलो?" नाटकीपणान हांवें तें ल्हान जनेल सताड उगडिल्लें. "हांगां सामकी घाण मारता. जनेल पसून उगडूंक जायना तुज्यान? आनी दर वेळा फ्लश करूंक जायना?"

"जायना म्हज्यान," ताणें नमळायेन कबुली दिली, "हांव सांखळी ओडटां, पूण कांयच जायना."

"पळय...!" कितली खोस भोगिल्ली म्हाका त्या खिणाक, म्हाका जैत आनी समादान दोनय मेळिल्लें. आनी कुसूमाचें मुखामळ सामकें बाविल्लें आनी गोंदळिल्लें. "पळय, फकत इतलेंच करूंक जाय तुवें."

क्लँग, क्लँग, क्लँग... हांवें तीन फावटी सांखळी ओडिल्ली आनी घसघसून उदक भायर सरिल्लें. उदक कितलो तेंप टांकयेंत सांठोवन उरिल्लें हें ताच्या कळमेल्ल्या रंगा वयल्यान कळटालें. आमी सगळीं ती ट्रिक शिकिल्लीं. आमकां सगळ्यांक याद उरिल्ली, राहुल लेगीत ल्हान आसतना ही ट्रिक शिकिल्लो, पूण कुसूमाक तें केन्नाच जमलें ना.

कमरा भोंवतणी तुवालो गुठलावन मोहन मान्यांतल्यान भायर आयलो. ताचें जानवें हड्डें आनी फाटी वयल्या ओल्या काळ्यामुदयाळ्या केंसांनी घुस्पल्लें.

"तुका न्हावपाचें ना?" ताणें म्हाका विचारलें आनी भुतां नाच्च जालीं. हांव चुकतां, मनांत विचार आयलो; भूतकाळांतल्या स्वताच्या भुताक मेळपाक भंय दिसना, फकत लज दिसता. म्हणजे कोणय अनवळखी बायल तुज्या आंगार पडून स्वताचें नातें सांगता आनी तें नातें तुका मान्य करपाचें आसना, तेन्ना जाता तशें. हांव घराचो अभिमान बाळगुपी ते बायलेकडल्यान - म्हणल्यार म्हजेच कडल्यान - सुटका करून घेवंक सोदतालें, तेन्नाच म्हज्या लक्षांत आयलें, ते बायलेक नांवय आसा. सुहासिनी.

"जया, तुजें नांव तुज्या मुखामळा सारकेंच आसा," कामतीन म्हणिल्लें आनी हांवें ताका विचारिल्लें, "कशें?"

"सामकें स्पश्ट, नाजूक आनी धारदार आसा, तुज्या मुखामळा भशेन," ताणें जाप दिल्ली.

पूण हे म्हजे कथेंत कामत कित्याक आयलो? ताचो हांगां कांय संबंदच ना. तरीय निश्ठूरपणान कोपरान धोंगशीत मारीत तो आमचे कथेंत येता, भायर रावपाची तयारी ना ताची. म्हाका आतां तो दिसता, मुखार येवन म्हजे कडेन बागवत, एका बोटान,

नाजूक वांकडी ओळ म्हज्या पोल्या वयले हनवटी मेरेन काडटना. तशेंच तें बोट मुखार वचत म्हज्या ओंठां कडेन येता, कांय वेळ घुटमळटा, पूण तांकां स्पर्श करिना. "सगळ्यो सामक्यो नितळ निवळ स्पश्ट ओळी. तुज्यो भुंवयो लेगीत..." तो बोटांनी हवेंतच म्हज्या भुंवयां वयर दोन सरळ ओळी काडटा. मागीर तो बसता आनी गंभीरपणान नदर लावन म्हज्या मुखामळा कडेन पळयत रावता. "फकत तुजे दोळे," ताणें म्हणलें. ताच्या आवाजांत अलिप्त चित्रकाराची खंत आशिल्ली, "फकत तुज्या दोळ्यांत तें ना - हें नीटनेटकेपण." म्हाका याद जाता, हें वाक्य म्हणटना ताच्या ओंठार माफी मागपी हांसो आशिल्लो. "तें मात्शें अनमनपी, अस्थीर आनी बेभरवंशाचें..."

शारिरीक स्पर्श ही म्हजे खातीर अती मोलाची गजाल. ल्हान आसतना म्हाका वेंगेंत घेतालो तो फकत अप्पा आनी ताचे उपरांत आतां मोहन. आमी घोव आनी बायल आशिल्लीं आनी तो म्हाका वेंगेंत घेवंक शकतालो, स्पर्श करूंक शकतालो, पोशेवंक शकतालो. पूण आमचे खातीर हें सगळें अशेंच वा फकाणांची गजाल नाशिल्ली. आनी हो दादलो... म्हाका याद जाता, ताची ती सहज शरीराक स्पर्श करपाची कला म्हाका अजापीत करून गेल्ली. पूण ताणें पयलेच फावट म्हाका केल्ल्या त्या स्पर्शान म्हाका धक्को बसला हाचीय ताका जाणीव जाली ना, हाचे वयल्यान स्पर्शा विशींची ताच्यो कल्पना म्हाका कळ्ळ्यो. ताका असल्या गजालीं विशीं कांयच दिसनाशिल्लें. पूण हें म्हाका कळून लेगीत, त्या दिसाच्या ताच्या अलिप्त आवाजाचो, तुटक स्पर्शाचो म्हाका राग आयिल्लो. ते तिडकी भरशीं हांव उलोवन गेल्लें, "खरें म्हणल्यार म्हजें नांव जया न्हयच, म्हणल्यार आतां न्हय. आतां हांव सुहासिनी."

"आरे, हें आनी नांव खंयच्यान आयलें?"

"लग्नांत, लग्ना वेळार मोहनान म्हाका हें नांव दवरलें."

"सुहासिनी?" ताणें प्रस्न केलो, दुसरे फावटी नांव उच्चारलें आनी निमाणें "अशें..." म्हणत हांसपाक लागलो.

म्हजे खातीर तरी त्या हांश्यानच सुहासिनीचो अंत जाल्लो, म्हजे पुरतो तरी. हरशींय ताका अस्तित्व नाशिल्लेंच म्हणा; त्या नांवान म्हाका कोणच उलो मारिनाशिल्लो, मोहन लेगीत. पूण ताटांत ताणें नांव बरयिल्लें तें 'सुहासिनी', जया न्हय. आनी हांवें तें नांव न्हयकारलें, जाल्यार मात दुशण दिल्ल्या सुरांत म्हणटालो,

"तें नांव हांवें दवरिल्लें तुका."

हय, पूण ताणें हें नांव दिवचे पयलीं, कितलींशींच वर्सां आदीं अप्पान म्हाका "जया" केल्लें. म्हज्या जल्मदिसा म्हाका हें नांव मेळिल्लें. खंयच्याय पालकाक, 3 सप्टेंबर 1939 दिसा जल्मल्लें भुरगें हें अपशकुनी दिसपाचें. पूण अप्पाक न्हय.

"हांवें तुजें नांव जया दवरलां," तो म्हणटालो, "जया म्हणल्यार जैत."

जैत जातलें हाचे विशीं अप्पाक केन्नाच दुबाव नाशिल्लो. तो आमकां खूब वेळा सांगतालो जैत जातलें म्हणून, पूण कोणाचें जैत जातलें हें मात ताणें केन्नाच सांगूंक ना. ताणें गांधीच्या नांवान शिक्षण सोडिल्लें, कांय 'विदेशी' कपडे लाशिल्ले, कांय वर्सां गांधी तोपी घाल्ली; पूण खुद्द चर्चिलाक लेगीत घडये इश्ट-राष्ट्रांचें जैत जातलें हाची इतली खात्री नाशिल्ली जावंये.

"हांवें तुजें नाव जया दवरलां. जया म्हणल्यार जैत."

आनी हांव जया आशिल्लें. पूण हांव सुहासिनीय आशिल्लें. आतां हांव ताका पळोवंक शकतां. सुहासिनी, जी जया परस वेगळी आशिल्ली, कोमल, हांसरी, म्हांेवाळ आवयचे काळजाची अस्तुरी. मायेमोगान आपल्या घराब्याचें संगोपन करपी एक अस्तुरी. कसलेय गजालीक फुडो करूंक शकपी एक अस्तुरी. जेन्ना हांव तिका अशे तरेन पळयतां, तेन्ना म्हाका लक्षांत येता, सुहासिनीक पळयतकच म्हाका कोणाची याद येता ती. चिमणी आनी कावळो हे काणयेंतले चिमणेची. "म्हाका काणी सांग" म्हटलेबराबर आमकां सांगताली ती काणी. आमकां सगळ्यांत पयलीं हीच काणी सांगिल्ली. म्हाका तरी तीच याद आसा. घडये सगळ्या भुरग्यांक हीच काणी पयलीं सांगतात.

हांवें चिंतलें, हांवय ही परंपरा फुडें व्हरतलें. आनी राहुलाक हे काणयेन सुरवात केल्ली. आनी मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें, काणयेचो शेवट कसो जाता हें हांव विसरलां. हांवें आईक विचारलें.

"चिमणी आनी कावळो ही काणी कशी सोंपता?"

"कसली काणी? खंयचो कावळो आनी खंयची चिमणी? कितें उलयता तूं?"

आई त्या आवयां मदली न्हय, जांकां आपल्या भुरग्यांच्या भुरगेपणांतलो दर एक खीण, दर एक घडणूक याद उरता. ती तर आमच्या भुरगेपणांतले फोटे पळोवन लेगीत घुस्पता, दादा, रवी आनी हांव हांचे मदीं.

"ती काणी गे आई, मूर्ख कावळो बांदता शेणाचें घर आनी बुदवंत चिमणी बांदता मेणाचें घर, ती काणी..."

आनी जेन्ना पावस पडलो तेन्ना मेणाचें घर उरलें घट्ट आनी शेणाचें घर गेलें व्हांवन. आनी बाबडो कावळो, पावसान चिप्प भिजिल्लो कुडकुडत चिमणेगेर गेलो आनी तिच्या दारार मारलें, "चिमणी ताई दार उगड आनी घे म्हाका भितर." आनी चिमणेन म्हणलें, "एक मिनीट राव हां, म्हजें पील आत्तां उठलां." कांय वेळान कावळ्यान परत दारार मारलें, "म्हाका भितर घे गे भयणी, म्हाका भितर घे." आनी चिमणेन सांगलें, "राव रे मात्सो, हांव म्हज्या पिलाक लायतां."

आनी काणी अशीच मुखार वता, तो मूर्ख साडेभावार्थी कावळो थंय पावसांत

भिजत रावता, ‘‘म्हाका घे गे भितर’’ म्हूण चिमणे कडेन भीक मागत. तेवटेन भयणुली चिमणी एक एक निमतां सांगीत रावता.

‘‘मागीर चिमणी कावळ्याक भितर घेता?’’ हांवें आईक विचारिल्लें.

‘‘हय, हय. घेता ती,’’ आईन जाप दिल्ली. जयाचें - विचित्रपण - सोंसपाचे भाव हाडीत. ‘‘हय तर, ती ताका भितर घेता. पूण मागीर कितें जाता? कितें तरी जाता, हांव विसरलां आतां, कितलीं तरी वर्सां जालीं हांवें कोणाकय काणी सांगल्यार. म्हाका दिसना, हांवें रवीक काणयो सांगल्यात म्हणून... राव, कितें घडटा...?’’ तिणें कपलार आटयो घालून याद करपाचो यत्न केल्लो आनी हांव पासियेंसान तिचे जापेक राविल्लें. ‘‘हय, आतां याद जाली. कितें जाता जाणा, चिमणी एकदांची ताका सांगता, यो भितर, आरेरे, तूं सामको भिजला मरे. बाबडो तो.’’ अशें म्हणत ती तेन्नाच *चपात्यो* केल्ल्या तव्या कडेन बोट दाखोवन म्हणटा, ‘‘मात्सो शेकून घे स्वताक’’ आनी तो पिसो कावळो तव्याचेर उडी मारून बसता आनी भाजून थंयच मरता.

भुरग्यां खातीर घडयिल्ली कसली दुश्ट आनी भयानक काणी ही असो विचार मनांत येवन संताप आयिल्लो म्हाका तेन्ना. पूण आतां दिसता, ताचे परस पाश्ट गजाल म्हणल्यार - असली भिरांकूळ बोध दिवपी काणी अजाण बालमनांत रिगून तांचेर वायट परिणाम जावं येता. एकेवटेन तो मूर्ख, फोल्गी, बेजबाबदार, सादोभोळो कावळो आनी दुसरे वटेन सावध, आत्मकेंद्रीत, जग समजुपी, कर्तव्यदक्ष, चाणाक्ष चिमणी. जगता ती चिमणी. ती कावळ्याक कितलो तरी वेळ घरा भायर ताटकळत दवरता आनी शेवटाक दया आनी आलाशिरो दिवपाच्या निमतान मारून उडयता. आतां म्हाका दिसता, नकळटां कांय जायना, पूण राहुलाक न्हिदयतना ही काणी सांगलिना तें हांवें बरें केलें. येवजियात, ही काणी आयकून कितें परिणाम जातलो आसलो त्या चल्या भुरग्याच्या बालमनाचेर? ही काणी; तातूंत बळी गेल्लो कावळो - एक दादलो, आनी जैतवंत जाल्ली ती चिमणी - एक बायल.

आनी घडये ही काणी रती खातीर तर चडच खतरनाक जावपाची. म्हाका दिसता, एकाद्रो ल्हान चलो ही काणी विसरपाक शकलो तरीय ल्हान चली मात ती केन्नाच विसरचें ना. चलयो ही काणी आपल्या अजाण वा सुप्त नाजाल्यार आनी खंयचे तरी मनाच्या कुरकुटांत सांबाळून दवरतलीं आनी कालांतरान स्वताय घृणास्पद, असहाय्य आनी मिजाशी चिमण्यो जातलीं. आपल्या घराचो, भुरग्यांचो सांबाळ करपी... आख्खें जग मसणांत गेलें तरीय तांकां पर्वा नासतली. घरा रावपाचें, भुरग्यांचो सांबाळ करपाचो, सगळें जग नदरे आड करपाचें आनी सुरक्षीत जीण जगपाची. ती बाबडी मूर्ख बायल सुहासिनी ह्या सगळ्या गजालींचेर विस्वास दवरताली. आतां म्हाका खरी जाण आयल्या. म्हाका खबर आसा, सुरक्षितताय केन्नाच मेळूंक शकना. तुमी केन्नाच सुरक्षीत आसनात.

न्हीद आनी जाग हांचे मदीं भरकट्टना म्हाका दिसलें, म्हाका पयसुल्ल्या दर्याचो गाज आयकूंक येता. मागीर, एकदम खिणभरांत, हांव तातूंतल्यान भायर सरलें आनी म्हाका म्हजें सरभोंवतण स्पश्टपणान होलमलें, तो दर्याचो गाज नाशिल्लो, ती आशिल्ली उपनगरांतल्या सकाळचे लोकलीची धडधड. आनी हांव चर्चगेटीच्या घरांतल्या व्हडल्या बॅडरुमांत नाशिल्लें जाल्यार मकरंदमामाच्या दादरच्या सामानान भरिल्ल्या धाकल्या फ्लॅटांत आशिल्लें. तरीय म्हाका अनवळखी जाग्यार जाग येतकच एके तरेचो भयानक स्मृतीभ्रंश जाल्ले भशेन जावन, ह्या जगा कडेन आपलो संबंदच लावंक जायना तशें जालें ना. म्हजे आशीकुशीच्यो सगल्यो गजाली वळखीच्यो आनी धीर दिवपी आशिल्ल्यो - ड्रॅसिंग टेबलाचो पेड्ड्यार जाल्लो हारसो, रुमांतल्या मंद उजवाडांत भुता सारको रितो-रितो दिसतालो. एकदम नागडें उगडें व्हडलें मेज, ऊंच लोखंडाची बाज्ज, तिची दरेक करकर म्हजे सामकी वळखीची आशिल्ली. हांव स्वताच कडेन मात्शें सुस्त जालें आनी ल्हवू ल्हवू कुडींत फांकपी उजवाड पळोवंक लागलें. हे संकेत, हांवें विचार केलो, हेच ते, आमच्या जिवितांतल्यो ह्योच गजाली त्यो, आमी खंय पावल्यात तें आमकां सांगपी कुरवो. धांवपट्टीवेल्या दिव्यां भशेन. जे मेरेन आमकां ते दिसतात ते मेरेन शेणपाचो भंय आसना. पूण हें सगळें आसून लेगीत मनीस शेणत जाल्यार?

ताणें सांबाळून आपली कूस परतिली तेन्ना बाज्जेच्यो स्प्रिंगी करकरल्यो आनी तो म्हजे आनीक लागीं पावलो. म्हजे छातयेर ताचो हात आडवो पडिल्लो. ताच्या त्या वजनान म्हाका स्वास घेवंक जायना जालो. हांवें ल्हवूच ताचो हात कुशीक काडलो. तो स्वता कडेनच कितें तरी बडबडलो आनी मागीर एकदम ताणें दोळे उगडले ते म्हज्या दोळ्यांत पळयतच.

"हूं... जया?" अनवळखी जाग्यार उठ्ठकच मनांत येता ती भिरांत हांगां आशिल्ली.

"कितें?"

तो परत कितें तरी बडबडलो, पळोवन ना पळयिल्ले भशेन हांगां थंय नदर भोंवडायली, मागीर दोनय हात केंसांत घुस्पायत एकदम उठून बसलो, "खीणभर म्हाका यादच जायना जाली... हांव चिंतपाक पडलों हांव खंय आसां काय म्हणून. तूं बरें न्हिदलें?"

"सादारणशें." हांव रातभर सुस्त मेल्लें मडें कशें न्हिदलें हें हांव ताचे मुखार कबूल करूंक शकलें ना.

"तुका च्या हाडूं?"

"ऊंऊं" तो परत खाटीर आड पडलो आनी एक व्हडली जांबय काडली, "दूद आसा घरांत?"

"मुक्ता कडल्यान थोडें हाडपाक जाता. मागीर दनपारचें जीजा हाडून दितलें

म्हाका दूद.''

तो म्हजें आयकनाशिल्लो. ताणें स्वताक चादरांत गुठलावन घेतिल्लो आनी आंगाची पोटली करून दोळे धांपून तो ओग्गी पडिल्लो. हांव च्या घेवन आयलें तेन्ना म्हाका ताका उठोवचें पडलें. हांवें हाडून दिल्ल्या काळपट, कपचे गेल्ल्या मगा विशीं कांयच कमॅण्ट मारिनासतना तो मोन्यांनी च्या पियेलो. हांव जेन्ना आयदनां धुवन रांदचे कुडींतल्यान भायर आयलें तेन्ना तो कॅलेंडरा मुखार उबो रावन तें एकटक पळयतालो. लेंगो वयर करीत ताणें म्हाका विचारलें, ''राहुल आनी रती केन्ना येतलीं?''

''पंदरा तारखेक रातचीं. सतरा तारखेक स्कुलां सुरू जातात.''

''हूं...'' विचार करीत कॅलेंडरा कडेन पळयत ताणें पोलो खाजयलो. ताच्या ते खरखरीन म्हजे दांत किटकिटले, ''आयच्यान बारा दीस उरल्यात.''

त्या बारा दिसाचे भोंवतणी माजरा पावलांनी भोंवत आमी दोगांय ओग्गी जालीं आनी मागीर, मुद्दाम - म्हाका दिसतालो ताचो तो प्रयत्न - ताणें आपल्या विचारांची दिका बदल्ली. ताणें म्हाका हांसत विचारलें, ''हे कोणें केलां?'' वणटीचेर सुशोभीत झगझगीत रंगान रंगयिल्ले लक्ष्मीच्या सात्वीक चेऱ्याचेर लायिल्ल्या हळद आनी कुकमाच्या दागा कडेन पळयत ताणें विचारलें.

''तें? कुसूमान केलां तें! ताका ताच्या देवांची याद येताली जावंये.''

ताचो हांसो शेणलो आनी तोंड म्हों‌वाळ्यावरी जालें. बाबडें कुसूम - ताच्या मरणा उपरांत लेगीत लोकांमदीं ताचे विशीं इतलो तिरस्कार! तें दुयेंत पडिल्लें तेन्ना हांवें ताका आमगेर हाडचें न्हय म्हूण मोहनान म्हाका घुंवडावपाचो खूब यत्न केल्लो.

''ताचें वजें तूं आपल्या माथ्यार कित्याक मारून घेता? ती तुजी जबाबदारी काय न्हय, हय काय न्हय? आनी तें तुज्या नात्यांतलें लेगीत न्हय.''

''ना. ताचे कडेन म्हजें तशें नातें ना.''

ल्हानपणांत कुसूम म्हाका अजिबात आवडनाशिल्लें. मागीर ही नावड आस्थाहीन तिरस्कारांत बदलिल्ली. सामकें निमाणें ताच्या अंता वेळार लेगीत ताची परिस्थिती सामकी दयनीय, असंतुलीत जाल्ली, तेन्नाय म्हाका तिडक हाडटालें तें. आनी तरीय, कुसूमाक मजत करपाक मोहनान म्हाका थांबोवपाचो यत्न केलो तेन्ना इतल्या वर्सांत, पयलेच खेपे, ताका हांवें विरोध केल्लो.

''ना. तें म्हज्या नात्यांतलें न्हय, पूण तें वनितामामीची - धुवडी''.

म्हजे मामीची धुवडी, म्हजे आवयच्या भावाचे बायलेची धुवडी, म्हज्या मामाचे बायलेची धुवडी... हीं सगळीं अदलाबदलीचीं नातीं इतलीं पयसुल्लीं दिसतात. तातूंतल्यान कुसूम म्हज्या नात्यांतलें न्हय हें सिद्ध जातालें. पूण जेन्ना हांव ''तें

वनितामामीची धुवडी'' अशें म्हणटालें, तेन्ना आमच्या नात्याक एक दिका मेळटाली आनी ताका म्हजेर दावो करपाचो हक्क मेळटालो.

''पळय जया, हांव कितें चुकीचें सांगना न्हय? हाचे पयलीं तूं तुज्या मनशांक मजत करतना हांवें तुका केन्ना आडायलां? हांवें तुका सदांच जाय तें करूंक दिलां. पूण ही बायल फकत दुयेंत ना, तिचें दुंयेंस मानसीक आसा. ताका घरा हाडप योग्य जातलें? भुरग्यांचो विचार कर.''

हे गजालीचेर हांव हारलें. ''भुरगीं''... ह्या शब्दाचेर आमचो वाद-विवाद सदांच सोंपता. तो शब्द आमची पवित्र गाय, तो शब्द आमी जें कितें करतात ताचें सगळें समर्थन करता, जगपाचें लेगीत. आमी जें कितें करतात वा करिनात तें सगळें भुरग्यां खातीर. आतां म्हज्या लक्षांत येता, आमच्या ह्या निसुवार्थीपणाच्या वज्या सकयल आमचीं हीं भुरगीं, खिन्न राकेस जाल्यांत.

''बरें आसा. ताका हांव दादराच्या फ्लॅटांत दवरतां, पूण जे मेरेन ताचे मदीं सुदारणा जायना ते मेरेन ताका हांव आमगेर दवरतलें.'' आनी हांव जेन्ना ताका थंय व्हरतलें, तेन्ना म्हज्यान जाता तितलो वेळ ताचे वांगडा सारपाचो यत्न करतलें अशें हांवें थारायलें. जीजा म्हाका मजत करतलें, मुक्ताय म्हाका मजत करतलें, हाची म्हाका खात्री आशिल्ली. कुसूमाचें व्हडलें चली लता, ताकाय हांव कांय तेंपा खातीर आपोवंक शकतालें...

म्हजे चिवटसाणीचें तांकां अजाप दिसलें... मोहन, आई, दादा, रवी...इतल्यो वेगवेगळ्या सभावाच्यो भिन्न व्यक्ती... म्हजो घोव, म्हजी आवय, म्हजे दोनय भाव. विरोध करतना सगळीं कशीं एक तें पळोवन म्हजे म्हाकाच अजापशें दिसलें. ''तूं हातूंत कित्याक पडपाक सोदता?'' तांणी म्हाका विचारिल्लें आनी ''भुरग्यांचो मात्सो विचार तरी कर.'' जशें कितें कुसूम म्हणल्यार एक सामकी पिसांट बायल, म्हज्या भुरग्यांक नश्ट करूंक भायर सरल्या, अशे तरेन हीं सगळीं उलयतालीं. खरें म्हणल्यार कुसूम एक बाबडी, भियेल्ली, हारिल्ली बायल. विध्वंस करपाची तिची खर इत्सा तिचेरच परतल्ली.

वनितामामीक एकटेकच म्हजे विशीं मातूय दुबाव नाशिल्लो. हांव कुसूमाक मजत करतलें हें तिणें गृहीतच धरिल्लें. आनी जेन्ना कुसूम मेलें तेन्ना म्हजें सांत्वनय तिणेंच केल्लें.

''ते बाबडे चलयेच्या नशिबांतच हें आशिल्लें, ताका तूं तरी कितें करतलें? तरीय तुज्यान जाता तितलें केलें तुवें.''

हांवें खरेंच केल्लें तशें?

''जया, आतां म्हाका वचूंकच जाय.'' एक दीस अचानक कुसूमान विनवणेच्या सुरांत म्हणलें. हांव त्या वेळार मात्शें तिडकीनच सगळे कुडीक पळयतालें. थोडेच

दीस रावन लेगीत आपल्या बुरशेपणाची छाप कुसूमान थंय सोडिल्ली. ताची साडी खाटीर पडिल्ली, बऱ्यो मिरयो काडून वेवस्थीत दवरचे बदला भिकाड्ड्या भशेन चिरकुटिल्ली आनी चुरगळिल्ली. एक सामकी झरिल्ली, मळकट ब्रा खिन्नपणान कदेलाच्या हाताचेर हुमकळटाली. ड्रेसिंग टेबलाचेर दवरिल्ले फणयेंतल्यान एक घाणयारो केंसाचो झुपको म्हाका तिरशे नदरेन पळयतालो...

"जया, म्हाका वचपाक जाय."

"वचपाक जाय? खंय?"

"म्हज्या घरा - म्हज्या भुरग्यां कडेन," अशें म्हणटना ताचे हात नकळटां ताचे सपाट छातये कडेन गेल्ले. जशीं काय ताचीं थानां दुदान तट्टतटल्यांत आनी आवयक आपल्या भुरग्याक दुदाक धरपाचें आसा. खरें म्हणल्यार ताचें धाकटें धा वर्सांचें जाल्लें आनी एकट्या लताचो अपवाद सोडल्यार, हेर भावंडां भशेन तेंय तिचो तिरस्कार करतालें. पूण कुसूमाचे हे विचित्र हावभाव हेंच ताचें खाशेलेंपण. आनी म्हाका तें अजिबात आवडनाशिल्लें. जेन्ना तें मरतुकडें, कुरूप भुरगें आशिल्लें तेन्ना लेगीत आपूण बायल आशिल्ल्याची छाप तें उदेवंक सोदतालें. जाणट्या बायलांचें चलपाचें अनुकरण करूंक आपली हाडकुळी कमर हांगाच्यान थंय हालयत किळस येवची अशें चलतालें. तेरावें वर्स सुरू जातनाच ताणें साडी न्हेसपाक सुरवात केली, साडयेचो पदर सारको सांबाळून खांद्या भोंवतणी गुठलावन स्वताक सारकें धांपून घेतालें, जशें काय हयन्हयशी छाती लेगीत तें कामूक दादल्याचे नदरे पसून लिपोवंक सोदतालें. दादा जर केन्नाय आशीकुशीक आसत जाल्यार ते थंयच्यान अती नमळायेन तिरशे चालीन वतालें. हें पळोवन म्हाका रागय येतालो आनी हांसूंकय.

"जया, तूं कुसूमाक इंग्लिश कित्याक शिकयना? ताची इंग्लिश बरीच फ्राक आसा," वनितामामी म्हाका म्हणटाली. "तूं तुज्या घोवाक कित्याक सांगना कुसूमाच्या घोवाक बरी नोकरी पळय म्हणून? तूं कुसूमाक बायल दोतोन्नी कडेन कित्याक व्हरना? बाबडें पोर, तिनूय चलयोच आसात, आतां चवथो तरी चलो जावंदी. तूं कुसूमाक मुंबय व्हरून बऱ्याश्या दोतोराक कित्याक दाखयना, तें विचित्रच वागता..."

आनी हांगां हें कुसूम "म्हाका घरा वचपाक जाय" म्हणटालें. जेन्ना कुसूम मुर्खा सारकें वागतालें तेन्ना दादा म्हाका सांगतालो, "दुर्लक्ष कर ताचे कडेन." पूण "म्हाका घरा वचपाक जाय" हो ताचो परपरत जावपी हट्टाग्रह...

"तूं वचूंक शकना, दोतोर तुका धाडचे नात. तुजे उपचार अजून सोंपूंक नात."

"म्हाका उपचाराची गरज ना, हांव बरें आसा."

"बरें आसा...? आसत, ताचो भाव दिलीप म्हजेकडेन घेवन आयिल्लो तेन्ना भिरांत दिसपा सारक्या निर्विकार चेऱ्याच्या यंत्रापरस, बरें दिसतालें तें, पूण...

"लता रोखडेंच हांगां रावंक येतलें, जाणा न्हय तूं?"

"म्हाका म्हज्या सगळ्या भुरग्यांक पळोवंक जाय."

"तांकां तुजी गरज ना," हांवें खूब निश्ठूरपणान ताका सांगलें. कसलो अधिकार आशिल्लो ताका आपल्या दुख्खाची दवंडी पेटोवपाचो? "तीं तुजे शिवाय बरे तरेन जगतात."

"पूण म्हाका तांची गरज आसा."

हाचेर म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली. हांवें दिलीपाक बरोवन धाडलें, तो येवन ताका घेवन गेलो. अशे तरेन तें मरपा खातीर घरा गेल्लें. मागीर म्हाका कळ्ळें ताणें वचून झरी सुकिल्ले बांयंत जीव दिल्लो म्हणून. म्हणटकच तें मेलें तें बुडून मरुना, मान तुटून मेलें. हातूंत कितें व्हडलो फरक पडलो...खरें म्हणल्यार कांयच ना, पूण हें कुसूमाचें खाशेलेपण आशिल्लें.

"तुजे खातीर एक वायट बातमी आसा," आईन बरयिल्लें, "कांय दिसां खातीर कुसूम आपल्या मांय-मांवागेर गेल्लें आनी ताचो घोव येवन ताका व्हरपाचो आशिल्लो. ताच्या पयल्या दिसा ताणें बांयंत उडी मारली आनी मेलें. तुजी मामी पिरंगता आनी रडटा, पूण जें जालें तें एका अर्थान बरें जालें. तें पिशें जातकच ताचो कोणाकच कांयच फायदो नाशिल्लो, कोणाकच ताची गरज नाशिल्ली.

"*ताचो कोणाकच कांयच फायदो नाशिल्लो..*" ह्या वाक्यान हांव भियेलें. म्हजी आवय इतली निश्ठूर जावंक शकता हें हाचे पयलीं म्हाका केन्नाच जाणवूंक नाशिल्लें. हांवें तिडकी भरशीं चवताळून चिटयेचे बारीक बारीक कुडके केले आनी कोयराच्या पाटल्यांत उडयले. एक कुडको भायर पडिल्लो, हांवें तो हातांत उखल्लो जाल्यार "देवाची इत्सा" अशे बरयिल्ले शब्द म्हजे नदरेक पडले. रागान हांवें तोय कुडको त्या पांटल्यांत शेंवटून मारले. पूण आतां हांव विचार करतां... घडये कुसूमाचें तशें मरप विधीलिखीत आशिल्लें. घडये अशेंय जावं येता, जेन्ना तें असहाय्य, निराश आवय-बापायच्या घरांत जल्माक आयलें, तेन्नाच कर्मकट्ट्या नशिबाचो छाप ताच्या कपलार पडिल्लो. ताच्या बापायन आयुश्यभर सिनेमा पळोवपाचें आनी सिगारेट ओडपाचें काम सोडून कसलेंच काम केलें ना; आनी आवय? तिचें सगळें लक्ष आपले हांडयेर आशिल्ल्या भुरग्याचेर आसतालें आनी हेर भुरगीं दावें सुटिल्ल्या पाडका भशेन हांगा थंय हेडटालीं. अवेवस्थीत, बुरशीं, उपाशीं... असल्या पालकांच्या घराब्यांत कुसूमाक कितें मेळूंक शकतालें?

पूण आतां दिलीपाकच पळयात, कुसूमाचो भाव, त्याच घरांत जल्मल्लो, त्याच आवयबापायचो पूत. एक उंवाळिल्लो आनी फाफारांव भुरगो, आतां म्होवाळ आनी येसस्वी मनीस जाल्लो. पूण दिलीपान सदांच आपले भोंवतणी जैताचें वलय तयार केल्लें. मॅट्रिक फेल जालो तेन्ना लेगीत ताची आवय अपुरबायेन सगळ्यांक सांगताली, "आमचो दिलीप नॉन-मॅट्रिक." हाका लागून ताचें अपेस लेगीत ताचें खाशेलेपण

जाल्लें. ''आमच्या दिलीपाक सगळे भियेतात,'' कांय वर्सां पयलीं वनितामामीन म्हाका सांगिल्लें, ''तो युनियनाचो लीडर जालो आनी ताका खूश दवरपाक कारखान्याचो धनी ताका पयशे दिता. आतां ताचे कडेन बरेच 'ब्लॅक' पयशे आसात.'' हरशीं म्हजे आईक वनितामामीचो हो 'आमचो दिलीप' जप सहन जायनाशिल्लो. तरीय तिका दिलीपाचें कवतूक दिसतालें. हांवें तांकां वांगडा पळयलां, तांचें आपलेपणाचें उलोवप, तांचे जोक्स, तांचें हांसप आयकलां...

दिलीपाची व्हडविकाय आनी येस आनी ताचे इतलें वयर पावप - झोमून घेतलें तें ताणें खरें म्हणल्यार - समाजशास्त्राचो इंटरेस्टिंग विशय जांव येता. फाटले फावटी हांव आंबेगांव गेल्लें तेन्ना तांगेर गेल्लें - नवेताल्ल घर - शाराच्या भायर, गुलाबी पाचव्या रंगाचे बंगले अळमी कशे वयर सरल्यात. तातूंतलोच एक बंगलो.

हॉलाचे वणटीर ताचे आवयचें व्हडलें पांयजेल आशिल्लें. ताका टवटवीत फुलांचो हार आशिल्लो. ''तो सदांच ताजीं फुलां हाडटा, कितलींय म्हारग आसलीं तरीय,'' कवतुकान वनितामामी म्हज्या कानांत फुतफुतली. तिच्या आवाजांत आपले मेल्ले भयणी विशीं, जी जिती आसतना ''बाबडें वेणू'' आशिल्ली, तिचे विशीं कवतुकान भरिल्लो दुस्वास आशिल्लो.

दिलीपाचे अजापीत करपी किमयेक लागून ताची सर्गेस्त आवय लेगीत त्या पांयजेलांत एक सकारात्मक आनी आत्मविस्वासू व्यक्ती कशी दिसताली. म्हाका याद जाता ताचे परस सामकी वेगळी अस्तुरी, ती सदांच आपल्या सोडिल्ल्या पांयांचेर एक भुरगें घेवन बसताली आनी आमी येतकच हयन्हयशा अजापान आमकां पळयताली. पूण वनितामामीच्या म्हणण्या प्रमाण ''बाबड्या वेणूनच'' आमकां आमंत्रण दिल्लें. वनितामामीच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार आमी थंय गेलीं नात जाल्यार बाबड्या वेणूचें मन दुखपाचें. पूण हाचे बदला, आमकां थंय पळोवन वेणू सामकी अजापीत जाताली. खरें म्हणल्यार, ती आपल्या भुरग्यां कडेन, म्हणल्यार दिलीप, कुसूम, शैला आनी बाकीच्यां कडेन लेगीत हेच नदरेन पळयताली. जशे काय तिच्या मनांत प्रस्न पडटालो, हीं कोण आनी हांगां कित्याक आयल्यांत? तिच्या सोडिल्ल्या पांयांचेर आशिल्लें भुरगें, हें एकच तिचे खातीर सत आसतालें. आतां हांव विचार करतना एक मजेशीर गजाल म्हज्या लक्षांत येता. तिचीं भुरगीं तिचे मांडयेच्या मोव भागार न्हय जाल्यार पांयांच्या सकयल्या हाडाचेर बसयिल्लीं आसतालीं. घडये ती तांकां मुखावयल्या जिविता खातीर तयार करूंक आपले मांडयेची मोवसाण दिनासतना पांयाच्या घट्ट हाडांची संवय करताली. (आतां दिलीपाच्या घरांत मोव मोव सोफासेट, लोडां आनी कुशनां पातळिल्ली आसतात.)

हय, दिलीप जल्मलोच येस जोडपाक. सुरवाती पसूनच तो वयर सरपाक कितेंय करपाक तयार आशिल्लो. ताच्या जिविताचें आदर्श वाक्य, तो आपले तांबडे इंग्लिशींत

मारतालो, "whose father's what goes!" हाचे उरफाटें कुसमाचें. तें जल्मलां तेन्नाच्यान आपले भोंवतणीं पराभवाचें वलय घेवन भोंवतालें. ताणें बांयंत मारिल्ली ती उडी ताच्या दोळ्यांत त्या दिसाय आशिल्ली, ज्या दिसा तें दादा आनी म्हजे फाटल्यान आमच्या वांगडा सिनेमाक गेल्लें. ती त्याय दिसा आशिल्ली जेन्ना ताचो एकुलतो एक देसेंत ड्रॅस भायर दोरयेर सुकत घाल्लो आसतना, पिंजके पोरणे कपडे घालून, वनितामामीचे काळखे कुडींतल्यान तें आमकां पळयतालें.

"लक्ष दिनाका ताचे कडेन," जेन्ना तें पिशा भशेन वागत वाज हाडटालें तेन्ना दादा म्हाका सांगतालो; पूण म्हाका तें जमनाशिल्लें. म्हाका ताची भिरांत, वेदना, निराशा समजताली. म्हाका ताचें वजें होलमतासर ती थेंब थेंब म्हज्या आंगांत जिरताली. ताचें मानसीक संतुळन इबाडलां म्हणून कळ्ळें त्या दिसा म्हज्या जिवाक सुसेग जालो. कोणाच्या तरी मरणाची बातमी आयकतकच जाता तशें. जेन्ना तुका स्वता विशींची जाणीव जाता, तेन्ना तुजो स्वताचो जीव, तुजी जीण हें अती म्हत्वाचें सत दिसूंक लागता. आनी कुसूमाच्या पिशेपणान म्हाका म्हजे स्थीर मानसीक स्थितीची जाणीव करून दिली. बरें जालें कुसूम, तूं पिशें जालां तें. हांवें विचार केल्लो, तूं तशें आसा म्हूण हांव संतुळीत, शाणें आनी बरें आसा हें हांव जाणा.

एक गजाल अचकीत म्हज्या लक्षांत येता - जे मेरेन कुसूम आशिल्लें ते मेरेन हांव कोण हें हांव स्पश्टपणान जाणा आशिल्लें. कुसूमानच म्हाका हांव कोण तें दाखोवन दिल्लें. हांव कुसूम न्हय, हें हांव पक्कें जाणा आशिल्लें. पूण आतां, कुसूम मरतकच...?

आमी च्या पियेलीं, न्हालीं आनी मागीर, दीस आमचेर चवताळून धांवन आयलो. खूब वेळ बांदून दवरिल्ल्या सुण्याक सोडटकच तो आंगार येता तसो. आमी एकामेकां कडेन पळयलें आनी लक्षांत आयलें, आमच्या दोगांयच्याय दोळ्यांत एकच प्रस्नचिन्न आशिल्लें: आमी आतां कितें करतलीं? आमच्या आखख्या जिविताचें आमी कितें करतलीं असले तरेचें कुवाडें बी आमचे मुखार नाशिल्लें; हे सादें उखाणें आशिल्लें - आमी, आतां, ह्या खिणाक, आयज, फुडल्या खिणाक आनी फाल्यां, कितें करतलीं?

पूण ह्या प्रस्नाक जाप नाशिल्ली. ती खंय तरी खोल पाताळांत शेंवटून पडल्या अशें दिसतालें. कांयच परत आयलें ना, प्रतिध्वनी लेगीत. ती स्तब्ध शांतताय म्हाका कित्याची तरी याद करून दिताली. थीर आशिल्ले ट्रेनींत बशिल्ल्याची. मागीर

हालचाल सुरू जाता, गडबड, आवाज करीत ट्रेन स्पीड घेता आनी तूं पयस वचपाक लागता. आनी मागीर अचकीत शॉक बसपी थंडसाण आनी भायल्यान चकचकपी रूळाचेर तुजी नदर पडटा आनी तुज्या लक्षांत येता, गेली ती ट्रेन दुसरी, तुजी न्हय. तुजी स्वताची हालचाल हो फकत एक भ्रम आसता. तूं इतलो वेळ आशिल्लें थंयच आसता.

आमी दोगांय आमचीं जगपाचीं साधनां शेणोवन बशिल्लीं, हीच सत्य परिस्थिती आशिल्ली. ताचो सदांचो नित्यक्रम, ताच्यो फायली, ताचो टेलिफोन, ताचे अपॉयंटमॅण्ट सगळें बंद जाल्ल्यान, तो कोणच उरूंक नाशिल्लो; खात्रेन, जाच्या गरजो आनी इत्सांभोंवतणीं म्हजें जिवीत घुंवतालें, तो म्हजो घोव, हो दादलो नाशिल्लो. ताका आतां कित्याचीच्च गरज नाशिल्ली. म्हणटकच हांवेंय करपा सारकें कांयच नाशिल्लें. घरकान्न म्हणून म्हजी करियर संकश्टांत पडिल्ली. ती बायल, जी बाजार करताली आनी रांदताली, सगळें नितळ-निवळ दवरताली, वेवस्थीत आनी सांबाळून आपल्या घराची आनी घराब्याची मना पसून काळजी घेताली... ती बायल खंय गेली? आमचें शरीर सोडून आतां आमचे कडेन कांयच उरलेंना अशें दिसतालें आनी शरिराच्यो गरजो पुराय करतकच तर आमचे कडेन उरतालें तें फकत शुन्य. सदांच व्यस्त आनी पुरायपणान गच्च भरिल्ल्या जिवीताची, खंयचे कडेन कांयच ना जाल्ल्यान, भिरांत दिसूंक लागिल्ली.

आनी हें सगळें जावन लेगीत, म्हज्यांत एक चमत्कारीक स्वातंत्र्याची भावना तयार जाली. आतां निवळ करपाचें कांयच नाशिल्लें. कांयच क्रमान लावपाचें नाशिल्लें वा कसलीच पुनर्रचणूक करपाची गरज नाशिल्ली. कांयच परत जाग्यार घालपाचें नाशिल्लें. कितल्या तरी वर्सांनी, म्हज्या जिविताचेर कब्जो केल्ल्या त्या राकेसा कडल्यान हांव मुक्त जाल्लें. सगळ्यो वस्ती वेवस्थीत दवरपाच्यो, कंवचेचीं आयदनां बरीं चकचकीत करपाचीं, फर्निचर आनी दुर्मिळ वस्तूंवेले दाग काडपाचे आनी धुल्ल फाफुडपाचो. आनी ते कपडे, देवा रे, सोंसूंक नजो अश्यो कपड्यांच्यो राशी, उमळपाचे आनी इस्त्री करपाचे, मागीर ते घालपाचे आनी मागीर परत उमळपाचे आनी परत इस्त्री करपाचे. चर्चगेटीच्या घरांतल्या हॉलांत दोन रांकांनी दवरिल्ल्या शिश्याच्या हतयांचो विचार केल्यार पराभूत केल्ल्या दुस्मानाची कशी याद जाता. कितलो वेळ सारिल्लो हांवें तांचेर, तांकां पुसपाक आनी पॉलिश करपाक, कितले बारीकसाणीन करतालें हांव तें...

पूण ह्यो सगळ्यो गजाली हांवेंच हाडिल्ल्यो, म्हाकाच जाय आसताल्यो ह्यो गजाली. ना, हें पूर्ण सत्य न्हय. म्हाका आनी मोहनाक, दोगांकय जाय आशिल्ल्यो ह्यो वस्ती. ना. हेंय खरें सत्य न्हय. खरी गजाल म्हणल्यार, मोहनाक आपल्याक कितें जाय तें सारकें खबर आशिल्लें. कसले तरेचें जिवीत ताका सारूंक जाय, कसले

तरेच्या घरांत ताका रावपाक जाय. आनी हांव ताका फकत मम म्हणून वांगड दितालें. पूण हांव मोहनाक दोश दिवंक शकना, कारण समजा ताणें म्हाका विचारिल्लें - तुका कितें जाय?- म्हाका जाप दिवंक कुस्तार जावपाचें. अश्या वेळार म्हज्या मनांत मैत्रेयी येता. मैत्रेयी. तिणें ठामपणान आपल्या तत्वगिन्यानी घोवाचो, यज्ञवल्क्याचो, अर्द्या भाटाचो प्रस्ताव न्हयकारिल्लो. "हीं भाटां म्हाका अमरत्व दितलीं?" तिणें ताका विचारिल्लें. "ना," ताणें जाप दिल्ली आनी तिणें तेन्नाच्या तेन्ना भाटाचो वांटो न्हयकारिल्लो. तुका कितें जाय तें जाणा जावप... ही जाणच म्हाका दिवंक नाशिल्ली.

आतांय म्हाका कितें जाय हें खबर ना. म्हाका इतलेंच खबर आसा, ह्या जाग्याचें उक्तेपण, विद्रूपपण म्हाका आमच्या चर्चगेटीच्या फर्निश्ड फ्लॅटा परस चड आवडटालें. ते वटेन मोहन बेचैन आनी भयभीत जावन पांजऱ्यांत सांपडिल्ल्या बंदिस्त जनावरा सारको पासयो मारतालो, जाल्यार हांव स्वता कडेन आनी सरभोंवतणच्या वातावरणांत सामकें आरामात आशिल्लें. म्हाका दिसतालें हांव म्हज्या भुरगेपणांत परत पावलां आनी हांव परत सप्तगिरीचे आज्जेचे कुडींत आसां.

बोडके आज्जेन बायलांच्या सौभाग्याच्या सगळ्या गजालींचो त्याग केल्लो. न्हेसपा खातीर दवरिल्ल्यो दोन साडयो सोडून तिचे कडेन कसलीच म्हणल्यार कसलीच संपत्ती नाशिल्ली.

तिची रावपाची कूड सामकी रिती आशिल्ली. आजो न्हिदतालो ती बाज्ज सोडून थंय कांयच नाशिल्लें. ती बाज्जय हांवें पळयल्या तेन्नाच्यान रितीच आशिल्ली, गादयेचें लेगीत वजें नाशिल्लें तिचेर. ते भायर थंय दोन खुर्च्यो आशिल्ल्यो, व्हडल्यो लांकडाच्यो आरामखुर्च्यो. पूण तांच्या सिटांची घटसाण कमी करपाक ताचेर कुशनां नाशिल्लीं ती सोडाच, वयल्यान चिंतूंक नाशिल्ले जागेंतल्यान खिळे वयर सरताले. जशे काय सदळ हातान आनी कश्याय कशे मेस्तान मारिल्ले खिळे बसतल्याचे कातीक, कपड्यांक, केंसांक ख्यास्त दिवंक आयल्यात. आजी स्वता उक्ते जमनीर बसताली आनी सादे शेंदरेर न्हिदताली. बाज्ज आज्याचे यादी खातीर दवरिल्ली आनी खुर्च्यो आपल्या पॅण्टींक लागून जमनीचेर आरामशीर बसूंक शकनाशिल्ल्या सोयऱ्यां खातीर.

ल्हानपणांत हांव आज्जेचे कुडींत वच्चे परस 'भायली कूड' चड पसंत करतालें. हांव सोडून, ती कूड अप्पाचो व्हडलो भाव रामूकाका सणा-परबे दिसा घराचो कर्तो पुरूश म्हणून कांय गजाली करतना वापरतालो. हरशीं केन्नाय दादलो सोयरो आयलो जाल्यार रामूकाका आपल्या अशिलांक घेवन बसता त्या 'ऑफिस रुमांत' वतालो. बायलो भितरले कुडींत वताल्यो. थंय कुडींच्यो वण्टी तेलाच्या दागान चकचकताल्यो, माथ्यांत चिप्प तेल घालून बशिल्ल्या बायलांनी आपली तकली वण्टीर तेंकयिल्ल्यान

ते दाग उदेल्ले. आमच्या त्या 'घराची भायली कूड' म्हणल्यार अजापघर कशें. तें म्हज्या ल्हानपणांतल्यान अजून मेरेन बदलूंक ना. वण्टीक निट्ट तेंकून दवरिल्ल्यो खुर्च्यो केन्ना आपल्या जाग्या वयल्यान हाल्ल्यो नात. तांचे फाटीर हुमकळटालीं एम्ब्रॉयडरी केल्ली तींच कवरां, कुडीचे मदीं, पांयांचेर कोरीव काम आशिल्लें लांब, वाटकुळें मेज. म्हाका समजूंक लागिल्लें तेन्नाच्यान लेगीत, थंय दवरिल्ल्या आज्यातेंपा वयले घडयाळीचेर पावणेइकराच जाल्लीं आसतालीं. कारण खिन्न, निराश स्वरान टिक टॉक करपी घडयाळीन लेगीत संघर्श करप सोडून दिल्लें. फकत मदल्या मेजार आशिल्ल्या पितळेच्या वाझांतलीं कागदी फुलां ल्हवू ल्हवू विटकरी जावंक लागिल्लीं, रंग मात्शेशे धवसार जायत, पाकळ्यो गळूंक लागिल्ल्यो आनी देंठा वयलो पेपर गळून पडिल्ल्यान तारेचो सांगाडो दिसूंक लागिल्लो. ती कूड सामकी निश्प्राण दिसताली. आनी तरीकय जेन्ना अप्पा आज्जेक मेळपाक वतालो तेन्ना हांव ताचे वांगडा वचून तेच कुडींत बसतालें. थंय बसून हांव बंद कपाटांतल्या पुस्तकांचेर बरयिल्लें वाचतालें आनी आजी पिशां भशेन परपरत म्हाका उलो मारीत रावताली, "जया, खंय आसा तूं? थंय कितें करता तूं? जया, हांगा यो."

अप्पा म्हजेर रागान आड्डतकीच हांव भितर वतालें, पूण म्हजी नाराजी लिपयनासतना. आनी आतां, हांगां जेन्ना मोहन आनी हांव अस्वस्थ शांततायेंत बसल्यांत, थंय आज्जेचे कुडीचें तें दृश्य जितेंजिवें जावन येवन म्हज्या काळजाक तोपता. पूण हे कुडीचें नातें आजयेचे ते कुडी कडेन लावपाक म्हाका खोस भोगता.

मात भूतकाळ याद केलो म्हणून आज्जेच्या यादींनी सूख भोगना. आज्जे म्हऱ्यांत रावप म्हणल्यार तिचे कुडींतल्या कदेलार बशिल्ले सारकें. थंय भायर सरताले ते खिळे तुका तोंपपाक आनी  दुखोवपाक.

"म्हाका तुज्या घोवाची काकुळट दिसता जया, कोणूय आसूं तो मागीर." एकदां तिणें म्हाका म्हणिल्लें.

"कित्याक गे आज्जे?"

"तुजे कडेन पळय  - उतरा-पावलाक प्रस्न, प्रत्येक गजालीक परत्याक परतें. खंयचो घोव असले बायले वांगडा सुखान रावंक शकतलो?"

आतां हांव, मोहनाक प्रस्न विचारिनाशिल्लें आनी परत्याक परती जापय दिनाशिल्लें. आनी तरीय सूख नाशिल्लें.

कितल्याश्याच विशयांचेर उलोवपाक बंदी आशिल्ली आनी हें मोनेपण अस्वस्थ वजें जाल्ली.

वारांदांत नयनाची उमेदीन चलिल्ली कामाची धांवपळ मनाक थाकाय दिवन गेली. ताचो वारांदाचेर, सोंपणांचेर, जमनीचेर सान्न मारपाचो आवाज, कोयराच्या डब्याचें धांकण ढण्ण करून बंद केल्लो आवाज, ताची उमेदी गडबड आनी बडबड

म्हज्या कानार पडटाली. हांवें बेगिबेगीन ताचे खातीर दार उगडलें आनी तें सदचे उमेदीन आपल्या कामाक लागलें. आपल्या पोटांतलें भुरगें तें वजें कशें न्हय, जाल्यार कितले सहजतायेन सांबाळटालें.

"ह्या वेळार न्ही, ताई," तें म्हज्या कानांत फुतफुतलें, "चेडोच जातलो"- फुगिल्ल्या पोटा वयल्यान नाजूकसाणीन हात भोंवडायत ताणें म्हणलें. मोहन आजूबाजूक आसतालो तेन्ना तें सदांच फुतफुत्तालें, जसो काय आमच्या उतरांच्या आवाजान दादल्यांचो अनादर जातालो. ताणें आतां मेरेन चार भुरग्यांक जल्म दिल्लो, दोन चलयो, त्यो जगल्यो आनी दोन चले, ते जल्मा उपरांत रोखडेच मेले.

"म्हजेंच दुर्भाग्य! म्हजेंच नशीब फुटकें," दुसरो चलो मरतकच नयना दुदान तटतटिल्लीं थानां व्हांवयत हुंदक्या हुंदक्यांनी रडिल्लें.

"ही चल्या भुरग्याची आस्त... कित्याक जाय गो तुका चलो भुरगो इतलो?" हांवें एकदां ताका विचारिल्लें. हांवें ताका सगळ्या दादल्यांच्या नांवान बोटां मोडटना आयकल्लें - ताचो घोव, ताचो भाव, ताचो बापूय - सामके आलमपेड्ड्यार, निरुपेगी, बेबदे!

"कित्याक म्हणून चलयांक जल्माक घालचें ताई, फकत आयुश्यभर दादल्यांचे त्रास सहन करपाक? म्हाका पळयात. म्हजी आई म्हजेर खूब माया करताली. तिका दिसतालें, म्हाका सगळें मेळचें - लायट आनी उदक आशिल्लें घर, चकचकीत पितळेच्चीं आयदनां, चांदीचो कमरपटो, चांदीचीं पांयजणां - आनी मेळ्ळें कितें म्हाका? ना, ना, ताई चलोच बरो."

ताणें परत आत्मविस्वासान म्हणलें, ह्या वेळार चलोच जातलो. "चली जाली जाल्यार म्हाका घरा भायर घालतलो खंय तो." "तो"... हें सर्वनाम उच्चारतना ताणें तिरस्कारान खांदे फाफुडले आनी तें आपल्या घोवा विशीं उलयता हें म्हज्या लक्षांत आयलें. "घालूनच पळय म्हाका घराभायर," हांवें ताका सांगलें, "पळोवया तुजी कापस्ताद! जाय जाल्यार आनीक एक बायल कर, गटारांत लोळ, हांव तुका आडावंक शकना, पूण ह्या घरांतल्यान म्हाका भायर काडूनच दाखय," हांवें ताका सांगलें.

"तुज्यो चलयो कश्यो आसात गो नयना?" हांवें ताका विचारलें.

"आतां बरीं आसात, पूण, व्हडलें चेडूं मात्शें बरें नाशिल्लें ताई. म्हाका दिसलें ताची काणी सोंपली आतां. तरीय पूण हाणें म्हाका वखदां खातीर एक पयसो दिला वा आनीक खंयचेय तरेन मजत केल्या? हांवें मारवाड्या कडेन पांयजणां घाणाक दवरून पयशे घेतले." ताणें म्हाका आपले उक्ते पांय दाखयले.

"तरीच, तुज्या पांयजणांचो झुम्झुम् आवाज म्हाका आयकूंक येवंक ना."

"कांय नजो ताई, म्हाका दिवाळेची बक्षिसी मेळटकच हांव तीं सोडोवन हाडटलें," हांसऱ्या तोंडान ताणें सांगलें.

हांवें ताका च्या दिली. आपल्या पदराच्या पोंताक बांदून दवरिल्लो पाव काडून ताणें च्यांत बुडोवन खालो. एक बन पाव सांबाळून परत गांठीक बांदत ताणें म्हाका सांगलें, "हो म्हज्या चेडवांक."

"तुका जीजा मेळिल्लें? म्हाका तें जाय पडटलें म्हणून सांगलां तुवें तिका?"

"हय, आयज दनपारां हांगां येतली ती. तिणें सांगलां सगळीं कामां तिचे खातीर दवर म्हणून. ती येवन सगळें करतली," ताणें म्हाका सांगलें.

म्हणटकच जेवण जातकच म्हाका करपाचें अशें कांयच उरलें ना . आमी दोगांय परत पावलीं आमच्या मौना कडेन, पूण हांव - मेकळें जावंक नाशिल्लें. हांव कशें चिंतूंक शकतालें हांव मुक्त म्हणून? मोहनाची नदर, ताचे विचार, हांव वता थंय म्हजे फाटल्यान येताले. हांव नयना कडेन उलयतालें तेन्ना म्हाका जाणवताले ताचे विचार... "अशें कशें करूंक शकता हें? म्हाका कशें दिसता हें ताका कळना?" आनी परपरत तो म्हाका उलो मारतालो, "जया... जया..."

खबर ना कित्याक, पूण तो तशें उलो मारूंक लागलो काय म्हाका रामूकाका आनी शांताकाकीचे तकलेंत उदक जाल्ल्या धाकट्या चल्याची याद येताली. तो थंय जमनीर न्हिदिल्लो आसतालो, थंड गुळो कसो, काकुळटवाणो, राकेसायेदी तकली घुंवडायनासतना. ताच्या आख्ख्या शरिरांत फकत ताचे दोळे हालताले, तेय बी भिरभिरत, आवयक सोदीत आनी ती कुडींत येतकच ते शांत जाताले. ती ताचे म्हऱ्यांत बसताली तेन्ना तो तिचे पदराक घट्ट धरून रावतालो. तिणें हालपाचो यत्न केल्यार किरकिरतालो. आनी अशें दिसतालें, ताचे दोळे निराश जावन तिचे फाटीक लागल्यात. पूण शांताकाकी ताचे कडल्यान जाता तितली पयस रावताली. तिची कडक मांय, आजी, तिका लजेक घालून ताचे म्हऱ्यांत वचपाक फोर्सार करताली, फकत तेन्नाच ती ताच्या म्हऱ्यांत वताली. हेर बायलो फुतफुत्ताल्यो, "तिका लज दिसता ताची, स्वताच्या भुरग्याची," तिका खरेंच लज दिसताली काय? आतां म्हाका दुबाव मारता.

आनी स्वता आजी, आपले उक्ते कुडींत बसून, आपल्या पुतांक, धुवांक, नातरांक उलो मारीत रावताली. अप्पा आनी हांव तिका मेळपाक वतालीं, तेन्ना तिचे कुडींतल्यान मात्सो अप्पा भायर सरलो रे सरलो, ती ताका ताकतिकेन आपोवंक लागताली, "वासू खंय आसा तूं? वासू... वासू?..."

"वासून हें घर सोडून स्वताचें दुसरें घर केलें, तेन्ना एकदांच म्हजे आवयच्या दोळ्यांत हांवें दुकां पळयिल्लीं," आज्जेच्या मरणा उपरांत रामूकाकान म्हाका सांगिल्लें, "तो तिच्या रुमांतलें आपलें कपाट खाली करतालो, त्या दिसा ती ताका पळयत बशिल्ली, एक उतर काडलें ना, एक आवाज काडलो ना, पूण तिचे दोळे मात दुकांनी घसघसताले. वासू तिका पळयनासतना घरा भायर सरलो. हांवें तिका असो केन्नाच

पळोवंक नाशिल्लो, बाबा गेल्लो तेन्ना लेगीत.''

आनी तरीय अप्पा, तिचो धाकलो, तिचो सामको मोगाचो चलो, आई कडेन लग्न जातकच तिका सोडून गेलो. सगळीं आईक दोश दितालीं, तीं अप्पाक दुश्ट म्हणटालीं, पूण हांव जाणा जाल्लें ताका हांगाच्यान कित्याक वचपाक जाय आशिल्लें तें.

''जया,'' मोहनान म्हाका उलो मारलो, ''जया,'' आनी म्हाका समजलें हांव मुक्त नाशिल्लें. म्हाका जाणवतालें ताचें जाय आशिल्ल्याचें वजें, ताचें दसून रावपाचें वजें.

हें सगळें म्हाका परत ल्हानपणांत वचून ''घर घर'' खेळिल्ले भशेन दिसतालें. हांव आनी म्हजीं बापोलभावंडां सप्तगिरीच्या घरांत खेळटालीं तशें. आज्जेन दिल्लीं ल्हान ल्हान बुडकुलीं घेवन आमी वेवस्थीत मांडटालीं. मागीर एका बुडकुल्यांत तांदूळ, दुसऱ्यांत दाळ, तिसऱ्यांत कश्याय कशी शिनिल्ली भाजी, बापोल भावां कडल्यान तांकां फोर्सान 'बापूय' करून बाजारांतल्यान 'विकती' हाडून घेतिल्ली. हें सगळें जातकच आमी समादानान बसतालीं, आमचें जग वेवस्थीत आनी सुरळीत करून, जेवण शिजपाची वाट पळयत.

समादानी? हांव समादानी आशिल्लें? हय! अजापाची गजाल, पूण हांव समादानी आशिल्लें; मोहन मात अस्वस्थ जावन घरभर पासयो मारतालो, एका जाग्यार उबो रावनासतना, खीणभर एका जाग्यार बसनासतना...

''हांवें कितें तरी करूंक जाय. अशें तिश्टत रावप म्हजो जीव घेतलें.''

ताचेंय बरोबर. घडये, अशें रावप ताचे खातीर कुस्तारच. वाट पळोवप हें ताका खबरूच नाशिल्लें. तो सदांच स्थीर वृत्तीन एका खिणाकडल्यान दुसऱ्या खिणाकडेन वचपी. पूण बायलां खातीर हो प्रतिक्षेचो खेळ ल्हानपणांतल्यानच सुरू जाता. *लग्न जाता म्हणसर राव. तुजो घरकार येता म्हणसर राव. तुज्या घोवाघरा वता म्हणसर राव.* हय, हांव लग्न जालां तेन्नाच्यान फकत वाट पळोवपा बगर हांवें कांयच करूंक ना. मोहन घरा येवपाची प्रतिक्षा, भुरगीं जल्माक येवपाची प्रतिक्षा, तांची शाळा सुरू जावपाची प्रतिक्षा, तीं घरा येवपाची प्रतिक्षा, दूदवाल्याची प्रतिक्षा, कामवालीची, डबेवाल्याची...

ह्या सगळ्यां भायर, हांव त्या दुसऱ्या गजालींचींय प्रतिक्षा करतालें... भियेवन कसल्या तरी अरिश्टांची प्रतिक्षा, एका म्हासंकश्टाची प्रतिक्षा.

आयज संकश्ट आयलें ना आनी म्हजी सुटका जाली तरीय, म्हज्या मनांत सतत

एक भावना आसताली... 'तो' खंय तरी एका कोनशाक म्हजी वाट पळयत उबो आसा; कुलूपबंद घरांत, रित्या घरांत, मरणाचो संदेश घेवन, सर्वनाशाचो दूत. मोहनान कबुली दिल्ली आनी म्हाका सू जाल्लें. निमाणें तें आयलें तर - म्हजें स्वताचें अशें अरिश्ट. ना आनीक वाट पळोवप, ना धाकधूक, ना भिरांत.

पूण मोहन म्हजे परस वेगळो, ताचो अरिश्टांचेर विस्वास नाशिल्लो. ताणें आपणाचेर ओडून घेतिल्लें, ताचें स्वताचें अशें खाशेलें अरिश्ट लेगीत ताणें न्हयकारपाचो यत्न केल्लो.

"ना. कांयच जावचें ना. कांयच जावंक शकना. कितलेशेच मनीस असले परिस्थितींत सांपडटात. फकत पगाराचेर कोण जगूंक शकता? हांव कारण नासतना भियेलों. म्हाका दिसता आतां हें प्रकरण निवळ्ळें. अगरवाल म्हणटालो तशें जातलें म्हणून. ताका हें खबर आसूंकच जाय, (तो असल्या ह्या भानगडींनी म्हजे परस चड तेंप आसा. आतां ताणें कितलोय विसरपाचो यत्न केलो तरीय, तो हातूंत, म्हजे परस चड भितर घुस्पला.) खरें म्हणल्यार, मिनिस्टर बदल्लो म्हणून हें सगळें जालें. म्हाका खात्री आसा, कांय दिसांनी तो मिनिस्टराक मेळून सगळें सविस्तरपणान सांगतकच हें प्रकरण आपूणच निवळटलें. अगरवाल कितेंय करून त्या मिनिस्टराक खूश करतलोच, पूण काल जेन्ना हांवें अगरवालाक फोन केल्लो तेन्ना म्हाका ताचो आवाज मात्सो विचित्रच लागलो. घडये, हांवें हांगां येवंक नाका आशिल्लें. घडये हांवें परत वचूंक जाय. कितें घडटा तें हांवें समजून घेवप गरजेचें. जया, तुका कितें दिसता? सांग न्हय?"

ताणें विचारिल्ल्या प्रस्नांच्या जापे खातीर हांवें मेंदवाक ताण दिलो आनी म्हाका सुचलें तें इतलेंच, सोनिया रास्कालनिकोवाक सांगता तें - "आपलीं पापां कबूल कर, दिमी घाल, भुंयेक उमो दी आनी माफी माग." पूण, म्हज्या मनांत विचार आयलो, तशें सांगल्यार तो म्हाकाच परत सांगतलो, तूंच दिमी मार. तूं विसरलें? हें सगळें हांवें तुजे खातीर केलां तें? तुजे खातीर आनी भुरग्यां खातीर. भुरगीं, तांकां कांयच खबर ना म्हणून माफी मागून सुटूंक शकतात. पूण ह्या गुन्यांवाचो साक्षीदार ह्या नात्यान ह्या वज्याक तुवेंय माथें मारूंक जाय, एक वांगडी म्हणून, गुन्यांवाचो भागीदार म्हणून.

तूंच मार दिमी... हय, हांवें ताका वांगड दिवंकच जाय. आमी दोगांय जोडप्यान दिमी मारून कोयरान भरिल्ल्या, गू-घाणीच्या रस्त्यांचे उमे घेतात... हें येवजूनच नेर्वां चाळवल्ले भशेन म्हाका हांसो फुटलो.

म्हणटकच आतां म्हजे कडेन कितें उरिल्लें? वनितामामीचो तो सल्लो. तो तिणें म्हज्या लग्रा पयलीं, आपले भाचयेक कांय शाणेपणाच्यो गजाली सांगपाचें आपलें कर्तव्य आसा हें एकदम लक्षांत येतकच, आत्मविस्वासान म्हाका दिल्लो. घडये, तिच्या व्हंकलपणार, तिकाय कोणें तरी अशें सांगिल्लें. (दादा आनी हांव सदांच

चित्तालीं, कोणें तिका सांगिल्लें काय, ''जर तुज्या घोवान एक-दोन बायलो दवरून घेतल्यो तर ते नदरे आड करपाचें आनी माजरां वा भयणीचीं भुरगीं आवड म्हणून पोसपाचीं) आनी म्हणटकच वनितामामीक दिसलां आसतलें आतां सल्लो दिवपाची पाळी आपली.

वनितामामीन म्हाका सल्लो दिवप म्हणल्यार एक कॉमिक कशी - फॅनी प्रायसाक तिची आंट बट्रामनान सल्लो दिवपा सारकी - ही गजाल म्हज्या मनांत घर करून रावल्या. म्हाका तिचे ते शब्दच न्हय, जाल्यार तो खीण लेगीत तश्शा तस्सो याद आसा. नोव्हेंबरांतलो तो आंगाक झोंबपी वारो, आंगणांत दवरिल्ले शेगडेंतल्या केरोसिनाच्यो उसळपी किट्टी, गोबोर आनी माती घेवन रातचीं उश्टीं आयदनां घांसपाचो तो खरखरीत आवाज, स्स... स्स... करून दांतां मदल्यान काडिल्लो आयदनां घांसपी वावराडेचो आवाज आनी स्वता पुजेची थाळी हातांत घेवन वनितामामी. ती तेन्नाच तुळशीची पुजा करून घरांत परतताली; घडये, ते पुजे वयल्यान याद जावन तिणें म्हाका सांगिल्लें आसत, ''जया, याद दवर आं, घोव हो आश्रय दिवपी रूख.'' आनी हांव थंय उबें आशिल्लें मोट्ट्यान जांबय काडीत, मनांत कसलोच विचार करिनासतना, सुसेगाद, वनितामामीच्या माजरा पलटणींतल्या एका माजराक वतान दोळे मिचकायत आनी आपलें दावखूल चाट्टना पळयत. आनी दुसऱ्याच खिणाक वनितामामीय म्हाका विसरून त्या माजरा कडेन वळ्ळी आनी भुरग्यां भशेन 'म्यांव, म्यांव' करून ताका आपोवंक लागली. तें माजर मात, तिच्या हेर माजरां भशेन तिका पळयनासतना मुखार गेलें. बागवल्ली फाट आनी वांकडे केल्ले शेंपडेंतल्यान तिका कुस्कुटायत. तरीय ती 'म्यांव म्यांव' अशें म्हणीत ताचे फाटल्यान कमरेंतल्यान - बाग - घेवन - ओणवीच - ताचे फाटल्यान चलत गेली. तिची चाल आनी तीची घाई तिचें निर्लज्जपण उक्तायताली; पूण त्या माजरान तिचे कडेन लक्ष दिलें ना. हांवय मात्शें त्या माजरा भशेन वागता अशें म्हाका दिसलें. ''याद दवर जया,'' सामकें गंभीर जावन तिणें म्हाका सांगलें, ''घोव म्हणल्यार आलाशिरो दिवपी रूख कसो.'' आनी तिणें जशें कितें म्हाकाय 'म्यांव म्यांव' केलें. हांवें तिचे कडेन दुर्लक्ष केलें.

आतां इतल्या वर्सांनी तीं उतरां म्हाका याद जालीं. ''एक आलाशिरो दिवपी रूख. त्या रुखा बगर तूं सामकें असुरक्षीत आनी असहाय्य. हें सगळें तर्कशुद्ध. म्हणटकच कपटीपणाचें आनी फटीचें उदक घालून लेगीत तुवें त्या रुखाक जितें दवरूंक आनी फुलूं-फळूंक दिवंक जाय. हें बी सगळें तर्काक धरूनच. पूण सप्तगिरी आमच्या घरा एक वाल आशिल्ली. तिका आमी मन लावन सदांच उदक आनी सारें घालतालीं. तरीय ती मेली... चड उदक घाल्ल्यान आनी साऱ्यांत आशिल्ले वायटेन तिचीं मुळां खाल्लीं. आनी म्हणटकच...?

खरें सांगपाचें म्हणल्यार हे परिस्थितींत कितें सांगपाचें, कसली प्रतिक्रिया दिवपाची हेंच म्हाका कळनाशिल्लें. पूण ताका हातूंत वेगळेंच कितें दिसलें.

"तूं कांयच सांगना कित्याक? तुका हातूंत कांयच रस ना, तुका हाचें कांयच पडून वचूंक ना अशें दिसता म्हाका."

पूण तो चुकिल्लो. कितल्योश्योच गजाली शेणूंक शकतात, सोडून दिवंक जातात वा चुकीच्या जाग्यार दवरूंक शकतात - पूण काळजी करपाची संवय सोडून दिवप कुस्तार. देखूनच तो उलयतालो तें हांव पांसियेंसान आयकून घेतालें.

उलयतालो? तो जाल्लो घोगो. ताका भुतां दिसनात हो म्हजो समज चुकीचो. तीं ताचेय वांगडा आशिल्लीं आनी तो तीं अशे तरेन उलोवन धांवडावंक सोदतालो. म्हाका अशें दिसपाचें कारण एकूच, ताची उलोवपाची पद्दत. तो आयचे परिस्थितीचेर एकदां उलयलो जाल्यार फाटल्या गजालीं विशीं परपरत उलयतालो. (तो फुडाराचे गजाली विशीं चुकून उलयतालो, केन्नाय खंयचे तरी घडणुकेची याद करीत म्हणटालो, "आमी तेन्ना आशिल्लीं तशीं जालीं जाल्यार") तो आतां म्हजे कडेन आपल्या भुरगेपणा विशीं उलोवंक लागिल्लो. हें तो पयलीं, आमच्या इतल्या वर्सांच्या सहवासांत चुकून करतालो. भुरगेपणा विशीं ना उलोवपाचें कारण घडये आतां घडिल्लो 'तो' आनी तेन्ना आशिल्लो 'तो कंगाल भुरगो' हांचे मदीं नातें आसा हें मान्य करूंक ताका त्रास जातालें. चुकून ताणें त्या दिसांच्यो खबरी केन्नाय केल्यो जाल्यार वायट परिस्थितींतल्यान लेगीत वाट काडून आपणें आतां कितें जोडलां हेंच सांगपाचेर तो भर दितालो. "पळयलें, देवाची कृपा नाशिल्ली जाल्यार हांव..." केन्नाय तो आपले शाळेंतल्या वा कॉलेजींतल्या इश्टांक, वळखीच्या मनशांक वा पयलींच्या कामा वयल्या वांगड्यांक मेळटालो वा तांचे कडेन उलयतालो तेन्ना ताच्या दोळ्यांतले विचार म्हाका स्पश्ट दिसताले, "पळयलें जया, तो अजून इंजिनियरच आसा! नाजाल्यार, बाबडो अजून अध्यापकच आसा."

पूण आतां हांगा, जेन्ना तो त्या ल्हान भुरग्या विशीं उलोवंक लागलो तेन्ना म्हाका ताचे भितर कितें तरी नवें दिसलें. एक उदासीनताय. जशें काय ताका त्या भुरग्याचे निरागस इत्सेचो, ताच्या मनांतल्या स्पश्ट फुडाराचो, झगझगीत मनोराज्याचो दुस्वास दिसतालो. हाचे बगर आनीकय कितें तरी आशिल्लें: तो भुतकाळांत पळयतालो तेन्ना दिसतालें, तो कितें तरी सांसपून पळयता. घडये तो हांगां ह्या जाग्यार कित्याक पावलो, हे परिस्थितींत कसो सांपडलो हें समजून घेवपाचो यत्न करतालो.

"ल्हान आसतना भुरगीं एक पद म्हणटालीं... कसलें तें? म्हाका दिसता तो कसलो तरी खेळ आसतालो... मलबरी बूश काय अशें कितें तरी?"

"हियर वी गो रावंड द मलबरी बूश".

"हय. तेंच तें." आनी म्हजी प्रस्नार्थक मुद्रा पळोवन ताणें सामको नर्वस जावन

सांगलें, ''खबर ना कित्याक, पूण म्हाका अशीच त्या पदाची याद जाली.''

आतां, हांव ताच्या विचाराचे दिशेचो अदमास बांदूंक शकतां. तुका दिसता, तूं चलता, मुखार वता, सामकें मुखार पावता. पूण खरें म्हणल्यार तूं घुंवन घुंवन परपरत त्याच एका बिंदू कडेन पावता. धरुया, म्हजो अदमास खरो आसलो, तरीय तो आपली परिस्थिती आपल्या जिवितांतले खंयचे घडणुके कडेन जुळयतालो? घडये, तो आपल्या जिविता विशीं, आमच्या दोगांयच्या जिविता विशीं चिंतनाशिल्लो जाल्यार तो आपल्या पालकांच्या जिविता विशीं विचार करतालो, कारण तो तांचे विशीं परपरत उलयतालो. ताचो यादींचो घोगो कोसळटालो, कांयच फाटीं दवरिनासतना, वायटांतलो वायट, सामको अपमानास्पद खीण लेगीत. दिसतालें, अशें करून कितें तरी मेळोवपाची ताची मोख आसा. अशें करून तो कितें तरी मेळोवंक सोदता. हें सगळें कित्याची तरी पुश्टी दिवपाक ताका मजत करता.

तो म्हजे कडेन उलयलो आपल्या दरिद्री भुरगेपणा विशीं, पावसांत सत्री नासतना भिजत शाळेंत चलत वचपा विशीं, दुसरे कपडे नाशिल्ल्यान चिखोल उसळिल्ल्या कपड्यांनीच रावपा विशीं. ताणें म्हाका सांगलें, म्हयन्यान म्हयने तो शाळेची फी फारीक करूंक शकनाशिल्लो. कारण तो बापाय कडेन पयशे मागूंक वतालो तेन्ना ताचो बापूय ताका सांगतालो, ''कसली घाई आसा रे तुका? केन्ना तरी दिता तुका हांव.''

विद्रूप, फकफकीत, दुसऱ्यान वापरिल्ले, ताचे आवयन ताचे खातीर हाडिल्ले कपडे घालतकच जातालीं त्या अपमानीत फकाणांविशीं तो उलयलो. चवथी वेळार आपल्या बोल्सांत लिपोवन दवरतालो त्या फुगेटी विशीं ताणें म्हाका सांगलें. ''हांव त्यो न्हातकच एका बोल्सांतल्यान दुसऱ्या बोल्सांत दवरतालो, कारण त्यो लिपोवन दवरपाक खंयच जागो नाशिल्लो. पूण एक दीस हांव मान्यांत विसरलो आनी वसंतान त्यो चोरल्यो,'' हांसत ताणें म्हाका सांगलें, दयामाया दाखयनासतना ताणें वसंताक कसो धुमकायलो तें ताणें सांगलें, ''बाबान येवन म्हाका आडावंक नाशिल्लो जाल्यार हांव वसंताक जितोच मारपाचो.''

कोणा अनवळखी मनशाचे कश्टी जिणेविशीं उलोवचें तितल्या निर्विकारपणान ताणें म्हाका हें सांगलें. आपल्या बापाय विशीं उलयतालो तेन्ना मात ताच्यो भावना उफेवन वयर येताल्यो आनी परपरत तो फकत आपल्या बापायचेंच उलयतालो. ताच्यो चडश्यो यादी ताच्या बापायचे भोंवतणींच घुंवताल्यो. अजापाची गजाल म्हणल्यार सदां भशेन 'अण्णा' म्हणिनासतना 'म्हजो बापूय' अशें म्हणटालो.

हांवें ताच्या बापायक पळयिल्लो तेन्ना तो जाणटो आनी अशक्त जाल्लो. ताचो सुकिल्लो चेरो साधवा भशेन जाल्लो. तो चुकून उलयतालो. ताणें आवाज केन्नाच चडयलो ना. आनी म्हजे कडेन बरे तरेन वागतालो. पूण मोहन ज्या मनशा विशीं

उलयतालो तो...

''म्हाका याद जाता, हांव बरों नाशिल्लों, तो घरा आयलो ते रातीं म्हाका जोर आयिल्लो. हांव म्हज्या सदांच्या हांतरुणार न्हिदिल्लों, एके जिरजिरिल्ले शेंदरेर.''

*त्या दादल्यान न्हिदिल्ल्या त्या भुरग्याक पळयलो आनी विचारलें, ''कितें करतां तूं? ती शेंदरी तुका काबार करपाक जाय? म्हाराजाक कितें दिसता? आमी सद्दां एक एक नवी शेंदरी घेवंक शकतात? ऊठ थंयच्यान, ती शेंदरी काडून कुशीन दवर''.*

*आनी हाताच्या बोटांक हिसको दीत, तो लागीं आयलो आनी ताणें हाताचेर इतल्या जोरान खोंट मारली की तो भुरगो रागान आनी दुखीन मोट्ट्यान आड्डलो. आवय धांवत भायर आयली, ओग्गी रावन तिणें त्या दादल्या कडेन पळयलें, भुरग्याचे म्हऱ्यांत बसली. आनी ताका विचारपाक लागली, ''तुजी तकली दुखताली ती कशी आसा आतां? आतां बरें दिसता?''*

*''लाड करप बंद कर ताचे',' दादल्यान तिका सांगलें.*

*जोर आसा काय ना हें पळोवपा खातीर आवयन भुरग्याच्या कपलाचेर हात दवरलो, पूण पासियेंस नाशिल्ले भशेन तिडकीन, अपमानीत जावन भुरग्यान तिका फाट केली.*

ही पुरायपणान मोहनान सांगिल्ली काणी न्हय. ही बरयतना, हांवें खूबश्यो गजाली एकठांय केल्यात - ताणें सांगिल्ल्यो गजाली, ही काणी सांगतना ताणें सांगूंक नाशिल्ल्यो गजाली, हांवें कल्पनेन तयार केल्ल्यो गजाली आनी तो उलयतना ताच्या तोंडा वयल्या हावभावांनी सांगिल्ल्यो गजाली. हांव ते खोंटे विशीं बरोवचें नाशिल्लें, कारण हांवें पळयिल्ल्या आनी खबर आशिल्ल्या मनशां कडेन असली निर्दयी करणी जोडप म्हाका मात्शें कठीण जातालें - पूण हांव तें टाळूंक शकनाशिल्लें. कारण ताच्या वर्णनांत तोच विशय सगळ्यांत व्हडलो आशिल्लो.

पूण ती दुसरी घडणूक - ना, हांव तातूंत कांयच बदल करूंक शकना, म्हाका ती ताच्या उतरांनीच सांगची पडटली. घडये आतां मेरेन ह्या गजालींचो ताका उगडास नाशिल्लो वा त्या विशयाचेर आतां मेरेन ताणें तसो विचार करूंक नाशिल्लो. देखून तो म्हाका सांगूंक लागलो तेन्ना ताच्यो भावना ताज्यो टवटवीत दिसताल्यो आनी ताची प्रतिक्रिया सादी, सरळ, स्पश्ट आशिल्ली. घडये ताकाच लागून आयज पसून तें चित्र म्हज्या दोळ्यांमुखार सुमराभायर स्पश्ट आनी ठळकपणान उबें रावता - न्हिवत चलिल्ल्या उज्या मुखार ती बायल ओणवी बसल्या, सामकी भकास आनी थीर, जमनीर गुठली मारून न्हिदिल्ल्या भुरग्यांच्यो पोटल्यो, स्मशान शांतताय आनी दाराचेर व्हडल्यान धप धप...

ती सोडून सगळीं जेविल्लीं. ती ताका, ताच्या बापायक, कितलोय वेळ जालो तरीय, सदांच जेवपाक रावताली. (तो आपूण केन्ना पावतलो हाची सुलूस केन्नाच

दिनाशिल्लो) तरीय तिणें ठामपणान थारायिल्लें, जेवपा खातीर भुरगीं बापायची वाट पळोवचीं नात. तीं तांकां वाडटाली, व्हडल्या भुरग्यांक लेगीत. आनी मागीर घोवा खातीर परत शिताक उडयताली. कारण ताणें तिका स्पश्टच सांगिल्लें, आपूण तुज्या भुरग्यांचें 'उरिल्लें उश्टें' जेवचों ना. ताका ताचें शीत सामकें ताज्जें आनी गरम जाय आसतालें. तेंय बी सवळ्या आयदनांत. तिणें तेन्नाच परत रांदिल्लें आनी ती ताका रावताली, ताका चड कळाव जायना जाल्यार पुरो अशें मनांतल्या मनांत मागीत. कारण चड वेळ जाल्यार जेवण थंड जावपाचें आनी परत चूल पेटोवपाचो विचारच तिका नाका जाल्लो.

तो भितर आयलो आनी सरळ मान्न्यांत हात-पांय धुंवंक गेलो. तो येता म्हणसर तिणें ताचें ताट वाडून दवरिल्लें. शर्ट खुटयाळ्याक लावन, तो सकयल बसलो, एक वाडगोभर उदक पियेलो, इल्लें उदक ताणें तळव्यार घेतलें चित्रावळ घालपाक - आनी मागीर तो रावलो, "आयज ताजी चटणी कित्याक ना?" ताणें तिचे कडेन पळयनासतना विचारलें.

ती तोंडांतल्या तोंडांत गुणगुणली. दुसऱ्याच खिणाक, ताणें आपलें तें जड पितळेचें ताट उबारलें आनी शेंवटिलें, तिचेर न्हय, जाल्यार मुद्दाम वणटीचेर, आदळटकच दण्ण करून आवाज जालो. तो उठून उबो रावलो आनी झट् करून खुटयाळ्या वयलो शर्ट उखल्लो आनी भायर सरलो घरांतल्यान.

तो गेले बराबर, दोगांय व्हडलीं भुरगीं, चलो आनी चली, उठून बसलीं.

"तुमी न्हिदात," आवयन तांकां सांगलें, "कांय जावंक ना."

मोन्यांनी भुरग्यांक पळयनासतना तिणें ताट काडलें, जमनीर आनी वणटीर उसळिल्लें जेवण काडलें आनी सगळे कडेन पुसलें. दोन फावटी चलयेन तिका विनयलें, "अव्वा, हांव काडटां."

"ना," तिणें जाप दिली, "तूं न्हिदपाक वच." हें सगळें जातकच ती घांशिल्लें ताट घेवन आयली आनी तिणें चल्याक विचारलें, "तूं जागो आसा रे? मात्सो शेजाऱ्यागेर वचून मिरसांगो हाडून दिवशी?"

शेजान्नीन दार उगडलें तेन्ना ती न्हिदपाक वताली. न्हिदपाक वच्चे पयलीं मुतपाक वचून आयिल्ली आसूंक जाय. कारण तिच्या कापडाची कास सोडिल्ली आशिल्ली. आनी कापडाच्या मिरयांचो झुपको तिच्या पांयां कडेन लोळटालो.

"तुजी आवय दीसभर कितें करताली? इतले रातच्यो मिरसांगो?" बडबडत आनी गणगणत, जिवार येवन तिणें मूठभर मिरसांगो चल्याक दिल्यो.

तो आयलो तेन्ना ताची आवय परत चूल पेटयताली, पितळेचे फुंकणेन उज्याक फूंक मारताली. तिचे दोळे तांबडे जाल्ले. घडये, ते धुंवरान जाल्ले आसत, कारण लांकडां सदांच ओलसार आसतालीं आनी सारकीं पेटनासलीं. तांकां सगळ्यांक त्या

जळपी धुंवराची संवय जाल्ली आसली तरी तांचे आवयचे दोळे मात सदांच तांबडे उरताले.

"हाडल्यो? थंय दवर आनी न्हीद."

तिचो आवाज शांत आशिल्लो. तिणें चुलीर शिताक उडयलें आनी चटणी वाटपाक लागली. चलयेन तिका परत विचारलें, "अव्वा, हांव करूं गे?"

"ना गो, न्हीद तूं," धाकटें उठलें आनी रडपाक लागलें. तिणें ताका ओगी केलें आनी दुदाक धरलें. चलो एकदांचो न्हिदून पडलो. तरीय ती चुली मुखार तशीच बशिल्ली, ओग्गी आनी धीरगंभीर.

जितली म्हाका ताची काणी दुखखदायक दिसली तितलेंच म्हाका ताच्या उतरांचें अजाप दिसलें. "देवा," म्हाका हें सगळें सांगतकच ताणें म्हणलें, "ती बायल आशिल्लीच सामकी निबर काळजाची. त्या तेंपा वयल्यो बायलो आसताल्योय तश्योच.

चुली मुखार ओग्गी बशिल्ले बायले मदीं ताका दिशिल्ली निबरसाण आनी म्हाका निर्शेवणी. उतरां मोनी जाल्लीं इतली निर्शेवणी. मोनेपण हेंच कोडू संघर्शाचें अस्त्र आशिल्लें.. मौन आनी शरणागती.

*हांव एक बायल आनी हांव तिका चड बरे तरेन समजूंक शकतां. तो एक दादलो आनी तो तिका समजूंक शकना.*

ना, असलो सादो सरळ निश्कर्श बरोबर न्हय आनी योग्यय न्हय. कारण ते बायले विशीं म्हजें मत तयार जावपाक आनीक कांय गजाली कारण आशिल्ल्यो. मोहनाक खबर नाशिल्ल्यो, मोहनाचे भयणीन, विमलान, म्हाका सांगिल्ल्यो गजाली.

विमलान सांगिल्लें, "मोहनाक हें खबर ना. तो चलो भुरगो म्हणटकच हांव ताचे कडेन असल्यो गजाली उलोवंक शकनाशिल्लें....

बायलांचें षडयंत्र. त्या गुटांत हांवय आसां, कारण हांवेंय मोहनाक ताचे आवयची ही काणी केन्नाच सांगली ना. विमलान म्हजे कडल्यान ही गजाल गुप्त दवरपाचो सोपूत बी घेतिल्लो अशें कांय ना. आनी ताणें तशें केल्लेंय जाल्यार व्हडलो फरक पडचो नाशिल्लो, कारण आतां तेंवूय नाशिल्लें ह्या जगांत.

"अजापाची गजाल न्हय?" विमलान म्हाका त्या दिसा म्हणिल्लें, "हांव म्हजे आवय परस कितलें वेगळें? पांच वर्सां जालीं आतां म्हज्या लग्नाक - ह्या वर्सा हांवें म्हजी पांचवी मंगळागौर पुजली - आनी म्हाका भुरगींच नात. हाचे उरफाटी अव्वा... म्हज्या आख्ख्या भुरगेपणांत म्हाका ती गुरवार बायल म्हणूनच याद जाता. तिका तें निमणें भुरगें नाका आशिल्लें. आतां मेरेन तिची चार काय पांच भुरगीं मेल्लीं आनी ती सामकी निर्शेल्ली. आतां म्हाका सगळें समजता, पूण तेन्ना हांव सामकें ल्हान आशिल्लें आनी तिचे वागणुकेन हांव थर्त भियेल्लें. ती मरचे पयलीं एक काय दोन

सप्तकां पयलींची ती गजाल.

ती रांदताली, भाकऱ्यो भाजताली आनी हांव... हांव कितें करतालें? हांव शाळेंत वचपाक भायर सरतालें. ताचे पयलीं हांव तिका रांदचे कुडींत मजत करतालें. प्रेमा लग्न जावन घोवाघरा वतकच तिका मजत करपाचें काम म्हजेर पडिल्लें. हांव तिका मजत करतालें, कामां खूब आसतालीं आनी म्हाका अभ्यास करपाक वेळच मेळनाशिल्लो. पूण तें म्हाका करचेंच पडटालें. कारण हांवें हें सगळें करूंक नाशिल्लें जाल्यार आनीक कोण आशिल्लो? हांवें कागाळ केल्ली जाल्यार अण्णा म्हणपाचो, "मागीर शाळेंत वचूं नाका तर, तुका कोण सांगता शाळेंत वच म्हणून?" सुधा जल्मलें तेन्ना ताणें प्रेमाक शाळेंत धाडिनासतना घरा दवरिल्लें. म्हाका तशें जाल्लें नाका आसलें.

त्या दिसा म्हाका शाळेक वेळ जातालो आनी घरचीं कामां सोंपून सोंपनाशिल्लीं. म्हणटकच हांवें सगळीं कामां तिकाच दवरलीं. हांव पुस्तकां एकठांय करतालें, इतल्यांत तिचो भाकरी थापपाचो आवाज एकदम थांबलो. दोन भाकऱ्यां मदलो हो सदांचोच सुशेग आसतलो अशें म्हाका दिसलें. आनी तिची किळांच कानार पडसर हांवें थंय लक्षच दिलें ना. पयलीं म्हाका समजलेंच ना ती किंळच्यो मारता म्हणून. कारण तो तिचो सदांचो आवाज नाशिल्लो. त्या बारीक चिरक्या आवाजान हांव सामकें भियेलें आनी मागीर, हांवें तिका पळयलें, ती आपलेंच तोंड फोडून घेताली. तिचे हात पिठाचे आनी वलेय आशिल्ले. आनी कांय वेळान तिचें तोंड धवें आनी पिठाचें जालें आनी पळयतां पळ्यतां तिचें तोंड थापटां मारूमारून तांबडें जाल्लें. हांवें तिका थांबोवपाचो यत्न केलो, तिच्यो किळच्यो बंद करपाचो यत्न केलो, तिचे हात धरपाचो यत्न केलो, पूण कांयच करूंक शकलें ना. तिचे हात जाल्ले लोखंड कशे... शेवटाक तिचे हात ल्हव जाले आनी हांव ते धरूंक शकलें. ती रडपाक लागली. हांवें तिका न्हिदोवपाचो यत्न केलो, हांवें तिका उदक पियेवपाचो यत्न केलो. पूण ती फकत 'जायना म्हज्यान, जायना म्हज्यान' म्हणत रावली. ती चुली म्हऱ्यांत पिरंगत पडिल्ली. तिचें पुराय आंग जाल्लें... कापूस भरिल्ले बावले भशेन. हांव घरांत एकटेंच आशिल्लें. प्रेमा सुधाक आपल्या घरा घेवन गेल्लें, मोन्या आनी वसंत स्कुलांत गेल्ले. फकत हांव आनी धाकलें घरांत आशिल्लीं. म्हाका मोन्याक आपोवपाचो विचार मनांत आयलो, पूण हांव तिका सोडून वचूंक शकलें ना. तिका एकटी सोडपाक म्हाका भंय दिसतालो.

एकदांची ती रडपाची थांबली आनी लांब लांब स्वास घेत ओग्गी पडून रावली. चुलींतलो गोबोर तिच्या केंसांक लागिल्लो आनी तोंडार सगळें पीठ - आतां मेरेन तोंड सुजिल्लें. दोळे भितर गेल्ल्यान ती मेल्ले भशेन दिसताली. तोंड मेल्ले बायले भशेन दिसतालें. एका सप्तका उपरांत ती मेली. पार्त उडोवंक वैजिणी कडेन गेल्ली

खंय ती.

"तुका हें खबर आशिल्लें? मोन्यान सांगिल्लें तुका?"

"ना."

"कशें कळटलें तुका? मोन्या हाचे विशीं केन्नाच उलयना. अव्वा मरतकच तो तिचे विशीं केन्नाच उलयलो ना, आमी घरा कडेन कोणच उलयलीं नात. लोक आपले मदीं फुतफुत्ताले आनी आमचे कडेन विचित्र नदरेन पळयताले. म्हाका लज दिसताली. म्हाका खबर आशिल्लें म्हजे आवयन लज दिसपा सारकें कितें तरी केलां म्हणून."

त्या दोगांयचे फोटे, मोहनाच्या बाबाच्या घराचे वणटीचेर लायिल्ले आसात. थंय आतां वसंत आनी रामा रावतात. दर खेपे आमी जेन्ना थंय वतात तेन्ना हांव तांकां दोगांकय पळयतां, आवय आनी धुवेक. फोटवांतली आवय त्या काळार दिसपी खंयच्याय सर्व-सादारण बायले सारकी दिसताली, शुन्य चेऱ्यान जगा कडेन पळोवपी. तिच्या कपला वयल्या मोट्ट्या कुकमान 'आपूण सवायशीण आसतना मेल्ली, भाग्यवंत बायल' ही मिजास सोडून बाकीच्यो सगळ्यो भावभावना पुसून उडयिल्ल्यो. पूण जेन्ना जेन्ना हांव त्या फोटवाक पळयतां तेन्ना तेन्ना म्हाका स्वताच्या चेऱ्याक पिठाच्या हातान मारीत स्वताक तिणें केल्ली भयानक ख्यास्त याद जाता. तिच्या विदूशकाच्या धव्या रुपड्यांतल्यान म्हाका तिचे तांबडेगुंज घावे दिश्टी पडटात.

आनी विमला? विमलान म्हणिल्लें, "विचित्रशें न्हय, हांव म्हजे आवय परस कितलें वेगळें." तरीय म्हाका तांचे मदीं साम्य दिश्टी पडटा, दोगांयचीं नशिबां एकठांय जोडटात अशें कितें तरी. तांचें मौन - तातूंत तांचो अंत जालो.

"म्हणल्यार?" दोतोरान आमकां अविस्वासान विचारिल्लें विमलाक हॉस्पिटलांत व्हेल्लें तेन्ना, "तिका इतले त्रास जाता आसतना लेगीत तिणें आपल्या दुयेंसा विशीं कोणाकच कांयच सांगूंक ना?"

ताणें सांगूंक नाशिल्लें. तिच्या घोवागेरचीं बायलां तिच्या मरणा उपरांत फुतफुत्तालीं, "कितलें आंगार जातालें तिका".

एक फावट हांव आनी मोहन - वर्सासनाचीं सप्तगिरी रावंक गेल्लीं तेन्ना - सदां भशेन ताका मेळूंक गेल्लीं - तेन्ना ताचे मांयन म्हणिल्लें, "देव जाणा, कितें जालां तें. ताका आतां हांतरुणार पडल्यार म्हयनोभर तरी जालो. हय, तुमकां जाय जाल्यार व्हरात ताका. असले गजाली खातीर बायलो हॉस्पिटल आनी दोतोर करतात हें हांवें केन्नाच आयकूंक नाशिल्ले गे बाये. दुसऱ्या बायलांक जायना काय कितें आंगार? नसते लाड! भुरगीं जायनाशिल्ल्या बायलांक हें अशेंच जाता."

"सर्जरी करपाक आतां खूब कळाव जाला," दोतोरान म्हणलें, "कसलोच इलाज करप शक्य ना."

ताका गर्भाशयाक ट्यूमर जाल्लो आनी पुल्मांवाचो कॅन्सर. "ताणें आमकां कित्याक सांगलें ना? आमकां चीट कित्याक बरयली ना?" मोहनान किंवाट्यान विचारलें. पूण प्रस्नांच्यो जापो विमलान केन्नाच दिल्यो नात, ह्या प्रस्नांच्यो लेगीत. तें कोमांत गेलें आनी एका सप्तकांत मेलें, मौन तशेंच दवरून.



“आमच्या मोगाळ मामाचें मोगाळ भूत” अशें एक फावट दादान मकरंदमामा विशीं म्हणिल्लें. आतां होच मामा, परत एकदां म्हाका, आपल्या फ्लॅटांत आपलें अस्तित्व दाखोवंक लागिल्लो.” म्हाका ताचे विशीं तशें कांयच दिसनाशिल्लें. तो सामको निरुपद्रवी आशिल्लो. आनी तो परत आयलो, म्हूण हांव ताका दोशय दिवंक शकनाशिल्लें. खरें म्हणल्यार, म्हजे परस ताचोच ह्या फ्लॅटाचेर चड हक्क आशिल्लो. हरशींय म्हणून ह्या फ्लॅटाचो दुर्मीळ, गुठलायिल्लो इतिहास ताचे पसूनच सुरू जाल्लो. आमचे खातीर हो फ्लॅट सदांच ‘मकरंदमामाचोच’. हो फ्लॅट ताकाच मेळटलो म्हणून आईन दादाक सांगिल्लें आसलें तरीय स्वता दादा, जेन्ना हांगा कांय म्हयने, म्हणल्यार आपली निमाणी परिक्षा आनी विदेशांत वचपाच्या मदल्या काळांत राविल्लो, तेन्ना तोय हें ‘मकरंदमामाचें घरच’ म्हणटालो. पूण दादा स्वताच्या सुवार्थाक लागून पयलीं पसूनच ह्या फ्लॅटा कडल्यान पयस रावलो आनी तरीय, आपल्या तिगां भुरग्यां मदीं, आईन हो फ्लॅट दादाच्या नांवार केलो हें म्हाका कळिल्लें तेन्ना म्हाका राग आयिल्लो आनी वायटय दिशिल्लें.

खरें म्हणल्यार म्हजी मानसीक तयारी आसूंक जाय आशिल्ली. दादा हो आईचो व्हडलो पूत. दोगां चल्यां मदलो व्हडलो, तीन भुरग्यां मदलो व्हडलो. म्हणटकच तिका तो फ्लॅट दादाक वच्चो अशें दिसप साहजीकच, पूण म्हज्यांत तें कूस उरलें. घडये ताकाच लागून जेन्ना आमी लोहानगर सोडलें, तेन्ना हांगा येवन रावंक हांव तयार नाशिल्लें. आमकां जाय तेन्ना आमी हांगा येवन रावंक शकतात अशें मोहन धरून चलिल्लो आनी ताचो म्हाका रागय आयिल्लो आनी अजापय जाल्लें.

मोहनान सांगलें “हांव म्हजी बदली मुंबय करून घेवंक सोदतां, पूण तो चीफ इंजिनियर म्हाका हांगां रावपाक जागो मेळचो ना म्हणून सांगून म्हजें मन बदलपाचो यत्न करता.” आनी जेन्ना मोहनान ताका सांगिल्लें, “मुंबय आमचो फ्लॅट आसा,” तेन्ना तो अजाप जाल्लो.

“आसा आमचो फ्लॅट?” हांवें हो प्रस्न खऱ्यांनीच विचारिल्लो, कोदिकांनी न्हय.

‘‘आगो जया, कितें जालां तुजें? तो तुजो दादरचो फ्लॅट आसा न्हय...’’

‘‘तो म्हजो न्हय, तो आईचो. तिच्या भावाचो - मकरंदमामान तिका दिल्लो, तिणें तो दादाक दिलो. म्हजो ताचे कडेन कितें संबंद?’’

पूण आतां तो फ्लॅट म्हजो. फाटले फावट दादा हांगां आयिल्लो तेन्ना ताणें म्हाका हो फ्लॅट भेट म्हूण दितां म्हणून सांगिल्लें. पूण हें गुपीत कोणाकच खबर नाशिल्लें. मोहनाक, आईक, दादाची बायल गीताक लेगीत खबर नाशिल्लें. जेन्ना दादान म्हाका सांगिल्लें तेन्ना धोंगीपणान प्रतिकार करीत हांवें म्हणिल्लें, ‘‘गीता कितें म्हणटलें?’’

‘‘आंवय, गीता?’’ दादान दांत दाखयत, हांसत म्हाका विचारलें, ‘‘गीता ह्या जाग्यार रावत अशी कल्पना तरी करूंक शकता तूं?’’

ना, हांव करूंक शकनाशिल्लें. विदेशांत रावंक गेल्ल्याक आपलें मध्यमवर्गीय मूळ गीता विसरून गेल्लें वा विसरून वचपाचो यत्न करतालें. आपूण सदांच सामकें नितळ, निवळ, संपन्न अशा बॅक्टेरिया-फ्री उपनगरांत रावत आयलां अशें तें वागतालें. तें उक्तेपणान मुंबयच्या ह्या वाठाराक हिणसायतालें. फकत हांगांच्यो घाणी, गुठ्ठाणी आनी कोयराक लागून न्हय जाल्यार हांगां जे तरेचे लोक रावतात तांकां लागून. पूण आनीक एक विचार म्हज्या मनांत आयलो, हो फ्लॅट विकून जर बरे पयशे आयले जाल्यार त्या पयशांकय तें हिणसायतलें काय? आनी ताच्याकय चड अस्वस्थ करपी आनीक एक विचार म्हज्या मनांत आयलो, जेन्ना ताका कळटलें, ताच्या घोवान हो फ्लॅट म्हाका भेट दिला म्हणून - ताचे भयणीक - ताका कितें दिसत काय?

हरशींय म्हजे विशीं दिसपी वैरभाव लिपोवप ताका कठीण जातालें, हांव आनी दादा खबरांक बसलीं काय तें सोंड वांकडे करून बसतालें. आमी पोरणे फॅमिली ज्योक याद करूंक लागलीं काय ताची तकली दुखताली. जेन्ना कमलाकाकीन सांगिल्ले बुरशे ज्योक याद करून दादा आनी हांव हांसतालीं तेन्ना तर तें आमचे कडेन तिरस्कारान पळयतालें.

पूण गीता आनी ताच्यो प्रतिक्रिया हो दादाचो प्रॉब्लॅम. आनी दादान म्हाका सांगिल्ले भशेन ‘‘हो फ्लॅट आमचो. म्हणल्यार हो फ्लॅट आमच्या परिवाराचो. रामूकाकाच्या शब्दांत हो फ्लॅट आमच्या परिवाराच्या इतिहासाचो अंश. हो फ्लॅट मकरंदमामाचे वरवीं बॉम्बे टॉकिज, देविकाराणी आनी बाकी सगळ्यां मदलो दुवो, न्हय जया? आयकुपाक प्रभावी दिसता न्हय? आतां हें सगळें तुजें. म्हाका दिसना, हांव आनी केन्ना परत मुंबय रावंक येतलो म्हणून, म्हणल्यार सदांच रावपा खातीर, म्हणटकच म्हाका दिसलें रवीक दिवचे परस तुकाच तो दिवचो.’’

आनी हाका लागून तो म्हजो जालो. पूण पळोवंक गेल्यार सोंपेपणान तो म्हजो जावचो नाशिल्लो. मकरंदमामाच्या मरणा उपरांत वनितामामी अडून बसली खंय, हो

फ्लॅट मकरंदमामान आपल्या भावाचे बायलेक दवरिल्लो. आनी न्हय ताचे भयणीक - म्हजे आईक. पंचगणींतल्या सेनिटोरियमांत मरपाक वच्चें पयलीं ताणें तशें तिका सांगिल्लें असो दावो ती करताली. आनी आई सांगताली, हे फावट वनितामामीच्या सभावांत बसनाशिल्ली गजाल तिणें केल्ली खंय. तिचो तो हट्ट; तिचे मांयचे, म्हजे आज्जेचे, थोमणे लेगीत हालोवंक शकले नात. वनितामामी आपले काणयेक दसून रावली. त्या बाबड्या भुरग्यांक फकत हांवच बरें करतालें. ते खातीर ताणें म्हाका म्हणिल्लें, ''वयनी, म्हजे कडेन जगांत एकच गजाल आसा, ती हांव तुका दिवंक सोदतां.''

अर्थांत ही आईन सांगिल्ली गजाल. वनितामामी अशी नाट्यमय तरेन, ठामपणान उलोवंक शकतली हाची कल्पनाच हांव करूंक शकना. घडये मीठ-मिरसांग लावन सांगिल्ले हे आईचे काणयेंत कणभर सत आसतय, कारण आईन वनितामामीचो दावो गंभीरपणान घेतिल्लो. व्हडा उमेदीन हे गजालीचेर तुटून पडपाची संद ती केन्नाच सोडिनाशिल्ली. ''मकरंदाक बरी करताली? कित्याक, तो तिचे कडेन उलयपसून नाशिल्लो. तिचें आनी चंदूचें लग्न जावन काय म्हयन्यांनीच मकरंदान घर सोडिल्लें. तुजे आज्जेन ताका घरांतल्यान भायर घाल्लो आनी तो मागीर तुजो अप्पा आनी म्हज्या वांगडा सप्तगिरी रावतालो. ताचे विशीं वनिताक कितें खबर आसा?''

बाबडो मकरंद... ताणें केल्ल्या वेवसायाक लागून जितो आसतना ताका घरच्यांनी पयस दवरलो, कुस्कुटायलो, अपमानीत केलो. पूण ह्या वैरीपणाच्या पड्ड्याआड तीं सगळीं ताका तोखेतालीं आनी सहानुभुतीय दाखयतालीं हें ताका बाबड्याक खबरच नाशिल्लें. निदान - ताच्या मरणा उपरांत - तांणीं तशें दाखयलें तरी. फकत दुसरी आजी हाका अपवाद - तिका तिच्या खर निश्चेवा खातीर वालोर दिवंक जाय. आपल्या चल्याच्या मरणा उपरांत लेगीत ती ताचे विशीं केन्नाच उलोवंक ना, उलयलीय जाल्यार फकत राग आनी तिरस्कारान.

मकरंदमामा दिसपाक सामान्य आशिल्लो तरीय तो बऱ्यापैकी आपलोच थातोमातो करतालो जावंये. आमी पयलेच खेप हांगा आयिल्लीं - दादा, आई आनी हांव - ह्या फ्लॅटाचो ताबो घेवंक, तेन्ना वणटीचेर आशिल्ले ताचे कितलेशेच फोटे पळोवन अजाप जाल्लीं - व्हडले व्हडले, उंची काळे फ्रेमींत घाल्ले फोटे, दिसाळ्यांचेर शोकप्रगटनाच्या वेळार काळ्यो वळी मारून दितात तसले. ताचे फोटे आख्ख्या फ्लॅटांत हांगा थंय हुमकळायिल्ले. वेगवेगळ्या भुमिकांतले. पूण ताणें केल्लें वेशांतर ताची अशक्त हनवटी, ताचे भेदक, अनिश्चीत दोळे लिपोवंक शकनाशिल्ली.

आनी तरीय, आपल्या कुटुंबाच्या विरोधांत वचपाची कापस्ताद ताणें दाखयिल्ली. आपले कडकलक्ष्मी आवयचो, म्हजे दुसरे आज्जेचो, रोश पत्करून लेगीत ताणें सगळ्यांक लजेक घाल्लो - एक नट जाल्लो. हाच्याकय फुडें वचून आनिकूय

निंदनीय, माफी नाशिल्ली गजाल ताणें केल्ली. काम करून पोट भरपा खातीर तो एका वेवसायीक नाटक कंपनींत सामील जाल्लो. आनी ताचे उपरांत तर मुंबय वचून सिनेमा जगांत प्रवेश करून दोबराद गुन्यांव केल्लो. ताका ल्हान ल्हान भुमिका सोडून व्हडले कांय मेळूंक ना, पूण ताच्या कुटुंबाक इतलेंच पुरो जाल्लें. तो सिनेमा सारक्या फालतू जगाचो भाग जाल्लो आनी ते खातीर घरांत ताचें नांव लेगीत घेनाशिल्ले. फकत एकट्या अप्पानच मकरंदमामाक लिपचोरयां, अदीं मदीं मजत केल्ली. (हें म्हाका चंदूमामान त्या एकलेपणाच्या दिसांनी, अप्पाचें मरण जाल्लें त्या दिसांनी सांगिल्लें). म्हणून घडये आई त्या फ्लॅटाची वारसदार जाल्ली.

खरें म्हणल्यार मकरंदमामा कंगाल जावन मेलो असो सगळ्यांचो समज जाल्लो. जेन्ना मकरंदमामान ''म्हजो मुंबयचो फ्लॅट'' अशें म्हणिल्लें तेन्ना चंदूमामाक दिसलें हो मरणाक तेंकिल्ल्या मनशाचो भ्रम. ताच्या मरणा उपरांतच चंदूमामाक कळ्ळें, तो सांगतालो तें सत म्हणून. मकरंदमामाक हो फ्लॅट सवाय भितर एका मुसलमान नटाकडल्यान मेळिल्लो, (तो ताणें आपले हिंदू रखेली खातीर घेतिल्लो), कारण तो पार्टिशनाचे पयलीं पाकिस्तानांत पळ काडपाचे घाईंत आशिल्लो. आनी आईच्या मतान, मकरंदमामा कडेन फ्लॅट आसा, हें गुपीत स्पश्ट जातकच वनितामामीक, आपूण आनी आपल्या घोवाच्या भावा मदीं एक खाशेलें आपलेपण आसा असो सोद लागिल्लो. हें सांगतना आईन सोडिल्लो एक व्हडलो सुस्कारो अजून म्हज्या कानांत घुमता. घरच्यां मदलीं किजिलां!

खूब वर्सां वनितामामी त्या फ्लॅटावेलो आपलो अधिकार सोडपाक तयार नाशिल्ली. आईन दादाची फायनल जाले बराबर ताका बेगिबेगीन ह्या फ्लॅटांत रावपाक सांगलें हें घडये एक कारण आसूंक शकता. दादान मनांत नासतना अर्दकुटे इत्सेन थंय रावंक सुरवात केल्ली. पूण चड करून तो हॉस्टेलांतच रावतालो आनी आयतारा इश्टां वांगडा हो जागो मजा करपाक वापरतालो. अमेरिकेक वच्चे पयलीं जे तरेन ताणें फ्लॅट रितो केल्लो तें पळोवन हांव थंडच पडिल्लें. तो परत येवचो ना हें स्पश्ट जाणवतालें. ताचे उपरांत लोहानगरच्यान मोहन आनी हांव हांगां रावंक आयलीं. ''थोड्या दिसां खातीरच,'' मोहनान सांगिल्लें, ''बरो जागो मेळटा म्हणसर.'' आनी ताका तो मेळिल्लो- बरो जागो - सरकारी फ्लॅट. चर्चगेट. तरीय हीं पळय, आमी परत आयिल्लीं मकरंदमामाच्या फ्लॅटांत.

पूण केन्ना केन्ना म्हाका दिसता, तो फ्लॅट आपले खातीर दवरला ह्या वनितामामीच्या सांगण्यांत कणभर तरी तथ्य आसूंक जाय. हाचे पयलीं तिणें सामकें सहजपणान कितल्योश्योच गजाली अश्योच सोडून दिल्ल्यो, म्हणटकच हेच गजाली खातीर ती पिशेपणाचो हट्ट कित्याक करतली? जेन्ना कुसूमाक हांवें हांगां हाडून दवरिल्लें आनी ताका हांव मेळूंक गेल्लें, तेन्ना लता, कुसूमाचें चली, दार उगडटलें

म्हूण वाट पळयतना म्हज्या मनांत एक विचार आयलो, जर हो फ्लॅट वनिता मामीचो आशिल्लो, तर ती तो कुसूमाक दिवपाची. म्हज्या मनांत हो विचार आयलो आनी हांव स्वताकडेनच हांसलें. इतल्यांत कुसूमान दार उगडलें आनी हांव कित्याक हांसता हें खबर नासतना तेंय हांसलें. एक नकली, लेमडो हांसो, ताका लागून हांवें रोखडेंच ताचेर आड्डूंक सुरवात केली.

भुरगीं नाशिल्ले वनितामामीक आपले भयणीचे पिलावळींतलें सगळ्यांत अशक्त, निस्तेज अशें कुसूमच कित्याक आवडटालें हें एक व्हडलें गुपीतच आसा. घडये वनितामामीक कुसूमा मदीं स्वताचें पडबिंब दिसलां आसतलें. दोगांय जल्मताच अयेसस्वी, जल्मताच हारिल्लीं. वनितामामीचे हे बाबडे पसंतीचें आनीक दुसरें खंयचेंच कारण म्हाका दिसना. कारण कुसूमाच्या खूबश्या भावा भयणां मदलीं कोणय ताचे परस बरी आशिल्लीं. शैला, कुसूमाची धाकली भयण, सुयेच्या तोंकावरी तोंकदार आनी कपटी. वनितामामीन आपणाक आपणावचें म्हूण ताणें हजार यत्न केल्ले; पूण वनितामामी ताचे कडेन सदांच तितले पुरतेंच आनी शिटूक वागताली.

घडये सत अशेंय आसत, आवड कशी कितें आसता हेंच वनितामामीक खबर नाशिल्लें. तिचें लग्न जाल्लें, तेन्नाच्यान, आईच्या हेर कुटुंबियां सारकेंच, तिचेर तिचे चेटकिणीवरी मांयन, म्हजे दुसरे आज्जेन, शेक आनी सत्ता चलयल्ली. वनितामामीन खंयची साडी न्हेसची हें लेगीत ती जाणटेलीच थारायताली. उपरांत आई आयली, ती अप्पाच्या मरणा उपरांत आपल्या कुळारा परतल्ली; आई अजूनय आसा.

पूण एक गजाल न्हयकारप अशक्य - ह्यो दोनय दुर्बळ बायलो, वनितामामी आनी कुसूम, तांच्या मनाक मारता तें करून घेवंक शकतालीं. चंदूमामा आनी दुसरी आजी आसतना लेगीत कुसूम घरांतलेंच जाल्लें. आनी अप्पा वतकच आमी आंबेगांव रावंक गेलीं, तेन्नाच्यान आमच्याय जिविताचो भाग जाल्लें. कठीण परिस्थितींत मेळयिल्लें जैत तें ताचें; म्हाका याद जाता, कितलिंशींच वर्सां आमी मोट्ट्यान म्हणटालीं ''कुसूम धांव, चंदूमामा येता.'' आनी कुसूम फट करून आनी आवाज करिनासतना थंयच्यान नाच्च जातालें; खूब तेंपान, चंदूमामान ताचें अस्तित्व ह्या घरांत आपणायलां अशें दिसलें. तरीय तें शरणागती पत्करूनच रावलें. कांय तेंपान घरांतल्या सगळ्यांनी... ना... ना... ताका तशें आपणायलें ना, ताची वासपूस सोडली, पूण ताका खात्री नाशिल्ली. अजूनय कोणेंय ''कुसूम धांव, चंदूमामा येता'' इतलें म्हणल्यार लेगीत तें थंयच्यान आकांतान पळ काडटालें.

हां, हय, दुर्बळांची चिवटसाण जबरदस्त आसता. मकरंदमामान लेगीत कितले हुशारकायेन हांगाच्यान निखळावपांतल्यान आपणाक वांचयिल्लो? सगळ्यांत पयलीं प्रयत्न दादान केल्लो आनी तो हारिल्लो.

आमी हांगां आयिल्लीं त्या दिसा ताचे सगळे फोटे पळोवन मुमुरखें हांसत दादान

म्हणिल्लें ''म्हजे कडेन एक भन्नाट कल्पना आसा.'' आमी हे सगळे फोटे वनितामामीक कित्याक धाडून दिवचे न्हय? अखेरेक ती एकटीच ताचे कडेन बरी वागिल्ली, हय काय ना?''

आई हांसली, खुशाल आनी अल्लड, विधवेच्या एकलेपणांतल्यान भायर सरत ती आमच्या हांसपांत सामील जाली; पूण दादा आनी हांव वणटी वयले फोटे काडूंक लागलीं तेन्ना मात तिच्या सुरांक धार चडली, ''दिनू, कितें करता तूं? तुका कित्याक काडपाक जाय ते? आसूं ते थंयच.''

''आसूं थंयच... म्हणल्यार तुका दिसता आमी हे हांगाच दवरचे?''

''कित्याक दवरचे न्हय? ते फोटे तुजें कितें वायट करतले? आनी एक गजाल विसरूं नाका, तुज्या ह्या मामाक लागूनच तुका हो जागो मेळ्ळा.''

मामाक ''संत'' करपाक सुरवात जाल्ली. तो, जाचो सगळ्यांनी फकत तिरस्कार केल्लो, अयेसस्वी म्हणून ताच्यो बकच्छायो केल्लो मनीस, आतां सार्वजनीक चर्चेचो विशय जाल्लो - एका अभागी प्रतिभावंताक ह्या मूर्ख आनी क्रूर जगान उपेक्षीत दवरलो आनी तरणेपणांतच ताचो दुखेस्त अंत जालो.

''पूण म्हाका खबर आशिल्लें, म्हजो ताचेर विस्वास आशिल्लो,'' आईन धीरगंभीर जावन सांगिल्लें, ''खरें म्हणल्यार, हांवूंच, ताका मजत कर म्हणून, अप्पाचे फाटीक लागिल्लें.''

आपलेच फटीचेर आई विस्वास दवरता. तिचें उडयो मारीत वचपी मन कितलेशेच फावटीं भुल्लुसून हांवें तेळ्ळां, त्रास जावपी वास्तवीकतायेचे देगे वयल्यान आपल्यान तयार केल्लें, सुसेगाद रावंक मेळपी काल्पनीक जाग्यार पावपी मन.

''ते फोटे आसात तशेच दवरात.''

''आसात तशेच...?'' दादान फाटीं फुडें करीत तांकां पळयले आनी मागीर हांसलो. ''कित्याक नाका? आसूं थंय ते.

''आमच्या मोगाळ मामाच्या मोगाळ भुताक पिडूं दी आमकां थंडपणान.''

शेवटाक मोहनानच आमची मकरंदमामा कडल्यान फाट सोडयिल्ली. जेन्ना आमी लोहानगरच्यान हांगा रावंक आयिल्लीं तेन्ना कसलीच खंत नासतना ताणें सगळे फोटे वणटी वयल्यान काडले आनी गॅलरींत एकाचेर एक दाळून दवरीत म्हाका सांगलें, ''दुसरे फावटीं आंबेगांव वतना हे सगळे थंय व्हेल्यार जाता.'' मोहनान व्हडा हुशारकायेन आनी सांबाळून दादा आनी ताच्या इश्टांनी वणटीर दसयल्ल्यो सुंदऱ्यो, ब्लेड आनी गरम उदक वापरून पोंतान पोंत काडल्यो. जे पद्‌दतीन ताणें हें सगळें केलें तें पळोवन म्हाका जिखिल्ल्या राज्याचो कब्जो घेवपी सैन्याची याद जाली. ते सगळे फोटे वतकच त्यो उगड्यो नागड्यो वण्टी आमकां दूशण दियेत दोशी कश्यो पळोवंक लागल्यो. आमकां पेंटाचे तीन थर वापरून तांकां

लिपोवचें पडलें आनी मागीर, अजापाची गजाल म्हणल्यार, मोहन आनी हांव हांगां रावंक आयिल्ल्या एक वा दोन दिसां उपरांत, ते काटकोन आमी थापिल्ल्या त्या पेंटाच्या थरांतल्यान भुता सारके भायर उदेले. जसो काय मकरंदमामा चड बोवाळ करिनासतना थंडपणान आपल्या घरांत परतल्लो.

अशें घडटकच, आमकां जाय जाय म्हूण चर्चगेटीच्या फ्लॅटांत गेल्लीं, तीं गेलींच ना, आमी हांगाच आसात हो म्हज्या मनांतलो भ्रम आनिकूय घट जालो. ती थंय सान्न मारून कोयर व्हरपी बायल तशीच आशिल्ली; तें जमीन पुसपी जीजाय थंयच आशिल्लें, केळकारालो सतीश ढम्म करून दार बंद करून धांवतालो तो आवाज म्हाका अजूनय आयकूंक येतालो, कांय वेळान रती आपल्या नर्सरी स्कुलांतल्यान घरा येतलें आनी ताचे उपरांत कांय वेळान राहुलाची बस ताका बिल्डिंगेच्या सामकार आशिल्ल्या फुटपाथाचेर सोडून वतली आनी हांव च्यावेक खावंक कितें करूं ह्या विचारान तळमळटलें.

पूण सगळ्यो गजाली आशिल्ल्यो तश्योच आसात हो म्हजो भ्रम खूब वेळ तग धरूंक शकलो ना. पयलीं जातालें तशें सगळें तश्या तशें जावप शक्य नाशिल्लें. अजापाची गजाल म्हणल्यार आमी बदला विशीं अशें उलयतात, जशे काय तें व्हडलें अप्रूप कशें. हाचे उरफाटें, बदल जावप ना हें असैमीक , सैमाच्या विरोधांत. जीवशास्त्र हें सत मानता; हालचाल नाशिल्ली, बदल नाशिल्ली थीरताय एक विकृती. आनी हांगांच ती नकली अशी दिसपी वणत सत्याचे जाणिवेचो स्पर्श जातनाच कोसळटा. केळकारालें दार ढम्म करून मारून धांवपी निलिमा आशिल्लें, सतीश न्हय. कोयर सकयल व्हरपी नयना आशिल्लें, ताची मांय सोना न्हय. आनी जरीय जमीन पुसपी जीजा तेंच आशिल्लें तरीय ताचे मदीं बदल जाल्ले - ताच्या आंगा वयले सौभाग्य अळंकार ताच्या जिवितांतल्यान नाच जाल्ले - ताचो तो कुकूम, पाचवीं कांकणां आनी काळो मणी.

राहुल आनी रती हांगां नात हें सामकें ठळकपणान जाणवतालें. हीं दोगांय हांगां नासप हें मुखार घडटले घडणुकेक लागून मोहनान केल्ली पूर्वयेवजण बी न्हय मूं असो आतां म्हाका दुबाव मारता. पूण ना, तें शक्य नाशिल्लें. हांव मोहनाक जितलें वळखतां ताचे वयल्यान हांव सांगूंक शकन. असलो विचार करप म्हणल्यार पिशेपणां आनी हरशींय बी हे गजालींत फुडाकार रुपान घेतिल्लो. ताणेंच सुचयिल्ले दक्षिणेचे यात्रेक आमी भुरग्यांक धाडचें म्हणून, ''भुरगीं वांगडा आसत जाल्यार यात्रेक आनीक मजा येतली,'' ताणें म्हणिल्लें, ''अनिता सदांच म्हणटा खंय 'फकत आमीच' आसल्यार वाज येता.''

घडये, हें आमंत्रण, आमी उमेदीन घट इश्टागतीचें जें नाटक खेळटात ताचोच एक भाग आसुंये. सप्तकांतल्यान एकदां आमचे घराबे मेळटाले. सप्तकांतल्यान दोनदां

हांव आनी रुपा एकामेकांक फोन करतालीं, आमी वांगडा बाजार करतालीं, आमी वांगडा सिनेमा पळयतालीं, आमी एकच महिला मंडळाचीं वांगडी आशिल्लीं.

आनी तरीय रुपा आनी हांव एकामेकांक अनवळखी आशिल्लीं हेंच सत. जशें हांव आनी सीमा शाळेंत एकामेकां कडेन उलयतालीं तशीं रुपा आनी हांव एकामेकां कडेन केन्नाच उलयलीं नात. सीमा आनी हांव एकामेकांक सगळ्यो गजाली सांगतालीं. आनी हांगां, रुपा आनी हांव, आमच्या सदांच्या जिवितांतल्या पातळ बर्फाच्या थराचेर भियेत भियेत, बेगिबेगीन पांय दवरून स्केटिंग करतालीं. आमी केन्ना एकामेकांच्या जिवितांत खोलायेन वचूंक नात; आमकां वचपाचेंय नाशिल्लें. रुपा हें नामनेची गायिका रागिनी सिरसीकर हांची नात हें म्हाका हालीं हालीं मेरेन खबर नाशिल्लें. हें समजतकच म्हाका सामकी उमेद जाली - अप्पा ते जाणटेलेची खूब तोखणाय करतालो. पूण रुपा मेळटकच हांवें ताका हें विचारलें, तेन्ना ताणें थंडगार आनी अनास्थेची प्रतिक्रिया दिली आनी म्हाका किंकोत केले. हांवेंय ती गजाल तितल्याचेरच सोडून दिली.

अशें आसूनय, आमचे इश्टागतीचें हें नाटक आमी मोटे उमेदीन चलयतालीं. ‘‘रुपा,’’ हांव ताका कळवळ्यान फोनार विचारतालें, ‘‘कितें जालां गो तुजें? कितले दीस जाले तुजी खबरच ना.’’ ताका कितेंय जालें जाल्यार म्हाका ताचें पडून वचूंक ना हें मनांतल्यान खबर आसून लेगीत विचारप जातालें, हांव ताच्या जिवितांत घडिल्ल्यो बारीक सारीक गजालीं आयकतालें, सामकें स्वास रोखून, चिंतेस्त जावन.

आमच्या ह्या ‘नाटकां करया’ खेळांत मोहन आनी रती सामील जातालीं. फकत एकटो राहुलच हे कुटुंबीक काणयेंत आपलो कसलोच हातभार लावंक तयार नाशिल्लो. आमच्या ह्या नातेसंबंदां विशीं ताका कितें तरी अस्वस्थ करतालें जावंये. ताका रुपा आनी अशोका वांगडा हे ट्रिपीर वचपाचें नाशिल्लें. मोहना खातीर हो भश्टकार कसो जालो. रुपा आनी अशोकाचे प्रभावळींत खोशेन स्वास घेवपी मोहनाक हांवें पळयिल्लें. वास्तवांत मोहनाक अशोका भशेन जावंक जाय आशिल्लें. अशोकाचो बापूय ब्रिटिशांचे इंडियन सिविल सर्विसेंतल्या उंचेल्या पांवड्या वयल्या लोकां मदीं पडटालो. अशोकान सिविल सर्वण्टाची परंपरा मुखार व्हरतनाच, बापायचो आयसीएसांतलो आत्मविस्वास आनी उर्मटपणाचो वारसो घेतिल्लो. सामकी निश्कलंक अशी फामील तांणी घडयिल्ली, म्हणटकच तांच्या घरांत रागिनी सिरसीकारा सारक्या कोल्ली, कुप्रसिद्द प्रतिभावंत कलाकाराचें नांव घेनाशिल्ले, हें व्हडलें अजाप न्हय. असल्या कुटुंबाच्या सांगातान वचपाक राहुल कित्याक तयार ना हें मात मोहन समजूंक शकनाशिल्लो आनी ताणें परपरत विचारिल्लो प्रस्न ‘‘कित्याक वचना?’’ हाची योग्य जाप राहुल दिवंक शकलो ना, तेन्ना मोहनाक ताची चडच तिडक मारली.

निमाणें, वारो गेल्ले भशेन राहुलान सांगलें, ‘‘वचपाक वाज येता’’.

"वाज येता! तुजो हो शब्द आयकून आयकून थकलों हांव. तुजे खातीर जगांतल्यो सगळ्योच गजाली वाजेवण्यो. तुका रस आशिल्ली खंयचीय गजाल आसा?"

कसली ती गजाल? ल्हान आसतना राहुलाक कॉमिक्स आवडटालीं. ताणें ती व्हडा किंवाट्यान सांठोवन दवरिल्लीं आनी कोणेंय मागल्यार दिनाशिल्लो. मोहनाक तिडक मारताली. "कोयर सगळो," तो फणफणटालो. "निव्वळ वेळ पेड्डेर करपाचो धंदो. हाका लागूनच तो अभ्यासांत फाटीं." मागीर रतीय कॉमिक्स वाचूंक लागिल्लें, पूण मोहन ते मेरेन मोव पडिल्लो. राहुलाचेंय कॉमिक्सा वयलें लक्ष उडिल्लें. ताचे खातीर आतां क्रिकेट आनी संगीत लागींचें जाल्लें, पूण हे दोनय छंद कॉमिक्साच्या मार्गारच पावले.

फाटले कितलेशेच म्हयने ताचे कुडींत शांतताय पातळिल्ली. ताचे मदल्या ह्या बदलान हांव भियेल्लें. "राहुल," कुडींत येवचे पयलीं आड्डत हांव विचारतालें, "कितें करता रे तूं?"

"कांय ना मम्मी."

आनी खऱ्यांनीच तो कांयच करिनाशिल्लो. ताचे कुडीच्यो वणटी रिकामी जाल्ल्यो, रेडियो मोनो, मेजाचेर कांय अभ्यासाचीं पुस्तकां आनी चोपड्यो आशिल्ल्यो. त्यो तो चुकून उगडटालो. "म्हजे फाटल्यान लागनाका," तो विनाकारण वेळ वगडायता हाची ताका हांवें याद करून दिली तेन्ना ताणें म्हाका सांगलें. आशिकुशीक मोहन आसतालो तेन्ना तो पुस्तकां उगडीं करून बसतालो, पूण म्हाका खबर आसतालें तो शुन्य नदरेन ह्या पुस्तकांक तेळटा म्हणून.

वर्साचे अखेरेक आपलें प्रगतीपुस्तक घेवन तो घरा आयलो, तेन्ना मोहन ताचेर तिडकलो.

"हांवें भीक मागून पयशे उधार घेवन शाळा आनी कॉलेज केल्या, जेन्ना जेन्ना वेळ मेळटालो तेन्ना खंयचो तरी खांची कोनसो पळोवन अभ्यासाक बसतालों हांव. आनी इतलेंय जावन म्हजो पयलो वर्ग चुकलोना. आनी हो भुरगो! ताचे कडेन सगळें आसा, आमी ताका कांयच ना म्हणिनात आनी ताचे मार्क्स पळयात! म्हजो पूत अभ्यासांत इतलो फ्राक आसा हाची लज दिसता म्हाका."

राहुल हें सगळें मोन्यांनी, कांयच न्हयकारिनासतना, स्वताची बाजू मांडिनासतना आयकून घेता हें पळोवन हांव बेचैन जाल्लें. आनी मागीर मोहनच आपलो सगळो राग कुशीक काडून वेव्हारीक जालो.

"शाळेंतलें तुजें हें निमाणें वर्स. आमी कितें तरी करूंक जाय." आनी ह्या 'कितें तरी' उतरान राहुलाच्या मौनाचें रुपांतर टुण्ण करून प्रतिकारांत जाल्लें.

"ट्युशन्स?" मोहनान जेन्ना राहुलाक ताचे खातीर कसली वेवस्था केल्या ती सांगली, तेन्ना ताणें सांगलें. "पूण म्हाका ट्युशनां नाकात."

"पूण तें करिना जाल्यार तुका कसलीच संद ना. तुका बरे कॉलेजींत लेगीत वचपाक मेळचें ना."

"आनी ट्युशनां घेवन हांव सुदारचोंय ना. म्हाका फकत शाळेंत बरे गूण मेळटले, कारण तुमी सराक ट्युशनाच्या निमतान चड पयशे दितलीं."

ही निराशावादी वृत्ती खंयच्यान आयली हाचे मदीं? आनी मागीर भियेवनच मनांत विचार आयलो - हांवेंच शिकयलें ना मूं ताका 'कित्याचेरच' विस्वास दवरनाका म्हणून?

पूण मोहनाच्या राग आनी निर्धारा मुखार राहुल चड वेळ तग धरूंक शकलो ना.

"बरें," तरणाट्याक सोबसारके खांदे वयर उडयत ह्या सगळ्यांक अर्थ ना अशे तरेन ताणें बापायक सांगलें, "तुमकां म्हजे खातीर मार्क विकते घेवंक जाय, जाल्यार करात तशें. म्हाका भोव पडून गेलां!"

रुपाच्या आमंत्रणान आमकां एक आस जाली, ह्या वादाच्या तणावांतल्यान सुटका मेळटली म्हणून, पूण राहुलाक हेय ट्रिपीक वचपाचें नाशिल्लें.

"कितें जाय तुका?" मोहनान ताका विचारिल्लें, "तुका जाय अशें कितेंय तरी आसा?"

आमच्या खंयच्याच प्रस्नाची जाप राहुला कडेन नाशिल्ली जावंये. वा घडये ताका स्वताक कितें जाय हेंच ताका खबर नासुंये. म्हाका राहुल ल्हान आसतनाची याद जाली. एक दीस ताणें दोन पॉलिटिकल पार्टी मदीं रस्त्यार झगडीं जातना पळयलीं तेन्ना तो आमकां एकेकल्याक विचारत गेलो, "डॅडी, आमी कोण? डॅडी, आमी तांबडो बावटो काय आमी शिवसेना? मम्मी, आमी कोण गे? मम्मी म्हाका सांग, आमी कोण तीं. जाबाय, तूं कोण? जाबाय हांव कोण?"

निमाणें, ताच्या त्या परपरत विचारिल्ल्या प्रस्नान बेजार जावन हांवें सांगलें, "आमी कोणच न्हय."

राहुलान म्हजें तेंच उतर उखलून, स्वताक "कोणच न्हय केलो ना मूं?" देखून ताचे कडेन आमच्या प्रस्नांच्यो जापो नाशिल्ल्यो काय? आनी हांव... हांवें कितें केल्लें? "चल रे तूं राहुल", हांवें म्हणिल्लें, "म्हाका खात्री आसा तुका मजा येतली ट्रिपीक."

तापिल्या तेलाचेर उदक ओतपाचे, कुटुंबा मदीं शांतताय सादपाचे, बापूय पुता मदीं पूल जावपाचे - कितेंय म्हणात तुमी, करपाचे ते सगळे यत्न हांवें केले आनी तातूंत हांव असफल जालें. निमणें राहुलान हार मानली, "बरें वतां हांव. हांगा रावल्यार दीसभर तूं म्हजे फाटल्यान पडटली. ते परस हांव गेल्लों बरों."

आनी अशे तरेन ह्या फ्लॅटांतल्या नाटका खातीर स्टेज तयार जाल्ली. देव जाणा कित्याची वाट पळयत ती, पूण आमी दोगांय, आमचे आमीच, हांगां येवन राविल्लीं.

अजाप म्हणल्यार, भुरग्यां विशीं आमी दोगांय उलयलींच नात. चवकशी जातली हें ताणें सांगलें त्या दिसा सावन आमी भुरग्यां विशीं उलयलींच नात. ''भुरग्यांचें कितें?'' हांवें विचारिल्लें.

''तांकां कळपाक जायना, तांकां कांयच सांगपाक जायना. तीं परत घरा पावता म्हणसर. म्हाका दिसता, म्हाका खात्री आसा, आमी घरा पावतलीं.''

परत घरा. आशिल्लीं तशीं. आमी चवगांय. पूण आमी परत 'आशिल्लीं तशीं' जावचे पयलीं हो सगळो मदलो वेळ पासार जावंक जाय आशिल्लो. गांवच्या बायलां विशीं अप्पान आमकां एक गजाल सांगिल्ली, तीं खंय सकाळीं झोंपां वा झाडां आड परसा कडेन बशिल्लीं आसतना थंय कोणय अचकीत आयलो, जाल्यार बेगिबेगीन साडयेन आपले चेरे धांपतालीं.

''तांचे कुले दिसले तरी तांकां पर्वा नासताली,'' अप्पान हांसत सांगिल्लें, ''आगंतुकांक ते कोणाचे कुले हें कळना जाल्यार पुरो.''

मोहन आनी हांव त्या बायलां भशेन जाल्लीं. पूण आमी चिंतिल्लें तशें जालें ना. आमी कोणाचेच नदरेक पडचीं नात हें आमी चिंतलेंच कशें? नयनान लेगीत कुतुहलान ''ताई, भुरगीं खंय आसात'' अशें पयल्याच दिसा विचारिल्लें. हांवें ताका स्पश्टीकरण दिलें खरें, पूण तरीय ताणें आमचे ताटातुटी खातीर चुकचुक करीत आमची काकुळट करपाची ती केलीच. ह्या ताच्या चवकस सभावाचो म्हाका राग येतालो. ताचे परस, जीजाचें मौन, एक सुसेग कसो.

खरें म्हणल्यार, सुरवातीक जीजाच्या मौनाचेर म्हजो विस्वास नाशिल्लो. सभावान तुसडें आसत, झगडाळ आसत वा काम करपाची आवड नासत म्हणून हें अशें वागता असो म्हजो चुकीचो समज जाल्लो. पूण आतां हांव ताका सारकें वळखतां. मात हे ओग्गी रावपी, लागीं लागीं हट्टीशे दिसपी बायलेन म्हजे कडेन कामाक येवंक लागिल्ल्याक म्हजो केन्नाच घात केलो ना. आमी हो जागो सोडून वचसर ताणें म्हगेर काम केल्लें. आनी आयजूय गरज आसता तेन्ना तें येता. हातूंत स्वामीनिश्ठा बी अशी कांय नाशिल्ली. जीजा मुळांतच सत्याक सामकार वचपी बायल. आपूण जोडटा त्या पयशांची आपल्याक सामकी गरज आसा हें ताका खबर आशिल्लें, वावराडी म्हणून आपल्या कामाचो वालोर ताका खबर आशिल्लो. आपल्या विस्वासूपणाची किर्त आपल्याक हेर वावराड्यां परस चड काम मेळोवन दिता हेंय ताका खबर आशिल्लें. त्या सगळ्यां परस तें वेगळें आशिल्लें - प्युअर प्रफॅशनल. आनी ताका ताचो अभिमानय आशिल्लो. म्हाका ताच्या ह्या एकनिश्ठ सभावाचो दुस्वास जातालो. ताका आपल्या जिविताचो उद्देश खबर आशिल्लो - जगत रावप. सहनशीलताय हो हे जिणेचो भाग आशिल्लो. आनी म्हणून जें सोंसपाक जाय तें सगळें, तें सोंसतालें.

आमगेर कामाक लागिल्लें तेन्ना ताणें म्हाका शिटकायिल्लें ''म्हजो पगार काडून म्हज्या घोवाक केन्नाच दिवं नाकात.'' आपली जीण कशी कितें हाची शिटकावणी ताणें दिल्ली. कांय दीस अशे आसताले, जेन्ना तें कामाक येतालें तेन्ना ताच्या आंगार दुखी आनी घावे आसताले, चुकून केन्नाय तें येनासतनाय रावतालें. पूण हांवें ताका केन्नाच कागाळ करतना आयकूंक ना. सगळ्यांत अजापाची गजाल म्हाका तेन्ना दिसताली, आनी अजूनय दिसता, ती म्हणल्यार ताच्या मौना फाटल्यान राग-बिग कांय नाशिल्लो.

''कोणाचेर म्हणून रागार जावं हांव?'' एक दीस हांवें ताच्यो भावना धोंगसावपाचो यत्न केल्लो तेन्ना ताणें म्हाका विचारिल्लें, ''म्हज्या पालकांक म्हाका बेबद्या कडेन लग्न करून दिवपाचें नाशिल्लें. तो तेन्ना बेबदो नाशिल्लो. ताका बरी नोकरी आशिल्ली, बरी फॅक्टरींतली नोकरी. आमी एके चाळींत बऱ्या देसेंत रुमांत रावतालीं, झोंपडपट्टेंत न्हय. संप जालो आनी तो सगळें शेणोवन बसलो. थंय ताचो कांयच गुन्यांव नाशिल्लो, हेरांनी ताका चुकीच्या मार्गार व्हेलो, जें कितें इश्टांनी सांगलें ताचेर ताणें विस्वास दवरलो. ताचे उपरांत तो पियेवंक लागलो. देवान आमकां भुरगीं दिलीं नात हें ताचें आनी म्हजें, दोगांयचेंय दुर्भाग्य. हांव ताका भुरगीं दिवंक शकना देखून ताणें परत लग्न केलें म्हणून हांव ताका कशें दोश दिवं? ताचे कडेन लग्न केलें म्हणून ते बायलेक कशें दोश दिवं? कोणाचेर रागार जावं हांव?

खऱ्यांनीच कोणाक म्हणून दोश दिवपाचो? बाबडें जीजा, कोणागेर तें काम करतालें त्या सगळ्यांक ताची काकुळट दिसताली. पूण म्हाका खबर आशिल्लें, हांवें बारीक विचार केल्यार, म्हाका ताचें जिवीत हाचे परस वेगळें नाकाशिल्लें. बरी नोकरी आशिल्ल्या घोवांच्यो त्यो सुखी बायलो, सोरो पिनाशिल्ल्या, आपल्या बायलांक मारनाशिल्ल्या दादल्यांच्यो बायलो, रांदचे कुडींतलीं पितळेचीं आनी स्टीलाचीं आयदनां चकचकीत दवरपी त्यो सुदैवी बायलो - त्यो कोणूच म्हज्या उपेगाच्यो नाशिल्ल्यो. म्हाका जाय आशिल्लें तें जीजा आनी ताचे सारकिल्ल्यो बायलो. ह्योच बायलो म्हाका वाजेवणे जिणेच्या नरकांतल्यान वांचयतात. जें इल्लेंशें स्वातंत्र्य म्हाका मेळटालें तेंय ह्या बायलांचेर निंबून आशिल्लें.

आनी हांव चुकतां, जेन्ना म्हाका दिसता, जीजाचें जिवीत, ताचो घोव मरतकच आनी ताचीं सगळीं सौभाग्य लक्षणां वतकच बदल्लां म्हणून. घोवाचो जागो आतां पुतान घेतिल्लो. जो पूत जीजाच्या घोवाक, जीजाक भुरगीं जायनात म्हणून दुसरे बायले कडेन लग्न जावन जाल्लो, तो... ती बायल जीजा सारकी घटमूट आनी लवचीक नाशिल्ल्यान हो चलो जावन एका वर्सा भितर टी.बी. जावन मेल्ली, आपल्या दोनय भुरग्यांचो भार जीजाचेर सोडून.

तर हो चलो, राजाराम, आतां तो पियेतालो आनी आपले बायलेक ताराक

मारतालो. म्हणटकच तारा आनी तिचीं तीन भुरगीं आतां जीजाची जापसालदारकी जाल्लीं. तारा म्हाका व्हंकल म्हणून याद जाता, गुटगुटीत, गोल तोंडाचें, मांयच्या धाकान कांचवेल्लें, मुंबयच्या झगमगाटान भुल्लुशिल्लें आनी भियेल्लें. सुरवातीक तें केन्नाय जीजा वांगडा कामाक येतालें. तीन वर्सां आनी दोन भुरग्यां उपरांत तें ते जाणटेले फाटल्यान एका घरांतल्यान दुसऱ्या घरांत वचपाक लागलें, ताचे पोले भितर वचून हाडां भायर आयिल्लीं, गळ्या कडलीं हाडां ताच्या थानाच्याकय उबार दिसतालीं आनी हांडीर त्या थानांक देसपेराद जाल्ले भशेन चोखपी भुरगें आसतालें.

ताराक जीजासारकी सहनशक्ती वा स्थितप्रज्ञता नाशिल्ली. तें घोवाक शिरापतालें, ताका खेपतालें, मोट्ट्यान हुंडकेतालें आनी नशिबाक दोश दितालें. "कितलेशेच बेबदे मरतात," तें आड्डतालें, "पूण हो मरचो ना, वयल्यान सतावन सतावन आमचोच जीव घेतलो." जीजा ताका तापोवन ओगी करतालें. "बंद कर तुजें रडगाणें. तो आसा म्हणून तुज्या कपलार कुकूम तरी आसा हें विसरूं नाका. कुकूम नाजाल्यार बायलेचो वालोर कितें?"

ताराचें व्हडलें चली मंदा. दिसपाक हाडकुटें, इल्लोसो जल्लो कसो, गळगळपी धवो ब्लावज आनी सकयल देंवची न्हय म्हणून दोरयेन कमरार बांदिल्ली निळी स्कर्ट घालून, आज्जे फाटल्यान हांगां थंय धांवतालें. सकाळचें शाळेंत वतालें, दनपारचें दुदाचे पयशे एकठांय करतालें, दूद घालतालें, रेशन, कॅरोसिन हांचे खातीर रांकेंत उबें रावतालें आनी सुटयेच्या दिसांनी जीजाक मजत करतालें आनी आज्जेची नक्कल करीत बेगिबेगीन आयदनां घांसतालें.

"आई खंय गो तुजी?" हांवें मंदाक विचारलें तेन्ना तें आमचे गॅलरींत आज्जेचें काम सोंपपाची वाट पळयत म्हयनाळें हातांत घेवन बशिल्लें.

"घरा आसा. ती आतां बटाटवडे करून विकता."

जीजानच ताराक हो धंदो घालून दिल्लो, अशें नयनान म्हाका सांगिल्लें. जीजा भायखळा बाजारांत वचून सप्तका खातीर बटाट, कांदे, लसूण आनी मिरसांग हाडून दितालें, मंदा आपल्या दोनय ल्हान भावां सयत उकडिल्ले बटाट, कांदे, लसूण सोलून दितालें, मंदा हांगां-थंय धांवत गिरायक करतालें...

"पूण आतां ह्या मिल स्ट्रायकाक लागून," मंदान जगाचें व्हडलें गिन्यान आशिल्लेवरी झेतान सांगलें, "आतां गिरायक ना आनी तिका कामय ना. बटाटवड्यां खातीर आतां कोणा कडेनच पयशे नात. बाबा आईक मारता कारण ताका दिवंक तिचे कडेन पयशे नात. आनी तिणें ताका पयशे दिल्यार आजी तापयता."

खंय वाचिल्ली ती बातमी हांवें? फाटल्या शेंकड्यांत वा ताचे पयलीं, चलयांक जितेच मारताले खंय? म्हाका हें वाचून कडकडो भरिल्लो. कारण ताका खंय, एक तर जितेंच पुरताले वा जल्मलां तेच कुडींत चेंचावन मारताले. आनी रोखडेंच खंय

शुद्धीकरण करपाक त्या जाग्यार होम घालताले. घडये, मारिल्लें खरेंच मेलां काय ना हाची खात्री करून घेताले जावंये.

कितल्यो त्यो वेदना... कितलेशेच दीस हांव ही गजाल म्हज्या मनांतल्यान काडूंक शकलें ना. पूण आतां मनाक प्रस्न पडटा, काकुळट करपाची तीच तरा बरी आशिल्ली काय म्हणून. कारण अशें वर्सान वर्स झरून मरचे परस एका खिणांत सगळ्या छळांचो अंत जाल्लो बरो.

मुंबय, पयलेच खेपे आयलें, तेन्ना पळोवन शॉकाद जाल्लें. आकर्शक सप्तगिरीचो विरोधाभासच आशिल्लो तो. सप्तगिरीच्या मध्यभागांत आजी आनी काका रावताले, थंय धवींफुल्ल चुन्यान रंगयिल्लीं घरां, लांब वाटकुळ्यो वणटी आनी गटाराचें घाणयारें उदक व्हांवतालें फाटले वटेंतले पायणींतल्यान. तांच्या घरा मदीं आनी शाराचे कडेक आशिल्ल्या आमच्या घरा मदीं तर जमीन आसमानाचो फरक आशिल्लो. आमच्या घरा भोंवतणीं फळांची बाग आशिल्ली. रस्त्या कुशीक चिंचांचे रूख पातळिल्ले. गटारांतल्यान पावसाचें सोडून कसलेंच उदक व्हांवनासलें.

पूण मुंबय मात, पळयले बराबर दिसली, गोबरा रंगाच्या युनिफॉर्मावरी. हांगांच्यो इमारती म्हाका भयानक दिसताल्यो, अंत नाशिल्ल्यो, एकसारक्यो दिसपी, मोडक्यो तोडक्यो, विटकऱ्या इमारतींच्यो रांको, तांच्या वारांदांनी सुकत घाल्ले, वाऱ्यान फडफडपी, उमळिल्ले कपडे मात प्रफुल्लीत, भजरे बायले भशेन दिसताले. मुंबयच्या रस्त्यां कडेन म्हजें लक्ष खूब उसरां गेलें; पूण गेलें तेन्ना त्या भरभरून व्हांवपी जिविताची जादू पळोवन हांव भुल्लुसून गेलें. पिशें कशें थंयची ती झुंड, झगडीं, बेबदे, शाळेंतलीं भुरगीं, नवीं लग्न जाल्लीं लजकुरी जोडपीं पळयत रावलें. आनी मिरवणुकी. वेगवेगळ्या वेळार आनी वेगवेगळ्या प्रसंगांर.

पूण आतां, हांगां हांव गॅलरींत उबें रावन वतान तापिल्ल्या लांकडी वारांदाचेर हात दवरून सकयल पळयतां, हातांत बावटे आनी तकटे घेवन मार्च पास्ट करीत वचपी दादल्यांक. तांकां दांड्यांचो भंय घालून पुलिसांनी नियंत्रणांत दवरलां. पूण खंय तरी म्हाका दिसता ही मिरवणूक वेगळी. म्हाका अशें दिसपाचें कारण कितें काय? ते ओग्गी, घोशणा दिनासतना, तिडक उक्तायनासतना, हिंसक हातवारे करिनासतना रस्त्या वयल्यान चलतात म्हणून? (मात तांचे मदीं तिडक आशिल्ली आनी ती ते शिस्तबद्द विरोधांतल्यान परगटायताले.) काय पयलेच फावट, म्हजे मदीं प्रेक्षकाची अलिप्त नदर नाशिल्ली म्हणून? म्हाका भंय दिसलो, पूण त्या दादल्यांचो

न्हय वा तांचे मदीं खदखदपी हिंसेचोय न्हय. भितरल्यान कितें तरी तुट्टा, कसलो तरी संवकळीचो पॅटर्न वा डिझायन इबाडटा अशी एक विचित्र संवेदना जागी जाली. ताचे बगर, म्हाका तोंड दिवचें पडपाचें एका अज्ञाताक ...

आमी सगळीं आपापले बाल्कनींत उबीं रावन, जनेलांतल्यान, मोन्यांनी रस्त्या वयल्यान वचपी दादल्यांक पळयतालीं. तांचे खातीर येरादारी थांबयिल्ली आनी तांच्या घांसत वचपी पावलांचो आवाज, पुलिसांच्या खिळ्यांच्या बुटांचो कर्कश आवाज आनी केन्नाय मदींच जमनीर आपटिल्ले लाठयेचो आवाज सोडल्यार आनीक कसलोच आवाज येनाशिल्लो. ह्या दादल्यां मदीं कितें तरी आशिल्लें - म्हजे खातीर, वण्टींचेर आनी बस स्टॉपांचेर धव्या रंगान रंगयिल्ल्या उतरांवरी, बटबटीत उतरांनी ते आड्डून सांगताले म्हाका - "संपूर्ण क्रांती".

ओंकारी येवपा सारकी मनशांच्या गुवाची घाण झोंपडपट्टेच्या रस्त्या कुशींतल्यान आयली, नाक मुठींत धरून हांव बेगिबेगीन भितरले वटेन परतलें आनी मोहन सामको म्हजे म्हऱ्यांत उबो आसा हें एकदम म्हज्या लक्षांत आयलें. ताच्या हातांत तो वाचतालो तें म्हयनाळें हुमकळटालें.

"आरे, घरांतच येतालें हांव." गुन्यांवकाराचे भावनेन हांवें स्पश्टीकरण दिलें, पूण मोहनाचें म्हजे कडेन लक्षच नाशिल्लें. तो त्या पयस वचपी मोर्च्या कडेन पळयतालो. तांच्या तोंडार विचित्र भाव आशिल्ले. येरादारी परत सुरू जाली आनी ल्हवू ल्हवू वेगवेगळे आवाज शांततायेचे पोकळेंत व्हांवंक लागले. तरीय मोहन थंयच उबो आशिल्लो. रस्त्या कडेन पळयत. म्हाका याद जाली, एकदां हांव, पुलिसांनी दोन पंगडांतल्या झगड्यां खातीर दुकां धुंवर सोडिल्लो तातूंत अडकल्लें आनी ताका लागून दुकांनी व्हांवपी दोळे घेवन धडपडत घरांत आयिल्लें, तेन्ना मोहन म्हजेर तणशेल्लो, "असल्या वेळार घरांत भितर येवन दारां जनेलां बंद करूंक जाय हें तुका खबर ना? हे फावट दुकां धुंवर आशिल्लो. दुसरे फावटीं गुळयो आसपाक शकतात. जेन्ना केन्ना तुका गर्दी वा मोर्चो दिसता तेन्ना भुरग्यांक घेवन भितर यो आनी दारां बंद कर - अशें करप सदांच सुरक्षीत."

भायर कर्कश आवाजांत कावकाव करून आड्डुपी कावळ्यान त्या खिणाचो तणाव भंग केलो. आमी दोगांय घरांत आयलीं, मोहन झरझरीत म्हयनाळें वाचूंक लागलो आनी हांव लागलें घरकाम करूंक. आमी कितें पळयिल्लें, ताचेर आमी दोगांय उलयलीं नात.

खरें म्हणल्यार, गरजेच्यो गजाली सोडल्यार आमी एकामेकां कडेन उलोवपाचें बंदच केल्लें. ताणें जें कितें केल्लें, आतां फुडें कितें जातलें, हे लजेक घालपी प्रस्न आमच्या दोगांय मदीं तिसरी व्यक्ती कशी मोन्यांनी उबे आशिल्ले. आनी ताका लागून एकामेकां कडेन सहजतायेन उलोवप अशक्य जाल्लें. ते रातीं, आमी दोगांय

आपापले वटेन खाटीच्या पोंतार न्हिदिल्लीं. तोय जागो आसा हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण ताचे कडेन उलोवपा सारकें म्हजे कडेन कांयच नाशिल्लें, म्हणटकच फॅनाची कर्कश घरघर आयकत हांव ओग्गी पडून राविल्लें. दनपारची अस्पश्ट अस्वस्थताय परत आयिल्ली. आनी ती कित्या खातीर हें म्हाका होलमल्लें. आमी हांगां परत रावंक आयिल्ल्याक मिल कामगारांच्या पावलांचो येतना-वतनाचो थप्प थप्प आवाज आमच्या कानार पडनाशिल्लो. आनी मोहनाक आनी म्हाका तो आवाज चुकिल्ले भशेन जातालो.

आमचें सप्तगिरीचें घर बरेंच पयस आशिल्लें, म्हणटकच चुकून जावपी आवाज लेगीत कानार पडटाले. बैलांगाडयेची करकर-किणकीण, सायकलीची ट्रिंग ट्रिंग, लागींच आशिल्ले फळबागेंतल्या राखणदाराचो आवाज - सगळें आमच्या कानार पडटालें. मात अंतराक लागून मात्शें अस्पश्ट. दीसभर शांतताय आसली, तरीय शेवण्यांच्या किलबिलाटान गुंथिल्ली आसताली सकाळ-सांज. केन्ना केन्ना रातचो शेवण्यांचो गोंदळिल्लो कलकल आसतालो. कित्याक खबर ना, पूण त्या आवाजान आईचेर आकांत येतालो. ते बायलेचे तकलेंत भविश्य आनी शकून-अपशकुनाच्यो गजाली भरिल्ल्यो आसताल्यो. अप्पाच्या मरणाची पूर्वसुचोवणी खंय, तिका ह्या असल्या असैमीक आवाजाक लागून कळिल्ली अशें ती सदांच सांगताली.

"हांव जाणाच आशिल्लें ते रातीं कितें तरी भयानक जावपाचें आसा म्हणून," आपलें दुख्ख विसरून, आपले कडेन भविश्य पारखुपाची शक्त आसा, ह्या आनंदांत तल्लीन जावन जिखिल्ल्या सुरांत ती आमकां सांगताली.

मुंबयच्या ह्या वेगवेगळ्या आवाजांची संवय जावंक म्हाका खूब तेंप लागलो. हे आवाज आमच्या कानाचेर सतत हल्लो करीत आसतात अशें म्हाका दिसूंक लागिल्लें. मुंबय आयिल्लें तेन्ना पयलेच रातीं, गिरणी कामगारांच्या पावलांच्या आवाजान हांव एकदम भियेवन जागें जाल्लें. हांव धांवत दादा म्हच्यांत गेल्लें, "दादा, कितें तरी घडलां. हे लोक सगळे, आयक, खंय तरी वतात."

"कितें?" बेजार जावन ताणें आपल्या पुस्तकांतली नदर वयर काडून पळयिल्लें. एक खीण कान दिवन आयकलें आनी मागीर तो हांसलो, "ते गो! तूं कितें म्हणटा तें कळ्ळेंच ना. ते गिरणी कामगार आपल्या कामाक वतात. चोवीसय वरां हें चालूच आसता."

म्हजे खातीर ह्या सदांच्या आवाजा परसय चड त्रासदायक गजाल आशिल्ली ती म्हणल्यार हांगांच्या हजारांनी लोकांनी आनी तांच्या भावनांनी म्हजेर घुरी घाल्ल्याची भावना. राग, भंय, दुस्वास, मत्सर, कंवळेपण, मोग - खाटीर न्हिदिल्ले कडेन ह्यो सगळ्यो भावना म्हजे म्हच्यांत येताल्यो, एका मंत्रमुग्ध जाल्ल्या आयकुप्या कडेन. केन्ना केन्ना रातचे, सुकते कडेन पावपी ह्या आवाजा मदीं स्पश्टपणान बायलेच्या

कांकणांची किणकीण कानार पडटाली आनी प्रेमिकांची कुजबूज. हांव नाकाशिल्ल्यो गजाली पळयतां हे भावनेन म्हाका लज दिसताली, गुन्यांवकारी दिसतालें, तरीय आतूर जावन हें सगळें हांव म्हज्यांत आपणायतालें.

आतां, परत एकदां मोन्यांनी आमी हांतरुणार पडल्यांत. मोहन आनी हांव, भायली कुजबूज जनेलांतल्यान व्हांवत म्हजे म्हऱ्यांत येता. काळखांत, भियेत, एकामेकांक चिकटून वण्टी कडेन उबें राविल्ल्या त्या जोडप्याची हांव कल्पना करूंक शकतालें, पूण दादल्याचो आवाज कुजबुजी परस वयर चडलो आनी म्हज्या लक्षांत आयलें तो दादलो मोगाच्यो गजाली करिना. काय, करतालो?

"सांग," तो विचारतालो, "आयज कोणाक मेळूंक गेल्लें? तोंड उगडून सांग, तूं तुजें तोंड कित्याक उगडना? चेडये, तोंड उगड आनी खरें खरें सांग. आयज तूं खंय गेल्लें? जाप दिवंक येना तुका? कोणें जीब कापल्या तुजी? बेगीन सांग नाजाल्यार सारको दाखयतां तुका. सांग. बेगीन. उलय कितें तरी."

धुमके मारिल्ल्याचो आवाज, बारीकशी पिरंगण.

"सुण्या तोंड उगड, सांग खंय गेल्लें तूं? उलय."

आनीक एक धुमको आनी सेर्त एक खोंट, परत पिरंगण. पूण प्रस्नाची कांयच जाप ना. सुरवातीक फकत बारीकशी पिरंगण. एकदांच 'आवय, आवय, आवय'चो आक्रोश.

"तुजी आवय तुजे सारकीच चेडी. सांग म्हाका, खंय गेल्लें तूं? पाडपडिल्ल्या, तुजीं सगळीं हाडां मोडून घालचे पयलीं सांग म्हाका."

परत मारपाचो आवाज. आनी तरीय ती बायल आपलें मौन घट्ट धरून, फकत जेन्ना "आवय गे, आवय गे, आवय" म्हणटाली, तेन्ना तें सुट्टालें.

हें खूब वेळ चल्लें. इतल्यांत कोण तरी तापलो, "कितें चल्लां थंय? असो रातचो बोवाळ घालून लोकांक त्रास दिता म्हणल्यार कितें? वासिमोराद हांगाच्यान. आनी आमकां न्हिदूंक दियात. वचात हांगाच्यान."

शांतताय. तें जोडपें थंयच्यान वांगडा गेलें काय?

"देव पावलो," मोहनाच्या उतरांनी हांव कांचवेलें. तो न्हिदला आसतलो अशें म्हाका दिशिल्लें, "सकयल वचून त्या दादल्याचो गळोच दामचो कसो दिशिल्लो म्हाका."

ताच्या आवाजांतली तिडक आयकून म्हाका अजाप जालें. तो तें आयकता आसतलो अशें चिंतलेंच नाशिल्लें हांवें. म्हाका सदांच दिसतालें, ह्या मनशा कडेन उत्सुकता म्हणटा ती नाच. जायते खेपे, ताच्या ह्या दुसऱ्या विशींच्या आस्थाहीन सभावाचो म्हाका दुस्वास दिसतालो. म्हाका जी उमळशीक गिळून उडयताली त्या बारीकसारीक गजालींची ताका पर्वाच नासताली. हातूंतल्यान ताचें श्रेश्ठत्व सिद्ध

जाता अशें म्हाका दिसतालें, पूण आत्तां आनीक एक विचार म्हज्या मनांत आयलो. घडये ताचे कान ताच्या जिवितांतल्या जैताच्या आवाजान भरून गेल्ले म्हणून ताका बाकीचें कांयच आयकूंक येनाशिल्लें - जया, आमी बॉम्बे वतात, जया, म्हाका प्रमोशन मेळ्ळें, जया, हांव शिश्टमंडळाचेर आसां, जया, म्हाका ते परदेशांत धाडटात.

''म्हाका राग हाडटात हे बेजबाबदार, दया-माया नाशिल्ले दादले,'' मोहन बडबडत आशिल्लो.

ताचीं तीं उतरां आयकून म्हाका एक वेगळीच जाणीव जाली. मोहन त्या सकयल आशिल्ल्या दादल्या विशीं उलयनाशिल्लो, जाल्यार तो आपल्या बापाय विशीं उलयतालो म्हणून. सकयल ''आवय आवय'' करून वळवळटाली ते बायले विशीं तो चिंतनाशिल्लो जाल्यार चुली मुखार पोटली करून बसपी आवय विशीं चिंत्तालो.

''जया...'' ताच्या हातांनी अचकीत आमचे मदलें अंतर कमी केलें आनी म्हाका कल्ल जालें. ताच्या हाता सकयल्यान हांवें म्हजे हात ओडून घेवचे न्हय, म्हणून म्हाका फोर्सान म्हजे हात आसात थंयच दवरचे पडले. ताच्या त्या हाताचे घट्ट पकडीन म्हज्या आंगांत भंयाची वीज शिरशिरली.

''जया, हांवें तशें केन्नाच करूंक ना. केलां हांवें?''

''कितें?''

''बेजबाबदारपणा.''

''अर्थांत, ना.''

म्हजीं दुर्बळ धिराचीं ल्हवू उलयिल्लीं उतरां ताच्या कानार पडिल्लीं नाशिल्ले भशेन तो उसळ्ळो, ''त्या दादल्यांक तें सोंपें, रस्त्यार वचपाचें, धमकावपाचें, हिंसक जावपाचें....''

हांव अजापलें, आतां तो त्या आमी दनपारां मोर्च्यांत पळयिल्ल्या दादल्यांचें उलयतालो.

''...आनी जें मागता तें तांकां मेळटा. आमच्या सारक्या मनशांचें कितें?''

सवकासायेन हांवें म्हजो हात ताच्या हाता सकयल्यान भायर काडलो. तो उलयत आशिल्लो, ''म्हाका लोहानगर मेळिल्ले पयले नोकरेचो दीस याद जाता? म्हाका कितलें सू जाल्लें त्या दिसा. हांव मुक्त जाल्लों. म्हाका आतां कोणा कडेन पयशे मागपाची गरज नाशिल्ली. आनी लोहानगर तें थंय... थंय काम मेळप म्हणजे, त्या स्टील प्लाण्टांत काम मेळप म्हणजे.... तो योग्य उतरा खातीर आडखळ्ळो.

पूण ताका कितें म्हणपाक जाय आशिल्लें तें म्हाका कळ्ळें. लोहानगर काम मेळप म्हणजे संद आनी भरवंसो. आनी नव्या जिविता कडेन वचपा खातीर उक्तें दार - देशा खातीर, ताका आनी थंय काम करपी सगळ्यांक. फाटल्या दिसांची याद काडप म्हणल्यार, म्हज्या कोंतान, कॅलिडोस्कोपांतल्यान भितर पळोवन ताचे भितरली

रंगांची रास, तशेंच ताच्या पोंतार अडकून पडिल्लो इंद्रधोणू पळोवप. आनी म्हाका लेगीत, जाका हरशीं लोहानगर म्हणल्यार विटकरीं घरां, धुल्लाचे रस्ते, गुरवाचार, भुरग्यांचें रडप आनी जागरणां याद जातालीं. तरीय मोहनाक आनी ताच्या सारक्यांक, त्या सगळ्या इंजिनियरांक, येद्या व्हडल्या स्टील प्लाण्टांत काम करपाक मेळप म्हणजे केदी व्हडली संद हें म्हाका कळटालें.

ताचे नदरेंतल्यान फाटल्या दिसां कडेन पळयतना, म्हाका लेगीत एक टवटवीतपणाची आनी कसल्या तरी आखीव उद्देशाची सया मारतना दिसता.

"आमी कसली कामांची रगडी मारल्या त्या दिसांनी, हांवें सुण्या भशेन काम केलां, एका दिसाक धा-बारा वरां काम. याद जाता जया, हांव घरा पावतालों तेन्ना कितलो थकिल्लों आसतालों तो?"

आनी बेजारतालोय बी, सदांच असंतुश्ट, किरकिरो राहुल, जागो जावन रडपाक लागतालो तेन्ना. म्हणटकच राहुल रातचो उठले बराबर हांव ताका रांदचे कुडींत घेवन वतालें आनी दार बंद करून थंयच बसतालें. आतां हें सगळें म्हाका परत याद जाता. ताची ती भुकेची रडारड, ते धाकटे कुडींत प्रतिध्वनी करीत घुमपी ताचो तो उदास आवाज. म्हाका याद जाता, कशें बेगिबेगीन अधीर जावन हांव प्रायमस स्टोवाक पंप मारतालें. आनी सायबा भोगोस, सामके सवकासायेन तापत फुलार येवपी उदकाक पळयतालें आनी हेवटेन रडून रडून थकिल्लो राहुल आपलीं बोटां मोटमोट्यान चोखूंक लागतालो, ताचो तो टकटक करून चोखपाचो आवाज आयकून, म्हाका गुन्यांवकारी दिसतालें.

"काम करपाक म्हाका कसलीच हरकत नाशिल्ली, कितलेंय काम करपाची म्हजी तयारी आशिल्ली, पूण.... खंय कितें चुकलें जया, आमकां कितें जालें?"

जाप सोदपाचो यत्न करतना, म्हज्या दोळ्यां मुखार आयलीं तीं फकत हॉस्टेलांतलीं भुरगीं, आमी सगळीं, बाल्कनींत उबी रावन रस्त्याचे कडेक उबी राविल्ले गर्देंत पळयतालीं. गर्देंतले लोक हातांतले बावटे हालयताले आनी हात जोडून सगळ्यांक नमस्कार करपी आनी नमळायेन हांसपी त्या दोगा व्यक्तींक नमन करताले. "*हिंदी-चीनी भाय-भाय*"चो जल्लोश म्हज्या कानार पडटालो. पूण रोखडेंच गॅर सुरू जालें. आमच्या ह्या 'भावांनी' आमचे फाटींत सुरी तोंपली. हय, तांचो हो विस्वासघात, आशा आनी निराशा, सपनां आनी सपनभंग वेगळावपी काळ थारलो. त्यो गजाली परत आसा तश्यो जावच्यो नाशिल्ल्यो, पूण मोहनाच्या विचारा कडल्या म्हज्या ट्युनिंगाक लागून म्हाका खबर आशिल्लें, तो आतां कितें उलयता वा करता तें स्वता विशीं आनी दुसऱ्या कोणा विशीं न्हय.

"स्ट्रायकाक लागून जालें तें," हांवें मोट्ट्यान म्हणलें.

"कसलो स्ट्रायक?"

''तुमच्या लोहानगरांतल्या प्लाण्टांचो स्ट्रायक. तुका याद जाता, तूं आनी तो दुसरो दादलो... नांव कितें ताचें, स्वामी कितें तरी...''

''स्वामीनाथन.''

''हय. तुमी दोगय त्रासांत पडिल्ले. कारण तुवें एका कामगाराचेर कारवाय केल्ली. मागीर ताचेर चवकशी जाली... तें सगळें जातकच तुवें म्हणलें तुका थंय रावपाचें ना, तुवें म्हणलें तुका आतां थंय रावपांत कांयच रस ना...''

''आं तें! पूण ताका लागून हांवें काम सोडपाचो निर्णय घेवंक ना. हांवें खूब पयलींच थारायिल्लें, ताचे पयलींच...''

''पूण म्हाका दिसलें... म्हाका याद आसा, तेन्ना तुवें म्हाका सांगिल्लें, तांणी जो निर्णय घेतला ताका लागून तूं सोडटा...'' म्हाका फटयलो अशें दिसून म्हाका ताचो राग आयलो.

''ना, ताका लागून व्हडलो फरक पडूंक ना म्हाका. खंयच्याय मुर्खाक खबर आसता युनियनाचे भानगडींत पडचें न्हय म्हणून. हांवें हें सगळें घडचे पयलीं सोडपाचो निर्णय घेतिल्लो. तुका याद आसा, म्हज्या बापायन म्हजे कडेन चड पयशे मागिल्ले ते? वसंता खातीर आशिल्ले ते, काय सुधाक? म्हाका याद जायना. कितेंय आसूं, ताणें पयशे मागिल्ले आनी राहुला वांगडा तूं आंबेगांव वचपाचें आशिल्लें. आनी आमकां ह्या सगळ्या खातीर पयशे कमी पडटाले...''

म्हाका याद आसा मोहन परपरत म्हणटालो, ''हो कसलो न्याय? हो कसलो न्याय? म्हाका दिशिल्लें म्हाका नोकरी मेळ्ळी आनी म्हजे सगळे प्रस्न सुटावे जाले, पूण हाय देवा, आमची परिस्थिती पळय आतां.''

त्या खिणाक मोहनाच्या लक्षांत आयलां आसतलें, इतल्या वर्सांच्या संघर्शा उपरांत ताची वाटचाल फकत कपडे, फी, पुस्तकां हांचे खातीर पयशे नात हांचेवेल्यान गॅस कनॅक्शनाक पयशे नात, सुसेगाद भोंवपाक, भावाच्या कपड्यांक, भयणीचे फिये खातीर पयशे नात हांचेर पावल्या.

उच्च विचार आनी सादे आचार - हो गांधी काळांतलो मंत्र. भुरगेपणांत हांवें परपरत आयकल्ले हे शब्द. रामूकाकाचो हो आवडीचो सिद्धांत, घरांत कोणेंय कितेंय मागल्यार वीट येता म्हणसर तो हें आयकयतालो: ''तूं कसो दिसता, तुजे कडेन कितें आसा, तूं कितें न्हेसता हें म्हत्वाचें न्हय. गांधीजी कडेन पळयात...'' ताच्या खंयच्याय भुरग्यांनी ताका परत्यापरती जाप दिवपाची कापस्ताद दाखयली ना ''पूण आमी गांधीजी न्हय'' अशें आपसांत ते गणगणटाले. पूण आतां म्हजी काणी रामूकाकाच्या त्या गांधीजीच्या उदाहरणाक फाटीं घालता.

म्हजो दुसरो गुरवाचार आशिल्लो आनी अचकीत म्हाका रक्तस्त्राव सुरू जालो. एका वर्साच्या राहुलाक शेजाऱ्यागेर दवरून, घरांत घाल्ले लोळिल्ले, चुरगळिल्ले

साडयेनच हांव हॉस्पिटलांत गेलें.

"पेशंट तयार आसा?" दोतोरान नर्शीक विचारलें आनी मागीर, बेगिबेगीन म्हज्या म्हऱ्यांत येवन आपले कॉन्वेण्ट स्टायल हिंदींत उलोवंक लागलो. "तुका आंगार केन्ना जावंक लागलें? निमणी मासीक पाळी केन्ना जाल्ली?" म्हज्या कपड्या वयल्यान गरीब समाजांतली बायल आसतली हाचो अदमास बांदून तो जाता तितले सोंपे भाशेंत, केन्ना केन्ना म्हाका समजुपा सारके शब्द सोदपाचो यत्न करीत प्रस्न विचारतालो.

"इट्स सॅव्हन वीक्स नाव सिन्स माय लास्ट पिरियड" हांवें इंग्लिशींत जाप दिली, मुद्दाम अशें न्हय जाल्यार आपसूकच. "द ब्लीडिंग बिगॅन धिस मॉर्निंग. आय हॅव हॅड नो प्रॉब्लेम टिल नाव."

अचकीत ताचो चेरोच बदल्लो. तो एकदम तरणो, मुर्ख आनी अडचणींत सांपडिल्ले भशेन दिसलो. ताची वरिश्टपणाची हवा फुस्स जावन तो पोको जाल्लो. इतल्यांत चीफ मॅडिकल ऑफिसर म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें सांगलें, "मिसेस कुलकर्णी, आतांच तुमच्या मिस्टराचो फोन आयिल्लो आनी चीफ इंजिनियराचोय. हां, बरें जालें. तुमी आमच्या नव्या दोतोराक मेळ्ळीं. सिन्हा, तुवें तांकां तपासलां?"

"आय ॲम सॉरी," त्या तरणाट्यान म्हजी माफी मागपाचो यत्न केलो.

"कित्या खातीर?" हांवें अज्ञान पांगरून ताका विचारलें, पूण आमकां दोगांकय कित्या खातीर तें खबर आशिल्लें. म्हज्या कपड्यां वयल्यान ताणें म्हजे विशीं चुकीचो अदमास बांदिल्लो म्हणून.

घरा वतकच ही गजाल हांवें मोहनाक सांगली. म्हाका दिशिल्लें, हांव हे गजालीचेर जशें हांसलें तशें तो हांसतलो, पूण तो सामको फुर्योझ जालो.

"स्वता खातीर कांय बऱ्यो साडयो घे," ताणें सांगलें, "तीं बोतेरां घरांत लेगीत घालूं नाका. आनी तूं स्वता खातीर बरो हावजकोट कित्याक शिंवन घेना? तें एमडीचें चली घालता पळय तसलो. तो घालून गार्डनांत भोंवतना पळयलां हांवें ताका, बरो दिसता तो."

"एमडीचे चलये सारको? देवा म्हज्या, ताका कितले पयशे पडटात जाणा तूं? तें आपल्या बापायच्या खुस्तार घेवंक शकता, म्हाका शक्य ना तें."

तेन्नाच मोहनान बेजार जावन "हें बरोबर न्ही!" म्हणिल्लें आनी घडये - फाटल्यो सगळ्यो यादी काडल्यार, एके एके गजालीची जुळवाजुळव केल्यार लक्षांत येता - ताचे उपरांत रोखडेंच ताणें म्हाका येवन सांगिल्लें, "हांव हांगांच्यान भायर सरूंक सोदतां. बॉम्बे एक पोस्ट आसा - नॉन टॅक्निकल - खरेदी विभाग...?"

"तुका कसो मेळटलो तो पोस्ट?"

"हांव यत्न करतां. म्हाका तो मेळटलो म्हूण आस्त आसा. चीफ इंजिनियरान

मजत करपाचें आस्वासन दिलां. तो म्हाका ना म्हणूंक शकना, हांवें ताचे खातीर खूब कितें केलां.''

मोहनाक ती नोकरी मेळोवपाक येस आयिल्लें. ताणें तें कशें केलें हें हांवें ताका केन्नाच विचारूंक ना. जर गांधारीन आपल्या कुड्ड्या घोवा सारकें जावंक, आपल्या दोळ्यांचेर पट्टी बांदून घेतिल्ली, म्हणून ती आदर्श पत्नी, जाल्यार हांवय एक आदर्श पत्नीच. हांवें म्हज्या दोळ्यांचेर घट्ट पट्टी बांदून घेतिल्ली. म्हाका कांयच समजून घेवपाचें नाशिल्लें. आमी मुंबय आयिल्लीं, आमी राहुल आनी रतीक बऱ्या स्कुलांत धाडूंक शकतालीं इतलेंच म्हजे खातीर पुरो आशिल्लें. आनी आमकां जाय त्यो गजाली म्हाका मेळटाल्यो... देसेंत कपडे, फ्रीज, गॅस कनॅक्शन, फर्स्ट क्लासान भोंवपाक. मोहना कडेन आतां आपल्या घरा बापायक धाडपाक पयशे उरताले - सुधाचे फिये खातीर, वसंताच्या कपड्यां खातीर आनी सुधाच्या लग्नाक.

''धन-दौलत आशिल्ल्यांची जशी जीण आसता तशी तुजी आसतली,'' याज्ञवल्कान मैत्रेयीक सांगिल्लें. हाचे परस बरें आनीक कितें जाय आसता तर कोणाक? अमरत्व? कितें पिशेपणां.

आमचे भोंवतणीं आमी उबी केल्ली पयसाव्याची वणत निलिमान तोडली. तें आपलें सदांचे हुतहुते, राग हाडपी पद्दतीन बेल मारीत रावलें आनी म्हाका रोखडेंच कोण तें कळ्ळें.

''हाय आण्टी!'' ताणें म्हाका जाप दिली, ''माँन तुका भाज्ज्यो बी जाय काय विचारपाक लायला.'' तांच्या दारा मुखार बशिल्ले भाजीवालेन आपल्या माथ्यावयली चुंबळ सारकी करीत आशेन म्हजे कडेन पळयलें. ''ना, म्हाका भाजी नाका.'' माँ म्हणल्यार मुक्ता- एक जाय तशें शेजारी, तूं घरा ना जाल्यार फकत तुजें दुदच घेवन दवरचें ना, तुजे खातीर धंयय लावन दवरतलें.

मुक्ता ते बायलेक पयशे फारीक करूंक भायर आयलें आनी निलिमान बेगिबेगीन आमच्या फ्लॅटांत रिगत म्हणलें, ''हांव भितर आयल्यार जाता न्हय आण्टी? हांवें अंकलाक भायर वतना पळयलां.''

मुक्ता आनी हांव एकामेकां कडेन पळोवन हांसलीं. ''येता मुक्ता?'' हांवें ताचे खातीर दार उक्तें धरलें, ''काय चल्लें कामाक?'' ताणें मान हालयली, ''आत्तां न्हय. हांव एकाक वचपाचें, पूण म्हाका रांदपाचें आसा. निलिमाक तुका चड त्रास करूंक दिवंनाका.''

पूण निलिमाचें थंय आसपच त्रासदायक आशिल्लें. ताची बडबड आनी गडबड सदांच त्रास करपी आसताली. जल्मतनाच बापूय नाशिल्लें पोर. काळें कुळकुळीत, दुदाळ रंगाच्या राजहंसाच्या कुटुंबांतलो एक कावळो.

‘‘हें भुरगें इतलें काळें कशें जालें?’’ खूब वेळा ताची आजी आपले भितरच बडबडटाली, ‘‘आमच्या घरांत कोणच काळें ना’’.

‘‘कशें म्हणल्यार कितें माई? हें पळय अशें. पळय मगे,’’ आनी निलिमा आपले गोरे कातीचे , थुलथुलीत आशिल्ले आज्जे मुखार फतकल मारून बसतालें. तें तिचे मुखार मोराच्या तोऱ्यान, हय, सामकें तोऱ्यान आपले मदलो आनी हेरां मदलो फरक झेतान मिरयत चलतना हांवें ताका पळयिल्लें.

केन्नाय कोणाय विशीं उलयतना माई, नलूआण्टी वा आनी कोणय म्हणटात, ‘‘तें दुदा इतलें गोरें आसा’’ वा ‘‘कावळ्या इतलें काळें’’ अशें निलिमान म्हाका एकदां सांगिल्लें. एके संदिग्ध बायलेची नक्कल करीत तिच्याच तिरस्कारयुक्त आवाजान ‘‘ती म्हाकाय कावळो म्हणटा,’’ ताणें तिटकाऱ्यान म्हणिल्लें. ‘‘कित्याक? हांव काळें आसां म्हणून? कोणाक पडलां ताचें? म्हाका हरशींय कावळे आवडटात. ते कितले शिटूक आसतात न्हय आण्टी?’’

‘‘म्हाका खबर ना गो बाये,’’ हांवें प्रामाणीकपणान सांगलें. हांव स्वता तांकां सहन करूंक शकना - ते जे तरेन तुजे कडेन पळयतात - सामके आरपार.’’

‘‘निलिमा, आयज तूं घरा कशें?’’ आतां हांवें ताका विचारलें.

‘‘आण्टी, आयज शेनवार मगे,’’ ताणें म्हजे कडेन अजापान पळयत म्हणलें, ‘‘आनी देव पावलो. ह्या सत्तकांत आमकां तीन टॅस्टी आशिल्ल्यो. हांव सामकें थ-क-लां.’’ ताणें तोंडांतल्यान उतर सामकें ओडून काडलें आनी नाटकीपणान खुर्चेर घालून घेतलें. ‘‘हांव शेनवाराची सामकी वाट पळयतालें. पूण अशें न्हय...’’ मनांत आयिल्ल्या विचारांचेर गुरगुरत ताणें म्हणलें, ‘‘माई वांगडा घरांत रावंक म्हाका मजा येतली. मम्मी कितेंय म्हणूं, हांव सांजे भायर वतलेंच.’’

माई कडल्यान पयस वचप - हो त्या घरांतल्या सगळ्यांचो आवडीचो खेळ आशिल्लो. हांवें सगळ्यांक तशें करतना पळयिल्लें. आबाक लेगीत. निलिमान म्हाका एकदां हांसत आपल्या आज्याची गजाल सांगिल्ली. ‘‘तुका खबर आसा, सतीश अंकलान म्हाका एकदां सांगिल्ली ही गजाल, आबा खंय आपल्या ऑफिसांत चड वेळ रावंक मेळचें आनी आपूण माई कडल्यान पयस उरचो म्हणून ऑफिसांत पयशे फारीक करता.’’

आंगान हाडकुटें, वया प्रमाण बेडौल आशिल्लें निलिमा, अडाण्या सारकें एक पांय स्वता पोंदां घेवन जे तरेन खुर्चेर बशिल्लें थंयच्यान म्हाका ताची चेड्डी दिसताली. ताचे चेड्डे वयलो दाग दिसतालो. आनी ताका तशें पळोवन म्हाका कशेशेंच जालें.

पूण म्हाका खबर आशिल्लें म्हयन्याच्या ह्या शापीत दिसां विशीं निलिमाक लज-भीड कांय नाशिल्ली. ताचे खातीर ते फकत दुस्वासी दुस्मान आशिल्ले.

"कितलें भयानक आसता तें आण्टी," ताणें बेजार जावन म्हाका सांगिल्लें. "म्हाका नाका तें, कित्याक बंद करूंक शकना हांव तें? तें बंद करपाखातीर कसलेंच वखद ना?"

तेन्ना हांव ताका हांसलें खरें, पूण आतां म्हाका प्रस्न पडटा, हांवें ताका म्हज्या असफल प्रयत्ना विशीं सांगूंक जाय आशिल्लें काय? जेन्ना हांवें पिल्लां घेवंक सुरवात केल्ली आनी हाचे फुडें कितें घडटलें हाची शक्यताय म्हज्या लक्षांत आयिल्ली तेन्ना म्हाका जाल्ले खोशे विशीं ताका हांव सांगूंक शकतालें. हांव आतां मुक्त बायल, हांवें विचार केल्लो, म्हज्या शरिराचेर आतां म्हजो पुराय ताबो आयला. कारण ते त्रासदायक, हळशिकावणे प्रक्रियेचेर हांवें मात केल्या. आतां म्हाका जाय तेन्नाच हांव आवय जावंक शकतालें, म्हाका जाय जाल्यार हांव रक्तस्राव लेगीत बंद करूंक शकतालें. म्हजें आंकवारपणांतलें हें सपन आतां खरें जाल्लें.

पूण जालें उरफाटें, म्हज्या शरिराचेर ताबो दवरपाच्या प्रयत्नांत तें बेभान जालें. म्हाका गुरवार जाल्ले भशेन दिसूंक लागलें. मळमळ, सकाळचो ओंकारो, म्हजें म्हज्याच शरिरा कडेन युद्ध चल्लां अशी दिसपी तीच खर भावना. म्हाका मासीक पाळी सुरू जाल्ले भशेन म्हज्यो जांगो मुंयेताल्यो, म्हजें आंग जड जातालें. मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें, हांवें हें चालूच दवरल्यार म्हाका कॅन्सर, आर वा आताकय येवंक शकतलो. अजाप म्हणल्यार कांय तेंपा खातीर हीं सगळीं म्हजे जिणेंत आयिल्लीं. आतांय आयिल्लीं आसत.कोणा जाणा?

पूण ही गजाल हांव निलिमा कडेन केन्नाच उलोवंक ना. म्हाका दिसतालें हें सगळें समजुपाक तें खूब ल्हान आसा. आनी हरशींय, निलिमाक हें सगळें सांगप योग्य नाशिल्लें. कारण स्वताचे असहाय्यतेची कल्पना ताका आनीक पिकार करपाची.

"कितें करप असले चलयेचें?" एकदां मुक्तान म्हाका उपाय सुचय म्हूण विनवणी केल्ली, "रतीय अशेंच वागता?" रतीन आपल्या भुरगेपणांतल्यान बायलपणाचे अवस्थेंत सोंपेपणान आनी आत्मविस्वासान पावल दवरिल्लें. गोंदळून गेल्लें तें हांव, म्हज्या वेळचो नाट्यमय खीण याद जावन. गरज नासतना घुस्मटिल्लें, उचांबळीत जाल्लें आनी तो खीण कितलो म्हत्वाचो, वळवळ्यांचो आनी त्रासदायक आसता हाचेर विचार करूंक लागिल्लें. पूण रतीक जेन्ना हांवें सगळें सांगपाचो यत्न केलो तेन्ना ताणें इतलेंच म्हणिल्लें, "जाणा गे, खबर आसा म्हाका सगळें." सहज आनी उडटी जाप. तें सदांच निवळ आनी वेवस्थीत आसतालें. ताचे कडेन केन्नाच बुरशेपण नाशिल्लें! म्हाका ताचें अजाप दिसलें, कारण म्हज्या वेळार म्हाका वयांत येवप हें अडचणीचें आनी वजेशें जाल्लें.

बाबडें मुक्ता, आपणें कसल्या प्राण्याक जल्म दिला ह्या संभ्रमांत सदांच आसतालें. म्हज्या कोंतान जेन्ना अरूण भायर पडलो, तेन्ना ताका सगळ्यांनी पोटांतल्या भुरग्या विशीं सांगून थातारलां आसतलें; घडये एक चलो, जो ताका मन:शांती आनी आदार दोनय दितलो अशी आस दाखयिल्ली आसतली. ताचे बदला, जल्मल्लें निलिमा, स्वताच्या जल्मा विशीं अभिमान बाळगुपी.

“म्हज्या बापायच्या मरणा उपरांत हांव जल्मलां,” अश्यो फुशारक्यो मारतना हांवें ताका आयकल्लें.

“तुमी हांगां कित्याक आयल्यांत?” हांव बेसावध आसतना ताणें म्हजेर प्रस्न मोखलो. ताचे दोळे ताचे काळे कातीचे सामके उरफाटे आशिल्ले, हलक्या रंगाचे, मात्शे घारशे, कावळ्याचे नदरे सारके धारदार आनी तिखट. ताचे दोळे म्हाका बेचैन करताले. हांवें ताचे मुखार सत ओंकलें जाल्यार कितें जातलें, असो विचार म्हज्या मनांत आयलो. आमच्या वायट कर्मा पसून आमी स्वताक लिपयतात म्हणून हांवें ताका सांगीत जाल्यार कितें जातलें? हांव जाणा निलिमाक हो ड्रामा सामको आवडपाचो.

“कित्याक येवचीं न्हय? हें आमचें घर.”

“खऱ्यांनी तुमचें न्हय तें. म्हणल्यार म्हाका म्हणपाचें आसा, तें आतां तुमचें घर न्हय. आनी तुमकां कारण नाशिल्लें जाल्यार तुमी हांगां येवचीं नाशिल्लीं. फाटले फावटीं तूं आयिल्ली केन्ना - कोण ती आण्टी? तुमच्या नात्यांतली? - ती आशिल्ली तेन्ना. अंकल तर हांगा कितलेशेच म्हयने येवंकच ना. आनी रती...ताका पळयल्यार तर म्हाका वर्सां जालीं. तुमी चर्चगेट रावंक गेल्यांत तेन्नाच्यान. रतीक दिसता तें... आवय, सामकें पॉश! निलिमान आपलें अडाणीपण कुशीक सारून आधुनीक चलयेची नक्कल केली आनी म्हजेच चलयेची म्हजेच मुखार निंदा करपाची कापस्ताद निलिमा दाखयता हें खबर आसून पसून म्हाका हांसूंक आयलें. “तूं जाणा एकदां ताणें म्हाका कितें म्हणलें तें? हो जागो सामको बुरसो न्हय गो? गर्विश्ठ चली” अशें निलिमान तिडकीन म्हणलें.

“पिशें तें”.

“ना गे आण्टी. तें पिशें न्हय. तें बरें हुशार आसा. अशें ताका तरी दिसता,” आपले चकचकीत, वेवस्थीत एकाच आकाराचे दांत दाखयत तें हांसलें.

“रतीक कितें दिसता वा तें कितें उलयता ताणें कांय फरक पडना. जितलो चर्चगेटीचो फ्लॅट म्हजो तितलेंच हेंय घर म्हजें. म्हजो मामा हांगा रावतालो, म्हजो भाव...”

“माई मम्माक विचारत रावता, तीं कित्याक आयल्यांत हांगां? कित्याक आयल्यांत तीं हांगां? आयज ती म्हणपाक लागली, म्हाका दिशिल्लें तो दादलो मरतकच तें आनी हांगां येवचें ना.”

"दादलो? खंयचो दादलो?" हांवें तिखटपणान विचारलें, अजाप आनी तिडकीन म्हजो स्वास वयले वयर जावंक लागलो.

"तो वयले माळये वयलो अंकल..." ताणें वयले वटेन हात दाखयत म्हणलें.

त्या खिणाक म्हज्या लक्षांत आयलें, हांव त्या बायलां भशेन आशिल्लें, जांचे विशीं अप्पा सांगतालो, आपलो चेरो धांपून परसाकडेन बसताल्यो आनी तांकां दिसतालें तीं कोणाकच दिसनात. आतां, म्हजे दोळे उक्ते जाल्ल्यान म्हज्या लक्षांत आयलें, म्हजे कडेन सगळें जग बरोच तेंप पळयतालें.

"सोडून दी आण्टी," निलिमान व्हडल्यांच्या स्पश्टपणान म्हाका म्हणलें. "तुका कांय सांगपाचें ना जाल्यार सांगूं नाका. हांव कसलें तें जाणा न्हय तूं... हांव कावळ्या आवय."

"जाणा तूं आण्टी?" सुदैवान निलिमा बडबडत रावलें, "तो वयले माळयेर रावपी अंकल..."

"तूं ताका तशें कित्याक म्हणटा?" हांवें रुक्षपणान ताका मदींच आडायत विचारलें, "ताका हें आवडनाशिल्लें हें तुका खबर आसा."

"म्हज्या नांवान म्हाका उलो मार भुरग्या," अशें ताणें निलिमाक सांगलां आसतलें असो हांवें विचार केलो, "हांवें जर तुका म्हजी सकयल रावपी भाची म्हणली जाल्यार तुका कशें दिसतलें?"

"सॉरी. म्हाका म्हणपाचें आशिल्लें कामत अंकल. हो जागो विकपाक अमेरिकेच्यान ताचो चलो हांगा आयिल्लो हें जाणा तूं आण्टी? आतां उषा नांवाचें सामकेंच वाजेड्डें चली रावता थंय".

हय. हांव उषाक वळखतालें. मोहन घरा भायर सरतकच एक दीस सकाळीं हांव थंय गेल्लें. विचार करिनासतना हांव एक माळी वयर चडिल्लें. स सोपणां आनी मागीर सपाट जागो, सातवें सोंपण - आनी मागीर संवकळीच्या दारा मुखार उबें. दार उगडपी उषा नांवाचें हें चली, "यस," म्हाका तेळत ताणें विचारलें.

"उषा..." भितरल्यान कोणें तरी आवाज दिलो, "कोण आयला गो?"

भितरले चवकशेची बेपर्वा करीत ताणें म्हाका विचारलें, "कोण जाय तुमकां?"

"उषा," भितरल्यान परत अधीर आवाज आयलो, "कोण गो?" अचकीत म्हजो आवाज सुटलो, "चुकीच्या घरांत पावलें हांव". अशें म्हणत हांव परत सकयल देंवंक लागलें. सात सोंपणां, सपाट जमीन, स सोपणां... आनी घर.

अप्पाच्या मरणा उपरांत एक दीस हांव उठलें तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें अप्पा आतां ह्या जगांत ना म्हणून. हे लुकसाणेची जाणीव स्पश्ट आशिल्ली. अस्पश्ट न्हय. ह्या खिणाक तो खंय आसतलो आशिल्लो हो विचार म्हज्या मनांत आयलो - ताचे खातीर. आनी ताचे विणें जाल्ली रिती खाट मनांत उबी रावतकच मनांत एक भयानक

रितेपण आयलें, तेन्ना म्हाका कळ्ळें, ह्या खिणा मेरेन म्हाका ताचें मरण आनी ताच्या मरणाचो म्हजेर जाल्लो परिणाम कितें हें लक्षांत येवंक नाशिल्लें. तांचें नासप म्हणल्यार म्हजे खातीर सामकें रितेपण. शुन्य.

आतां ताच्याय फ्लॅटा कडेन वचून येतकच म्हाका तशेंच जालें. वयर वतकच म्हाका तेच तरेन, त्या जाग्याची, जंय ताणें आसूंक जाय आशिल्लें थंय आत्मो चिरपी शुन्यताय जाणवली, - थंय उबे आशिल्ले उषाक पळयतकच म्हाका ती लक्षांत आयली. तें चली कितलें वायट हाचे विशीं हांगां निलिमा बडबडटालें आनी हांव दुख्खाक कुशीक सारपाचो संघर्श करतालें.

‘‘हांवें उषाक सांगलें कामत अंकल थंयच फ्लॅटांत मेल्लो म्हणून तेन्ना तें सामकें भियेलें. ताका दिसता ते कुडींत एकटें उरलें जाल्यार ताका कामत अंकलाचें भूत दिश्टी पडटलें. हांवें ताका मुर्खा सारको विचार करूं नाका म्हणून सांगलें. मनशां जेन्ना मरतात, तेन्ना तीं सोंपतात. सासणाचीं.’’ निमाणें सगळ्या भुतांक थंयच्यान बरखास्त करत ताणें जैतवंताच्या झेतान आपलें वाक्य पुराय केलें.

इतल्यान दारार बॅल वाजली. ‘‘ही म्हजी मोगाळ मम्मा आसतली,’’ सुसेगाद उठत निलिमान सांगलें.

‘‘निलू, तूं हांगा कितें करता? हांवें तुका सांगिल्लें मगो जयाक त्रास दिवंनाका म्हणून. चल घरा यो आनी न्हावंक वच.’’

हांगा आयिल्ल्याक हांवें मुक्ताचें एक पळयिल्लें. तें इश्टागतीन वागनाशिल्लें म्हणपाक जायना, पूण ताचें वागणें इश्टागतीचेंय नाशिल्लें. स्वताक आडावन दवरिल्ले भशेनशें वागतालें.

पूण हांव मुक्ताक वळखतां तेन्नाच्यान म्हाका ताचे भोंवतणीं कितें तरी आडावन दवरिल्ल्याचें वलय जाणवता. मुक्ता विशीं म्हज्या मनांत एक काल्पनीक मूर्त तयार जाल्ली. तें म्हाका केन्ना नर्तकीशें दिसतालें, आपल्या वांगडच्या गायकांच्या बोलांची वाट पळयत थीर उबी अशी नर्तकी, त्या बोलांचें रुपांतर नाचांत करपाचे तयारेंत. म्हजे खातीर मुक्ता एक नर्तकी आशिल्लें, आपल्या निशब्द शरिरांत गितांतल्यो त्यो सगळ्यो कल्पना, भाव आनी भावना बंदिस्त घेवन राविल्लें. केन्ना केन्ना म्हाका दिसतालें, गायक गावपाचें थांबयतलो आनी तें सगळें संगीत मुक्ताच्या आंगापांगांतल्यान व्हांवतलें. काय अरूण, ताचो घोव ट्रेनींतल्यान भायर पडलो आनी मेलो तेन्ना त्या गिताचो अंत जालो?

‘‘कोणें सांगलें हांव तिका त्रास करतां म्हणून? ती कसलेंच काम करिना’’.

‘‘हय, हांव काम करतालें. हांव तुजी बडबड आयकतालें. आनी आतां हांव आमचे खातीर च्या करतां. मुक्ता, च्या घे इल्ली म्हजे वांगडा.’’

‘‘हांवय पियेतां आण्टी’’.

''निला, तुका नाका.''

''म्हाका कित्याक नाका?''

तीं एकामेकां कडेन काचकिसांवां करता म्हणसर हांवें च्या केली. अपेक्षे प्रमाण मुक्तान बिस्कीट घेतली ना. ''आयज नाका जया. आयज म्हजो शेनवार''.

ताचो एक तर 'शेनवार' आसतालो, ना जाल्यार 'सोमार' वा 'बिरेस्तार'. मुक्ताचें सदांचें जेवण कमी आसतालें आनी उपास चड. म्हाका ताची हीच आत्म-सजा सकारात्मक गजालशी दिसताली. आनी तरीय, ताची देवा वयली भक्ती - खात्रीन ताका हें सगळें करपाक प्रेरीत करता आसतली न्हय? - म्हाका हें सगळें अर्थहीण दिसतालें. कारण हें सगळें करपा फाटलें ताचें कारणच ना जाल्लें - ज्या कारणाक लागून सगळ्यो हिंदू बायलो उपास तापास करतात तें - सौभाग्य रक्षण!

मुक्ताचे उपास पळोवन म्हाका वनितामामीचे पुजेची आनी उपासांची याद जाली. वनितामामीक आपणाक भुरगें जातलें अशी मात्शीशी आस्त आशिल्ली तेन्ना घडये तिणें स्वताक ही शिस्त लावन घेतिल्ली. पूण तिचो गर्भाशय आंखुडलो आनी बीजकोश घट्ट जालो तरीय तिणें आपले उपास-तापास, तुळस आनी पिंपळ पेडा भोंवतणचे फेरे थांबयले नात. घडये आतां हें सगळें तिचे संवयेचेर पडिल्लें म्हणून ती ते सोडपाक शकनाशिल्ली. वा घडये ती आपल्या सौभाग्याचें प्रदर्शन आईच्या वैधव्या मुखार मिरोवंक सोदताली, असोय विचार म्हज्या मनांत आयलो.

''म्हजो शेनवार! आरे देवा! सप्तकांतलो खंयचोय दीस आसलो म्हूण कितें जालें, माँ. हे तुजे सगळे उपास-तपास म्हणल्यार मूर्खपण. सोडून दी हें सगळें, माँ. तूं सामकी चडच पारंपारीक जाल्या.''

मुक्ता कडेन उलोवपी निलिमाक कोणें आयकत जाल्यार तांकां दिसतलें हें भुरगें आवयचेर बरेंच कोंत्र आसा म्हणून, पूण ताणें आवयक लयींत उलो मारतना वापरिल्लीं वेगवेगळीं विशेशणां वेगळीच काणी सांगतालीं.

''तें सांगता तें खरें मुक्ता. कित्या खातीर करता तूं हें सगळें? तुजे हात पळय- फकत हाडां आनी कात. हे अशेंच चलत उरलें जाल्यार तूं एक दीस अदृश्यच जातलें''.

''आनी तशें जाल्यार फावो तिका,'' बालीशपणान निलिमा तणतणलें, ''आसूं दी तिका तशीच आण्टी, ती कोणाचेंच आयकुची ना. तिका जाय तें करुंदी''.

''निलू, तूं अशें म्हणटा तेन्ना माई उलयता काय दिसता.''

''माई?'' निलिमाचें भयंकर कडलें, ''माँ, तूं मुद्दाम वायट वागता, कुसकी कशी. हें बरें न्हय...''

ताचें तोंड पडलां तें पळोवन आमी हांसलीं.

''बरें आसा. चल, आमी घरा या, जया काम करता तें दिसना तुका?''

''सॉरी आण्टी. तूं काम करताली?''

निलिमाचो माफी मागपी गुन्यांवकारी आवाज म्हाका तिडावन गेलो. म्हज्या लिखाणाक इतलें कित्याक मानतात हीं? जेन्ना निलिमा लेखकांच्यो खबरी करतालें - आनी, बाबडें निलिमा, म्हाकाय एक लेखक मानता - तेन्ना ताचें मुर्ती-भंजन नाच्च जातालें आनी ताचीं निर्दयी आनी तोंकाळ मतां, डळमळटालीं:

''तुका इतलें वायट दिसता जाल्यार चल, आत्तांच यो घरा. आनी म्हाका दिशिल्लें, तुका म्हजे कडल्यान माथें घांसून घेवंक जाय म्हणून. म्हाका कामाक वचपाक कळाव जाता. आनी हें पळय, इतलो वेळ करून तूं न्हाता म्हणून तुका माई कडल्यान पडटलें आतां''.

''अँ माई! तिचें कोणाक पडलां? आनी तूं वच कामाक. आयज केंस धुना हांव. फाल्यां धुतां''.

एकटें उरतकच सुसेग जालो. मोहन आनी भुरगीं नासतना मेळपी एकांत हांव सदांच सांबाळून दवरतालें. हांगां आयिल्ल्याक मोहनाचें हांगां सदांच आसप हें म्हजे खातीर वजें जाल्लें.

हांव मेजाचेर पुस्तकांचो पसारो घेवन बसतालें तेन्ना मोहन घरभर मांजरा पावलांनी भोंवतालो. घडये ताका लागून थकून तो आयज भायर सरिल्लो. मुक्ता आनी निलिमासारकें ताकाय दिशिल्लें हांव काम करतां म्हणून. घडये ताका दिसलां आसतलें, हांव म्हजी पंद्रशीची 'सीता' स्टोरी करतां, पूण अचकीत 'सीतेचो' स्फोट जाल्लो. तिचें कांयच उरूंक नाशिल्लें, एकठांय दसोवंक जाता अशे बारीकसारीक कुडके लेगीत नात. लेख दिवपाची म्हयन्याची निमणी तारीख सोंपून गेल्ली. हांव कल्पना करूंक शकतालें कशें देस्पेराद जावन ते म्हजे कडेन संपर्क सादपाचो यत्न करतातआसतले. आनी हांव मेळना म्हणून तांची जाल्ली तडफड. जंय सीता आसपाची थंय रिती सुवात उरतली हें येवजून म्हाका बरें दिसलें, पूण अर्थांत थंय रिती सुवात उरची नासली. तशी केन्नाच उरची ना. 'सीतेच्या' बदला थंय आनीक कितेंय आसतलें. पूण हांवें आतां सीतेचो त्याग केल्लो. आतां म्हजे खातीर कांयच नाशिल्लें. आनी जरीय आशिल्लें जाल्यार ताचो सोद घेवचो पडटलो. हेंच कारण आसत काय हांव इतल्या वर्सांच्यो डायऱ्यो घेवन बसलां? डायऱ्यो पळयतना, वाचतना म्हाका भुतकाळांत गेल्ल्याचो अणभव येता. वस्तुस्थिती खणटां खणटां म्हाका ती बायल मेळ्ळी. ती हांगां केन्ना तरी रावताली. मोहनाची बायल, राहुल आनी रतीची आवय. हांव न्हय.

पूण तें 'हांव' म्हणल्यार कोण? 'स्वताक सोदप' हें कशें घांसून घांसून गुळगुळीत जाल्लें वाक्य. जशें काय स्वताक सोदप शक्य आशिल्ले भशेन. अशें कांय स्वत्व 'आसा तशें' आनी 'संपूर्ण' सोदून काडपाचे प्रतिक्षेंत खंय तरी रावलां? हाचे बदला, कितलिंशींच 'स्वत्वां' सियामीस जुंवळ्यां भशेन आसात, तांचें अस्तित्व दुसऱ्याचेर

अवलंबून आसता आनी एकटें दुसऱ्या बगर जगपाक शकना. घडये हाका लागूनच हांव घुस्पल्लें, कमलाकाकी कडल्यान खूब वर्सां उपरांत हांवें आयकल्लें, म्हज्या आनी दादा मदीं एक चली भुरगें जल्मल्लें, जें जल्मताच मेल्लें खंय. म्हाका आनी व्हडली भयण? हो विचार मनांत येतकच म्हाका स्वताक हांव एक वेगळीच व्यक्ती कशें दिसूंक लागिल्लें.

पूण अजापाची गजाल म्हणल्यार हांवें डायरेचीं पानां परतायलीं तेन्ना तातूंतली व्यक्ती म्हाका सामकी अनवळखी दिसली. इतली परकी व्यक्ती, तिच्या कृत्यांचो अस्पश्ट हेतू कळपाक लेगीत म्हाका अशक्य जालें. म्हजो संबंद जोडपाची कसलीच संद, कसलोच संकेत नाशिल्लो तातूंत. हांव तीं पानां एक झिळमिळटे नवलायेच्या आविश्कारान परतीत गेलें. हें सगळें खऱ्यांनी हांवेंच बरयिल्लें? एकदम आसा तशें, रुक्ष आनी सगळें निटनेटकें बरोवन दवरिल्लें. हांवें कितें घेतिल्लें, हांवें कितले पयशे फारीक केले, भुरग्यांच्यो शाळा खंयचे तारखेक सुरू जाल्यो, वावराडेच्यो सुटयो, तिणें घेतिल्ले ॲडवान्स पयशे, इन्शुरन्साचे पयशे फारीक करपाची तारीख.

म्हजे तकलेंत एक विचार आयलो, ह्या सगळ्या डायऱ्यांक एक संयुक्त माथाळो दिवंक जाता - 'एके समंजस घरकान्नीच्यो डायऱ्यो'.

हय, होच माथाळो योग्य थारतलो. कारण डायरेंतली दरेक नोंद, दरेका दिसाची नोंदणी ते बायलेची समजिकाय आनी वेव्हारीक बुद्दी साबीत करताली. पूण साद्या साद्या बारीकसारीक गजालींचेर तिणें सारयिल्ल्या व्यर्थ जिविताचें चित्र म्हजे सामकार आयलें तेन्ना म्हाका भंय दिसलें. तिणें बरयिल्ल्यो नोंदी वाचून म्हाका जाणवलें, अशी जीण जगपी बायल आपली जीण व्यर्थ झरयताली.

पूण अर्थात ही डायरेंतली रुपरेशा फकत तिच्या जिविताच्या सांपळ्याची रुपरेखा आशिल्ली. तातूंतलो म्हत्वाचो भाग तिणें सोडून दिल्लो. वेदनेन भरिल्लो तो आक्रोश, "म्हज्यान तोंड दिवंक जायना", "म्हज्यान सांबाळूंक जायना," "अशेंच जगप कुस्तार जाता" वेवस्थीत तरेन चिड्डून दवरिल्लो. तांचे वांगडा सद्दां म्हजे मुखार उबे रावपी प्रस्नय दबून गेल्ले. "इतलेंच सगळें?" ह्यो डायऱ्यो बरावेपी बायले मुखार सगळ्यांत व्हड प्रस्न म्हणल्यार "हांव सकाळीं च्यावेक/दनपारां/सांजे च्यावेक/ रातचें कितें करूं? अर्थांत होच म्हज्या जिविताचो मुखेल उद्देश आशिल्लो.

"प्रत्येक वेळा वेगवेगळीं जेवणां-खाणां करपाचे उपद्व्याप ओगीच करता तूं," चुकून केन्नाय आमगेर येवपी आई म्हजेर फणफणिल्ली, "आमच्या वेळार दिसाक दोन जेवणां करतालीं आमी. आनी तितलेंच. कोणाची कसली अपेक्षाय नासताली. "म्हजीं भुरगीं" राहुल आनी रती कडेन निंदेचो रोख मोखीत तिणें म्हणलें. अजाप म्हणल्यार तिचो रोख म्हजेरय आशिल्लो. अशें दिसलें, 'तिच्या त्या भुरग्यां मदलें' एक भुरगें हांव आशिल्लें हेंय ती विसरूनच गेल्ली. म्हज्याय भुरग्यांक हावें खंयच्याच

जेवणाक नाक मुड्डुचें न्हय अशीच शिकवण दिल्ली.

कुसूमागेर गेल्ली तेन्ना स्वताची वागणूक आई विसरून गेल्ली काय दिसता. आमी जेन्ना सप्तगिरी रावतालीं तेन्ना वर्सान एकदां आंबेगांव वतालीं, तातूंत कुसूमाच्या घरा वचपाचो एक कार्यक्रम आसतालो.

"वेणूचो आग्रो आसा तुमी तांगेर येवंकच जाय म्हणून," वनितामामीचें परपरत धा-बारा वेळां तरी सांगप जातालें, पूण आमी थंय पावतकच, वेणूक, कुसूमाचे आवयक आमचें कांय पडून वचूंक ना अशें दिसतालें. आनी मागीर आमची सरबराय करपाची धांवपळ वनितामामी आनी कुसूमाचेर पडटाली.

मागीर वनितामामीच नेटान स्टोवाक पंप मारीत, स्टोव एकेवटेनच पेटला हें लक्षांत घेनासतना च्या करताली. (अर्थांत मागीर दिलीप पीन मारून बर्नर साफ करतालो आनी मागीरच स्टोव सारको पेट्टालो.) वनितामामीच मागीर खाणां वेगवेगळ्या बशयांनी घालून आमचे मुखार दवरताली. हीं खाणां पयले दिसा लिपचोरयां तिणेंच हाडून दवरप आसतालीं. आमी ओर्रद एकांतांत बसतालीं थंयच्यान सगळ्या भुरग्यांक वनितामामी धांवडायताली आनी आमकां बसपा खातीर कुसूम शेंदरी घालतालें, घरभर पातळिल्ल्यो कप-बश्यो एकठांय करतालें, च्या आनी खाणां भायर हाडटालें. हें सगळें जातकच दोगांय, तें आनी वनितामामी, आपले पयलींचे झेमेल्ले अवस्थेंत वतालीं आनी पयलीं थारावन दवरिल्ले भशेन कुसूमाची आवय सगळें आपल्या हातांत घेताली. आमकां खावपा-पिवपाक आग्रो करताली. तिचे मायेक ना म्हणप कुस्तार आशिल्लें. पूण आई, आपूण कोण तरी व्हडली भाटकान्न आशिल्ले भशेन खाणां कडेन खेळटाली आनी म्हजेरय फुसकारत म्हाका सांगताली, "खावं नाका तें सगळें. बरें ना तें." ती स्वता चडशें खाण तशेंच प्लेटींत दवरताली.

आनी एकदां थंयच्यान भायर सरतना हांवें फाटल्यान वळून पळयलें जाल्यार कप आनी प्लेटी कश्यायकश्यो हांगा थंय पडिल्ल्यो. आपूण ह्या घरांतली कर्ती धूव हें कुसूम विसरून गेल्लें. हेर भुरग्यां त्या उश्ट्या खाणांचेर तुटून पडिल्ल्याचें भयानक दृश्य म्हजे नदरेक पडलें.

"म्हज्या भुरग्यांक शिकवणच आसा खंयचेंच खाण कुस्कुटावचें न्हय म्हणून. म्हज्या भुरग्यांक हें सांगताली तेन्ना ती आपलें कुसूमागेरचें वागणें सेर्त विसरताली जावंये. एकदां अप्पान तिका कितें म्हणिल्लें तेंय ती विसरली आसतली. "तुजीं भुरगीं," अप्पान आईक एकदां म्हणिल्लें, "सामकीं इबाडिल्लीं पोरां. आमच्या भुरगेपणांत आमकां तोंड उगडपाक कापस्ताद नासताली. पानार कितें पडटालें तें आमी गुपचूप खाताले."

मोहनान आनी हांवें आज्ञाधारकपणान भुरग्यांक दोशी थारावपाची परंपरा मुखार व्हेल्ली. भुरग्यांक कुस्कुटासमान लेखपाक मोहना कडेन ताच्या भुरगेपणांतल्या

हालअपेश्टांच्यो काणयो आशिल्ल्यो जाल्यार म्हजे कडेन हालींच्यो यादी. जेन्ना हांव तांकां सांगतालें, ''म्हयन्याचे म्हयने आमचे कडेन जेवपाक तांदूळ नासताले'' आनी ''दिवाळे दिसा लेगीत घरांत कुलेरभर साकर नासताली'' तेन्ना तीं म्हजे कडेन अशींच पळयत रावतालीं. हरित क्रांतीचीं फळां उपभोगतल्या तांकां ह्यो सगळ्यो गजाली फट दिसताल्यो जावंये.

हांव जेन्ना डिपार्टमॅण्टल स्टोरांतल्यान एका फाटल्यान एक खाणा-जेवणांच्यो प्लास्टिक पोतयो उखलतां तेन्ना म्हाका लेगीत खीणभर ह्यो घडयिल्ल्यो काणयोश्योच दिसतात. आमच्या ह्या चकचकयाळपणा मुखार, ते दीस म्हणल्यार कल्पनाविश्वच कशें.

पूण तेच दीस खरे आशिल्ले. एकदां हांवें खंय तरी एक वाक्य वाचलें आनी ते दीस स्पश्टपणान म्हजे मुखार उबे रावले: 'सेगीत तीन वर्सां पावस नाशिल्ल्यान खूबश्या वाठारांनी दुकळ येवपासारकी परिस्थिती तयार जाल्या'.

हय, आतां आमी दुकळ पयस केला. आतां उरल्या ती फकत टंचाय. घडये, ताका लागूनच म्हज्या दोळ्यां मुखार चित्र आयलें तें सुकून खटखटीत जाल्ले जमनीचें न्हय, फुगिल्ल्या मडयांचें आनी तांचे वयर घिट्ट्यो घालपी गिदाचे न्हय, असलें भिरांकूळ दृश्य आसता दुकळाचें. टंचाय म्हणल्यार रांको - वरांचीं वरां वाट पळयत उबे रावपी लोकांच्यो रांको, इल्लेशे साकरे खातीर आनी देवाक खबर खंयच्यान तरी मेळयिल्ल्या किडेल्ल्या तांदळा खातीर, जे हरशींय उणेच मेळटाले, तशेंच खावपाचे लायकीचे नाशिल्ले, त्या अमेरिकेच्या उपकारान मेळयिल्ल्या गंवा खातीर. (''त्या गंवाच्यो चपात्यो सामक्यो कार्डबोर्डा सारक्यो लागताल्यो'' अशें एकदां जीजान म्हाका सांगिल्लें.) टंचाय म्हणल्यार धाकटुलें मंदा, शाळा चुकोवन रांकेंत रावपी आनी रांकेंत रावन रावन थकून घरा येतकच जीजा कडल्यान मार खावपी भुरगें.

पूण एक याद म्हज्या मनांत कालवां भशेन घांस मारून रावल्या. परिस्थिती कडेन हारिल्ले, दुख्खी, सुक्या सडसडीत गांवांतल्यान भायर सरून मुंबयच्या शारांत भरभरून आयिल्ले लोक. ते सगळे कडेन आसताले, फुटपाथांचेर आनी स्टेशनाच्या प्लेटफॉर्मांचेर, पुलां पोंदां, गार्डनांनी, रातच्या वेळार ह्या भिल्ल्या लोकांचे चोमे आसताले येरादारीच्या जुंव्यांचेर. ना, भंय हो योग्य शब्द न्हय; तांचे मदीं भिरांत नाशिल्ली, रागय नाशिल्लो, आमकां कितें घडलें आनी आमी खंय पावल्यात हाचे विशीं तांच्या तोंडार एक संभ्रम आशिल्लो. भुरगीं बेगीन शिकतालीं, जगपा खातीर परिस्थिती कडेन कशें जुळोवन घेवप ही कला हातासतालीं. म्हाका अजून याद आसा, मुंबय कशी उजाड जाल्ली तेन्ना, जें कितें मेळटा, खावपाक, अदलाबदल करपाक, मोडपाक वा विकपाक ताचेर हात मारून भुरग्यांनी ती कशी निव्वळ केल्ली ती.

म्हज्या डायऱ्यां मदीं हातूंतलें कांयच नाशिल्लें. घडये, हेंच बरें. कारण कांय गजालींच्यो यादी म्हाकाय मनांत दवरपाच्यो नात, पूण सुटका ही सदांच शक्य आसना. हांव डायऱ्यां कडेन पळयतना, तातूंतले एके नोंदीन म्हजे मुखार एक दीस जिवो केलो, तो हांव विसरून गेल्लें जाल्यार बरें जावपाचें. 'सांजे जुहू दर्यावेळेर गेल्लीं'. सामकी थोडके भितर सुटसुटीत नोंद आशिल्ली आनी ताचे सकयल, बाकीच्या गजालीं वांगडा, आयस्क्रीमाचेर आमी कितले पयशे मोडिल्ले ते बरयिल्ले.

त्या दिसा आमच्या वांगडा आनीक एकटो आशिल्लो. ताचें नांव म्हाका याद जायना, पूण ताचो चेरो स्पश्टपणान दोळ्यां मुखार आसा. मोहनाचो वांगडी तो. ताका आमी खंय तरी पावोवपाचीं आशिल्लीं, पूण पयलीं आमी दर्यावेळेर गेलीं.

हांव दोनय दादल्यांच्यो खबरी आयकत सुसेगाद गाडयेंत बशिल्लें. भुरगीं आयस्क्रीम हाडपाक भायर धांविल्लीं. तीं आपले कोन घेवन आयलीं तेन्ना तांचे फाटल्यान कांय भुरगीं आयलीं. तीं वेवसायीक भिकारीशीं दिसनाशिल्लीं, कारण तीं कितें मागनाशिल्लीं आनी तीं त्रासय करिनाशिल्लीं. तीं फकत, एके वटेन कोन चाटीत दुसरे वटेन हातार गळपी आयस्क्रीम आडायत येवपी राहुल-रतीचे फाटोफाट येतालीं, तांची नदर एकटक कोनाचेर दवरून.

''आयस्क्रीम सोंपयले बगर गाडयेंत येवंनाकात,'' मोहनान भुरग्यांक ताकीद दिली.

म्हणटकच तीं भायरच उबीं रावलीं, एकटक पळोवपी त्या दोळ्यांच्या गराड्यांत - एका घातक गराड्यांत. भिकाऱ्यांची संवय आशिल्ल्या राहुल आनी रतीन तांचे कडेन दुर्लक्ष केलें, पूण पयलीं राहुलाच्या लक्षांत आयलें, हीं भुरगीं वेगळीं म्हणून. ताणें तांचे कडेन बेचैन जावन, तिरशे नदरेन पळयलें. ताचें आयस्क्रीम चाटप थांबत थांबत जावंक लागलां हें म्हजे नदरेक पडलें. निमाणें, तो धांवत गाडये कडेन आयलो आनी आपल्या दुसऱ्या मेकळ्या हातान गाडयेचें दार उगडपाक पळोवंक लागलो.

''ना राहुल, पयलीं तुजो कोन सोंपय''.

तशें म्हणटकच राहुल दाराचे लाग्गीं उबो रावन व्हडा आकांतान आनी बेगिबेगीन कोन चाटपाक लागलो. तें करतना ताच्या हलचाली मदीं एके तरेची बंडखोरी आशिल्ली. ह्या बोवाळांत ताका एकटक पळोवपी भुरग्यांची नदर मात्त हाल्ली ना. वयल्यान तीं आनीकय लागीं आयलींशीं दिसलीं, तांचे ते भुकेल्ले दोळे, काळीं पडिल्लीं तोंडां, उपासान काय? गाडयेंत बशिल्ल्यान म्हाकाय घेरो घाल्ले भशेन दिसलें.

निमणें राहुलान कोनाचो उरिल्लो इल्लोसो कुडको खांद्या वयल्यान फाटल्यान शेंवटिलो आनी खंयचे तरी संकश्टांतल्यान सुटका करून घेतिल्लेवरी देस्पेराद जावन गाडयेंत घुसलो. पूण म्हजी सुटका जावंक ना. म्हाका तीं हाडकुटीं शरिरां विजेचे चपळायेन धांवतना दिसलीं, मागीर तांचे मदीं जाल्लो मरणप्राय संघर्श आनी जैतवंतान

बेगिबेगीन तोंडांत उडोवन फस्त केल्लो कुडको आनी बाकीच्यांनी थीरपणान परत एकदां रतीचेर सुरू केल्लो पारो दिसलो.

रतीन तांकां एक दोनदां 'शू' म्हणत धांवडायिल्लें, पूण ताणें कांय म्हणूंक नाशिल्ले भशेन मंत्रमुग्ध जावन तीं थंयच रावलीं.

"बेगीन कर रती", हांवें मात्शें तिखटसाणीन सांगलें.

"राव गे मम्मी. म्हजें सोंपूंक ना," रतीन सुसेगाद कोन चाटीत म्हणलें. तें सवकासायेन खायत गेलें, घडये ताका पळोवपी त्या भुकेकंगाल दर्शकांची ताका जाणविकाय नाशिल्ली.

"रती," राहुलान कर्कशपणान ताका सांगलें, "कांसवा गतीन खावंनाका".

"हांव म्हाका जाय ते गतीन खातलें. तुका कित्याक पडलां म्हजें?"

वर्तुळ पूर्ण जाल्लें. एक चेरो म्हाका भितर पळयतालो, एक हात भितरले वटेन येवंक लागलो. हांव जनेलाचो हारसो बंद करूंक लागलें जाल्यार ते दोळे म्हाका रागान पळोवंक लागले. हो भुरगो न्हय, हो कोण तरी दुश्टबुद्दी अनवळखी. म्हाका सामकी भिरांत दिसली. हांवें हारसो वयर केलो, म्हाका ताका भायर दवरूंक जाय आशिल्लें. हांव हारसो वयर वयर करूंक लागलें, तरीय तो हात तसोच धरून रावलो, सामको चिकटून, केन्ना सुटचोच ना अशे तरेन. आमच्या दोगां मदलें शीतयुद्ध आशिल्लें तें अशें म्हाका दिसलें. इतल्यांत राहुल आड्डलो, "मम्मी, नाका तशें करूं नाका".

कांचवेवन, हांव थांबलें आनी अचकीत म्हज्या लक्षांत आयलें. जनेल सोडपी तो हात ल्हान भुरग्याचो आशिल्लो. गाडये कडल्यान पयस वचपी तो ल्हान भुरगो आशिल्लो. मोहनान बेजार जावन फाटल्यान पळयलें आनी तिडकीन राहुलाक म्हणलें, "कितें जालें राहुल? कितें जालां?" राहुलान ओग्गी रावन गाडयेच्या सिटाचेर स्वताक लवंडून दिलें. "कित्याक आड्डलो तो तसो? पिसांट चलये भशेन".

मोहन म्हाका पळोवन हांसलो, पूण हांव ताका प्रतिसाद दिवंक शकलें ना.

तो त्या दादल्या कडेन पळयत हांसलो, भुरग्यांक पळयत हांसलो. घडये, आमचो घराबो हो कसो सामान्य सुखी समाधानी घराबो हें त्या दादल्याक ताका दाखोवन दिवंक जाय आशिल्लें, पूण राहुल ओग्गी बशिल्लो. ताणेंय प्रतिसाद दिलो ना आनी मोहन तिडकून रतीचेर उसळ्ळो.

"बेगीन कर रती. एक कोन सोंपोवंक कितलो वेळ लागता तुका? बेगीन खा नाजाल्यार तुका नाका जाल्यार त्या खंयच्याय एका भुरग्याक दी. खात्रेन तीं तुजे उपकार मानतलीं".

"हांचे वता थंय त्रासच जावंक लागल्यात," दादल्यान म्हणलें, "वता थंय हे भिकारी भरल्यात".

"बरोबर, पावस ना, धान ना, खाण ना - आनीक किते जातलें?"

"सहायता केंद्रां आसात न्हय, पूण म्हाका दिसता ह्या लोकांक भीक मागप चड सोंपें आसतलें. हांव जाणा हांवें हें करूंक जायना, पूण... हेऽऽ, तूं, हे घे". ताणें आपल्या तळटाचेर कांय नाणीं दवरलीं. हांवें दोळे धांपून घेतले. ना, परत नाका. म्हाका तांचे मदलें तें द्वंद्व परत पळोवपाचें ना. जेन्ना धडाम करून दार बंद जालें आनी फुगार जाल्लें रती गाडयेंत बसलें तेन्नाच हांवें दोळे उगडले.

"रती..." मोहनान रतीक धमकायलें. उपरांत आमी त्या दादल्याक वचपाक जाय आशिल्लें थंय सोडटकच, मोहनान आपल्या तिरसटपणांत मोवसाण हाडूंक घडये, गमतीन म्हणलें, "सिनेमाक वचपाक कोण तयार आसा?" आमी सिनेमा पळोवंक गेलीं... आनी हय, तो दादलो खरें सांगतालो, 'सहायता केंद्रां' आशिल्लीं.

न्यूज रिलांत आमी तांचीं चित्रां पळयलीं. दादले आनी बायलो, कडक वतांत, मातयेच्यो कायली माथ्यार घेवन, कांय जाण चिरे तासतना, पूण ह्या मनशांनी बांदिल्ले रस्ते पुराय जालेच नात, अशें खूब वर्सांनी हांवें खंय तरी वाचलें. चिरे तासपाची संवय नाशिल्ल्या त्या दादले-बायलांच्या दोळ्यांत फातराचे कपचे घुसून ते कुड्डे जाल्ले खंय. फायलींत जमयिल्ले आंकडे सोडून कांयच मेळूंक नाशिल्लें कोणाक. आनी म्हज्या मनांत उरिल्ली ती राहुलाची किळांच "नाका, मम्मी तशें करूं नाका".

"हांव तुका तुजे परस चड बरें वळखतां", हांवें एकदां मोहनाक सांगिल्लें. आनी म्हाका खरेंच तशें दिसतालें. तोच म्हजो वेवसाय, म्हजी करियर आनी उदरनिर्वाहाचें माध्यम नाशिल्लें तर? ताका जर हांव सारकें वळखना तर हांव म्हज्या कामांत असफल जाल्ले भशेन जातलें आशिल्लें. मागीर अशें किते जालें, जाका लागून ताची चिंताग्रस्त मनस्थिती म्हज्या लक्षांत आयली ना? हांव निसरूंक लागलां काय किते? ताका समजुपाची चावी म्हजे कडेन शेणल्या? काय म्हाका पर्वा नाशिल्ली आनी देखून पयलीं भशेन ताच्या मुडा कडेन म्हजें सुक्षीम ट्युनिंग जायनाशिल्लें?

"वरभर जालें हांव तुजी वाट पळयतां," हांवें पांयांतलीं जोतीं काडचे पयलीं मोहन उलयलो, "हांव वाट पळयतलों हें तुज्या लक्षांत येवंक ना?"

ताची किरकीर आनी कागाळीच्या सुरा परस ताच्या उतरांनी म्हज्यांत एक विचित्र भावना उत्पन्न केली. हीं वाक्यां म्हजीं आसतालीं. हीं वाक्यां हांवें म्हणूंक जाय आशिल्लीं. आमी लग्न जाल्लीं तेन्नाच्यान आमी आपापल्यो आंखून दिल्ल्यो भुमिका प्रामाणीकपणान करतालीं, पूण हांगां रावंक आयिल्ल्याक खूब वेळा हांव घुस्पतालें.

म्हजीं वाक्यां विसरतालें, हाचे फुडें कितें करपाचें हें कळनाशिल्लें आनी अशें दिसतालें की म्हज्या मनांतलो गोंदळ ताचे मेरेन पाविल्लो आनी म्हणून तो आतां म्हजीं वाक्यां वापरतालो, पूण ताची ही चूक खिणयाळी आशिल्ली. तो रोखडोच आपले स्क्रिप्टिंतलीं वाक्यां उलयलो, ''तुका वेळ कित्याक जालो? इतलो वेळ कित्याक घेतलो तुवें?''

''ती म्हजे कडेन म्हजेर तिचो मालकी हक्क आशिल्ले भशेन वागता.'' तिच्या त्या खोदून खोदून विचारपी प्रस्नांक बेजारून हांवें एकदां आई विशीं दादा कडेन कागाळ केल्ली.

''तुका वेळ कित्याक जालो? तूं कोणा कडेन उलयतालें? आतां खंय चल्लें तूं?''

''हांवें कितें करप हें ती म्हाका सांगूंक शकना. हांव म्हाका जाय तें करतलें'', हांवें नेटान जाहीर केल्लें.

अविचारी मागण्यांक सदांच स्वताचो हक्क सिद्ध करपाचो आसता, म्हणटकच म्हाका सदांच अपराधी भावनेचे आड, म्हजें म्हणणें योग्य आसा हें साबीत करपा खातीर वा कसलेय गजालीचें स्पश्टीकरण दिवपा खातीर संघर्श करचो पडटालो.

आनी देखून मोहनान निबरसाणीन विचारिल्ल्या प्रस्नान म्हाका राग आयलो. तरीय हांव आडखळत म्हाका कळाव कित्याक जालो हाचीं निमतां दिवंक लागलें. खरें म्हणल्यार चर्चगेटीच्या फ्लॅटार म्हाका ताणेंच धाडिल्लें, हें ताका आनी म्हाका, दोगांकय खबर आशिल्लें. म्हजें धड आयकनासतना मोहन उलयत गेलो. ''हांव कॅमिस्टाच्या दुकानांत तुका फोन करपाक गेलों, थंय एका दादल्यान म्हाका सांगलें लालबाग, परेल हांगा कितें तरी बोवाळ चल्ला म्हणून.''

हांवें ताका थातारलो. हांव त्या वाठारांत पावचे पयलीं थंय सगळें सोंपिल्लें. पुलिसांनी गर्दी पयसायिल्ली आनी सगळे कडेन शांतताय आशिल्ली.

''म्हाका परपरत लोहानगरांतली तेन्नाची याद जावंक लागली. याद जाता तुका, आमकां कामगारांनी रेवाडो घाल्लो आनी तूं कितलें भियेल्लें तें?''

म्हाका जल्ले, पालीचो भंय दिसता, विजेच्या साधना विशीं हांव नर्वस जातां, तंत्रीक गजालीं विशीं हांव शुन्य, हिशेब दवरपांत हांव आळशी... सामकी साच्यांतली बायल. नर्वस, दुबळी, दादल्यांची मजत आनी आदार जाय पडपी. पूण म्हजें म्हाकाच एक कुवाडें पडटा: हांव अशें कशें जालें? म्हाका खात्री आसा, हांव अशें नाशिल्लें. म्हाका असो काळ याद आसा जेन्ना हांव अशें भियेनाशिल्लें, अनवळखी गजाली, काळोख आनी किडे हांची म्हाका भिरांत दिसनाशिल्ली. मागीर ही प्रक्रिया केन्ना सुरू जाली?

म्हाका याद आसा मोहनान उल्लेख केल्ली लोहानगरांतली ती घडणूक. म्हजी स्मरणशक्त म्हाका फटयना आसत जाल्यार हांव तेन्ना भिलें नाशिल्लें. म्हाका याद जाता ते प्रमाण जाल्लें भलतेंच. म्हजे भितर एक खाशेली उमेद तयार जाल्ली. म्हजे

मदीं आनी भायर आड्डी मारपी, हातवारे करपी, धमकी दिवपी, भयानक दिसपी दादल्यां मदीं कंपनीचे गाडयेची एक सादी कांच आशिल्ली. तातूंतल्यान हांव तांकां पळोवंक शकता ह्या विचारान हांव भुल्लुशिल्लें. हांव तांकां विलक्षण तटस्थपणान पळयतालें. भियेल्ली ती चीफ इंजिनियराची बायल. आनी मोहन आड्डल्लो, ''ड्रायव्हर, गाडी थांबयनासतना चलय, चल, गाडी सवका करूं नाका... फुडें चल''.

''पत्रां बी कितें आसात?'' मोहनान म्हाका विचारलें.

''हीं पळय.''

''भुरग्यांनी कितें धाडलां?''

''फकत एक चिटयेचो कुडको धाडला रतीन, रुपाच्या पत्रांत''.

पूण ताचें म्हजेर लक्ष नाशिल्लें. तो सामकें मन लावन पत्रां परतीत कितें तरी सोदतालो. अर्थात रतीचें पत्र नासतलें, कारण तें काडून ताणें कुशीक दवरिल्लें. मागीर कितें तर? तो कित्याची तरी वाट पळयतालो अशें म्हाका दिसलें. म्हजे फाटल्यान लागून ताणें म्हाका चर्चगेटीच्या फ्लॅटांत पत्रां हाडपाक धाडिल्लें, पूण तो जें कितें सोदतालो तें तातूंत नाशिल्लें. ताणें तीं सगळीं पत्रां कुशीक दवरलीं आनी रुपाचें पत्र हातांत घेतलें.

''तीं हांगाच्यान गेल्ल्याक, राहुला कडल्यान एका उतरान रकाद ना. म्हाका हुस्को जाता ताचो. ताच्या मनांत नासतना ताका आमी बळजबरेन तांच्या वांगडा धाडलें तें आमचें चुकलें अशें दिसता तुका?''

''राहुल? तो आमचेर फुगला. ताचे कडेन तूं लक्ष दिवंनाका. हांव त्या भुरग्याक वळखतां. आमकां बेजार करपाक आवडटा ताका''.

आमच्या पुताक राहुल हें नांव हांवेंच दवरिल्लें तें चिंतून म्हाकाच निर्शेवणी आयली. हांवें ताका नांव दिल्लें त्या बाळकाचें, जाका सोडून वतना ताचो बापूय खंय ताचे भोंवतणी मात्सो घुटमळ्ळो, ताणें ताका मायेस्त नदरेन नियाळ्ळो, आनी बुद्ध जावपा खातीर सासणाचो घर सोडून गेलो. तरिय बरें, हांवें म्हाकाच समजायलें, ताका 'आनंद', हें बुद्धाच्या पट्टशिश्याचें नांव दवरूंक नाशिल्लें. हय, हांवें विचार केल्लो 'आनंद' ह्या नांवाचोय. 'आनंद' हें नांव दवरिल्लें जाल्यार उपरोधीक जावपाचें. कारण आतां मेरेन म्हज्या एक लक्षांत आयिल्लें, आमच्या चल्या कडल्यान आमकां आनंद मेळपाची आस्त कमीच.

तो जल्मलो तेन्ना हांवें निकतेच जल्मल्ल्या त्या भुरग्याचें, थार घेनासतना काळीज चिरपी अंदल्ल्या स्वासाचें रडप आयकलें तेन्नाच्यान म्हजें मन अपशकुनी विचारांनी भरून गेल्लें. ताचेवेलो म्हजो मोग सदांच काकुळटेन भरिल्लो आसतालो, ताका दुखेस्त रंगांची देग आसताली. रतीचो म्हाका चुकून हुस्को जातालो; दिसतालें, दुख्खापसून स्वताची राखण करपाक तें समर्थ आसा. पूण राहुल मात म्हाका असहाय

कसो दिसतालो.

हांव हातपांय धुवन रांदचे कुडींत गेलें. मोहनाक म्हजो हुस्को जाल्लो खरो, पूण म्हजे त्रास वांचोवपा खातीर रातच्या जेवणाची तयारी बी करूंक जाय हाचेर ताणें विचार लेगीत करूंक नाशिल्लो. हांवें कांदे शिनले आनी आदनाक तांदूळ धुले, इतल्यान मोहन भितर आयलो.

''वसंतान पत्र धाडलां''.

''जाणा हांव. वाचलें हांवें तें''.

तेल करपुपाक लागलें. हांवें सांसवां फोडणेक घालीं, मागीर तातूंत कांदे तळशिले आनी उदक घालें. फस्स करीत वाफ तोंडार मारली.

... तो जाणा, हांव म्हज्या वांट्याचें दितलोंच, म्हज्या वांट्या परस चड दितलों, हांवें तशें दर फावटी दिलां आनी तरीय तो अशे तरेन बरयता''

''कितें?''

''वसंत - म्हाका अण्णाच्या वर्सश्राद्धाचें अनुष्ठान करूंक जाय म्हणून याद करून दिता. पयशे धाड खंय, म्हणटकच तो सगळी तयारी करूंक शकतलो. कोदिकां पळय हाचीं. हांव जाणा हांव थंय पावल्या शिवाय कसलीच तयारी जावची ना. फकत लोकांक जेवणाक आपोवपाचें एकच काम तो करतलो. अण्णाच्या तेराव्या श्राद्धाक कितल्या लोकांक आपयल्लें याद जाता?''

मोहना खातीर ताच्या बापायचें मरण दुखखाची आलतड हुपून पतलडीं 'याद जाता तुका'च्या वाठारांत पाविल्लें.

म्हाका दिसता तुका... आमकां... वच्चें पडटलें.

''वच्चें पडटलें? हय तर. वचनासतना रावपाचो प्रस्नच खंय येता? हांवें वचपाकच जाय. हांवेंच सगळें करपाक जाय, सगळ्यांचे पयशे हांवेंच फारीक करपाक जाय. म्हाका ते सगळें करपाक वायटय दिसना, म्हजें कर्तव्य तें आनी हांव तें करतलोंच. म्हाका राग येता तो वसंत म्हाका याद करता म्हणून. जशे कांय नाजाल्यार हांव कांय करचोंच ना. म्हाका स्वताचेय कांय प्रॉब्लेम आसपाक शकतात हें ताका केन्नाच लक्षांत येना. तीं सगळीं म्हाका गृहीत धरतात.''

''पूण तुका प्रॉब्लेम आसात म्हणून वसंताक खबर ना?''.

''ताका खबर आशिल्लें जाल्यार लेगीत तुका दिसता, ताका पर्वा आसपाची? ते सगळे सारकेच. आतां सुधाचेंच पळय, ताच्या घोवाचे बदले खातीर खंय हांवें कोणाक तरी मेळूंक जाय आनी प्रेमालो रमेश, ताका इंजिनियरिंगाक वचपाक जाय, ताका दिसता वशिलो लावन हें काम जातलें... वीट आयलो म्हाका ह्या सगळ्यांचो''.

म्हाका परत्याक परती जाप दिवपाची खुमखुमी आयिल्ली - तुवेंच तर तांकां तुजे कडेन येवपाक उत्तेजन दिल्लें. तेन्ना तांकां मजत करपाक तुका खोस भोगताली, तुजो

अधिकार दाखोवपाक तुका आवडटालें.

पूण मनांतले शब्द ओंठार हाडले नात. हांव जाणा आशिल्लें, ताचो मूड जाग्यार हाडपाक ओगी रावप हेंच वखद. आनी म्हजो अदमास खरो थारलो. जेवणाक बससर ताचो मूड बरोच जाग्यार आयिल्लो.

''वसंताक पयशे धाडटना इल्ले चड धाडपाक म्हाका याद कर हां जया. ह्या म्हयन्यांत रेवतीचो वाडदीस. ताका स्वताक जाय तें घेवंदी त्या पयशांनी.''

अर्थांत! रेवतीच्या विचारांनीच तो मवाळ जाल्लो. म्हज्या मनांत विचार आयलो. पालक आनी भुरगीं - मोहना खातीर हीं बंधनां पवित्र आशिल्लीं. मोहना खातीर कर्तव्य पयलें आसलें तरिकूय ताचे खातीर हो फकत कर्तव्यभावनेचो प्रस्न नाशिल्लो. आमच्या वायटांतल्या वायट दिसांनी, आमकां कितलेय प्रॉब्लेम आसले तरीय, तो आपल्या बापायक म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांत कर्तव्यतत्परतेन पयशे धाडटालो. कर्तव्या परसय आनीक कितें तरी चड आसता, असो मोहनाचो सिद्धांत आशिल्लो. मोहनाच्या मतान - आवयबापूय आपल्या भुरग्यांचेर मोग करतात आनी भुरगीं आपल्या आवयबापायचेर - कारण तीं पालक आनी भुरगीं. जालें, इतलेंच! ताचे खातीर हें गणीत इतलें सोंपें आशिल्लें.

''मरना कित्याक हो?'' ताचो बापाय विशींचो तो तिडकल्लो आक्रोश, ताचें खिणभराचें तें आत्मप्रकटीकरण, ताका वेगळेंच स्वरूप दिवन गेलें. *'ताचे ते भोगणार म्हज्यान पळोवं नजो जाल्ले'*, ताच्या तिडकल्ल्या आक्रोशाचें स्पश्टीकरण दिवपा खातीर मागीर केन्ना तरी ताणें म्हाका सांगिल्लें, मात ताचो संदर्भ दिवन न्हय.

खरें म्हणल्यार बापायचे तशे भोगणार जायनाशिल्ले. देवमनशाचे कशे भाव तोंडार घेवन तो शांत पडिल्लो आसतालो. दुंयेसाचो वा वेदनेचो लवलेश लेगीत नासतना. तो तसोच सासणाचो पडून उरत अशी शक्यताय मनाक भेश्टायताली. तरिकय मोहन म्हणटालो, *'ताचे ते भोगणार म्हज्यान पळोवं नजो जाल्ले.'*

आतां मोहन रेवती विशीं उलयतालो तेन्ना ताच्या तोंडार प्रसन्न भाव फुलिल्ले. राहुला विशीं उलयतना मात ताचे भाव वेगळे आसताले. तरीय तो रेवतीचेर, ताच्या भावाचे धुवेचेर, आपल्या पुता परस चड मोग करता अशें हांवें म्हणिल्लें जाल्यार तो शॉकाद जावपाचो.

''ही तुज्या मदल्या लेखकाची कल्पना तुका असो विचार करूंक लायता,'' तो म्हाका हांसत म्हणपाचो, 'लेखकाची कल्पना' हीं उतरां अवतरण चिन्नांत घालून.

तो राहुला कडेन वैरी कसो वागता म्हणून एकदां हांवें ताका म्हणिल्लें, तेन्ना ताणें रागानच म्हाका सांगिल्लें, ''देवा सायबा, तुजी ती येदीशी गजाल व्हडली करपाची संवय आमच्या जिवितांत हाडूं नाका. ती फकत तुजे कथे खातीरच दवर. हांव म्हज्याच चल्या कडेन दुस्मानकायेन कसो वागूंक शकतां?''

आनी कित्या खातीर तो वागूंक शकना? मोहनाचो बापूय ताचे कडेन वैरभावनेन वागनाशिल्लो? म्हाका दिसता आमच्या भुरग्यां कडले आमचे वैरभाव आमच्या आंगांतच मुरिल्ले आसतात. आनी आत्म-मोगाकडेन झूज खेळत पालकत्वाच्या रुपान ते आपलें प्रदर्शन करतात. खूब वेळा पालकांचे मायेचो हात वयर आसता हो फकत योगायोग.

"म्हज्या चल्या कडेन म्हजो वैरभाव- हाका कितें अर्थ आसा?" मोहनान म्हाका विचारलें.

म्हजे खातीर आसाः पूत जेन्ना प्रौढ जावंक लागता, भायल्या जगांत चड कार्यरत जावंक लागता, तेन्ना तो बापायक जाण्टो आनी कालबाह्य करून उडयता.

"तुजें कितें म्हणणें जया?" मोहन म्हाका पाराथून विचारपाक लागलो, "आमी रेवतीक पयशे धाडया म्हणटकच तें आपणाक जाय तें घेवंक शकतलें, नाजाल्यार घडये ताका कितें आवडटा हाची तुका कल्पना आसतली, तूं ताका खूब वेळा कितें कितें घेता न्हय गो, कानांतलीं बी, हय काय न्हय? म्हणटकच तुका खबर आसतली."

हो इतलो मेंगो कसो हाचें म्हाका अजाप जालें. हाच्या लक्षांत येवंक ना काय, हांवें हालीं रेवतीक भेटवस्ती दिवपाचें बंद केलां म्हणून? सप्तगिरी तांगेर ताणें तो बोवाळ घालतसावन हांवें ताका कितेंच दिवप बंद केल्लें.

तेन्नाच आमचें रातचें जेवण सोंपिल्लें आनी रमा आनी हांव रांदची कूड जाग्यार घालतालीं, उलयनासतना, कारण रमाच्या मोनेपणान म्हाकाय ओगी केल्लें. आनी मागीर आमच्या घोवाच्या दबिल्ल्या आवाजा मुखार रेवतीचो चडिल्लो आवाज आयकूंक आयलो. चडिल्लो न्हय, किळांच कशी. हरशीं सद्दां रेश्पेतान वागपी रेवतीच्या तोंडांतल्यान असलो विचित्र आवाज आयकून आमी सगळीं एकदम भायर धांवलीं. रेवती आपल्या बापायचेर आड्डतालें तें आमकां दिसलें. "नाका अप्पाजी, मोहनकाका कडेन पयशे मागूं नाका. प्लीज मोहनकाका ताका आनीक पयशे दिवंनाका. आवय, प्लीज..." अशें म्हणत मोण्णें मारिल्लेवरी करून तें दुकां गळोवंक लागलें.

रमा पावचे पयलीं, वसंत ताचे म्हऱ्यांत गेलो आनी दुख्खान वळवळत बशिल्ले धुवेक आपले वेंगेंत घेवन ल्हान भुरग्यांक ओगी करतात तसो ताका ओगी करूंक लागलो. रमा आपलें उरिल्लें काम करपाक परत घरांत गेलें, पूण हांव मात थंयच रावलें, आपले धुवेक वेंगेंत घेवन बशिल्ल्या आपल्या भावाकडेन दुस्वासी नदरेन पळोवपी मोहनाक अजापान पळयत. मोहन रेवतीचेर कितलो मोग करता हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें.

रतीकय बापायच्या भावनांचो अदमास आसा. तें केन्नाच रेवती विशीं कुसकेपणान उलोवपाचें सोडिना. पूण आतां म्हाका कळटा, ताच्या रागाचो रोख रेवती परस स्वताच्या बापायचेर चड आसता. "तुका ताची इतली काळजी कित्याक?" ताचें

प्रत्येक कुसकें उतर हेंच विचारता अशें दिसता, ''म्हजी काळजी पयलीं घे, म्हजेर पयलीं मोग कर, हांव तुजें चली''.

मोहनान म्हाका परत विचारलें, ''तुका खबर आसा, रेवतीक कितें आवडटलें तें?''

''ना,'' हांवें म्हणलें, ''ताणें म्हाका कांयच सांगूंक ना. पयशे धाडपाची कल्पनाच चड बरी.''

जेवण जालें आनी फाटल्यान सगळें निवळ करपाचें काम म्हजेर सोडून मोहन न्हिदपाक गेलो. सदू घरगडी म्हणून रावंक येतसावन म्हाका ह्या कामांतले वाजोवणेचो विसर पडिल्लो. मेज पुसतां पुसतां, (कित्याक तरी), जेवण जातकच सगळें जाग्यार घालूंक लागतल्या सप्तगिरी आज्जेच्या घरांतल्या बायलांची याद जाली. ताटां उखलीत जमनी वयलें उश्टें हातान एकठांय करून शेण सारोवपी त्या बायलांचे विचार मनांत आयले. दुसरे वटेन म्हजीं बापोलभांवंडां उदकाचे पेले आनी भोगुणीं - जेवण शिजयिल्ल्या वा उश्टायिल्ल्या आयदनां मदीं निवळ आयदनां मिस्तुराद जावंनये म्हूण उखलतालीं. सगळें कितें आपापल्या जाग्यार. हय, अशेंच आसतालें तें. जागचें जाग्यार आनी दर मनशाचें थारायिल्लें थारावीक काम. रांदपाचें, निवळ करपाचें काम, बायलांचें आसतालें. मागीर खूब वर्सांनी, जेन्ना दोगी चलयोच, म्हज्यो बापोलभयणी वीणा आनी सुजाताच घरा उरलीं, तेन्ना कोणें केन्ना निवळ करपाचें हाचेर झगडीं जावंक लागलीं. म्हाका याद आसा, एक दीस कित्याक तरी हांव आज्जेगेर राविल्लें. ते रातीं सुजाता रागान फणफणलें, ''आयज हें काम जया कित्याक करूंक शकना?''

''तें फकत एके राती खातीर आयलां तेन्ना ताणें काम करचें अशें दिसता तुका?'' काकीन ताका धपकायिल्लें.

''मागीर चले कित्याक करूंक शकनात हें काम? जानू वा श्रीधर? वीणा ना जाल्यार हांवेंच कित्याक करचें हें काम?''

ताच्या ह्या उतरांचेर सगळीं हांशिल्लीं, सुजाता लेगीत. आनी केन्नाच हांसनाशिल्ले आज्जेच्या तोंडार लेगीत मुमुरखो हांसो फांकिल्लो.

हांव हो हांसो विसरलां जावंये, कारण आमी लग्न जाल्लीं तेन्ना एक दीस हांवें मोहनाक म्हणिल्लें, ''आयज जेवण तूं करशी?''

म्हाका तेन्नाच दीस गेल्ले आनी तेल आनी मसाल्याच्या वासान म्हाका ओंकारे येताले.

''म्हाका जेवण कर म्हणटा तूं?'' मोहनान हांसत म्हाका विचारिल्लें. मोहनाचो हो हांसो आनी आज्जेच्या घरच्या बायलां, चलयांचो हांसो हाचो संबंद म्हाका दिसूंक जाय आशिल्लो. तें लक्षांत घेनासतना हांवें मुर्खा भशेन आनीक एक चूक केली.

"म्हाका खात्री आसा, तूं जेवण बरें करता आसतलो. तुजी आई तर बरी रांदपीण आशिल्ली." म्हाका दिसता पयलो मोग, पयलो संबंद, पयलें भुरगें, पयलें झगडें - हीं सगळीं विसरूंक येनात अशीं संकेतथळां, पूण असल्या ह्या पयल्या झगड्यां मदीं, अशीं खूब कमी झगडीं आसतलीं, जीं आमच्या झगड्यां सारकीं, धर्तर हालोवपी आसतलीं. त्या झगड्यां वेळार हांव खूब कितें शिकलें, म्हजें अज्ञान, म्हजी निरागसता गळून पडली.

"म्हजी आई रांदपी? कोणें सांगलें तुका?" खरें म्हणल्यार सगळ्या काकींनी, अर्थांत, लग्न जातकच ही गजाल, सामकी सहजपणान आईक म्हणिल्ली.

पूण मोहनाचें तोंड पळोवन ही गजाल हांवें पोटांतच दवरली. आनी आनीक खंयची अनर्थकारी म्हायती म्हज्या ओंठांतल्यान भायर पडूंक दिली ना, पूण म्हज्या निर्णयाक कळाव जाल्लो. ताचो हो असलो राग म्हाका अनपेक्षीत आशिल्लो. पूण जेन्ना म्हाका ताच्या रागाची कल्पना आयली तेन्ना हांवें मुद्दाम म्हजोय राग अस्त्र कशें वापरून ताच्या रागाक तोंड दिल्लें. चवताळून, बेभान कश्याकशेय हांवें ताचेर आरोपांचे वार केल्ले. जसो जसो म्हजो राग वाडूंक लागलो, तसो तसो ताचो राग देंवंक लागलो हें म्हज्या लक्षांत आयलें. आनी शेवटाक म्हज्या लक्षांत आयलें हांव एक मौन, निर्विकार चेऱ्याच्या मनशा मुखार संतापान खदखदतां. सुरवातीक हांवें ताच्या मौना कडेन दुर्लक्ष केल्लें, पूण जेन्ना तें फकत कांय वरां खातीर न्हय जाल्यार दिसाचे दीस ओडत गेलें तेन्ना हांव भियेलें. मागीर हांवेंच तडजोडी खातीर पयलें पावल उबारलें. आनी तो म्हजे कडेन उलोवंक लागलो तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें म्हज्या रागान ताची कितें अवस्था केल्ली ती. म्हज्या रागान तो उध्वस्त जाल्लो.

ते मेरेन हांवें म्हजो राग केन्नाच गंभीरपणान घेवंक नाशिल्लो. म्हज्या ह्या रागाच्या स्फोटाचो म्हाका व्हडलो वालोर नाशिल्लो. म्हजो राग म्हजी आई सामकी थंडपणान घेताली. रवी म्हजे कडेन पुराय दुर्लक्ष करतालो आनी दादा आनी अप्पा म्हज्या रागा कडेन निखळ मनरिजवण म्हणून पळयताले.

"तुमी ताका उत्तेजन दितात," एक दीस आईन अप्पाचेरच ठपको दवरिल्लो.

"कित्याक दिवचें न्हय उत्तेजन? अशे तरेचो अप्रूप राग - उत्तेजनाक पात्र थारताच."

"म्हाका नाका तूं," हांव ताचेर तिडकीन आड्डलें, "तुमी कोणच आवडनात म्हाका आनी तुमकांय हांव नाका हें जाणा हांव. हांव मेल्यार पुरो म्हणून तुमी मागतात हेंय जाणा हांव."

"कमॉन कमॉन," हांव स्वास घेवंक रावलें जाल्यार अप्पा म्हाका फुलयतालो, "म्हाका खात्री आसा, तूं हाचे परसय बरें तापूंक शकता म्हणून. तुवें इतल्याचेरच रावंक फावना".

अप्पान म्हजे पांय ओडपाक मारिल्ल्या असल्या थोमण्यांनी, म्हाका हांसो थांबोवप

कुस्तार जातालें, हांसो चिड्डून उरना जावन तो तोंडार उदेतालो आनी म्हजो तायट जाल्लो चेरो धील पडटालो.

"आतां सोंपलें रे बाबा, सोंपलें," म्हज्या तोंडार हांसो फुटले बराबर, तकली हालयत दादा आड्डतालो.

असले प्रेक्षक आसतना, अशीं नाटकां करिनासतना रावप कशें शक्य जातलें, पूण मोहना कडेन वेगळेंच घडलें. हांव कितें उलयलें ताचेर तो सामको मातयेभरवण जालो. "तूं अशें कशें उलोवंक शकलें? हांवें सपनांत लेगीत चिंतलें ना म्हजी बायल म्हजे कडेन अशें उलोवंक शकतली म्हणून. तूं म्हजी बायल..." तो परपरत म्हणत रावलो.

हें जालें तेन्ना ताचेर आशिल्ले म्हजे सत्तेचो दिश्टावो म्हाका जालो. आतां म्हजें म्हाकाच अजाप दिसता. असलीं कसलीं हीं मुर्खपणां म्हजीं? बायलांची असली अद्भूत सत्ता-शक्त पळोवंक नाशिल्ली हांवें म्हज्या कुळारा? म्हज्यो दोनूय आज्ज्यो, दोन भिन्न सभावाच्यो अस्तुऱ्यो, पूण आपापल्या घरांत सत्ता गाजोवपाचे बाबतींत तांचे सभाव सारकेच. फाटीं वळून पळयल्यार तांचीं भुरगीं आपलें जिवीत हांच्या सभावाची प्रतिक्रिया म्हणून जगलीं अशें दिसता. असलें जिवीत निमणें, मेल्ल्यो आशा आनी म्हत्वाकांक्षेची युद्धभुमी थारलें. अप्पाक गांधीजीच्या आश्रमांत रावंक जाय आशिल्लें, पूण आज्जेन तांचेर न्हयकाराचें चेपण घाल्ल्यान ताणें तो नाद सोडलो, पूण ताचे उपरांत ताणें परत शिकपाक वा नोकरी करपाक न्हयकार दिलो. ताचे बदला ताणें भागिदारीन एक प्रिंटिंग प्रॅस काडलो, पूण दुर्देवान तातूंत ताका येस मेळ्ळें ना. मागीर ताचें आई कडेन लग्न जालें आनी ताणें घर सोडलें. अशें आसूनय जितो आसमेरेन, दर दिसा तो आज्जेक मेळपाक वतालो आनी निमणें, तिचे म्हऱ्यांतच ताणें प्राण सोडिल्लो.

आनी दुसरे वटेन चंदूमामा, म्हजे आईचो भाव, ताका ताचे आवयन म्हणल्यार म्हजे दुसरे आज्जेन एक म्हत्वाकांक्षी, एफआरसीएस जावपाची इत्सा आशिल्ल्ल्या उमेदी तरणाट्याक, ल्हान शारांतलो एक सादो दोतोर केल्लो.

ताचें लग्न करून दिल्ले बायलेचो ताका निखालस मोग नाशिल्लो. मागीर तो खंयच्याय बायलांकडेन लिपचोरयां लफडीं करून आपल्या जिवितांत रगं भरतालो. एक फावट तर दुसरे आज्जेचे वावराडेक, काशिबाईक लेगीत ताणें गुठलायिल्लो.

पूण हांव खरें हाल्लें तें हांव तिडकतीकर किळस आयिल्लें मोहनाचें तोंड पळोवन. जशें काय म्हज्या भावनांनी म्हाका कुरूप केलां आनी हांव त्या भावनांनी फुगलां. मागीर, हांव ताका सारकें वळखूंक लागलें तेन्ना म्हाका कळ्ळें, ताच्या कोंतान बायलेक राग आयल्यार, तिचें बायलपण वता.

"म्हजो बापूय म्हजे आवय कडेन कितलोय वायट वागलो तरीय तिणें केन्नाच

आवाज चडयलो ना,'' ताणें म्हाका एकदां सांगिल्लें.

हाचे उपरांत हांव म्हज्या रागाचेर नियंत्रण दवरूंक शिकलें, ताका लगाम घालपाक शिकलें. जरीय सवकासायेन, कमी तकालस घेवन आसलें तरीय ताचे नापसंतीक भियेवन हांवें खूब कितें शिकून घेतलें. हांव कितें करूंक शकतां आनी कितें ना हें हांव जाणा जाल्लें. खंयच्यो गजाली बायलेन करच्यो आनी खंयच्यो न्ही हेंय समजून घेतिल्लें. जेन्ना पयलेच खेप हांव तांगेर गेल्लें तेन्ना बायल मनशेची व्याख्या म्हाका स्पश्ट समजल्ली. ताच्या घरांतल्या बायलांक पळोवनच ती होलमल्ली. तांचीं कामां तीं वेवस्थीत जाणा आशिल्लीं, कर्तव्यपुर्तींत प्रशिक्षीत आशिल्लीं, आपापल्या कामांत कुशळ आशिल्लीं आनी हेर गजालींविशीं पुराय विरक्त. इतलो सुस्पश्ट आनी अचूक नमुनो हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो, भुल्लुसून गेल्लें हांव.

ह्या बायलांकडेन पळयतकीर, तिच्या अस्ताव्यस्त तरां खातीर म्हाका आईच दोशी दिसपाक लागली, तिका सादें वेवस्थीक मेटपाक लेगीत येनाशिल्लें. म्हाका दिशिल्लें; ही सगळी तिचीच चूक, बायलमनशेचो धर्म तिणें म्हाका शिकोवंकच नाशिल्लो. देखून जेन्ना प्रेमान म्हणलें, ''मोहन, तुजो एक बटन तुटला मरे,'' म्हाका ताची लज दिसूंक जाय आशिल्ली हें म्हज्या लक्षांतच येवंक ना. बेगिबेगीन हांवें ताचो तो शर्ट घेवन बटन लावंक जाय आशिल्लो हेंय समजलें ना. म्हाका दिसलें हें त्या दोगांय मदलें, प्रेमा आनी मोहना मदलें संभाशण आनी ताचे कडेन म्हजो कांय संबंद ना. म्हणून जेन्ना सुधान, त्या तवनास, हुतहुत्या भुरग्यान म्हणलें, ''बाबडो मोनाअण्णा, ताचे बटन ताकाच लावचे पडटलेशे दिसता,'' तेन्ना हांव ओगीच रावलें.

''अजिबात ना,'' प्रेमा उसळ्ळें, ''हांगां हाड रे मोहन, म्हजे कडेन दी तो शर्ट.''

हो थोमणो म्हजे खातीर आशिल्लो हेंय म्हाका कळ्ळेंना. जरीय प्रेमान म्हाका वयल्यान सकयल 'हांव तुज्या घोवाची व्हडली भयण' अशें पळयलें तरीय म्हाका कांय कळ्ळें ना. पूण रोखडेंच जेन्ना हांवें प्रेमा, विमला, सुधा आनी तांची विधवा आते, सगळीं वांगडा मेळून सहजपणान जेवण करतना पळयलें तेन्ना रांदचे कुडींत व्हडा कश्टान आनी चडफडत, धडपडत आयदनां आपटीत जेवण करपी वनितामामीची म्हाका तिडक मारिल्ली. कारण इतलेंय करून रुचीक जेवण करप तिका केन्ना जमलेंच ना.

आतां म्हजी खात्री जाल्ली, मोहनाच्या घरांतल्यो बायलोच बरोबर. हांवेंय थारायलें, तांच्या आयटांत बसपाचें. तशें करतकच - आसूं, खोशी मेळचीना, पूण हांव कितें तरी सारकें करतां अशें दिसपाचें आनी अपराधी भावनेंतल्यान तरी सुटपाचें.

आनी देखून, कितेंय सारकें जमलें ना वा वेळार घडलें ना वा शर्टाचो बटन तुटलो, जेवण वायट जालें वा चड वेळ जालो जाल्यार अपराधी भावनेन हांव

बागवतालें. आनी कसलेय गजालीक लागून म्हजी तोखणाय जाताली तेन्ना हांव पिशां भशेन फुलतालें. हांवें एकदां कामतीक म्हणिल्लें, ''मालकान फाटीर थापटीतकच सुणो शेंपडी हालयता तशी हांव शेंपडी हालयतां.''

''तूं आतां व्हडलें हुतात्मो जावंनाका. ही सगळी तुजी चूक. तुका हें सगळें आवडटा. हय काय ना?''

''कितें?''

''दुसऱ्यांक तुजेर अवलंबून दवरपाचें. तशें करतकीच तुका सत्तेची मस्ती चडटा. आनी तुका तेंच जाय, तुमी सगळीं पाडा पडिल्लीं दुसऱ्यांक-पळोवपी-दुसऱ्यांची-काळजी-घेवपी बायलां. ''

मेज पुसपाचो आंगसो जाग्यार दवरतना मनांत विचार आयलो - हांवें उषाक सांगूंक जाय. ताणें भियेवपाची गरज ना. कामतीचें भूत तो मेल्लो त्या घरांत ना. तें हांगां आसा, म्हज्यांत.

''जया.''

मोहनाच्या आवाजान तें भूत थंयच्यान हांसत पळ्ळें.

''येतां, मात्शें धंय लायतां.''

सगळें काम सोंपलें एकदांचें. हांवें लायट बंद केली आनी रांदचीकूड जल्ल्यांचे सुवादीन केली.

''जया, आमच्या फोनाक कितें प्रॉब्लेम आसा? हांव तुका फोन करपाचो यत्न करतालों. म्हाका फोन बिझी मेळटालो. तूं कोणा कडेन उलयतालें बी?''

''ना... आं हय, कशें विसरलें हांव? रवी तो. ताणें फोन केल्लो. तो आख्खो दीस फोन लावपाचो यत्न करतालो खंय.''

''आवय, आनी तुवें कितें.. कितें सांगलें तुवें ताका?''

''कांय ना. भुरगीं, रुपा आनी अशोका वांगडा ट्रिपीक गेल्यांत आनी हांव सकाळीं भायर गेल्लें म्हणून.''

''आनी रवीक कितें जाय आतां?''

बाबडो रवी! पूण ताका फावो. म्हज्या धाकल्या भावा विशीं म्हाका कसलोच भ्रम नाशिल्लो.

''देवाक खबर. तो म्हणटा म्हाका मेळपाक जाय म्हणून. कित्या खातीर तें म्हाका ताणें सांगूंक ना, पूण सामको आग्रो करतालो. हांवें ताका दादर टीटी कडेन मेळटा म्हणून सांगलां. हांव थंय बाजार करूंक येवपाचें आसां म्हणून सांगलां ताका हांवें.''

''तुवें ताका नाका... सोड, आसूं. ताका नाका म्हणप जमलें ना दिसता तुका, पूण तुवें हांगाच्यान वचप म्हाका आवडना. तूं नासतना, हांगां एकटो रावपाक आवडना

म्हाका. म्हाका शेणिल्ले वरी जाता.''

हांव कपडे बदलतना ताणें म्हणलें, ''बरें जालें जया, तुजें वजन वाडूंक ना तें. तुजे पिरायेच्यो चडश्यो बायलो कशाकश्योय दिसतात. तूं मात लग्न जाल्लें तेन्ना आशिल्लें तशेंच आसा.''

म्हणटकच म्हाका एक कळ्ळें - ही रात वैरभावनेन सोंपची ना. म्हजे विशींची ताची भावना म्हाका पोशेवन गेली. मागीर, जेन्ना आमी बॅडार आसतलीं आनी लायटी बंद जातल्यो, तेन्ना तो म्हाका वेंगेंत घेतलो. म्हजो उमो घेतलो आनी मागीर प्रेमविहार, शांत, शब्द विरयत प्रेमविहार.

देवा म्हज्या, खंयच्याय मनशाक सारको वळखप कितलो भयानक प्रकार. आमच्या प्रेमविहाराची सगळी प्रक्रिया सामकी टायम टू टायम, सामकी सेकंदा मेरेन सांगूंक शकतां हांव. पयलीं ताचे ते सुरवातीचे प्रणयक्रिडे पसून तो म्हजे कडल्यान पयस जावन म्हाका फाट करून न्हिदता ते मेरेन.

*सुरवेक आमी वांगडा चलतात. मागीर तो म्हजे फुडें वता आनी हांव फाटल्यान उरतां, पूण म्हाका ताची व्हडली चिंता ना. आनी हांव म्हजे गतीनच चलतां, रांकेन उबीं आशिल्ल्या घरां मदल्यान, हीं घरां एकामेकांक लागीं आशिल्ल्यान म्हाका फुगासांव जाता. कसल्या तरी कारणाक लागून, म्हाका एका घरांतल्यान वचपाचें आसता, पूण त्या घराचीं उंच उंच सोंपणां चडून वचप म्हाका कुस्तार जाता. हांव भितर वचपाच्या प्रयत्नांत आसतना, एक चली म्हजे म्हऱ्यांत येता. हांव थंय आसा म्हणून ताका अजाप दिसना. उरफाटें हांव येतलें अशें धरून तें म्हजी वाटच पळयत आसता. तें म्हाका वयर चडपाक मजत करता, पूण अचकीत जेन्ना हांव घरांत पावतां तेन्ना शॉक लागिल्ले वरी म्हज्या लक्षांत येता, हांव एकटें आसां, हांव सामकें फाटल्यान पडलां आनी आतां हांव ताका केन्नाच सोदूंक शकचें ना. हांव शेणलां हे जाणिवेन हांव निन्नळटां. सगळ्यांत वायट गजाल म्हणल्यार - हांव खंय पावलां हेंच म्हाका खबर ना, म्हाका खंय वचपाचें आसा आनी हांवें ताका कशें सोदून काडपाचें हेंवय खबर ना. हांव पुराय सैरभैर.*

*तें चली म्हाका एके कुडींत व्हरता आनी म्हजे भोंवतणीं खुबश्यो ल्हान चलयोच आसात हें म्हज्या लक्षांत येता. तीं सगळीं म्हाका पळोवन हांसतात आनी म्हज्या मनांत एक विचार येता... हीं सगळीं म्हज्या फावराद आसात, पूण तातूंतलीं कोणच म्हाका मजत करूंक शकनात. हांव सामकें असहाय्य जालां आनी आतां म्हज्या*

*जिवाक बरें दिसना. हांव आड पडटां. मड्या भशेन ताठर, म्हजे भोंवतणच्या चेऱ्यां वयले भाव उत्सुकतायेंतल्यान दयेंत बदलतात. म्हजेर आयिल्ल्या प्रसंगा विशीं त्यो चलयो आपले मदीं ल्हवू आवाजांत उलयतात. आनी हांव थंयच आडवें पडिल्लें आसा, धरून पडिल्ले भशेन. अचकीत तो थंय आसा त्या रुमांत. चलयां मदल्यान चलत तो सरळ म्हजे सरी येता. हांव एका खिणांत उबें जाता, म्हजें दुयेंस, म्हजी असहायता एकदम गायब. हांव ताचे कडेन धांवत वतां.*

*"यो बेगीन," तो म्हणटा, "आमी घाई करूंक जाय. टॅक्सी रावल्या. घाई केली ना जाल्यार ती वतली."*

*"खंय आसा ती?"*

*"ती पुर्तुगेज चर्चीं लागीं उबी आसा. बेगीन कर." पूण ताचे फाटल्यान धांवतना, म्हज्या लक्षांत येता हरशींय आमकां खूब कळाव जाला. आमी थंय वेळार केन्नाच पावंक शकचीं नात, आमी केन्ना हांगाच्यान सुटचींच नात. आनी ही सगळी म्हजी चूक, सगळी म्हजी चूक.*

ह्या भिरांकूळ विचारांनीच म्हाका जाग येता.

"आंवय... सपनां गो, कोणाक पडलां तांचें!" जेन्ना हांव म्हजीं सपनां दादाक सांगतालें तेन्ना तो म्हाका म्हणटालो.

"म्हाका पडला तांचें," हांव ताका परती जाप दितालें.

आनी अप्पा, म्हजे सारकीच ताकाय सपनांची पर्वा आसताली. आमी एकामेकांक आपल्या सपनां विशीं सांगतालीं, आमचीं सपनां आमी गंभीरतायेन घेतालीं - आमचीं स्वताचीं सपनां हां, बाकीच्यांचीं न्हय. आमचे मदीं अलिखीत करारच कसो आशिल्लो तो, ताणें म्हजीं सपनां आयकुपाचीं आनी मागीर हांवें ताचीं. अप्पाचीं सपनां सदांच अद्भूत आसतालीं. म्हाका सामकें दिसता, तो तीं स्वताच घडयतालो जावंये, ना जाल्यार खऱ्यांनीच कोणाक हिटलर आनी चर्चिलाचीं सपनां पडटात? आनी म्हजीं सपनां आसतालीं, आसतातयबी, सुखदिणीं, संवकळीच्या जाग्यांची आनी वळखीच्या तोंडांचीं. चुकून केन्नाय म्हाका सपनां पडटालीं, म्हाका ट्रेन सोडून वता म्हणून वा म्हाका रावंक जाय आशिल्ल्या मनशांक थंयच दवरून म्हाकाच घेवन वता म्हणून. केन्ना केन्ना हांव अडकतालें भुतां आशिल्ल्या वाठारांनी. थंय काशांवांतल्यान भिरांकूळ आवाज येताले आनी म्हाका धडधडटालें. पूण चडशे फावट हीं वायट सपनां अशींच निसरून वतालीं. फाटल्यान व्हडलें कितें ठोस दवरिनासतना, मात्शीशी चिकचिकीत भिरांत आनी थरथर सोडून कांयच उरनाशिल्लें.

*आंवय... सपनां, कोणाक पडलां!*

हांव मोट्यान उलयलें हें म्हज्या लक्षांत आयलें आनी हांव बेगिबेगीन अपराधी भावनेन मोहना कडेन पळयलें. ताचो समगतीन चलपी स्वासोस्वास आयकून म्हाका

धीर आयलो, पूण अचकीत ताचेर नदर पडली आनी ते यादीन हांव कांचवेलें. म्हाका सपनांत दिशिल्लें तें घर - हांव वळखतालें त्या घराक. मोहनान म्हाका तें सप्तगिरींत दाखयिल्लें आनी सांगिल्लें, ''हांगांच त्या सगळ्यांची सुरवात जाल्ली.''

मोहन आनी हांव, दोगांय ल्हानाचीं व्हड सप्तगिरींतच जाल्यांत, पूण आमच्यो थंयच्यो यादी आमचे खातीर दोन वेगवेगळीं जगां निर्माण करतात. तें घर ह्या दोन जगां मदलो दुवो. तें घर अप्पाचे धाकटे भयणीच्या सावित्री आत्येच्या शेजरा आशिल्लें. आमी दोगांय, मोहन आनी हांव - सप्तगिरी गेल्लीं तेन्ना एक दीस तांगेर जेवंक गेल्लीं. त्या वेळार मदींच मोहन सावित्री आत्येचे गेटी मुखार उबो रावलो आनी मंद हांसत ताणें म्हणलें, ''हें हांगांच...'' शेजराच्या त्या घरा कडेन बोट दाखयत ताणें फुडें सांगलें, ''म्हजे खातीर तें सगळें हांगांच सुरू जाल्लें.''

मागीर रातचें बॅंडार आड पडिल्ले कडेन ताणें म्हाका 'तें सगळें, ताचे खातीर कशें सुरू जाल्लें तें' ताची काणी सांगली - आनी हय, अचकीत म्हाका त्या घराच्या नांवाची याद जाली - विचित्र अशें नांव, विसरूंक जावचें ना - क्रॉसवर्ड हावज. आनी ताची सगळी काणी आयकतकच म्हज्या लक्षांत आयलें, घरा कडेन बोट दाखयतना तो मंद कित्या खातीर हांशिल्लो तो. ताचो तो हांसो धर्मादाय कारणाक लागून जेवणाचें आमंत्रण मेळिल्ल्या त्या भुरग्या खातीर आशिल्लो.

''म्हजी आई रांदपीण नाशिल्ली'', मोहनान म्हाका रागान सांगिल्लें, पूण वसंत स्वताकडल्यान लेगीत कांयच लिपोवंक शकनाशिल्लो. ताणेंच म्हाका एकदां सांगिल्लें, ''आईक केन्नाय खंयूय रांदपाकडेन मजत करपाक आपयताले, तो दीस आमचे खातीर बरो वतालो. आमकां त्या दिसा तरी बरें जेवंक मेळटलें हाची खात्री आसताली. निमंत्रण आसूं वा नासूं, आमी सगळीं थंय आसतालीं. अचूक त्याच वेळार. फकत मोनाण्णा केन्नाच वचनाशिल्लो. म्हाका याद आसा, अण्णा एक दीस अव्वाचेर तापिल्लो, कारण तिणें मोहना खातीर जेवण हाडिल्लें. ''भुरग्यांक भिकारी करूं नाका,'' ताणें सांगिल्लें. पूण ती ताचे खातीर कसलो ना कसलो पदार्थ घरा हाडटालीच. आनी मोनाण्णा ताका केन्नाच हात लायनाशिल्लो. ''म्हजे असले कसलेच नखरे नाशिल्ले,'' ताणें म्हाका मिश्कील हांसत सांगलें.

''म्हाका त्या गृहप्रवेशाक वचपाचें नाशिल्लें,'' मोहनान ते रातीचो क्रॉसवर्ड हावजाचो अणभव सांगतना म्हाका म्हणलें, ''पूण म्हाका वच्चेंच पडलें. त्या जाणट्याक बेजार करपाची कापस्ताद म्हाका नाशिल्ली.''

पयलेच खेप हांवें त्या जाणट्या विशीं, मोहनाच्या आश्रयदात्या विशीं, आयकल्लें, ताणें ताची शाळेची दोन वर्सांची फी फारीक केल्ली. शिक्षण पुराय करपा खातीर दान घेवपी त्या भुरग्या कडेन कितलें पयसुल्लें अंतर अणभवलां आसतलें मोहनान आतां. ताचे फियेचे स रुपया मेळचे पयलीं ताका त्या जाणट्याचे कडक परिक्षेक आनी

लांबलचक उपदेशाक तोंड दिवचें पडटालें, ती याद जावन तो मनांतल्यान हांसलो. "हांव वेळार फी फरीक करूंक शकतलों आनी सद्दां सकाळीं अण्णा मुखार उबो रावन ताचे कडेन पयशे मागचे पडचे नात ह्या गजालीं मुखार हांव फारीक करतालों ती किंमत कांयच नाशिल्ली. आनी खऱ्यांनीच म्हाका ताच्या बडायांचें वायट दिसनाशिल्लें. तो बाबडो एकटोच पडिल्लो. ताची बायल मेल्ली आनी भुरगीं व्हड जावन लग्न जाल्लीं. पयलीं तीं सगळीं वांगडा रावतालीं. ताचो दुसरो चलो शब्दकुवाड्याची सर्त जिखिल्लो. स्वताचें घर बांदपाचें आनी रासवळ कुटुंबांतल्यान पयस रावपाचें अशें ताणें थारायिल्लें. म्हाका दिसना ते मेरेन तो म्हजे कडेन केन्नाय उलयलासो. तो म्हणल्यार ताचो दुसरो चलो. तोच कित्याक, घरांतलो कोणच म्हजे कडेन उलोवंक नाशिल्लो. पूण ज़ेन्ना हांव त्या जाणटेल्या वांगडा आशिल्लों तेन्ना तो ते कुडींत आयलो आनी जाणटेल्यान ताका विचारलें, "तुवें ह्या भुरग्याक तुज्या गृहप्रवेशाक आपयला?" आनी चल्याक आपोवचेंच पडलें. "तूं म्हजे वांगडा यो," जाणटेल्यान म्हाका म्हणलें, "आमी थंय वांगडाच या".

म्हणटकच मोहनाक थंय वचनासतना रावप अशक्य जालें. घडये, जाणटेल्याचो तोच हेतू आशिल्लो वा घडये परोपकारी भावनेन ताणें आपयिल्लें नासतय. कारण मोहनाक त्या जाणट्या खातीर टांगो हाडचो पडलो, ताका टांग्यांत बसोवचो पडलो, सकयल देंवपाक मजत करची पडली.

आनी मागीर ताणें म्हाका सांगलें, "भितर चल आनी जेव, तुजे खातीर जागो सोदून बस." म्हाका खबर आशिल्लें म्हजो जागो खंय आसपाचो तो. पयलेच खेप मोहनाच्या आवाजांत म्हाका चिमूटभर कोडसाण दिसली.

हय, म्हाकाय खबर आशिल्लें तें, आजयेच्या घरांत सप्तगिरी पळयिल्लें हांवें सगळें, वसंतानय सांगिल्ल्यो आपल्या भुरगेपणांतल्यो गजाली - ताचे वयल्यान अदमास आयिल्लो. मोहनाक खंयचे तरी कोनशाक मारला आसतलो वा पडवेर बसयला आसतलो, थंय वाडटां वाडटां वाडपी जेवपाक बशिल्ल्यांच्यो पत्रावळी, आपल्या बुरशा, उक्त्या पांयांनी माडयत गेल्या आसतले. मोहन आनी मोहना सारक्या ब्राह्मणाच्या चल्यांक अशेंच निश्काळजीपणान, किंकोंत करून वाडप जातालें, मीठ आनी चटणी अर्दी पानार आनी अर्दी जमनीर, वयल्यान दाळीचो रोस दोण्यांत अशे तरेन उडयताले कीं तो दोणो परतो पडून रोस पत्रावळींतल्यान भायर व्हांवतालो.

आनी इतल्यांत तीं आयलीं, तीन बायलां. "पूण ना," मोहनान आपली चूक सुदारत म्हणलें, "त्या तिगां मदले एकटें ल्हान आशिल्लें, सोळा वा सतरा वर्सांचें घडये."

मोहन तांचे विशीं उलयतालो ताचे वयल्यान एक गजाल स्पश्ट जाताली, हाच्या मनांत इतलीं वर्सां त्या बायलांच्यो प्रतिमा, तांचे सोबीतकायेक लागून बंदिस्त उरल्यात.

ताणें तांचें वर्णन केल्लें ताचे वयल्यान म्हाका त्यो बायलो अती वास्तववादी चित्रांतल्यो प्रतिमा कश्यो दिसल्यो. आर्कावरी वयर उबारिल्ल्यो तांच्यो गर्विश्ठ भुंवयो, माने वयल्यान वयर घेवन बांदिल्ले केंस, ह्यो बायलो चलनात तर तरंगतात असो आभास निर्माण करपी, चारय वटांनी वाऱ्यार हुबपी तांच्यो पारदर्शक साडयो.

''हांवें असल्यो बायलो म्हज्या आयुश्यांत पयलेच फावट पळयिल्ल्यो, आतां मेरेन मेळिल्ल्या बायलां परस त्यो वेगळ्यो आशिल्ल्यो. आनी तांणी लायिल्लें तें अत्तर- खरें म्हणल्यार तीं पावचे पयलींच ताचो परमळ भितर पाविल्लो आनी कितलोसोच वेळ त्या घाण वारांदांत घुंवत उरिल्लो, तीं थंयच्यान गेले उपरांत लेगीत - त्या सुवासाक अत्तर म्हणटात हें लेगीत म्हाका खबर नाशिल्लें. म्हाका दिसलें, तांच्या सारक्या बायलांचो हो निसर्गीक गंध, हो सुवास तांच्या शरिराचो अंश.

मोहनान म्हाका सांगलें त्यो बायलो इंग्लिश उलयताल्यो. ही गजाल मात्शी अप्रूप कशी अशें म्हणल्यार आतांच्या काळार हास्यास्पद दिसतलें. कारण आतां जीजा आनी तारा लेगीत, ताराच्या दोनय चल्यांक इंग्लिश माध्यमांतले शाळेंत घालपाचें चिंततात. पूण मोहनाक तांचे भोंवतणीं जें विलक्षण वलय दिसतालें तें त्या बायलांक इंग्लिश उलोवंक येता म्हणून.

''तांची स्वताची मायभासच जाल्ले भशेन तीं इंग्लिश अस्खलीत आनी सहज कशीं उलयतालीं. तूं जाणा, आतां मेरेन हांवें आयकल्ले इंग्लिशी परस कितलीशीच वेगळी. तीं दारांत उबीं रावलीं - तेन्ना आमचो येजमान जे तरेन तांची खुशामत करतालो तें पळयल्यार तीं ताचीं कोण तरी गिरेस्त सोयरीं आसतलीं. तीं भायर सरतना ते चलयेन कितें तरी म्हणलें, कितें तें आतां याद जायना, पूण एक याद जाता, तशें उलोवप म्हाका कितलें सुंदर दिशिल्लें, ते भशेन... सोंपे भशेन... आत्मविस्वाशी. आनी कितलें भयानक आसता कुशीक पडप... वेगळें उरप...''

मोहन म्हजे कडेन उलयतना एक गजाल म्हज्या लक्षांत आयली, त्यो बायलो मेळटकच ताका साक्षात्कार कसो जाल्लो जावंये. ताका ताच्यो भावना सारक्यो उक्तावप जमलें ना, तरीय ताणें आडखळत आडखळत सांगलें ताचे वयल्यान ताका कितें सांगपाक जाय आशिल्लें तें म्हाका कळ्ळें. त्या बायलांनी ताका एके वेगळे तरेच्या जिविताचो पयलो दिश्टावो दिल्लो. गरिबी नाशिल्लें, बुरशेपणां नाशिल्लें, विद्रूप नाशिल्लें, आतां मेरेन जाणा आशिल्ले नेम वा विधीय नाशिल्लें; जिवीत. तांणी ताका एका वेगळ्याच जगाची झलक दिल्ली. त्या जगाची ताका आतां वळख जाल्ली. उमळशीक आशिल्ली ताका त्या जगांत रावपाची, ताचो भोग घेवपाची.

आतां मेरेन मोहन सांगतालो तें हांव मन लावन आयकतालें, ताचे काणयेन सामकें भुल्लुसून वचून पयलेच खेप वेगळोच मोहन हांव पळयतालें. मात मागीर ताणें म्हणलें तें आयकून हांव झटको लागिल्ले सारकें, तटस्थ आयकुप्याचे भुमिकेंतल्यान

भायर आयलें. ''जाणा तूं जया, आमी पयलींच तुमच्या रामूकाकाच्या घरा मेळिल्लीं तेन्ना तूं तुज्या भावा कडेन - दिनकरा कडेन उलयतालें आनी तूं सारकें ते चलये भशेन उलयता अशें म्हाका दिसलें. हांवें तेन्नाच निर्णय घेतलो, हांव तुजेच कडेन लग्न जातलों.''

तशें जाल्यार म्हाका मोहन मेळ्ळो म्हणून हांवें अप्पाचे उपकार मानूंक जाय तर. अप्पानच आमकां तिगांय भुरग्यांक, इंग्लिश माध्यमाचे शाळेंत, कॉन्वेण्ट स्कुलांत धाडिल्लीं जाल्यार म्हज्या काकाचीं सगळीं भुरगीं कन्नड शाळेंत गेल्लीं. आमच्या अप्पान एके 'बरेशे कन्नड चलयेकडेन' लग्न जावपाचें सोडून मराठी चलयेकडेन लग्न केल्लें हें आमचे आजयेन निमणे मान्य केल्लें. पूण आमकां इंग्लीश शाळेंत धाडप मात तिका निखालस मान्य नाशिल्लें.

''तांकां पाद्रींचे शाळेंत घालून कांयच बरें जावचें ना, तीं आमचे रिती-रिवाज विसरतलीं, तीं किरिस्तांव लेगीत जायत, ते पाद्री कशे ते तूं जाणाच'' तिणें रागाभरशीं आमचें भविश्य सांगिल्लें.

''तांकां बरी इंग्लिश शिकूं दी,'' अप्पान तिका जाप दिल्ली, ''बरीं बामण जावचे परस, तांकां ती भासच चड उपकारा पडटली.''

आनी अशे तरेन म्हाका मोहना खातीर तयार केल्लें. ताका - बरी 'इंग्लिश उलोवपी' चलये कडेनच लग्न जावपाचें आशिल्लें. हें ताणें म्हाका आमचें लग्न जातकच रोखडेंच सांगिल्लें. ताच्या ह्या सांगण्याचेर हांव तितलेंच अजाप जाल्लें, जितलें दादान सांगिल्ले गजालीचेर. ताणें म्हाका पयलेच खेप मोहना विशीं सांगतना म्हणिल्लें, ''हांवें अशें आयकलां,'' दादान सांगलें, ''ताका खंय सुशिक्षीत, सुसंस्कारीत बायल जाय. तो म्हणटा जोत, पयशे ह्या सगळ्या गजालींचें ताका पडूनच वचूंक ना.''

''एक सुशिक्षीत, सुसंस्कारीत बायल...'' सगळ्याच दादल्यांक आपणाक नेमकें कितें जाय हें खबर आसता काय? म्हाका प्रस्न पडिल्लो. चलयां खातीर, म्हजे खातीर जालेंच, पूण हांव वळखतल्या सगळ्याच चलयां खातीर, हो सोद अस्पश्ट आनी धुंवरेल्लो कसो आशिल्लो. आमी कितें तरी सोदतालीं, पूण कितें सोदतालीं तें नकळो आशिल्लीं; वा, जर सोदतालीं, ताका अमकेंच नांव दिवपाची आमची तयारी नाशिल्ली. कोणेय तुमी कितें सोदतात तें सांगात म्हणून फोर्सार केलेंच जाल्यार म्हाका दिसता आमी ताका नांव दिवपाचीं - मोग. सिनेमांनी पळयतात तो राज कपूर आनी नर्गिसाचो वा कॅरी ग्राण्ट आनी देबोरो कॅराचो मोग. म्हणल्यार एका तरण्याबांड मनशान 'आय लव्ह यू' म्हणपाचें, दोळ्यांमुखावेल्या खऱ्याखुऱ्या तरणाट्यांपरस वेगळ्या अश्या तरण्याबांड मनशान. आमकां आपटल्ल्या सगळ्या तरणाट्यांचेर मोगाचो हो भेस घालून आमी पळयलें, दर खेपे चिंतलें - हो सोबत काय?

आनी मागीर आमी युवती जातकच आमकां कळ्ळें, मोग न्हय जाल्यार आमच्या नशिबांत लग्न आमची वाट पळयतालें. म्हणटकच दरेक तरणाटो मेळ्ळो काय एक उमेद जाताली, "हो म्हजो घोव जातलो काय?" आमचे मुखार फुडार पातळिल्लो, शक्यतायेन भरिल्लो न्हय, पूण सुखद, आरामशीर, खात्रेचो. आमच्यो ह्यो हय-न्हयश्यो इत्सा आवय-बापायन आपल्या हातांत घेतिल्ल्यो आनी त्यो सत्य स्थितींत हाडिल्ल्यो. ल्हान आसतना आमी बटनांचेर बोट दवरून खेळटालीं - तामणकार, दर्जी, शिपाय, तारवटी. फकत आतांचो बदल तो इतलोच - दोतोर, इंजिनियर, सरकारी ऑफिसर, कॉलेजीचो प्रॉफेसर, म्हणजे तो तरणाटो लायक आसलो जाल्यारच.

म्हजें ध्रुपद इंजिनियराचेर थांबिल्लें.

"इंजिनियर तो," इतलेंच म्हणून दादा ओगी राविल्लो, म्हजी प्रतिक्रिया पळोवंक.

"आं... हय... ताचें कितें?"

"पिश्या, हीच सगळ्यांत गरजेची गजाल. तुका आनीक कितेंय जाणा जावंक जाय जाल्यार...?"

"हय, जाय तर."

"बरें तर. तुका हांव सगळें सांगतां," ताणें ताळो खांकरलो.

"तो दिसपाक सुंदर आसा, तिरसो ना, चश्मो ना, दांतय वांकडे नात" - ही जाली कमलाकाकीची पद्दत. आतां रामूकाकाची तरा "ताची करियर बरी आसा, कश्टाळू आसा, म्हत्वाकांक्षी आसा, जिवितांत फुडें पावतलो." "कसलेंच व्यसन ना, सिगार ओडिना, हॉटेलांनी खायना, एका बऱ्या ब्राह्मण घराण्यांतलो भुरगो," ही जाली शांताकाकी."

"आनी म्हजो मोगाचो भाव कितें म्हणटा?"

"हांव?" दादा मात्सो फाटींफुडें जालो. ताचो हांसो मात्सो हाल्लो, पूण परत आसा तसो जालो. "तो तुका बरो करतलो, वेवस्थीत दवरतलो, केन्ना केन्ना मारय घालतलो... बरें, बरें, आतां सिरियसली सांगतां. म्हाका कितें दिसता तें तुका जाणा जावंक जाय? म्हाका दिसता हें थळ पक्कें जावचें. तो भुरगो म्हाका बरो देसेंत दिसलो. मितभाशी आनी घडये मात्सो ओगी, दृढनिश्चयी. तो आपलें भविश्य घडयतलो, आत्मनिर्भर आसा. बरे नोकरेक आसा, लोहानगरांतल्या एका स्टील प्लांटांत ज्युनियर इंजिनियर म्हणून. आनीक कितें जाय तुका?"

म्हाका कितें जाय हेंच खबर नाशिल्लें तेन्ना 'आनीक कितें जाय' हाची हांव कितें जाप दिवं? ते बदला हांवें उमळशिकेन दादाक विचारलें "तुमी म्हजें वर्णन कशें केलें आनी तुवें आनी रामूकाकान म्हजे विशीं ताका कितें सांगलें?"

"रामूकाकान कितें सांगलें म्हाका खबर ना. पूण हांवें..."

"हय..."

आमी म्हज्या लग्ना विशीं उलयतालीं, पूण आमच्या संभाशणाची पद्दत फकाणांचे शिमेर आशिल्ली. "हांवें ताका सांगलें म्हजी भयण सामकी लाडान वाडिल्ली, रागिश्ट, घरांतली एकुलती एक धूव म्हणून."

"अशें उलोवपाची तुजी हिंमतच जावची ना. आनी अशें सांगल्यार तूं म्हाका हांगाच्यान धांवडावंकच शकचो ना."

"बरें हुशार आसा मगो तूं! हय, हांवें सांगलें... म्हजी भयण बीए ऑनर्स जाल्या, हुशार आसा, खूब वाचन करता. स्वप्नावासवदत्ता कोणें बरयलां ताका खबर आसा, डिकन्सा परस ताका ट्रोलोप आवडटा. जेन ऑस्टिन ताची आवडीची लेखक, मुकेश आनी गीता दत्ताचे ताका पिशें आनी भावूक पदांचेर तें दुकां गळयता."

"हाचेर ताणें कितें म्हणलें?"

"ताणें म्हणलें, बरें जालें. म्हाका सुशिक्षीत आनी सुसंस्कारीत बायल जाय."

"सुसंस्कारी! झक मारली. दादा असले शब्द वापरपी दादल्या कडेन म्हाका दिसना हांव लग्न जावंक शकतलें. मोड ही सोयरीगत, म्हणल्यार परत घे तें उतर, म्हणजे सोयरीगतीचो प्रस्ताव काय कितें तुमी धाडला तो फाटीं घे."

"पिशेपणां करनाका," निमणें दादा गंभीर जाल्लो, "ह्यो सगळ्यो बारीकसारीक गजाली."

"पूण तांकां अर्थ आसता."

"ना. कांय तेंपान ह्यो गजाली तुज्या लक्षांत लेगीत येवच्यो नात."

दादा, अर्थांत शिटूक, दूरदर्शी आशिल्लो आनी ताची फुडाराची पारखणी बरोबर आशिल्ली, पूण तेन्ना म्हाका ताची कल्पना नाशिल्ली. दादाचो हेतूय म्हाका खबर नाशिल्लो. खूब वर्सांनी म्हाका ताची दुखदिणी जाणविकाय जाल्ली. ताका म्हजे कडल्यान स्वताची सुटका जाय आशिल्ली, आपल्यो फुडाराच्यो येवजण्यो मुखार व्हरपाक आपले आंकवार, ल्हान भयणीचे जापसालदारकेंतल्यान ताका मुक्त जावंक जाय आशिल्लें. अप्पाच्या मरणा उपरांत दादा आतां घरांतलो कर्तो पुरूश हें दोनूय काकांनी ताका विसरूंक दिवंक ना. ते खातीर दादान बरेच हुशारेन म्हजेर असली परिस्थिती हाडिल्ली. ताका लागून हांवें मोहना कडेन लग्न करप ना हें भुरगेपण, बेजबाबदारपण आनी दादाचेर अन्यायकारक थारपाचें. (हांव जाणा, हांव फकत तुजो भाव, तुवें कितें करप हें सांगपाचो म्हाका अधिकार ना, अप्पा आशिल्लो जाल्यार...) आनी मोहना कडेन लग्न जावपाचें तशें कारण नाशिल्लें तशेंच जायनासतना रावपाचेंय कारण नाशिल्लें.

पूण निमणो नेट लायलो तो आईनच, तिणेंच म्हज्या मनाची तयारी केली.

"जयाचें त्या दादल्या कडेन लग्न जावंक शकना".

"पूण कित्या खातीर आई? रामूकाका म्हणटा हें बरें योग्य स्थळ म्हणून."

“रामूकाका! तो व्हडलो जाणकार जाल्ले भशेन तूं उलयता. तुका दिसता ताका आमचें पडून गेलां? तुका दिसता, हेंच ताचे चलयेचें लग्न आशिल्लें जाल्यार तो हेंच म्हणपाचो?”

“हें स्थळ तो सुजाता खातीर सुचयतालो, पूण मोहनाक कॉन्वेण्टांत शिकिल्ली चलीच जाय आसली म्हणून तांणी मागीर जयाची सोयरीगत व्हेली.”

“म्हजें आयक दिनू, हांव तुज्या काकांक सारकें वळखतां. म्हजें इतलो तूं त्या दोगांक केन्नाच वळखुचो ना. विसरलो एक आख्खें वर्स हांवें तांचे वांगडा काडलां तें? पूण आतां, तुका म्हज्या भावनां परस तांचो शब्द मोलाचो दिसता, जयाच्या सुखाचें म्हजे परस तांकां चड पडून गेलां अशें तुका दिसता, ताचे आवय परस, जाल्यार म्हाका आनी आनीक कांय सांगपाचें ना.”

“कितें आई, अशी अविचारी कित्याक जाता तूं? तुका दोनय काका आवडनात म्हणून तूं त्या दादल्यां विशीं पूर्वग्रहदुशीत कित्याक जाता? जयाक असली संद मेळटा तें ताचें बरें नशीब. आनीक एक लक्षांत घे, तुका बरो गोरो गोरो जांवय मेळटलो. तो जया परस गोरो आसा.”

“म्हज्या जयाच्या रंगाक कितें जालां? आनी कातीच्या रंगाचेर कितें आसता तर तें?”

“म्हजे दोगूय पूत गोरे आनी हें अशें काळें कशें?” आईन सदांच म्हजे खातीर पिकासांव काडप.

“काळें?” अप्पा विचारतालो, “ताचो रंग सोनेरी-बदामी, गव्हाळी रंग, म्होंवाच्या रंगाचो.” हें म्हणटना तो मोगान त्या उरतां कडेन खेळटालो आनी मागीर हांसत म्हणटालो, “म्हजे सारको.” आनी आतां आई म्हणटाली - मनशाच्या रंगाचेर कितें आसा?

“शे, शे - तूं मगे, तूं ओगीच कारणा बगर अडून बसता. तूं जाणा हांव फकाणां करतालों तें. हांव जाणा आई, तो गोरो आसलो म्हूण कांय व्हडलें न्हय, पूण तो देसेंत मनीस, ताका बरी नोकरी आसा.”

“आनी ताची ती फामील - तांचें कितें? हांव जाणा ती सामकी कर्मठ, सनातनी वृत्तीचीं मनशां. तांचें तें अवेवस्थीत घर- आनी तीं भुरगीं. असल्या मनशांक काडून हांव म्हजी धूव दितलें अशें तुका दिसता जाल्यार...”

तांची शाब्दीक कुस्ती सोंपता म्हणसर आनी दादा आईक बऱ्या मुडांत हाडटा म्हणसर - तें तो करतलो हें हांव जाणाच आशिल्लें - हांवें म्हजो निर्णय घेतिल्लो. हांव मोहना कडेन लग्न जातलें. निर्णय म्हजो आसतलो, रामूकाकाचो न्हय, दादाचो न्हय वा आईचोय न्हय. हांव म्हाका कोणाकय ‘दिवंक’ दिवचें ना. त्या खिणाक तेंच म्हजे खातीर म्हत्वाचें आशिल्लें. पूण ह्या विचारा फाटल्यान आनीक खूबशे विचार

आशिल्ले... म्हजी आंबेगांवच्यान सुटका जातली; तो जोत मागनाशिल्लो. काकाक आनी चंदूमामाक जोती खातीर पयशे एकठांय करचे पडचे नाशिल्ले.

घडये, मोहन दिसपाकय सुंदर आसा हीय जमेची गजाल आशिल्ली. अजूनय तो आसा तसोच आसा. फकत बदल जाल्लो तो ताच्या आत्मविस्वासांत आनी मात्शें पोट भायर आयिल्ल्यान. पूण अशें पोट सुटप हें ताच्या वर्गाच्या दादल्यांक सुबत्तेचें प्रमाणपत्र.

खरें म्हणल्यार, हांवें मोहना कडेन लग्न कित्याक केलें हाचेर विचार करप म्हणल्यार निरर्थक त्रास; ताणें म्हजे कडेन लग्न जावपाचें थारायिल्लें आनी हांवें ताका मोन्यांनी हयकार दिल्लो इतलेंच कितें तें सत.

हांव लग्नाक तयार आसा हें कळटकच आई सामकी फुगार जाल्ली. म्हजें लग्न सत्तगिरीचे आजयेच्या घरांतल्यान जावचें अशें म्हाका दिसतालें. त्या प्रस्तावाक न्हयकार दिवन तिणें हे गजालीचो ज्युस्त बदलो घेतलो. काकांकय दिसतालें म्हजें लग्न सत्तगिरीच्या घरांतल्यान जावचें, पूण आईन आपलो हट सोडलो ना.

मोहन... आमचें लग्न जातकच म्हजे भितरच हांवें हें नांव उच्चारिल्लें, पूण ताचो स्वाद अनवळखी आशिल्लो. तो दादलोय बी... आमचें लग्न जाल्लें तरीय तो म्हाका अनवळखी दिसतालो. तांचे कडलें लागसारपण म्हणल्यार म्हाका विद्रूप निर्लज्जपण कशें दिसतालें. म्हाका दिशिल्लें, म्हजेकडल्यान असली अपेक्षा, एकदम आसतली? आमकां इल्लें इल्लें करून अंशा अंशान हें जमतलें असो, हांवेंच म्हाका, आशावादी धीर दिल्लो.

हाचे उरफाटें, मोहन विचार करतालो. मोहना खातीर हें सामकेंच सोंपें आशिल्लें. आमी लग्न जाल्लीं, आमचें नातें घोव-बायलेचें, म्हणटकच ताच्या मतान हें सगळें करपाक परवानगी आशिल्ली. हांवय तसोच विचार करतां आसतलें हें ताणें गृहीत धरिल्लें. आनी म्हणटकीच शारिरीक संबंदांतल्यान, अचकीत, आमचे मदीं जवळीक जाल्ली तेन्ना म्हाका एकल्याकच अजाप जाल्लें. म्हजे नकळटांच हुतहुतेपणान आमी तातूंत निसरून पडिल्लीं.

जितलें हांव अज्ञानी आशिल्लें तितलो तोयबी, ही सत्यस्थिती आशिल्ली; पूण कशें तरी पयल्या कांय दिसांच्या अडाणीपणाच्या आडखळीं उपरांत अचकीत सगळें कितें जाग्यार पडलें. सगळ्यो अस्पश्ट इत्सा, दबिल्ल्यो भावना, कुजबूज, संकेत, तें सगळें कितें - जाका आमी व्हडा खोशेन मोग आनी रोमान्स म्हणटात - तें सगळें वेवस्थीत जाल्लें. तेन्ना म्हाका त्या पदांचो, कवितांचो आनी काणयांचो अर्थ कळ्ळो. म्हजे वयर ताचें घामेल्लें शरीर आसतना 'निमणें हेच खरें सत' अशेंच म्हाका दिसलें.

कामवासनेच्यो यादी ह्यो सगळ्यांत थंडगार आसतात. तुमचे मदीं त्यो कसल्योच चेतना निर्माण करिनात. हांव त्या दिसांच्यो यादी, म्हज्या भावनांचेर विचार करतना,

म्हऱ्यांत न्हिदिल्ल्या त्या दादल्या कडेन पळयलें, पूण म्हजे मदीं कसल्योच भावना चाळवल्यो नात. त्यो भावना आनी ते प्रतिसाद वेगळ्याच दोन व्यक्तींमदले आशिल्ले, हांगां एकामेकांलागीं न्हिदिल्ल्या आमचे मदीं न्हय.

हरशींय बी, त्या वेळार म्हज्यो कसल्योय भावना आशिल्ल्यो जाल्यार लेगीत, हांवें त्यो ताचे कडेन उक्तावंक नाशिल्ल्यो. खरें म्हणल्यार संभोगा विशीं आमी केन्नाच उलोवंक नाशिल्लीं. जसो काय दर फावट तो अणभव आमी पुसून उडयतालीं. ताका शाब्दीक अस्तित्व नाशिल्लेंच. त्या वेळार आमचे मदले संवाद म्हणल्यार, "हांवें दुखयलें तुका?" आनी म्हजी जाप, "ना". दरेक फावट, तें जातकच ताचो तोच प्रस्न आनी म्हजी तीच जाप, बदलूंक नाशिल्ली जाप, "ना".

पयलीं मोग, मागीर संभोग- अशी म्हजी कल्पना आशिल्ली, पूण मोहना वांगडा रावतकच म्हज्या लक्षांत आयलें हें उरफाटें पद्दतीनय सहज जावं येता.

मोग...? हय तर, हाका मोग न्हय जाल्यार आनीक कितें म्हणपाचें? म्हाका याद जाता, ताचे ते शारिरीक उपस्थिती खातीर हांव कशें तळमळटालें, ताच्या स्पर्शाक कितले तत्परतायेन ल्हेंवट्या भशेन प्रतिसाद दितालें, कितें तर तें? ताच्यो इत्सा, ताची अनुमती, ताचो मोग ह्योच म्हज्या जिवितांतल्यो सगळ्यांत म्हत्वाच्यो गजाली जाल्ल्यो तेन्ना ताचे विणे जावपी त्या वेदनांक हांव आनीक कसलें नांव दिवंक शकतालें? आतां म्हाका दिसता, आमी दोगांयनी, घोव आनी बायल जावपाच्या आपापल्या भुमिकांच्यो बऱ्यो येसायो मारिल्ल्यो. आनी त्यो सादर करपाचो वेळ आयलो तेन्ना एक्क उतर चुकयनासतना आमी त्यो सारक्यो सोबयिल्ल्यो.

म्हाका याद जाता - असो एक वेळ आशिल्लो, हांव बायलांच्या नेमाळ्यांतलो दरेक आदेश सारको भक्तीभावान पाळटालें. म्हजे खातीर तें बायबलच आशिल्लें आनी तातूंतलें गिन्यान बारीकसाणेन पाळटालें. *"स्वता वयलो ताबो वचूंक दिवंनाकात." "तुमच्या घोवाक तुमच्या मोगांत बुडोवन कसो दवरचो." "आपल्या संवसारांत रोमान्स जिवंत दवरात." "भूल घालप हो बायलांचो गूण... हें सगळें खंयच्यान येता?"* आवयस्स! ही सगळी याद जातकच, म्हाका ते चलयेची काकुळट आयले बगर रावली ना. रातचें, पुस्तकांत वाचिल्ले प्रमाण आपल्या चेऱ्याचेर तें नाजूक बोटांनी वर्तुळांनी क्रिम चोळटालें, गोल आनी गोल आनी मागीर मातशीं चेऱ्याचेर वयर बोटां व्हरपाचीं आनी तींच बोटां मागीर माने मेरेन क्रीम चोळीत हाडपाचीं. भक्तीभावान हांव केंसांतय फणी मारतालें, पन्नास फावटीं एके वटेन तर पन्नास फावटीं दुसरे वटेन, अशें करून वट्ट शंबर वेळा.

खूब वर्सांनी हांवें ही सगळी कसरत करपाची सोडून दिली, तेन्ना म्हज्या मनांत एक विचार आयलो, कसलीं पिशेपणां आशिल्लीं तीं म्हजीं, हांव चेऱ्याचेर क्रीम लावूं वा ना लावूं, शंबर वेळा केंसांचेर फणी मारूं वा ना मारूं, तो म्हजे म्हऱ्यांत

निश्ठेन सप्तकांतल्यान दोन वेळा न्हिदतलो आशिल्लोच, म्हाका जाय आसूं वा नासूं - हय, हीय शक्यताय आशिल्लीच. तरीय, हांव ताका एक बायल म्हणून प्रसन्न दवरूंक शकतलें काय ना, ही धाकधूक म्हज्या मनांत सदांच आसताली.

"तूं तुजे कॆंस हांगां मेरेन कित्याक कापना?" एक दीस म्हजे कडेन बारीकसाणीन पळयत, म्हज्या खांद्याचेर हलको हात भोंवडायत ताणें म्हणिल्लें, 'मेहराचे बायले भशेन'.

आनी शेवटाक, कांय दिसांनी हांवेंय कॆंस कापिल्ले, "हांगां मेरेन, मेहराचे बायले सारके (गुप्ताचे बायले सारके आनी यादवाचे बायले सारके आनी रमणाचे बायले सारके) आनी आईन आड्डून म्हणिल्लें, "पिशें लागलां तुका? काय बरे सुंदर कॆंस."

"हांवें अशे कॆंस कापचे ही मोहनाची इत्सा."

"मोहन!"

बाबडी आई! म्हज्या मनांत विचार आयलो - बायल जावप म्हणजे कितें हें ती विसरूनच गेल्ली! "बाबडी आई", हांवें म्हज्या बायलपणाच्या श्रेश्ठ स्थानार उबें रावन विचार केल्लो.

पूण संभोग म्हणल्यार, निमणें, बऱ्याच प्रमाणांत वयले वयर कशी गजाल आसता. सुरवेक ताचेविशींच्यो म्हज्यो भावना जरी संभोगांतल्यान तयार जाल्ल्यो, तरी उपरांत, एका राक्षसी भुरग्यावरी, त्यो सुमराभायर वाडत गेल्यो. आज म्हाका तें पयसुल्लें सपन कशें दिसता, पूण एका तेंपार तो मरत ह्या हुस्क्यानच हांव जगतालें. रातचें तर ताका हांव सामकें दसून न्हिदतालें. ताच्या शरीराचे उबेचें सूख समादानान घेत, ताचे छातयेर हात भोंवडायत, म्हजो तळवो ताच्या थीर, खोल स्वासोस्वासा बरोबर वयर सकयल करीत. ताचे बगर जगपाचो विचार म्हज्या आतकड्यांक पीळ घालतालो. मरण हें अंतीम अरिश्ट कशें दिसतालें. ताच्या मरणाच्या साद्या विचारान लेगीत हांव निराश जातालें, म्हज्या पोल्या वयल्यान सहज दुकां गळटालीं. ताका घरा येवंक मात्सो कळाव जालो जाल्यार म्हाका दिसतालें तो खात्रेन मेलाच आसतलो म्हणून. तो घरा पावता म्हणसर म्हज्या कल्पनाविश्वांत, हांव विधवा जावन जगपाक लागतालें.

ताचे विशींच्या म्हज्या भावनांची ताकद म्हाका लजयताली आनी भिवयतालीयबी. पूण म्हज्या ह्या अनियंत्रीत भावनांची कबुली हांवें ताका केन्नाच दिली ना. म्हाका म्हज्यो ह्यो भावना एक दुयेंस कशें, एक अपंगूळ कशें. तें म्हाका सगळ्यां कडल्यान लिपोवंक जाय आशिल्लें. खूब वेळा ह्या भावनीक फोल्गीपणांतल्यान भायर सरपा खातीर हांव स्वताकच समजायतालें. आमकां सगळ्यांक काळखाचो भंय दिसता, एकटें रावपाचो भंय दिसता. म्हणटकच आमी एकामेकांक चिकटून रावतात. "म्हजो तुजेर मोग आसा, म्हाका तूं जाय, म्हाका तुजी गरज आसा" अशें म्हणीत. खूब वेळा

म्हजें म्हाकाच दिसता; मोग म्हणल्यार एक तयार केल्लें मिथक कशें, तें जर नाशिल्लें तर जिवीतभर एकेच व्यक्ती वांगडा संभोग करप असह्य जावपाचें. म्हाका याद जाली, एके अमेरिकन कवीन अपराध कबूल करतां अशें सांगून म्हणिल्लें - म्हज्या घोवाबगर हांव जगूंकच शकना. हांवेंय आशा सोडिल्ली, हें राक्षसी वजें हांव केन्नाच मोखून मारूंक शकचें ना.

म्हजें हें भावनीक दुखणें निमणें तर्कबुद्दीन न्हय जाल्यार काळानच बरें केलें. ताची आतां म्हाका तितली गरज ना अशें हालीं हालीं म्हाका दिसूंक लागिल्लें. मनाक तोंपनासतना हांव ताचे कडल्यान पयस न्हिदूंक शकतालें, आनी इत्सा नासतना ताचे वांगडा न्हिदूंकय शकतालें.

पूण आयज ताणें मारिल्लो तो उलो... म्हाका बरोच हालोवन गेलो. हरशीं ताची सगळी पद्दत तीच आसताली, कसल्याच बदलाविणें. आनी हांव ती पयस उबें रावन अलिप्तपणान पळोवंक शकतालें... तीच पोझिशन, तीच हालचाल, तितलोच वेळ. तो कितें करीत हाचो अदमास येवन म्हजो प्रतिसाद सदांच मंदावतालो, पूण आयचें ताचें वेगळेंपण पळोवन हांवूच भियेलें. ताचो तो उलो, हयन्हयसो अस्पश्ट उलो, तो ताणें रोखडोच गिळ्ळो. ताच्या त्या विचित्र आवाजान हांव सामकें थंड पडलें. ताणें तसो उलो कित्याक मारलो काय? ताचो तो आवाज म्हाका निराशावादी दिसलो. सगळें सोंपतकच तो जेन्ना न्हिदपाक गेलो, तेन्ना हांवें ताचे फाटीक पळयलें, तीय म्हजे कडेन ताच्या एकटेपणा विशींच उलयलीशी. म्हणटकच हांव नापास जाल्लें, लग्न जालें तेन्नाच्यान हांव जें कितें सादूंक सोदतालें तातूंत हांव सामकें नापास जाल्लें.

अशें आसूनय म्हाका एक विचित्र (आनी निर्दयी) समादान मेळ्ळें. मनांत विचार आयलो, घडये ताच्याय लक्षांत ती गजाल आयल्या आसतली, म्हाका ती खूब वर्सां पयलीं समजल्ली. संभोगाची प्रक्रिया तुजी एकटेपणाची भावना वाडयता ही वस्तुस्थिती. ज्या दिसा म्हज्या हें लक्षांत आयिल्लें, तो दीस म्हाका सारको याद आसा. त्या दिसा, ताचे इतलेंच हांवय संभोगा खातीर उतावीळ जाल्लें आनी सामकें उत्कंठेन हांवें ताका प्रतिसाद दिल्लो - आनी कांय खिणांत तें सोंपलें. तो म्हजे कडल्यान पयस गेलो आनी फाट करून न्हिदलो - खरें म्हणल्यार हें सगळें सदांचेंच, सदचे परस तातूंत कांयच वेगळें नाशिल्लें, ताचेय हालचालींत न्हय वा म्हजेय. इतल्या वर्सांच्या आमच्या रातीं परस वेगळी थारपा सारकी अशी ती रात नाशिल्ली.

शरीरसुखाचीं स्पंदनां आनी आंगाची उब गरम आसतनाच, न्हिदिल्लेकडेन, त्या भिरांकूळ खिणाक म्हाका होलमलें - हांव एकटें आसां. तो संपर्क, तें एकमेकांत भरसुवप, हें फकत खीणभंगूरच न्हय जाल्यार भ्रामक आशिल्लें. आमी केन्नाच लागीं येवंक नाशिल्लीं. आमची फकत शरिरां लागीं आयिल्लीं. हें लक्षांत येना

बराबर, हांव निर्शेवणेन रडपाक लागलें, पूण भितरले भितर, कारण म्हजें रडप मोहनाक उठोवन घालत हो भंय आशिल्लो, म्हणून हांव आकांतान स्वताक शांत करपाचो यत्न करूंक लागलें.

दादलो आनी बायल - त्या खिणाक म्हज्या लक्षांत आयलें, तांचे मदीं एक खोल देंगण आसता. तीं सासणाचीं एकामेकां कडल्यान पयसाविल्लीं आसतात. पुरायपणान शरिरांनी एकरूप जाल्लीं आसतात तेन्ना तर चडूच. हें ताच्या लक्षांत आयिल्लें काय? देखून ताणें तो आर्त उलो मारिल्लो काय? म्हाका ताची काकूळट दिसली - मनीस तेच मनस्थितींतल्यान वता तेन्ना दिसता ती विरक्त काकुळट.

आनी अचकीत म्हाका याद जाली, ताणें म्हाका सदांचोच प्रस्न विचारूंक नाशिल्लो - ''हांवें तुका दुखयलें?'' खूब वेळा, म्हज्या मनांत विचार येता, ताच्या ह्या प्रस्नाचेर हांवें 'हय' म्हणलें जाल्यार? ताची कितें परिस्थिती जातली? पूण म्हाका हेंवय खबर आशिल्लें, हांव तशें केन्नाच म्हणचें ना. म्हज्यान तशें करपाक जावचेंच ना. हांव ताका आतां मोग म्हणचें ना, पूण म्हजे ताचेकडल्या संबंदांचें एक भावनीक नातें तयार जाल्लें, ताची बायल म्हुणून जगपाची संवय जाल्ली, ताका आदार दिवपाची, ताका सांबाळपाची. अशे परिस्थितींत ताचेकडेन निर्दयी वागप अशक्य आशिल्लें. आनी खंयचीय संवय सासणाची मोडप सामकेंच कठीण. हांव जाणा, म्हाका कुसुमाक मजत करचीशी दिसताली, पूण ताचेकडेन कठोर आनी निर्दयी जावन वागनासतना रावप कठीण आशिल्लें; तितलेंच कठीण आशिल्लें आईचे लुडबुडीचेर बेजार जायनासतना रावप, वा दादाचे अनास्थेचेर...

''जया,'' मोहनान उलो केलो आनी हांव म्हज्या विचारांतल्यान कच्च करून आंग काडून भायर आयलें.

''कितें जालें? म्हाका दिसलें तूं न्हिदलो म्हणून.''

''ना. म्हाका न्हीद येना. हांव विचार करतालों. म्हज्या मनांत वेगवेगळे विचार येतात, जाणा तूं...'' तो आपल्या आंगाचेर पांगरूण ओडून घेत, मुद्दाम म्हजे वटेच्यान वळ्ळो, ''तूं कसलीय नोकरी कित्याक घेना?''

''नोकरी? हांव?''

''हय, म्हाका दिसलें..''

''पूण हांव नोकरी केल्ली तुका नाका आशिल्ली. तेन्ना हांव शिक्षक जावचें काय म्हूण चिंतालें...''

''आं, तेन्नाची गजाल वेगळी. तेन्ना परिस्थिती वेगळी आशिल्ली, पूण आतां तुवेंय प्रयत्न करूंक जाय घडये.''

''पूण हांव कितें करूंक शकतां? आतां म्हाका नोकरी कोण दितलो?''

''खंयचेंय म्हयनाळें, खंयच्याय एका सातोळ्यांत, खात्रेन तुका कितें तरी

मेळटलेंच''.

''म्हाका खबर ना. कोणाकय बेठीच नोकरी मेळूंक शकना. आनी तीय बी हे पिरायेचेर... म्हाका अणभवय ना तसो.''

आनी प्रफेशनलिजम लेगीत. अर्दमर्दकुटेपणान हांव काम करतालें तें मायक्रोस्कोपांतल्यान पळोवचें इतलें म्हाका स्पश्ट दिसतालें, ''स्वताक मात्शें गंभीरतायेन घे गे सायबिणी,'' कामतीन म्हाका एकदां म्हणिल्लें.

''पूण तूं बरयता न्हय..''

''पूण तें आनी हें एक न्हय.''

''तूं यत्न कर. प्रयत्न केलो म्हणून काय तुजें लुकसाण जायना. समजा, म्हजी नोकरी गेली जाल्यार?''

आमचे मदीं उबी आशिल्ली ती 'शक्यताय' एकामेकां कडेन उलोवप अशक्य करताली.

''बरें जालें, तुजें स्तंभलेखन चालू आसा आनी तुजी पंद्रशीची 'सीता' आनी तुज्यो कथा. तातूंत चड पयशे नासले तरीय, किंतें तरी आसा.''

आतां, म्हज्या मनांत आयलें, आत्तां ताका सांगचें त्या सगळ्यांचो हांवें त्याग केला म्हणून - 'सीता', म्हजें सप्तकाचें स्तंभलेखन, म्हज्यो कथा! पूण हांव कांयच उलयलें ना. कांयच उलयनासतना रावप चड सोंपें. कमी त्रासाचें.



मेजा मदल्यान वाट काडीत वतना, रवीन एका कोनशांतल्यान म्हजें लक्ष ओडून घेवपाक हात वयर केलो. तशें पळोवंक गेल्यार, लक्ष ओडून घेवपाक रवीक कांयच करपाची गरज नाशिल्ली. कारण तो खंयचेय गर्दींत उठून दिसतालो. आमच्या तिगां मदीं, दिसपाक तो चड बरो आशिल्लो. अप्पा सारको लांबरूंद, तोंडावळो धारदार आनी आई सारको कांतीन नितळ आनी निवळ. हालीं तेंपार ताचें वजन वाडूंक लागिल्लें, पूण तरिकूय तो तसोच देखणो दिसतालो.

हांवें कोनशाक ताचे लागीं म्हाका घालून घेतलें आनी भाज्जेची पोती कशीबशी पांयांपोंदां घुसयली.

"तूं भाजी घेवपाक इतलें पयस येता?" रवीन म्हाका हांसत विचारलें. ताचो हांसो म्हाका मिजाशी दिसलो.

"हय. केन्ना केन्ना. कांय थारावीक वस्तू घेवंक."

म्हाका बंडल मारतना अजिबात खंत भोगली ना. आनी रवी कडेन तर नाच. रवी स्वताच एक जातिवंत बंडलिस्ट आशिल्लो. हांव खरें उलयतालें तेन्ना लेगीत हांवूच फटिंग अशी भावना तयार करतालो, आनी तेन्ना म्हाका रवीचो सामको राग येतालो. "आसूं, पुरो आतां," अशें म्हणीत म्हाका सगळें कितें विस्तारान आनी विस्कटावन सांगपा खातीर प्रवृत्त करतालो, जशें कितें हांव फटीच मारतालें. आनी जेन्ना खऱ्यांनीच हांव फट मारतालें, तेन्ना म्हाका मूर्ख, अनाडी आनी नवशिकें कसो लेखतालो. ल्हानपणांत भुरग्यांची तशीं फटिंगपणां आसनात, पूण ल्हान आसतना पसून रवीचीं फटिंगपणां, विचारपुर्वक आनी पुर्वनियोजीत आसतालीं. दादा आनी हांव ताच्या फटिंगपणाक केन्नाच बळी पडनाशिल्लीं, पूण आई ताचें खरें मानून, खूब वेळा आमचेरच तापताली, "त्या धाकट्टुल्या कडेन इतले निर्दयी जावं नाकात," आनी म्हाका म्हणटाली, "जया, कसली व्हडली भयण गो तूं, आं? ही पद्दत गो, एके चलयेन आपल्या धाकल्या भावाक असो वागोवपाची?"

चुकून हांव तिका समजावंक शकतालें वा स्वताचें समर्थन करूंक शकतालें. आईन कितेंय सांगलें तरीय हांव राखणकर्ते मायेस्त व्हडले भयणी सारकें रवी कडेन

वागूंक शकनाशिल्लें. तेन्ना लेगीत रवी कडेन कसलें तरी हिसपा भायलें धूर्तपण आशिल्लें; भितरले बुद्दीन वागपाची पद्दत आशिल्ली आनी हांव आनी दादा ताका एकटोच उडयतात हाचें ताका अजिबात वायट दिसनाशिल्लें. घडये, ताका लागूनच म्हजो दादा कडेन आशिल्लो भुरगेपणांतलो दुवो, ताचे कडेन नाशिल्लो. ताची ती तिडक मारपा सारकी चिवटसाण, रागार जायनासतना वा वैरभाव दवरिनासतना झगडपाची तरा, कित्याचीच पर्वा करिनासतना आपणाक जाय तें हातासपाची वृत्ती हांची याद काडल्यार आज लेगीत हांव खुबळटां. ट्रेनींत जनेलाकडेन बसपा खातीर जाल्लें आमचें झगडें आजुनूय याद जाता. खरें म्हणल्यार पयलीं तें सीट हांवें धरिल्लें, पूण रवीन म्हजे कडल्यान तें झोमून घेवपाचो निश्चेव करूनच म्हाका थंयच्यान धुकलून उडोवपाचो यत्न केल्लो. त्या खिणाक तें सीट ताका दिनासतना म्हजे खातीर दवरप ही म्हजे खातीर जगांतली सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल जाल्ली; ताका शरण येवचे पयलीं हांव मरण पत्करीन आशिल्लें. आईन आमचें झगडें पळयलें - रवीन तिचे कडेन मजत मागली ना, स्वताची लडाय ताका स्वताच लडपाक आवडटाली - तरीय म्हाका तें सीट ताका दिवचें पडिल्लें.

पूण रवीच्या भुरगेपणांतलो एक खोशयेचो खीण म्हज्या मनांत सोबीत रंगदीपसो घुस्पून पडला. कांचेच्या पेपरवेटांतल्या बुडबुड्यांवरी. आमी आंबेगांव एका रेस्टॉरंटांत गेल्लीं आनी रवी मोट्ट्यान कितें तरी मस्तेपणां उलयिल्लो. तेन्ना सगळे ताचे कडेन पळोवन आपलेपणाचे खोशयेन हांशिल्ले. प्रत्येक वेळा जेन्ना हांव रवीक मेळटां, तेन्ना म्हाका तो खीण याद जाता, सगळे आपणाकच पळयतात तें पळोवन गर्वान फुलिल्लो ताचो तो चेरो याद जाता; आनी तोच भुरगो, आतां कसलो मनीस जाला तें चिंतून म्हजो गळो दाटून आयलो, हांव आतां रडपाक लागतलें अशें दिसपाक लागलें. जिवीत सदांच निर्दयी आसना, पूण आमचे जिणेचे प्रक्रियेन आमीच तें निश्ठूरतायेचे सुवादीन करतात.

‘‘जयाताई, तूं कितें घेतलें?’’ ताणें म्हाका विचारलें. वेटर आमची ऑर्डर घेवंक राविल्लो.

‘‘फकत एक कप च्या.’’

‘‘आनी कांयच नाका? नक्की? ओके, अशें कर रे, दोन च्या आनी... पळोवया, म्हाका कितें जाय तें. हांव आयज दनपारां जेवंक ना... ताणें चिकचिकीत जाल्ल्या मेन्यूकार्डा वयल्यान आपलें बोट घुंवडायलें... बरें आसा! आमकां दोन च्या, एक टॉमेटो ऑम्लेट आनी एक पुरी-भाजी. हांव आत्तां आंबेगांवच्यान परतलां.’’ हें सगळें ताणें एका धपक्यांत सांगून उडयलें.

आमकां दोगांयकय जोडपी दुवो ना हो म्हजो विचार चुकीचो. दुवो आशिल्लो, आमचें कुटुंब.

''जाणा हांव. काल सांगिल्लें तुवें म्हाका.''

''सांगिल्लें तुका हांवें? आनी वनितामामी बरी ना हेंय सांगिल्लें?''

''ना, कितें जालां तिका?''

ताणें थांबयनासतना पेल्यांतल्यान उदकाची धार आपल्या ताळ्यांत रकयली. हांव ताचो वयर सकयल जावपी कंठ पळयत रावलें.

''सिरियस ना मरे कांय?'' ताचें उदक पियेवन सोंपतकच हांवें विचारलें.

''सिरियस? आई ना म्हणटा. पूण चंदूमामा म्हणटा तें सिरियस आसूंक शकता. तो म्हणटा तुवें थंय वच्चें. तीं सगळीं तुजे विशीं गणगणटालीं. जयाताई, हांव कितें म्हणटां तें आयकलें तुवें, तूं कितलोच तेंप जालो तांचे खबरीक गेलें ना म्हणून तणतणटालीं तीं.''

''बरीं मरे तीं! हांव थंय लागीं लागीं धा दीस तरी रावन आयलां... केन्ना काय? हय, नातलांचे सुटयेंत.''

''खूब दीस जाले ते गजालीक, हय काय न्हय?''

''वा! तुजी अपेक्षा कितें? हांवें दर म्हयन्याक थंय वच्चें?'' हांव जाणा आशिल्लें म्हजो आवाज कर्कश आनी निश्ठूर जाल्लो, पूण हांव स्वताचेर ताबो दवरूंक शकनाशिल्लें. आंबेगांवांतल्या त्या तिगा जाण्टेल्यांचें चिंतल्यारच म्हाका नाका जातालें ही वस्तुस्थिती. अशा वेळार हांव आक्रमक जालें ना, म्हजीं सगळीं हत्यारांच म्यान केलीं, जाल्यार म्हाका मागीर अपराधी दिसपाक लागपाचें.

''तूं ओगीच म्हजेर तापुंनाका, आं. आनी हरशींय तीं म्हजीं उतरां न्हय, आईन म्हणिल्लें तशें...'' आनी तो मराठींत उलयलो, आईचो शब्दान शब्द सांगिल्ले भशेन, पूण रवीचेर असले बाबतींत विस्वास दवरप कठीण. ''तिणें म्हणलें... ताचे खातीर आमी कोणच न्हयशीं; ताची स्वताची आवय, ताचे खातीर कश्ट काडिल्लो ताचो स्वताचो मामा, आमी सगळीं हांगां कुसून गेल्यार लेगीत पर्वा ना ताका.''

म्हाका राग सोंसूंक नजो जाल्लो. ''कितल्या वर्सां पयलींची गजाल, जया.'' म्हजो संताप पळोवन अजाप जाल्ल्या दादान म्हणिल्लें. अप्पा भायर पडटकीर म्हजे कॉलेजीची आनी हॉस्टेलाची फी चंदूमामान भरिल्ली हें सांगतकीर म्हाका सामको संताप मारिल्लो. ''कितें करतलीं? तूं आंबेगांव रावपाक कशेंच तयार नाशिल्लें आनी तुज्या हॉस्टेलाची फी भरपाक आमचे कडेन पयशे नाशिल्ले, म्हणटकीर चंदूमामान आपणे जावन... म्हणटकीच! केन्नाची गजाल गो, ताचेर आतां कित्याक इतलें बेजार जाता?''

तेन्ना हांव दादाक सारकें समजावंक शकलें ना, पूण म्हजो राग खरो आशिल्लो; आनी आतांय आईच्या त्या कांटेकूर थोमण्यांनी 'ती पोरणी गजाल' जागी जाली आनी सोंसपाक जायना असलो राग म्हज्या माथ्याक मारलो.

"हांवें म्हज्या घोवाक आनी भुरग्यांक सोडचें अशी तिची अपेक्षा आसतली. वा घडये कुसूमाक ताच्या घोवान सोडिल्लो तशें म्हज्याय घोवान म्हाका सोडपाचें, म्हणटकच हांव म्हयन्यांचे म्हयने तांचेच वांगडा रावंक शकतलें..."

"शांती, बाये शांती. आरे वा, म्हजें खाण," रवी आपली टॉमेटो ऑमलेट खावंक लागलो. सदांचें ताचे किचमणे संवयेन ऑम्लेट खावचे पयलीं ताणे तातूंतल्यान मिरसांगांचे कुडके काडले. "हो भुरगो आपल्या जेवणांतलीं सांसवां लेगीत वेंचून काडटा," अप्पा अर्दो फकाणांनी अर्दो बेजार जावन म्हणटालो. खूब वेळा म्हज्या मनांत विचार येता, आशा हाच्या विक्षिप्त सभावा कडेन कशें जुळोवन घेता काय म्हणून. तो मेळटकच, म्हजेर तरी कांय खिणांतच पिशें जावपाची पाळी येता.

"आंबेगांवांत तुजे विशीं कितें उलयतात इतलेंच हांवें तुका सांगलें. तांचो राग म्हजेर काडूं नाका. तुका जाय तशें वाग तूं. कशेंय वागलें म्हणून म्हाका कितें ताचें?"

रवीच्या आवाजा वयल्यान चट्ट करून म्हज्या लक्षांत आयलें, ताची अपेक्षा आशिल्ली तशेंच हांव वागिल्लें म्हणून. तो आई आनी वनितामामीकय असोच करतालो, तांच्यो चाडयो, अपमान, थोमणे एकी कडल्यान दुसरेक सांगतालो. एक नवें झगडें सुरू करपाक तांकां खुबळायतालो आनी आपणें तयार केल्ल्या वितुश्टी निर्मणे कडेन पळोवन एका कलाकाराची खोशी भोगताली. हरशींय रवी नासतना लेगीत आंबेगांवां आतांय भरपूर कुसकेपणां आशिल्लींच. दुसरे आज्जेच्या मरणा उपरांत वनितामामी सामकी बदलिल्ली. ती आक्रमक जाल्ली. आतां मेरेन दामून दवरिल्ल्या तिच्या घुस्मटाक मेकळीक मेळिल्ली. आनी तें पळोवन आमकां अजाप दिसतालें. तिचें हें बदलतें रूप आईच्या हाताभायलें आशिल्लें. तिणें भावाच्या घरांत गाजयिल्ल्या वीस वर्सांचे सत्तेक वनितामामीन आव्हान दिल्लें आनी आई हें झूज हारपाक लागिल्ली. आतां ती देस्पेराद जावन आपल्या आलाशिऱ्या खातीर सुवात सोदताली; आनी तिचीं तिनूय भुरगीं एकामेकां कडेन भिरांतेन पळयतालीं, विचार करीतः *'हांवें दिवपाचो तिका आलाशिरो? पूण हांवच कित्याक? तूं कित्याक न्हय?* चडशे इशारे म्हजेच वटेन येताले. आनी ज्या कोनशाक म्हाका धुकलिल्लो थंयच्यान म्हाका आड्डी मारनशी दिसतालीः *'हांवूंच कित्याक?'*

पूण हो प्रस्न विचारून कांयच फायदो नाशिल्लो. कारण ताची जाप म्हाका खबर आशिल्ली. सादें गणित आशिल्लें तें. म्हाका जापसालदारकेच्या खुरसार मारून दादा आनी रवी, दोगांयनी पळ काडिल्लो. रवी, अर्थांत, अस्थिर आनी बेजबाबदार आशिल्लो. म्हाका दिसता कोणाचीच ताचे कडल्यान कसलीच अपेक्षा नाशिल्ली, एका तेंपार ताची सामकी अर्थअपुरबाय करपी आईची लेगीत. पूण दादा? हय, दादा कडल्यान तांच्यो अपेक्षा आशिल्ल्यो. तो असो पुरायपणान जबाबदारेंतल्यान आंग काडीत हें हांवें केन्ना येवजूंक लेगीत नाशिल्लें.

तो परत येवचो ना हें आतां स्पश्ट जाल्लें. सुरवातीक ताणें चिटयेंत बरयिल्लें, 'आमी परत येतलीं'. पूण केन्ना तें मात केन्नाच बरोवंक नाशिल्लें. दरवेळा जेन्ना तो परत येतालो तेन्ना तो आमकां सांगतालो - कशें जमता तें पळयतां'. 'तुमचे मदीं येवन रावंक जाय म्हाका, हें कूळ म्हजें, अशें म्हणीत परत घरा येवन रावपाची आपली इत्सा खूब फावट उदास जावन ताणें म्हजे लागीं उक्तायल्ली. आनी तरीय आपूण परत केन्नाच येवचो ना हें सत ताका पुरेपूर खबर आशिल्लें. कांय दिसां पयलीं ताणें म्हाका स्वताच्या भंया विशीं बरयिल्लें, ताचो सगळ्यांत व्हडलो भंय, "हांव अप्पा सारको अचकीत मेलों जाल्यार? पूण अप्पा परसय वायट परिस्थिती जातली म्हजी, कारण हांव तुमच्या सगळ्यां पसून पयस आसतलों. काका, चंदूमामा नाशिल्ले जाल्यार आमी सगळीं कितें करतलीं आशिल्लीं? हांव हांगां मेलों जाल्यार म्हजे फाटल्यान गीता आनी चलयांचें कितें जातलें?"

दादा परत येवचो ना हें आतां आमकां सगळ्यांक खबर आशिल्लें. आनी सगळ्यांनी हें सत मानून घेतिल्लें. ताका आमचे मदीं धरप आमी सोडूनच दिल्लें. घडये, दादाच्या बदलिल्ल्या सभावाक लागून आमकां तें मान्य करप सोंपें जाल्लें. ताचो तो वयलेचाराचो कळवळो आनी काळजी दाखोवपाच्या सभावा वयली गिलेट उडूंक लागिल्ली. ताचो तो म्हेंवाळ हांसो, जाचे मोहिनीक भुलून लोकांक दिसतालें, हाका दुसऱ्यांची काळजी आनी मोग आसा, तो सभाव आतां चुकून दिसतालो. फाटले फावटीं दादा वनितामामीक मेळून गेलो तेन्ना तिणें भियेत भियेत म्हणिल्लें, "दिनू बदल्ला, न्हय गो?" आनी मागीर "हें ताचे बायलेक लागूनच. ती ताका आनी भुरग्यांक आमचे पसून पयस दवरूंक सोदता. ती हांगां आयिल्ली तेन्ना 'हें खांव नाका आनी तें खांव नाका' अशें परपरत भुरग्यांक सांगत आशिल्ली. इंग्लिशीन. आमकां समजनाशिल्ले भशेन. आनी दिनू ताका एका उतरान शिटकायना. पूण तो चलो सदांच तसो आशिल्लो, तो केन्नाच कोणा कडेन झगडनाशिल्लो. सामको सादो."

दादा सादो? दिसता तसो जर तो आसत, जाल्यार ही दुर्मीळ वस्त, एक सादो मनीस, कसलींच कासकिसांवां आनी कावेबाजपणां नाशिल्लो मनीस. पूण आयुश्यभर येसस्वीपणान आपल्या मनशांची लागणूक आपणाक लावन घेवंक ना, तो इतलो सादो आसपाकच शकना. अप्पा वतकीर आपलो भार ताचेर घालपाचे संकेत तिणें दिल्ले तेन्ना कशे तरेन ताणें आईक पयस दवरिल्लो ताची याद जाता. आनी म्हाकाय ताणें एका हाताच्या अंतराचेर दवरिल्लो. म्हणटकच हांव मोहना कडेन वळिल्लें. आनी गीता... सदांच तें टॅन्शनांत आसतालें आनी दुख्खी दिसतालें, तकली थंड दवरपाच्यो गुळयोच कित्याक घेतालें? असलो मनीस सादो आसपाकच शकना!"

केन्ना केन्ना मनांत विचार येता - घडये हांवच कडवट जालां, कारण तो सुटिल्लो

आनी हांव बांदून उरलां. हय, म्हाका फाटल्यान दवरून जे तरेन दादा आनी रवी हातूंतल्यान भायर सरिल्ले, ताचो म्हाका राग येतालो. ह्या दिसांनी आई म्हजेर अवलंबून रावताली तें पळोवन म्हाका भंय दिसतालो. तिचे वांगडा आसतालें तेन्ना ती तिचें सगळें जग म्हजे भोंवतणीं घुंवता अशें दाखयताली. म्हजेर शेक गाजोवपाचीं भुरगेपणां करताली. पयलीं तिका हांव कितें करतालें ताची पर्वा नासताली. आतां मात ती प्रत्येक गजालीची बारकायेन चवकशी करताली, चवकस आसताली आनी म्हज्या जिवितांतली खंयचीय गजाल, तिका म्हजे कडल्यान पयस व्हरताशें दिसत, जाल्यार ते गजालीचो दुस्वास करताली. तिचेर रागार जावप काय तिच्या ह्या बालीश उमाळ्यांची काकुळट करप तेंच म्हाका कळनाशिल्लें. उमाळ्यांचो स्फोट जावपाक तिका कितेंय चलतालें, सादें वनितामामी कडेन चार गजाली मारल्यो जाल्यार लेगीत ती बेजार जाताली. हें पळोवन म्हाका दिसतालें, आतां हे भावुकतेची म्हाका गरज ना, म्हाका नाका ती, तिचो ओगीच इबाड जाता, गरज नासतना म्हजेर ती भावना ओत्ता. जेन्ना म्हाका पिशांभशेन मोग जाय आशिल्लो, तेन्ना तिणें म्हजे कडेन दुर्लक्ष करून, आपल्या पुतांचेर लक्ष केंद्रीत केल्लें. 'चाटुगिरी' - तिच्या त्या वागण्याक दादान नांव दवरिल्लें; आनी ही चाटुगिरी म्हजी तिणें केन्नाच केली ना. म्हजें लग्न जालें तेन्ना तिका अजिबात वायट दिसूंक ना. हांव घर सोडून वतना, लोकांक दाखोवपाक लेगीत, तिच्या दोळ्यांत एक दूक आयलें ना. आनी आतां, जेन्ना हांव थंयच्यान भायर सरतां, तेन्ना तिका सामके दुख्खाचे वझरे फुट्टात. तिचें रडप चड वेळ तिगना, तरीय ती रडटा तो मेरेन तें सगळें खरें खरें दिसता.

"वनितामामी खरेंच बरी ना?"

"मात्शी वथ्रेताली, पूण हरशीं म्हणून ती वथ्रेतच आसता."

"नेमकें जालां तरी कितें तिका?"

बशयेंत रकत च्या आयली. रवीन आपली खाणाची बशी कुशीन केली आनी ताणें च्या पियेवपाक सुरवात केली. हांवें बशयेंतल्यान कप उबारलो आनी गडद रंगाचें उदक मेजार आनी म्हजे साडयेर उसळ्ळें.

"बायलांचें दुखणें, अशें म्हाका दिसता."

"बायलांचें दुखणें" - म्हणल्यार तिच्या आंगार जाता आसतलें. हाचो अर्थ, वनितामामीची पिराय लक्षांत घेतल्यार म्हाका कॅन्सराचो दुबाव मारलो. आनी त्या दुख्खाच्या प्रसंगा वेळार लेगीत म्हाका एक विरोधाभास लक्षांत आयलो. वनितामामीचो उतेर, भुरगें जल्माक घालूंक शकलो ना, पूण आतां मरण घेवन आयिल्लो.

"चंदूमामा म्हणटा घडये कॅन्सर आसूंक शकता म्हणून. तो डॉक्टर - याद जाता तुका तो, तोंडार थोकणां आशिल्लो?"-

हय, म्हाका याद जाली. हरशींय ताचें कुरुप तोंड विसरप सोंपें नाशिल्लें. कितेंय

केल्यार ताचीं थोकणां भरून येवप शक्य नाशिल्लीं. तरीय एक गजाल म्हजे मतींत आयिल्ली, ताचें ह्या दोन जाण्ट्या बायलां कडलें वागप - आई आनी वनितामामीकडेन.

"... तो सामके खात्रेन सांगता. खरें म्हणल्यार ताणें तिका बेगोबेग ऑपरेशन कर म्हणिल्लें, पूण वनितामामी ना म्हणटा. तिका भंय दिसता, वा घडय," ताणें कुचित्रांनी हांसत म्हणलें, 'अजूनय भुरगें जायत म्हूण गर्भाशयाक घट्ट धरून बसपाक सोदता आसतली ती."

म्हाका अचकीत तिडक मारली. हो कितें जाणा? बायलां विशीं कितें खबर आसा हाका? ग्रीकांनीच म्हणिल्लें न्हय, गर्भाशय आसल्यार बायल म्हणून? तें वाचून हांव तेन्ना हांशिल्लें, पूण खंयचीय बायल हो दुवो न्हयकारपाक शकता? मासीक पाळयेच्या मध्य चक्रांतले ते जीवघेणे पेटके, बाळंतपणा वेळार पिशे करपी त्यो वेणो - ह्या दुव्याचो विसर पडिल्लो जाल्यार खंयचीय बायल हें सहन करूंक शकतली आशिल्ली?

"इतलो निर्दयी जावं नाका रवी", हांवें व्हडलो भयणीच्या अधिकारान कडक आनी धारदार आवाजांत ताका सांगलें. आमचे मदीं स वर्सांचें अंतर आसून लेगीत हांव ताचे कडेन अधिकारवाणीन केन्नाच उलोवंक नाशिल्लें. रवी जेन्ना "जयाताई" म्हणटालो तेन्नाय तो व्हडली भयण - धाकल्या भावाच्या नात्याचीं फकाणां मारता अशें दिसतालें.

म्हजे तापोवणेचेर दुर्लक्ष करीत, रवीन मुखार सांगलें, "इतलेंच न्हय, आनिकय प्रॉब्लॅम आसात. तो ड्रायव्हर नोकरी सोडून गेलो."

"कित्याक?"

"कोणाक खबर. एक तारखेक येवन ताणें पगार घेतलो आनी मागीर तोंडच दाखयलेंना. आनी आतां थंय ती गाडी गॅरेजींत कळमेत पडल्या. ह्या दिसांनी चंदूमामाक हांव गाडयेंत घेवन भोंवतालों."

"पूण म्हाका दिशिल्लें जोशीबुवाचो गणपत मजत करता म्हणून?"

"ताका खूब कामां आसतात. आतां ताची स्वताची फार्मास आसा ती तुका खबर ना?" आई आनी वनितामामी बरींच बेजार जाल्लीं ताचेर, 'तो आतां व्हडलो जाला' आनी 'जोशीबुवा सारको मनीसच जावचो ना' अशें तीं परपरत म्हणत रावतात. तुका याद आसा, पयलीं तीं जोशीबुवाक कशीं खेपतालीं तीं, चड करून तो सोरो पियेवन तर्र जावन पडटालो तेन्ना?"

जोशीबुवाच्या वांगडच्यो यादी काडून आमी दोगांय हांसलीं. जोशीबुवा - चंदूमामाचो कंपांवडर, कोन्सुल्तादोर आनी मॅन फ्रायडे. जोशीबुवा, मोटवोच, देसेंत मनीस. ताच्या माथ्या वयले विटकरे कॉफी रंगाचे तोपये सकयल ताच्या बारीक, काळ्या मुदयाळ्या, फाटल्यान घेवन वळयिल्ल्या केंसाची देग दिसताली, तो लागीं

लागीं दिसाचीं बारा वरां काम करतालो; आयतारचो लेगीत, कंपावंडराच्या कावंटरा वयल्या इल्ल्याश्या बुराकांतल्यान पेशंटां कडेन पळयत. म्हयन्यांतल्यान दोन वा तीन दीस तो सुटी घेतालो. देवाक खबर खंय वतालो तो, सोरो पियेवपाची हुक्की येताली ताका. असल्या वेळार ताचे सारकोच दिसपी ताचो भाव ताचे बदला कामाक येतालो, आनी जोशीबुवाच आसा अशें दिसतालें. तांचे मदीं फरक इतलोच, जोशीबुवाचो भाव शांत सुसेगाद सभावाचो जाल्यार जोशीबुवा सदांच वाग फाटीक लागिल्ले भशेन. ताच्या धोतराच्यो मिरयो घट्ट धरपा खातीर, ताच्या हाडकुट्या पोंवट्या भोंवतणीं लायिल्ले सायकलीचे आटे तो केन्नाच काडनाशिल्लो - घडये ताका लागूनच सदांच तो आत्तां धांवपाचे तयारेंत आशिल्ल्या धांवपटू सारको दिसतालो.

''बाबडो गणपत,'' हांवें हांसत म्हणलें, ''आई आनी वनितामामीक तो अजून जोशीबुवाचो भेंबरें व्हांवतलो ल्हान भुरगोच दिसता आसतलो.''

''हूं, तशी आईय बरी ना. चंदूमामा म्हणटालो तिचें ब्लड प्रॅशर बरेंच हाल्लां म्हणून.''

''आरे देवा!''

आर जावन, तिचे आवय भशेन, म्हजे दुसरे आज्जेभशेन आई हांतरुणार पडटली, ही कल्पनाच एक वायट सपन कशें. म्हजी दुसरी आजी पॅरालिसीस जावन पंदरा वर्सां हांतरुणार पडिल्ली, म्हाका ती याद जाल्यार आंगाक शेळो घाम फुट्टा.

''आनी आई म्हाका सांगताली... तूं जाणा न्हय ती तुका भितर व्हरता आनी कशी फुतफुत्ता ती... तिका आंबेगांवचो सामको वीट आयला खंय.''

''हें लक्षांत येवपाक बरोच वेळ लागलो तिका,'' हांवें कोडसाणेन म्हणलें, ''म्हाका याद आसा अप्पान आंबेगांवचीं फकाणां केल्यार कशी तिडकताली ती.''

''आंबे-गांव-आंब्यांचें शार'', कुचित्रीपणान अप्पा हिणसायातालो. ''ह्यँ! खरे आंबे हांगा आसात, सप्तगिरींत.''

सप्तगिरीचे ते आंबे - धाकटुले, नकसूद, भांगरा रंगाचे, अमृतरसान भरिल्ले...

हांवें च्यावेच्या कपा वांगडा पोरण्यो यादी कुशीक सारल्यो. ''मागीर, तूं कितें म्हणपाक सोदता? हांवें आंबेगांव वच्चें म्हणून?''

''तें सगळें तुजेर आसा. हांवें तुका फकत सत्य परिस्थिती सांगली.'' खांदे उडयत ताणें म्हणलें. ''पूण हय, म्हाका दिसता, तुवें थंय वच्चें म्हणून. तांकां तुजी गरज आसा. आनी दुसऱ्या दोतोराचो सल्लो घेवंक आमकां वनितामामीक हांगा हाडचें पडटलें. दोतोरानच सांगलां तशें. लक्ष्मणकाकाची सून, जानूची बायल, टाटा हॉस्पिटलांत काम करता, हय न्ही? तुवेंच तें सगळें तिचे मार्फत करून घेतल्यार बरें... म्हणल्यार अपॉयंटमॅण्ट आनी बाकीचें सगळें, हांव तिका तितलों बरों वळखना.''

''हांव करीन'' हांवें सवकासायेन सांगलें, मनांत रवीचीं उतरां घोळयत, 'तांकां

तुजी गरज आसा.'

"तशें जाल्यार बरें जालें तर. तुवें एकदां तें केलें काय चंदूमामा वनितामामीक हांगां घेवन येतलो. कितले जाले?" आमचें बील घेवन आयिल्ल्या वेटराक ताणें विचारलें.

"ना, ना. हांव फारीक करतां," व्हडा दिलदारपणाचो आव हाडीत ताणें म्हजो हात कुशीक सारलो, पूण तो आपलीं बॉल्सां सांसपिता म्हणसर हांवें बिलाचेर थोडे पयशे दवरले. "आंवय, जयाताई, हें बरोबर न्हय. हांव दितां पयशे. कितले जाले?"

"पिशेपणां करूं नाका. व्हडले काय ना ते. आईकय हांगा येवचें पडटलें न्हय?"

"हांगां? हय तर. आनी, आरे हां, तुका तांकां तुमगेर दवरचें पडटलें. हांव दवरतलो आशिल्लों, पूण सध्या हांव घरांत एकटोच आसां. आशा कुळारा गेलां."

"परत?" हांवें हांसत विचारलें. आशा आनी रवीचीं झगडीं मनार घेवप शक्यच नाशिल्लें. लग्राचें वजें अशें नाशिल्लें तांचेर. घडये, तांकां भुरगीं नाशिल्लीं म्हणून जांवये.

"हूं... चल या."

भायर मोड पडिल्लें. पावस सामको धडेर येवन तेंकिल्लो. पूण रवीन आमी भायर सरले बराबर आपल्या बोल्सांतल्यान व्हडलें काळें गॉगल भायर काडलें आनी तें पुसपाक लागलो.

"अरे हय, म्हाका तुका आनीक एक कितें विचारपाचें आशिल्लें," अचकीत कसले तरी बारीक गजालीची याद जाल्ले भशेन ताणें म्हणलें; पूण हांव ताका बरे भशेन वळखतालें, म्हाका कळ्ळें तो आतां मुद्‌द्यार आयलो म्हणून. म्हाका मात्सो सुसेग जालो. इतलो वेळ म्हाका अस्वस्थ दिसतालें, हो म्हजे भोंवतणीं बेठोच घुंवता अशें दिसून कशेशेंच जातालें. पूण आतां तो मुख्य मुद्द्याचेर आयिल्लो. "हें पळय, म्हाका तुवें आशा कडेन उलयिल्लें जाय. तें आपले सदांचेच भिरकेंत आसता - तूं जाणा कितलें बालीश वागता तें? पूण हे खेपे ताचो बापूयय तिडकला. म्हजे कडेन सामको वायट वागलो तो, ताका म्हजे कडेन परत धाडचो ना अशें सांगून गेला - हाका कित्याक पडलां आमचें? हांव ताका..."

"रवी, तुवें कितें केलें?"

रवी रागार-फुगार, लाडाविल्ल्या भुरग्या सारको दिसतालो. "हांवें कांयच करूं ना, ताणेंच सुरू केलें सगळें," ताणें सांगलें. पूण हांव जाणा आशिल्लें आशा एक बरें भुरगेंच न्हय, ताचे कडेन दुश्टबुद्दी वा कुसकेपणांय नाशिल्लीं. आनी हांव रवीकय पक्कें वळखतालें. खूब वर्सां सावन म्हाका खबर आशिल्लें, रवी म्हणटा तो मध्यमवर्गांतलो दुर्मीळ प्राणी - अप्रामाणीकपणाचे धडेर जगपी. तो चुकून बेकार आसतालो, पूण कितें करता तेंय कोण नकळो आशिल्लो. आनी हांवें केन्ना विचारलेंय

ना. ताचे खूब वेवसाय आशिल्ले आनी ते सगळे 'निव्वळ तात्पुरते' आसताले इतलेंच म्हाका ताचे विशीं खबर आशिल्लें. आनी मागीर दुसरी नोकरी पयले नोकरे सारकीच आसताली. रवीच्या नशिबांत येस नाशिल्लें; पूण तो अपेसीय नाशिल्लो. येस आनी अपेसाचे धडेर लटपट्टालो, पूण खंयचेच वटेचो नाशिल्लो.

"हांवें? हांवें कांयच करूंक ना. ताच्या बापायचे तकलेंत कितें तरी भलतेंच घुसलां. ताणें म्हज्या संवसारांत लुडबूड केल्ली म्हाका नाका. म्हाका आशाक सांगूंक जाय, हांव हें खपोवन घेवचों ना म्हणून. ताचे हे डावपेंच हांव सहन करून घेवचों ना. ताका फकत प्रयत्नच करूं दी आनी हांव भायर मारतलों आशाक - असोंच," चुटकी वाजयत ताणें म्हणलें.

"घटस्फोट? रवी, मुर्खा."

"आनीक कितें करूंक शकतां हांव जयाताई? हरशीं हांव खूब पासियेंसाचो मनीस, पूण..."

"बरें, बरें. उलयतां हांव आशा कडेन."

"केन्ना?"

"हांव फोन करतां ताका. ताच्या बापायच्या घराचो नंबर कितें?"

"ना. हांव ताका तुका फोन करपाक लायतां."

"कांय फायदो ना. आमी सध्या चर्चगेट रावनात." केन्ना तरी, सांगूंकच जाय आशिल्लें.

"म्हणल्यार कितें?"

"हांवें तुका सांगलें न्हय, भुरगीं दक्षिणेच्या टुराक गेल्यांत, रुपा आनी अशोका वांगडा. आनी मोहन आनी हांव दादर आसात."

"मकरंदमामाच्या फ्लॅटांत?"

"हय. सदू चवथीक घरा गेला आनी मोहनान एक रिपोर्ट बरोवपाक लागून रजा घेतल्या, आनी म्हाकाय दादरचो जागो निवळ करपाचो आशिल्लो. कुसूम गेल्ल्याक हांव थंय पावंकच नाशिल्लें."

हांव इल्लें अती करतालें काय कितें? हय करतालें, कारण रवी हांसतालो. हांवें ताच्या तोंडार असोच हांसो पळयल्लो. म्हजे डायरेंत बरयल्लीं गुपितां, म्हजींच उतरां तश्या तश्शीं वापरून, पिशेपणां दिसचीं अशे तरेन तो फ़ोडटालो तेन्ना; आनी मागीर सगळीं खोऽ करून हांसतालीं.

"मोहन? कोणें सांगलें पळय तें म्हाका?... याद करतां आं... हालींच, दोन तीन दिसां पयलीं... हांव सचिवालयांत गेल्लों, हय, तेंच तें आनी कोणें तरी... कोण आशिल्लो तो... हय,! याद जाली" ताणें नाटकी पद्दतीन परत चुटकी वाजयली, "महेश गडकरीन, तो कायदे खात्यांत आसा, ताणें म्हाका विचारिल्लें मोहन... तांकां

सगळ्यांक खबर आसा तो म्हजो भावोजी म्हणून... ताणें विचारिल्लें मोहन कसल्या त्रासांत पडला काय म्हणून.''

मोहन म्हजेकडेन उलयत सावन, पयलेचे खेपे, भिरांत म्हज्या शिरंतरांतल्यान व्हांवली, हयन्हयशी, फुलपाकुल्याच्या स्पर्शावरी, आनी हांव पुराय शिरशिरलें.

''कसलो त्रास?''

''म्हाका खबर ना. हांव तुका विचारतां. सांग गो जयाताई, हांव एका शब्दान कोणाक सांगचों ना. खरेंच कितेंय प्रॉब्लेम जाला? हांव कितेंय मजत करूंक शकत म्हजे कॉण्टॅक्ट आसात.''

''तूं!''

पूण रवीक वायट दिसलें ना. ''बरें, बरें. म्हाका खबर आसा, तुजो म्हजेर विस्वास ना म्हणून, पूण दिलीपय आसा. दिलीप मजत करतलो. तुवें ताका एका उतरान म्हणल्यार पुरो, तो रोखडोच शक्य आसा तें सगळें कितें करतलो. आगो, ताची भरपूर वट आसा. बद्द मुख्यमंत्र्या कडेन वचूंक शकता तो.''

रवीचें जगप ह्या 'कॉण्टॅक्टां'चेरच आशिल्लें. घडये, मोहनय तांचे मदलो ताचो एक कॉन्टॅक्टच आशिल्लो, पूण सध्या विधानसभेचे वेंचणुकेंत दिलीप जिखून आयिल्ल्याक, तोच ताचो सगळ्यांत म्हत्वाचो 'कॉण्टॅक्ट' जाल्लो.

''मुर्खपणां,'' हांवें म्हणलें, ज्या कडकपणान हांव उलयलें, म्हजें म्हाकाच कवतूक दिसलें. ''आमकां दिलीपाची गरज ना. आनी आशाक सांग म्हाका यो आनी मेळ म्हणून - केन्ना तें हांव ताका कळयतां. मनांतल्यान मागतां तुमचें प्रकरण चड गंभीर स्वरुपाचें नासल्यार पुरो म्हणून. म्हाका खबर ना, तुमचे बद्दल आईक कळटकच ती कितें म्हणत ती.''

पूण हांव येवजूंक शकतालें ती कितें म्हणटली ती. ती रवीची बाजू घेवंक धांवतली. ''म्हाका खबरच आशिल्लें,'' ती म्हणटली, ''तें चली म्हज्या रवीचे लायकीचें नाच.''

आशा विशीं ती पयलीं कितली उमेदी आशिल्ली हें विसरून ती ताचेर विस्वासय दवरतली. आईची सुरवातीची उमेद ही आशाच्या गुणां खातीर न्हय जाल्यार ताचे सोबीतकाये खातीर आनी ताच्या बापायच्या पयशां खातीर आशिल्ली. ती आनी वनितामामी, दोगांनीय आशाक लग्ना कडेन सामकें लाडोबा केल्लें. ताका बावलें कशें वागयतालीं आनी पोशेतालीं. तें भांगरा-शिंगरांनी नटून बशिल्लें थंय हीं फाटल्या फुडल्यान भोंवतालीं. फकत आशाच्या आंतरीक बऱ्या सभावाक लागून तें हीं सगळीं नाटकां सहन करूंक शकिल्लें. पूण म्हाका ताचे चुरचुरें दिशिल्ले आनी ताचे खातीर हांव बेजारय जाल्लें, ताणें घाल्ली मोतयांची माळ पळय मेरेन.

''आईन दिल्या ती म्हाका''. ताणें सांगिल्लें. निरागस, लजनासतना प्रसन्न हांसत,

ताणें 'आई' हो शब्द इतले आपुलकेन वापरिल्लो, जशें काय तें आपलेच आवयची खबर करता. आईन हे माळे विशीं म्हजे कडेन केन्नाच खबर काडली ना, म्हणटकच तिच्या हेतू विशीं हांव फकत अदमास काडूंक शकतालें.

ती मोतयांची माळ म्हजे दुसरे आज्जेची. आईचे आईची, विधवा जाल्ल्यान कांय घालूंक मेळना जाल्यार लेगीत तिणें कांय भांगर-शिंगर सामकें अपुरबायेन सांबाळून दवरिल्ले. तातूंतलीच ही माळ. आज्जेचो विचार मनांत आयलो काय तिचे कुडींतल्या वखदांचो वासय याद जातालो, ते कुडींत ती मर मेरेन खाटीर पडून आशिल्ली. देवा, कितलें सवकास मरण आयिल्लें तिका - कणाकणान, निमणे फकत तिचे दोळे तितलेच जिते दिसताले. जगा कडेन कुसकेपणान आनी दुबावान पळोवपी दोळे. हांवें तिका कोणाच कडेन बरे भशेन उलयतना वा कोणा विशींय बरें उलयतना आयकूंक नाशिल्लें, आई विशीं लेगीत, तिची एकुलती एक धूव जावन लेगीत. तरीय, आई म्हाका सदांच सांगताली, "आज्जेकडेन बरें करून वाग जया. कोणाक खबर..."

म्हाका तिच्या त्या "कोणाक खबर" ह्या उतरांचो संबंद दुसरे आज्जेच्या दागिन्यां कडेन लावंक बरोच वेळ गेल्लो. तिणें तिचे दागिने तिचे खाटीवयर आशिल्ल्या एका ल्हान कपाटांत बंद करून दवरिल्ले आनी चावयो, त्या कपाटाच्यो आनी ल्हान स्टीलाच्या ट्रंकाच्यो, एका सुताक बांदून आपल्या बारकुट्या गळ्यांत घाल्ल्यो. ते सगळे दागिने म्हाका मेळटले अशी आईची आस्त आशिल्ली. एकटीच तर नात आशिल्ली तिची हांव!

दुसरी आजी भायर पडली तेन्ना हांव आंबेगांव नाशिल्लें. म्हणटकच आपणाक आवयन कांयच दवरलें ना हें कळटकच आईक कितें दिसलें आसत हाची म्हाका कल्पना ना. सगळे दागिने तिणें भुरगीं नाशिल्ल्या चंदूमामाक दिल्ले. कारण तो घरांतलो चलो भुरगो. घडये ह्या सत्या कडल्यान ते जाणटेलेची सुटका जावंक नासतली. आज्जेन ताका सगळें दिल्लें, सोडून मोतयांची माळ - इतलोच कितें तो आईचो वारसो. (आनीक एक वारसो आसा तो आतां म्हज्या लक्षांत आयला. ब्लड प्रॅशर आनी पॅरालिसिसाचो भंय.) "तिच्या दागिन्यांतली सगळ्यांत हलकी वस्त," कोडसाणेन तिणें म्हणिल्लें, "तुका जाय जाल्यार घेवंक शकता तूं." तिणें म्हाका बेपर्वायेच्या सुरांत म्हणिल्लें. आनी आमीय तें तितल्याचेरच सोडिल्लें. ताचे उपरांत हांवें ती माळ आशान गळ्यांत घाल्ली तेन्ना पळयली. "ही म्हाका आईन दिल्या," ताणें सांगलें.

म्हाका खूब राग आयलो, म्हजे खातीर न्हय पूण रती खातीर. म्हाका नाकाशिल्ली ती माळ, दागिन्या फाटल्यान हांव केन्ना धांवलेंच ना. आनी समजा आस आशिल्ली जाल्यार लेगीत ते माळेचो दुसरे आज्जेकडलो संबंद याद जावन, तीय नश्ट जावपाची.

पूण खात्रेन, रती ही नात जाल्ल्यान ताचो ते माळेचेर चड अधिकार आशिल्लो काय ना? आशा परस, हे सुने परस?

''हांव आईक सांबाळूंक शकतां, तूं हुस्को करूं नाका,'' रवीन म्हणलें आनी म्हाका वर्तमानांत हाडलें. ''तो म्हजो मांवच  म्हाका त्रास करता, चेडयेचो. ताचे कडेन पयशे आसात म्हणून...''

रस्तो हुपपाक फूटपाथाचे धडेर राविल्लेकडेन रवी मोठ्ठ्यान उलयलो, पूण कोणे तरी एकल्यानच कुतुहलान आमचे कडेन पळयलें. पांचवी लायट आयली आनी आमी पिशीं कशीं धांवलीं, खंयच्याय खिणाक झुम्म करून सुटपाक गाडयो रावल्यात हें तकलेंत दवरीत. म्हाका थरथरोच सुट्टा, राकेस कशे, रावतात सामके, चिड्डितलेच म्हणून. मोक्ष दिवपाचें उतर दिवन उबे राविल्ले जगन्नाथाचे रथ कशे. पूण हांगां मोक्ष नासतलो. जाणां हांव. पांखां पसरायिल्ल्या गरुडावरी रस्त्यार कूड पडिल्ली आसतली आनी अनवळखी तोंडां, कुतुहलान, येतना वतना नदर घालून वतलीं.

रस्तो हुपतकच रवी आनी हांव एक उतर उलयनासतना आपापले वटेन गेलीं. कित्याक तरी हांवें फाटल्यान वळून पळयलें आनी ताका गर्देन गिळचे पयलीं म्हजी नदर ताचे फाटीचेर पडली. ताची फाट सारकी अप्पाचे फाटी भशेन दिसताली, म्हाका झटकोच बसलो.

हांव टिळक पुला वयल्यान वतना, म्हाका एक विचित्र संवेदना जाणवली, घुंवळ आयिल्लेवरी, पांया पोंदचो पूल हालिल्ले भशेन. चलून घरा वचपाची वा बशीक रावपाची कल्पना हांवें भायरायली आनी टॅक्सी केली. परत ट्रॅफिक लायट बदल्ली. आनी आतां म्हजी पाळी आशिल्ली एका फुटपाथा वयल्यान दुसऱ्या फुटपाथाचेर धक्काबुक्की करीत वचपी लोकांक पळोवपाची.

''सॉर्त आबेर्त!'' जनेलांतल्यान एक हात भितर घुसलो. ''फकत एक रुपया. धा तारखेर आबेर्तूर, एक लाख रुपया.''

म्हजे खातीर न्हय जाल्यार रती खातीर? कोणाक फटयतालें हांव? ''म्हजे खातीर न्हय जाल्यार भुरग्यां खातीर'' अशें स्पश्टीकरण दिलें तरीय 'वखवख' आनी 'आशेकूरपण' हांचो अर्थ बदलचो ना. कारणांच्यो साली काडात, फाटल्यान उरता तो फकत 'वखवख'.

भितर सरून दार बंद करता थंय आसा, मोहनाचो आवाज कानार पडलो.

''जया...''

अस्ताव्यस्त आशिल्ले खाटीर तो सुस्त बशिल्लो. सकाळचे च्यावेचो कप खाटी लागीं आशिल्ल्या कदेलार हांवें दवरिल्लो तसोच आशिल्लो, हात लायनासतना, वयर कॉफये रंगाची सुरकुत्यो पडिल्ली साय दाटिल्ली. हांव हांगांच्यान वतकच तो खाटी वयल्यान हालूंक लेगीत ना हें मोहनाचेर नदरच मारल्यार कळटालें. तोंडां भोंवतणी मिरयो कोरांतिल्ल्यो कशें दिसून ताचें तोंड सुजिल्लें दिसतालें. रंडी...! ना. दादल्यांक हो शब्द वापरनात, पूण मोहना कडेन पळयतकच म्हज्या मनांत होच शब्द आयलो.

"इतलो वेळ तूं न्हिदूनच आशिल्लो?"

"ना," कशेंशेंच तोंड करीत पांयान कदेल पयस धुकलत तो खाटी वयल्यान देंवलो. कदेला वयलें कप हालून धडेर पावलें. हांवें तें उखल्लें आनी रांदचेकुडींत गेलें. रांदचेकुडींतल्यान भायर आयलें तेन्ना तो बाथरुमांत नेटान तोंडार उदक मारतालो तें आयकूंक येतालें. तोंडा वयलें उदक फाफडीत तो बाथरुमांतल्यान भायर आयलो. कांयच उलयनासतना हांवें ताच्या हातांत तुवालो दिलो आनी खाटीर उडयिल्ले आंगार काडिल्ले साडयेची घडी करूंक लागलें. मोहनान हारशांत पळोवन केंस वळयत म्हाका विचारलें, "मागीर रवी कितें म्हणटालो?"

"रवी?" हांव ताच्या पडबिंबाक पळयत हांसलें, पूण ते मेरेन मोहन उबो रावलो आनी म्हजो हांसो ताचे फाटी वयल्यान उसळून परतलो. "म्हजें हें खंय... आं हें पळय हांगां आसा." हांवें गावन चडयलो. "तो आयजच, आंबेगांवच्यान आयला. ताणें घरचें बातमीपत्रच वाचून दाखयलें."

"कसली बातमी आसा?" मोहन म्हजे वटेन घुंवलो. ताणें हातपांय धुल्ले आनी केंसय बरे वळयिल्ले, तरीय ताचेर गबाळेपणाची छाप तशीच उरिल्ली.

"खूब आसात. चडश्यो वायट. सगळ्यांत वायट बातमी म्हणल्यार वनितामामी बरी ना. घडये कॅन्सर आसत, अशें रवीक दिसता." हांवें मोहना कडेन पळयलें, पूण ताचो व्हडलो प्रतिसाद नाशिल्लो. एक तटस्थ 'अशें' सोडून ताणें कांयच म्हणलें ना.

"दुसऱ्या खंयच्या दोतोराचेंय मत घेवचें अशें थंयचो दोतोर म्हणटा खंय. म्हाका मेधा कडेन उलोवंक जाय, जानूची बायल, तें टाटांत काम करता..."

अचकीत म्हजे बेचैनीक केंद्रबिंदू सांपडलो. खरें म्हणल्यार मोहन म्हजें आयकच नाशिल्लो. हांवें उलोवपाचें बंद केलें, तेंय ताच्या लक्षांत आयलें ना. घडी केल्ले कपडे हांवें जाग्यार दवरले. खाटी वयलें हांतरुण सारकें केलें आनी हांव हात-पांय धुवपाक मान्यांत गेलें. हांव परत आयलें जाल्यार मोहन परत हांतरुणार आड पडिल्लो, पूण म्हजी अस्वस्थताय ताच्या लक्षांत आयिल्ले भशेन ताणें वयर पळयलें आनी विचारलें, "रवीक तुजे कडल्यान कितें जाय आशिल्लें? इतले ताकतिकेन कित्याक मेळपाक आपयिल्लो तुका?"

"आं तें! तो आनी आशा परत झगडल्यांत. फकत हे फावटीं प्रकरण मात्शें सिरियस दिसता. तें कुळारा गेलां आनी रवीच्या म्हणण्या प्रमाण ताचो बापूय मात्सो चडच कडक वागता. हांवें आशा कडेन उलोवचें अशें रवीक दिसता."

"कितें?" प्रस्नचिन्न तोंडार घेवन हांव ताचे कडेन वळ्ळें. "ना, म्हणल्यार तुवें आशा कडेन कितें उलोवचें अशी ताची अपेक्षा?"

हांवें केंसांतलीं लिगां काडलीं, केंस सोडले आनी तटस्थपणान स्वता कडेन हारशांत पळयलें. 'फकत दोळे, फकत तुजे दोळे हेर अवयवा सारके ज्युस्ताज्युस्त नात.' हांव निग्रहान हारशा मुखावयलें पयस सरलें.

"रवीन तशें कांयच सांगूंक ना, पूण ताणें तशें सांगपाची गरजय ना. हांवें आशाक कितें सांगचेंशें रवीक़ दिसता तें हांव जाणां. 'बरें भुरगें कशें घरा वच आशा' अशें हांवें म्हणचें. *'घरा वच आनी घोवाचे हुकूम मान. ताणें कितें केलां हाचेर व्हडलें लक्ष दिवंनाका. कितेंय जाल्यार तो तुजो घोव आनी घोव केन्नाच चुकूंक शकना."*

मोहन ओग्गी आनी तटास जालो, ताचे वयल्यान हांव कितें तरी चड उलयलां हें म्हज्या लक्षांत आयलें. हे अस्वस्थतेचेर सेतू बांदपाच्या हेतान हांवें बेगिबेगीन फुडें म्हणलें, "हें पळय, आशाक मेळपाचें म्हाका मान्य करचेंच पडलें. ताका मेळटकरच खरें कितें घडलां तें कळटलें. रवी आपल्या तोंडांतल्यान कांयच भायर घालचो ना. तो हिचण कसो, सुळसुळीत. हांवें रवीक सांगलां हांव आशाक फोन करतां आनी ताका हांगां आपयतां म्हणून."

पयलेच खेप, हांव कितें सांगतालें तें मोहन मन लावन आयकतालो. "तुवें रवीक सांगलें आमी हांगां आसात म्हणून?"

"म्हाका... म्हाका सांगचेंच पडलें. उपाय नाशिल्लो. हांवें म्हजे तरेन कितें तरी निमित्त सांगपाचो प्रयत्न केलो, पूण तूं जाणा रवी कसो तो... तो वास काडूंक लागिल्लो. आनी हां, आरे, कशें विसरलें हांव? रवी म्हणटालो तूं कसल्या तरी त्रासांत पडला हें ताणें आयकलां खंय..."

हांवें आतांच सारकी केल्ली चादर दोनय हातांनी घट्ट धरून, मोहन एकदम उठून बसलो. हांव घरा आयिल्लें तेन्नाच्यान ताणें तोंडार चडयिल्लो मुखवटो एकदम गळून पडिल्लो. आनी आतां म्हाका दिसतालो तो प्रतिस्पर्धी. म्हज्या काळजान उसळी मारली - ताची धडधड म्हाका जाणवली, एकदां, दोनदां, आनी मागीर ताणें अस्वस्थ धडपडपी ताल धरलो.

"त्रासांत? त्रासांत पडला म्हणल्यार कितें? ना, आसूं तें..." तिडकीभरशी ताणें म्हाका विस्कटायिल्ली चादरय सारकी करपाक दिली ना. "कसलो त्रास?"

"म्हाका खबर ना. म्हणल्यार, रवीन नेमकें कितें तें सांगलें ना. ताणें फकत म्हणलें..."

“कितें? कितें म्हणलें ताणें?”

म्हजेर हल्लो चलिल्लो. प्रस्नांचो भडीमार म्हजेर जावंक लागिल्लो. एक प्रतिस्पर्धी? हय, मोहन एक प्रतिस्पर्धी जाल्लो, जाची दुस्मानकाय हांव चिंतूंकच शकना असो प्रतिस्पर्धी.

“तुवें ताका आनीक कितें विचारलें? ताचे कडल्यान आनीक कितें काडून घेवपाचो यत्न केलो?”

ताच्या रागा मुखार हांव दबलें. ना, तो राग न्हय, म्हजे मेरेन येतालें ताचें वर्णन करपाक राग हो शब्द कमी पडपाचो. आनी हांव कांयच करूंक शकनाशिल्लें. फकत आडखळत नन्नाचो पाडो गिरयतालें. ताच्या एकेक प्रस्नाच्या भडिमारान रवीन जें कितें इल्लेंशें सांगिल्लें तेंवूय तकलेंतल्यान सुटूंक लागिल्लें. रवीन कितें म्हणिल्लें तें?

“रवी कोणा विशीं उलयतालो? ते व्यक्तीचें नांव कितें? रवीन कोणाचेंच नांव घेतलें ना? तुवें ताका विचारलें ना?”

“म्हाका याद जायना, म्हज्या लक्षांत येना, ना, ना, ना...”

निमाणे, म्हजे कडल्यान आनीक कांयच म्हायती मेळची ना हें लक्षांत येतकच ताणें म्हजी फाट सोडली. ना, फाट सोडली ना, ताणें म्हजेर चढाय सुरू केली.

दरेक नातें स्वताची एक उतरावळ तयार करता. आमी कामापुरती आमची उतरावळ घडयल्ली. आपोआप आनी अपरिहार्यपणान येतली अशी दिशिल्ली मोगाची उतरावळ आमकां सोडून फुडें गेल्ली; आनी रागाचीय उतरावळ. ना, हांवेंच तिका एकटी सोडिल्ली, म्हज्या अभिव्यक्त भावनांचेर संकश्टांची घुरी पडिल्ली आनी आमचे विवाहसंबंद उध्वस्त जाल्ले तेन्ना. तेन्नासावन, आमी पयल्या पांवड्यावेल्या मुळाव्या ‘मुद्रां’मुखार केन्ना गेलींच नात. आतां अचकीत, अयोग्य तरेन, तो म्हाका फाटीं घालून मुखार गेल्लो. ताचीं बोटां लिकलिकलीं, प्रतिमा चित्रायत, सोबितकायेच्यो न्हय, काळखाच्यो आनी फटीच्यो प्रतिमा.

“हांव सामकों नरकयातना भोगतां हांगां, अगरवालान म्हाका कितें जातलें हाची कल्पना दिली तेन्नाच्यान हांव मरण यातना भोगतां हांगां. पूण तूं... तुका हातूंतलें कांयच पडूंक ना.”

“तुवें म्हणलें, ‘चल, आमी दादर या’ आनी आयलें हांव तुजे वांगडा हांगां.”

“हांगां आयलें म्हजे वांगडा?” हो हांसो मोहनाचो नाशिल्लो. हांवें हो हांसो केन्नाच आयकूंक नाशिल्लो. “तूं हांगां केन्नाच आसना. वावराडी, शेजारी - म्हाका चुकोवपा खातीर तूं कोणाकय धरता, कसलेंय निमित्त सोदता.” मोहन मदीं मदींच आपली चलाखी दाखयतालो आनी हांव अजापतालें, आयज तशेंच जालें.

“हांवें तुका अगरवालान म्हाका कितें सांगलां तें सांगलें तेन्नाच्यान तूं पडून गेलें ना कशें वागता. तुजो सदांचोच सभाव हो. तुका याद आसा, लोहानगर तुवें म्हाका

विचारिल्लें, सीई. म्हणल्यार कितें?'''

''पूण म्हाका त्या शॉर्ट फॉर्मांचो अर्थ खंय खबर आशिल्लो, सीई म्हणल्यार चीफ इंजिनियिर आनी एमडी म्हणल्यार...''

''सगळ्या बायलांक खबर आशिल्लें, मुर्खांतले मुर्ख बायलेक लेगीत. तुवें केन्ना कास्तिकच घेतली ना समजून घेवपाची. सीईचे बायले कडेन दोस्ती करपा सारकी साद्यांतली सादी गजाल लेगीत जमली ना तुका.''

''ती... हांवें तिची चमचेगिरी करची अशी तिची अपेक्षा आशिल्ली.''

''आनी म्हजें कितें? तो सी टायप क्वॉर्टर्स मेळोवपाक हांवें कितें केलें ना? म्हाका 'बी' वा 'सी' कसलोय क्वॉर्टर्स चलतालो, पूण तूं... तूंच परपरत म्हणटालें तुका त्या पयलींच्या घरांत रावंक जायना, तूं थंय रावचें ना, तुका थंयच्यान कशेंय करून भायर सरूंकच जाय..''

हांव आमच्या पयल्या घरांतल्या जल्ल्यांच्या, गटाराच्या आनी संडासाच्या घाणी कडेन जोडिल्ल्या यादींनी आनी रेब्यांत रोमलें. त्यो इमारतीच्यो रांको पळोवन म्हज्या काळजांत घप्प जाल्लें, दर रांकेंत चार फ्लॅट्स. सगळे एका सारकेच विद्रूप, कश्याकश्योय बाद प्लास्टर केल्ल्यो आनी उदकाचो तेंव येवन विटकऱ्यो जाल्ल्यो वणटी, कितलीय धुली-पुसली जाल्यार लेगीत निवळ जायनाशिल्ली खडबडीत शिमिटाची जमीन. पूण ते घाणीन हांव दुख्खी जावंक नाशिल्लें; ना, तशें म्हणल्यार तीं सामकी धोंगीपणां जातलीं. म्हजे बेचैनीचें कारण वेगळेंच आशिल्लें. म्हाका कात्रींत सांपडिल्ले भशेन दिसतालें. हांव एकटें आसतना, दोळ्यांकडेन येवन राविल्लीं दुकां घळ्ळ करून गळटालीं. कांयच कारण नासतना व्हांवपी हो दुकांचो घसघसो लज जावपा सारको आशिल्लो, आनी मात्सोसो खोस जावपा सारकोय, केन्ना केन्ना कारण नासतना लेगीत. म्हजीं दुकां दिसाळ्याचेर लेगीत गळिल्लीं. 'दादल्यान बायल आनी भुरग्यांच्या पोटांत सुरी तोंपली' हे बातमेचेरय हांव रडटालें आनी 'सरकारी नोकरांक चड म्हारगाय भत्तो' हे बातमेचेरय.

अजाप म्हणल्यार, हीं दुकां हांव एकटें आसतनाच येतालीं. एक दीस हांव हुंदक्यांनी रडटालें तेन्ना एक शेजान्न अचकीत भितर आयली. तिका दिसलें व्हंकलेक घरची याद येवन ती रडटा आसतली. फकत एकदांच मोहन घरा आसतना म्हजो स्वता वयलो ताबो सुटिल्लो, तेन्ना तो थर्त भियेल्लो. निमणे ताणेंय तेंच विचारिल्लें, ''तुका आईची याद येता?'' हांव म्हजें रडें आवरूंक शकिल्लें जाल्यार हांव हांसपाचें, पूण आतां म्हाका कसलें तरी स्पश्टीकरण दिवचें पडटलें, म्हाका म्हज्या भितरल्या आवाजान सांगलें, ताका म्हज्या दोळ्यांतल्या दुकां पसून दोशमुक्त करपी स्पश्टीकरण, म्हणटकच म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरिल्लीं, ''म्हाका हो जागो सहन जायना, हांगां घाणी मारतात, हांव जेवंक लेगीत शकना, तें रोखडेंच परत ताळया कडेन

येता.''

कांय दिसांनी म्हाका दीस गेल्यात हें समजतकच ताणें सुटकेचो उस्वास सोडिल्लो. ताच्या मनांतलें कुवाडें सुटिल्लें. म्हाका मस्को मारीत ताणें म्हणिल्लें, ''तूं आंबेगांवच्यान बाबूक घेवन येता म्हणसर आमी ह्या जाग्यांतल्यान भायर सरतलीं. हांव तुका उतर दितां.''

''त्या क्वार्टरांतल्यान आमी भायर सरतलीं हाचें उतर हांवें तुका दिल्लें आनी हांवें तें पाळ्ळें लेगीत. आनी त्या वेळार म्हाका सीईन मजत केल्ली. तो मनीस बेठोच कोणाचेरय फावोर करपी न्हय. हे क्वॉर्टर्स आमकां मेळपाक म्हाका कितें करचें पडलें हाची तुवें सादी वासपूस लेगीत केली ना.''

''म्हाका दिसलें तें अशेंच जालां आसतलें म्हणून. म्हणल्यार, म्हाका दिसलें तें नेमा प्रमाण जालां आसतलें म्हणून.''

देवा म्हज्या, आमी दोगांय कित्या खातीर दोन ल्हान मुर्ख भुरग्यां भशेन झगडटालीं? केन्ना तरी भूतकाळांत घडिल्ले घडणुकेचो आतां आमचे कडेन कितें संबंद? पूण मोहन थांबलो ना.

''ताचे उपरांत हांव सारकों सीईच्या चपक्यांत सांपडलों. खंयूय कितेंय चुकलें जाल्यार ताका कोणय बोकडो जाय आशिल्लो, सगळ्या उण्या दर्ज्याच्या म्हालाक हांव मंजुरी दितालों. सीई आनी कॉण्ट्रॅक्टरान जोडून काडले. आनी म्हाका कितें मेळ्ळें काय म्हणल्यार तें एक घर, पूण तुका ताचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. तुका कित्याचेंच पडिल्लें नाशिल्लें. तुका तुजे गरजे मुखार आनीक कांयच दिसनाशिल्लें.''

म्हज्यो गरजो, आमच्यो गरजो, भुरग्यांच्यो गरजो... हो घुस्पागोंदळ सोडोवप मात्शें कुस्तारच आशिल्लें. तो सोडोवपाचो यत्न लेगीत करप म्हाका शक्य नाशिल्लें.आनी हरशींय आतां खूब कळाव जाल्लो.

''हांव जाणा, तसो तुजे खातीर हांव कांयच न्हय. काय दिनकरान सांगलें म्हणून तूं म्हजे कडेन लग्न...''

ह्या उतरार हांव ओगी रावंक शकनाशिल्लें, ''हें तुका कोणें सांगलें?''

''तुजे आवयन.''

''आई!''

''हय, हय. हांव जाणा तूं तुजे आवय विशीं कितें चिंत्ता तें. दिनकर आनी तूं तिचेर हांसतना, फकाणां करतना हांवें पळयलां. स्वताचे आवयचीं फकाणां! मागीर म्हजे खातीर कितेंय भावना आसत, अशी अपेक्षा हांव कशी करूं?''

हे विचित्र, नसते आरोप आनी हो भयंकर राग - तो कितें सांगूंक सोदतालो? इतले दीस आमी गुपचूप गुन्यांव, राग, द्वेश हांची जणू काय वेणी गुंथतालीं. आतां कपडो विणून तयार जाल्लो, पूण पुराय डिझायन कितें हेंच म्हाका होलमनाशिल्लें.

दर एक नवो आरोप म्हाका घुस्पायतालो. तो कितें दाखयता तेंच म्हाका कळनाशिल्लें. आनी आमी खबरांपत्रां वयल्या विनोदी कार्टूनांतलीं भुरगीं कशीं.

*"तें नखेत्र दिसता? तें? ना, दुसरें. म्हणल्यार तें? ना, ना, तें न्हय.."*

म्हजें घुस्पल्लें मन तिडकल्लें. तो म्हजेर कसले आरोप करतालो? आनी, आवय देवा, म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां कित्याक फुटनाशिल्लीं? हांव कांयच कित्याक म्हणूंक शकनाशिल्लें? तो म्हजेर आरोप करीत सुटिल्लो आनी ताका हांव प्रत्युत्तर दिवंक शकना म्हणून म्हजे म्हाकाच हांव मूर्ख आनी असमर्थ दिसतालें. मात ताणें जेन्ना म्हणलें, "हांवें तुका केन्नाच कित्याकय आडावंक ना. तुका जाय तें करूंक दिलें..." तेन्ना वेदनेची एकूच कळ मस्तकांत सणकली आनी म्हजी मोनी जाल्ली वाचा सुटली.

"म्हजें लेखन," हांवें एकदम अडाण्या सारकें म्हणलें, "तुका लागून हांवें म्हजें लेखन सोडलें."

"तुजें लेखन?" ताका खऱ्यांनीच अजाप दिसलें, "म्हणल्यार कितें? तें कित्याक, हांगां लेगीत, हांगां हांव इतलों... इतलों बेजार आसतना लेगीत, तूं बरयता, तुका बोवाळ जावचो न्हय म्हणून हांव सामकों सांबाळून वागतां. सुरवाती सावन हांवें तुका बरोवपाक दिलां, तुका प्रोत्साहन दिलां, म्हाका तुजे विशीं अभिमान आसा."

"म्हजी बायल लेखक"- हय, अभिमान दिसपा सारकी गजाल, एक प्रतिश्ठीत छंद, तातूंत हांव दुसऱ्या बायलां परस वेगळें दिसतालें, म्हाका प्रतिश्ठा दिवपी अशी गजाल, ताका लागून ताचेय प्रतिश्ठेंत भर पडटाली. "म्हजी बायल, एक लेखक," म्हजी वळख करून दितना खूब वेळा तो सांगतालो. मानसन्मान मेळ्ळो जाल्यार ताका खूब खोस भोगताली. कोण वळखलो ना जाल्यार तोच जावन सांगतालो, तें 'विमॅन्स वर्ल्ड' ह्या मॅगझिनाक बरयता. त्यो, 'सीतेच्यो बी' काणयो." ताका कोणेंय फकाणांनी 'मिस्टर सीता' म्हणलें जाल्यार तर ताची खोस दोबराद जाताली.

"तुका खबर आसा, आयतारच्या पुरवणी संपादका कडेन तुज्या स्तंभा विशीं हांव उलयिल्लों. म्हाका फावनाशिल्लें स्त्रय घेवपाचें ना म्हाका, पूण फरक पडिल्लो - हांव तुजे विशीं त्या संपादका कडेन उलयलों म्हणून."

त्या स्तंभाक, हय ताकाच लागून म्हाका लोक वळखूंक लागिल्ले, पूण म्हज्या प्रत्येक लेखा वांगडा म्हजो काळ्योच वळी आशिल्लो फोटू येतालो, तो पळोवन म्हजो म्हाकाच भंय दिसतालो. रुपडें घाल्ल्या कोणाक तरी हांव, 'हांव' म्हणून पळयतां वा हांवें ते स्तंभलेखक बायलेचें रुपडें घालां अशें म्हाका दिसतालें. तो स्तंभ बरयतले बायलेच्या मनांत कसलेच दुबाव नाशिल्ले. फकत ठाम विस्वास आशिल्लो. ती आशिल्ली मुक्त मनाची, कसलेच पूर्वग्रह नाशिल्ली अस्तुरी. ताचे उरफाटें हांव - जेन्ना आंबेगांवां देवीचे व्रण आशिल्लो तो दोतोर, हरशीं दुखखी आनी कश्टी कसो,

म्हाका पळयतकच एकदम फुल्लो, तेन्ना हांव झुप्प करून फाटीं सरलें, फट करून म्हज्या मनांत विचार आयलो - *कितलो विद्रूप दिसता!* आनी राहुल जल्मलो तेन्ना, आनास्तेजीचे घुंवळींतल्यान भायर येवचे पयलींच म्हजो पयलो प्रस्न आशिल्लो: तो गोरो आसा काय ना?

"हांव त्या लेखना विशीं उलयना," हांवें जड आवाजांत म्हणलें, चिंतलें - कांय उपेग ना हाचो, तो तें खऱ्यांनीच विसरून गेला, हाचे परस आनीक कितें वायट जावंक शकता? ताणें कितें केल्लें तेंच तो विसरला. आनी म्हज्या लक्षांत आयलें, हांव उलयलें जाल्यार लेगीत कांयच उपेग नाशिल्लो. तो हांव उलयतां तें आयकुचो ना. अडेच्या रागाचें हत्यार उबारून ताणें स्वताक सशस्त्र केल्लो, पूण ताच्या पोंदां चिड्डल्लो वैरभाव म्हाका जाणवतालो. ताणें म्हजेर आरोप केले - म्हजें भुरग्यांकडेन लक्ष ना, ताका कुशीक मारला, ताच्या प्रस्नांकडेन दुर्लक्ष केलां - आनी कसले तरी दुर्बोध सूडभावनेन हांव हें करतां. हांवें ताका थातारपाचो यत्न केलो, पूण ताच्या आक्रमक माऱ्यामुखार म्हजें निर्बळ बचावतंत्र दुबळें पडलें.

"चडश्यो गजाली तुका जाय तश्यो हांवें तुका करूंक दिल्यात, तुका तुज्या घरच्यांक जेन्ना मजत करपाची आशिल्ली तेन्ना हांवें केन्नाच तुका आडायलें ना, तुका जाय तें हांवें तुका करूंक दिलें..."

"फकत तुका अडचण जाताशी दिसता तेन्ना तुवें म्हाका आडायलें."

"कितें म्हणपाचें आसा तुका?"

म्हाका नोकरी करपाची आशिल्ली तेन्ना, म्हाका भुरगें दत्तक घेवपाचें आशिल्लें तेन्ना, दरवाडीच्या विरोधांतले चळवळींत म्हाका वांटो घेवपाचो आशिल्लो तेन्ना... हांव ह्या सगळ्यांची वळेरी म्हज्या मनांत तयार करतालें, तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें, ह्या सगळ्यां कडेन मोहनाचो संबंद नाशिल्लो. हांवें ह्यो गजाली केल्यो नात, कारण हांवेंच त्यो पयस दवरल्यो. खरें म्हणल्यार हांवेंच तांचेविशीं जाय तितली आस्था दाखोवंक ना. म्हणटकीर हांवें म्हणलें, आनी हें म्हणटना म्हजो आवाज म्हजे म्हाकाच उदास दिसलो, "तुका कितें जाय आशिल्लें तितलेंय हांवें केलां."

आनी आतां, म्हाका दिसलें, ताका पुस्ती जोडची: "तूं आनी भुरग्यां खातीर हांवें म्हज्या आयुश्याची आहुती दिल्या." पूण ह्या आप-विडंबनाक बुद्वीत कोडसाण भितर सरली, आनी म्हजे हांवेंच म्हाका ताच्या सपनांक बांदून घेतलां हाची जाणीव म्हाका जाली. ल्हान भुरगो आसतना ताचें हें सपन सुरू जाल्लें, ते काळखे पडवेर त्या तीन बायलांचें झगमगतें दर्शन ताका जाल्लें. म्हाका दिसलें, आमच्या लग्नाच्या इतल्या वर्सांनी ताच्या त्या बायलांचें वजें हांवें व्हांवयल्लें.

पूण ताका कोणच आडावंक शकलो ना. ताचे भितर हुंवार आयिल्लो.

रामूकाकाच्या मीरान सांगिल्ली गजाल, पानशेत धरण फुटिल्लें तेन्ना तें पुण्यांत

आशिल्लें खंय आनी न्हंयंक हुंवार येता हें आयकून उचांबळीत जावन तीं कांय जाणां उमेदीन तो हुंवार पळोवंक गेलीं. "पूण न्हंयचें उदक इतलें फास्ट चडलें, आमकां धांवत फाटल्यान येवचें पडलें. जशें कितें ती न्हंयच आमचे फाटल्यान लागिल्ली. आनीक कांय मिणटां आमी थंय राविल्लीं जाल्यार सरळ बुडपाचीं." ताच्या आवाजांत अविस्वसनीय राग आशिल्लो. निरुपद्रवी गजालीन आपणाक फटयलें, म्हणून तें तिडकल्लें.

आतां म्हाकाय तशेंच दिसलें. भुरगेपणांत जेन्ना आमी भुरगींच खेळटालीं, आनी हारतात अशें दिसतकीर 'रडी रडी' करून आड्डी मारतालीं तशें म्हाका करचेशें दिसलें, पूण म्हजी वाचा गेल्ले भशेन हांव थंयच ओग्गी बसलें. ताच्या रागान जखडून गेल्ले भशेन. एक अक्राळ विक्राळ भालो म्हजें आंग चिरीत गेलो, यातना दीत आनी तरीय दया-माया दाखयनासतना जितें दवरून.

"म्हजी बायल... " हे शब्द ध्रुपद कशे मदींच ताच्या विस्फोटांतल्यान व्हांवत आयले आनी म्हाका, हांवें म्हज्या लग्ना दिसा हारशांत पळयिल्ली अस्तुरी दिसली... ती अस्तुरी हांव नाशिल्लें... पूण तिणें म्हजे वयलें 'बायलपणाचें' वजें काडून घेतिल्लें. एक विनोदबुद्दी नाशिल्ली, एकेच गजालीचो ध्यास घेवपी व्यक्ती. पूण आतां मोहनाच्या दोळ्यांत तिचे विशीं उलयतना वेदना दिसताल्यो. सामकी लागींची व्यक्ती हो संवसार सोडून वतकच दिसतात तसल्यो वेदना. सुहासिनीक मरण आयलें, हय, तेंच तें, मोहन तिचे खातीरच शोक मनयतालो, निमणें ती दर्यांत चलून गेल्ली. ना, खरें म्हणल्यार निमणें हांवेंच तिका मारिल्ली. ना, हेंय खरें न्हय, आमी दोगांयनी तिका मारिल्ली, मोहनान आनी हांवें, पूण मरतना तिणें इतलीं वर्सां व्हांवोवन व्हेल्लें वजें म्हाका परत केल्लें. आतां म्हाकाच व्हांवोवचें पडटलें तें बायलपणाचें वजें.

"हांव केन्ना बेजबाबदार आनी निर्दयी वागलां?" मोहनान म्हणलें. आनी हांव जाणा हें म्हणटना तो आपल्या बापायचें चिंत्तालो. "हांव केन्ना तसो वागलों ना. हांवें सदांच तुजें आनी भुरग्याचें हीत पयलीं पळयलां, हांवें तुज्या सगळ्या कोल्लीपणा कडेन पासियेंस काडलां. हांवें तुका केन्ना कांय ना म्हणूंक ना, पूण खरें म्हणल्यार तुका आतां म्हजो दुस्वास दिसता, कारण हांव हारलों. म्हजी नोकरी आनी म्हाका स्थान आशिल्लें ते मेरेन बरें आशिल्लें, पूण आतां म्हजें हें सगळें वचपाचें आसा तेन्ना..."

"ना, हें फट, मुर्खपणां, अशें कितेंय म्हणपूच भयानक," हांव आड्डलें. असलो... असलो निर्दयी आरोप आयकून हांव ताका ओगी रावंक शकनाशिल्लें. आनी तरीय म्हाका दादाचे शब्द याद जाले - तो इंजिनियिर, ताका बरी नोकरी आसा.

"हें फकत तूंच म्हणून न्हय, सगळ्यो बायलो तश्योच," म्हजे कडेन दुर्लक्ष करीत तो उलयत रावलो, "म्हजी आई..." ताणें सुरू केलें, पूण हांवें ताका वाक्य पूर्ण

करूंकच दिलें ना.

"हांव कोणशें दिसता, कसले तरेची बायल कशी दिसता तुका हांव?" हांवें ताका रागान विचारलें.

"हांव तुका सारको वळखतां," स्वताचीच खात्री पटोवंक, परत म्हणलें, "इतलीं वर्सां वांगडा रावन तुका दिसता हांव तुका सारको वळखना?"

"ना," म्हाका सांगपाक जाय आशिल्लें, "ना, तूं म्हाका सारको वळखना." पूण तो बरोबर आशिल्लो; खऱ्यांनीच तो तिका सारको वळखतालो, ताचे वांगडा ताची बायल म्हणून रावताले ते अस्तुरेक. ती अस्तुरी - ताचो फुडार पर्जळीत आसा देखून तिणें त्या दादाल्या कडेन लग्न केल्लें. आतां, ती आसतली... ती आसतली...

हांव मात्शें फाटीं फुडें जालें, म्हजे घुस्पल्ले विचार तकलेंत भोंवरो कशे घुंवताले, इतल्यांत मोहनान, कश्टी आवाजान, दुख्खी चेऱ्यान म्हणलें, "तुका दिसता, हांगा येतकच तुज्यांत जाल्लो बदल, हांवें लक्षांत घेवंक ना? आमची परिस्थिती बदलतली हें सांगतकच जाल्लो बदल?"

आतां मोहनाचो चेरो, कोणाची याद करून दितालो तो म्हाका? हय, राहुल. ताच्या तोंडांतली चींव वा दुदाची बाटली ओडून काडटकच राहुल असोच दिसतालो. बाबडो राहुल, बाबडो मोहन, तांची चींवच ओडून घेतल्या...

*हांवें हांसूंक फावना... हांवें हांसूंक फावना...* म्हजीं नेर्वां चाळवताशीं दिसतालीं, पूण त्या खिणाक लेगीत एक शिटकावणेची घांट म्हज्या मनांत मोटट्यान आनी स्पश्टपणान वाजली.

हांवें स्वताचेर नियंत्रण दवरूंक जाय, ह्या हांश्याक गुड्डी मारूंक जाय. पूण चड कळाव जाल्लो. हांव तो थांबोवंक शकलें ना. म्हज्या हांश्याचो स्फोट जावन सगळे कडेन उसळ्ळो आनी मोहन सामको भियेवन, असहाय कसो म्हज्या गदगदपी शरिरा कडेन पळयत उरलो.

भानार आयलें तेन्ना कळ्ळें हांव कुडींत एकटेंच आसां. थंय व्हांवताली फकत निशब्दताय. हांवें तोंडा वेल्यान हात भोंवडायलो आनी हांवें कितें केलें तें समजून घेवपाचो यत्न केलो.

अशें हाचे पयलींय जाल्लें. म्हाका याद जाली, हाचे पयलींय एकदां म्हाका अशें जाल्लें. हय, दादा आनी हांव हांसतालीं आनी आई आमचेर सणसणटाली - तुमचो बापूय मरून एक सप्तक जावंक ना आनी तुमी खिदळटात? तुमी मनशां काय जनावरां गो?

आमी तेन्ना स्पश्टीकरण दिलें ना. आमच्या हांसपाचें तें स्पश्टीकरण दिवंक शकलीं नात. तेंच चड बरें, जावंदी आईक बेजार, दिवंदी तिच्या रागाची ख्यास्त आमकां. कारण आमकांच खबर नाशिल्लें ह्या दुख्खाच्या प्रसंगांत इल्ल्याशा कारणाक

लागून आमी नेर्वां चाळवल्लेवरी अशीं कित्याक हांसत सुटलीं. पूण हे फावटी, म्हाका दिसलें, हांव मोहनाक सारकें स्पश्टीकरण दितलें. *सॉरी,* हांव म्हणटलें, *म्हाका हांसपाचें नाशिल्लें. हांव तुका हांसनाशिल्लें. हांव सगळ्यांकच हांसतालें - आमच्या लग्नाक, आमकां, हे सगळे विचित्र धांवपळीक, आमी जिवीत म्हणटात ताका.*

खाटीर बसून, मांडयेकडेन गावनाचेर पडिल्ल्यो मिरयो सारक्यो करीत, हांव शब्दांची जुळवाजुळव करपाक लागलें. म्हज्या काळजाचे ठोके कानांत घणघणपाक लागले.

काळजाचे ठोके ल्हवू ल्हवू कमी जायत गेले आनी थांबले. हांवें पावलांचो आवाज आयकलो. मोहन हांगां येतालो. म्हाका ताचे कडेन उलोवचें पडटलें, ताका सगळें स्पश्टीकरण दिवचें पडटलें. म्हजें शरीर ताठरलें, भुजां आनी कपला वयल्यान घाम फुट्टां फुट्टां सगळें आंग थंड पडलें. पूण इतल्यांत पावलांचो आवाज पयस गेलो. मुखा वयलें दार उगडलें आनी मागीर ठण् करून तें बंद जालें.

तो गेलो. झुप्प करून हांव धांवत दारा कडेन गेलें आनी भायर पळयलें. सोंपणाचेर कोण नाशिल्लो. पिशें कशें तशेंच धांवत हांव बाल्कनींत गेलें. मोहन बिल्डिंगेंतल्यान भायर सरिल्लो आनी वयर पळयनासतना, झपाझप चलत राविल्लो. कोनशाक पावचे मात्शे पयलीं ताणें टॅक्सीक हात दाखयलो. टॅक्सी थांबली आनी तो भितर बसलो. सवकासायेन टॅक्सी रस्त्याचे मदीं गेली आनी हेर वाहनां मदीं नाच्च जाली.

कितलो वेळ बसलां आसतलें काय हांव सोफ्याचेर? दिमयो सामक्यो आंखडून गेल्ल्यो, तशेंच उठलें. सांजेची गडबड-बोवाळ ल्हवू ल्हवू कमी जावन ताचेर रातीच्या मोनेपणाची सावळी पडिल्ली. हांव लायट लावपाक वतना वाटेर स्टुलाक आदळ्ळें, पूण हें आदळप काळखाक लागून न्हय, म्हाका ह्या जाग्याचो अदमास येनाशिल्लो म्हणून जाल्लें. म्हाका सप्तगिरीच्या घरांतय एकदां अशेंच जाल्लें, तेन्ना हांव आईचो विरोध खोंटावन, सप्तगिरीचे आज्जेच्या मरणा उपरांत थंय गेल्लें. जें घर म्हजे सामकें संवकळीचें आशिल्लें थंय पयलेच फावट आयिल्ले भशेन हांव सप्तगिरीचे आज्जेच्या घरांत आदळिल्लें.

"थंय कित्याक गेल्लें तूं?" आंबेगांव पावतकच आईन म्हाका रागान विचारिल्लें, "हॉस्टेलांतल्यान सरळ घरा कित्याक येवंक ना?"

"हें म्हजें घर न्हय, सप्तगिरीचें घर म्हजें घर." भुरगेपणान हांवें तिका जाप

दिल्ली.

पूण म्हाका खबर आशिल्लें हें खरें न्हय म्हणून. अप्पा आनी आज्जे बगर तें घर म्हजें उरूंक नाशिल्लें. "केन्ना केन्ना येत राव जया," काकांनी म्हणिल्लें, "हें घर तुजेंच." पूण तें तशें नाशिल्लें. आज्जेच्या घरा मुखार टांग्यांतल्यान देंवले बराबर म्हज्या तें लक्षांत आयिल्लें. तरीय हांवें आई मुखार जाहीर केल्लें, "म्हजें घर सत्तगिरी आसा". हांव कित्याक तिका इतलो दुखोवपाचो यत्न करतालें? त्या भावनांचो खवदळ आतां उरूंक नाशिल्लो. मनांत उरिल्लें तें फकत एक चित्र - अप्पा भायर पडिल्लो त्या दिसा सगळें आंगच घट जाल्लेवरी हातांची घडी छातयेर दवरून आनी पांयांचीं बोटां मळबाकडेन ताणून खाटीर न्हिदिल्ले आईचें. जशी काय तिरडेर न्हिदयल्ल्या अप्पाची ती नक्कल करताली. हांव स्वास धरून भिवनच तिचेकडेन पळयतालें... तिवूय मेली काय?... कसली तरी खरखरीत वस्त घांशिल्लेवरी गळो आनी छाती दुखताली. इतल्यांत तिचें हड्डें हाल्लें आनी हांवें निस्वास सोडलो.

एक हात स्विचार दवरून हांव उजवाडान भरिल्ल्या रुमाक पळयत रावलें. म्हाका उजवाड कित्याक जाय आशिल्लो? हांवें लायट बंद केली आनी बॅडरुमांत वचपाक गेलें. रती आवडीन म्हणटालें तें बडबडगीत याद करीत; *बॅडटायम, कॅण्डल टायम, टायम टू गो टू स्कूल, टायम टू क्लोज द स्टोरी बूक, नॉट अनादर पीप.*

न्हिदेचो वेळ जाला. काणयेचें पुस्तक बंद करपाचो वेळ जाला. आनी तीं सदांकाळ सुखांत नंदपाक लागलीं. हांव काळखांत खाटीचेर पडून रावलें, मोहन घरा येवपाची वाट पळयत. लग्न जालां तेन्नाच्यान कितले फावटीं अशी वाट पळयतालें हांव, पूण हें वेगळें आशिल्लें.

त्या दिसा मोहनाक बरोच कळाव जाल्लो. सदां भशेन हांव ताची वाट पळयतालें. "तो आतां येवचो ना. तो खंय तरी मरून पडला आसतलो," राहुलान तेन्ना म्हणिल्लें. त्या वेळार हांवें राहुलाचेर थापट फुलयिल्लें.

त्या काळखांत राहुलाचो चेरो म्हज्या दोळ्यां मुखार आयलो, ताच्या पोल्यार उदेल्ले ते म्हज्या हाताचे तांबडे वळ, ताचें अजापान उगडें पडिल्लें तोंड, ताचे दोळे...

*"राम नाम सत्य है, राम नाम सत्य है"* कोण तरी मेल्लो आनी ते ताचें मडे घेवन वताले. पॅट्रॉमॅक्साच्या उजवाडांत वणटीचेर चित्रविचित्र सावळ्यो पडल्यो, मागीर कूड परत काळखांत बुडली. कोण तरी वयले माळयेर थड थड करून आवाज करतालो. "रातचो मात्सो आवाज करपाचो बंद करशात, म्हजो भुरगो न्हिदला, म्हजो भुरगो बरो ना." हय, अशें हांवें म्हणिल्लें, हांव तेन्ना चिऊताई जाल्लें. दारां बंद कर, घरांत राव आनी मागीर तूं सुरक्षीत.

खंय तरी रेडियोचेर फिल्मी पद मोट्ट्यान चलिल्लें. "कम बॅक माय लव, कम

बॅक टू मी.'' पूण मोहन म्हजो मोगी न्हय, तो केन्नाच नाशिल्लो; ताणें म्हाका म्हणिल्लें, ''तुवें म्हजी केन्नाच पर्वा केली ना.'' मागीर इतलीं वर्सां ताच्या वांगडा रावन हांव कितें करतालें?

''मम्मी मम्मी''- खंयच्यान तरी ल्हान भुरग्याचो रडपाचो आवाज आयकूंक आयलो आनी खंय तरी कुकर रागान फुसफुसलो, पूण हे खंयचेच आवाज खरे नाशिल्ले. तांचे कडेन म्हजो कसलोच संबंद नाशिल्लो. इतल्यान, अचकीत, कारण नासतना, पुर्वसुचनाय दिनासतना, म्हजी तंद्री भंगली, भिरांतेची नांदी दिवपी बारीकसो गुळो पोटांत उठलो. 'हांव एकटें आसां. हांवें कोणाकडेन तरी उलोवंक जाय. वयले माळ्येर या आनी कामतीकडेन उलोवया...' विचार जल्माक येतसर मेलो. आनी आतां तो घुस्पागोंदळ, जाचे फाटल्यान हांव अंधाधुंद धांवतालें, म्हाका समोरासमोर येवन आपटलो. हांव खरशेतालें, काळखांत बुडटालें, हात-पांय धाडायतालें, आकांतान हातवारे करतालें, खोल खोल गोल गोल चक्राकार घुंवतालें. हांवें रेडियोचेर झोपय मारली आनी स्टेशनांफाटल्यान स्टेशनां घुंवडायत सुटलें. संगीत, फिल्मी संगीत, भाशणां, किरकिरे आवाज...

*तुमच्यो वेदना दांतां मदीं धरात, ताका घांस मारून रावात, ताका सुटून वचूंक दिवंनाकात.*

खोल गर्तेंतल्यान धडपडत हांव भायर आयलें, चिंतीत - हांवूंय कुसूमावरी पिशें जायना मूं?

कुसूम - ताच्या विचारानच तिळा तिळा दार उगडिल्लें, कुसूमाच्या भुतान म्हाका रेवाडो घाल्लो, नाका जाल्ल्यो बायलो, सोडिल्ल्यो बायलो हांचें सांगाती म्हणून खोशयेन म्हाकाय तांचे भितर ओडिल्लें. म्हजी ताचे कडल्यान सुटका जावप आतां शक्य नाशिल्लें. हांगाच्यान हांवय खंय वचपाक शकनाशिल्लें, तेंय बाबडें खंय वचपाक शकनाशिल्लें. निमणे आमी हांगांच एकठांय आयिल्लीं - जया आनी कुसूम. अप्पाच्या मरणा उपरांत आमी आंबेगांवां गेल्लीं तेन्ना आमचीं दोगांयचींय नांवां आमचो तिरस्कार करीत वांगडा जोडिल्लीं. जया आनी कुसूम. आनी कुसूमान म्हाका खोशयेन येवकार दिल्लो. हांवें म्हजे भोंवतणीं उबारिल्ली आत्मसंयमाची वंय मोडून तें म्हजे म्हऱ्यांत आयलें, हें ताणें हाचे पयलीं केन्नाच करूंक नाशिल्लें. ताणें म्हाका परपरत विनवणी करून वाज हाडलो. *आमी भोंवपाक या जया, आमी सिनेमाक या, आमी दुकानार या.* बेजारून हांवें ताका 'ना' म्हणिल्लें. ना. परपरत हांव ताका न्हयकार दितालें, पूण तें म्हजी फाटच सोडिनाशिल्लें.

एक दीस मात ताचे ते पिशाभशेन फाटल्यान लागपाचे संवयेक उबगून, हांव ताचेर आड्डलें, ''हांव तुजे वांगडा भायर येना. हांव खंयच वचना. म्हाका खंयच वचपाचें ना. म्हजो बापूय मेला, तुका खबर ना, म्हजो बापूय मेला म्हणून?''

"अशें!" कसलीच उत्सुकता नाशिल्लेवरी ताणें एक उद्‌गार काडलो आनी तरिकय सांगात जाय म्हणीत म्हजे फाटीक लागपाचें मात सोडलें ना.

वनितामामीय आमचीं दोगांयचीं नांवां परपरत वांगडा जोडटाली, पूण हांव आयकूंक नाशिल्ले भशेन दाखयतालें. हांव मुंबय वतलें! हांवें मनांत थारायिल्लें, हांव हांगा रावन "जया-कुसूम" जोडगोळयेंतलें अर्दें अस्तित्व जावन जगचें ना. पूण कुसूमान खूब पासियेंस काडिल्लें. इतलीं वर्सां ताणें म्हजी वाट पळयिल्ली. आनी आतां ही पळय आमी आतां दोगांय एकठांय आयिल्लीं, आमच्या दोगांयच्याय घोवांनी, आमच्या कुटुंबांनी न्हयकारिल्लीं, सगळ्या बाबतींत पराभूत.

पूण कुसूम पिशें आशिल्लें. थँक गॉड, कुसूम तूं पिशें, हांवें समादानान मनांत म्हणिल्लें. तूं पिशें म्हणून हांव जाणा, हांव पिशें न्हय, हांव जाणां, हांव शाणें.

पूण आतां हाची म्हाका खात्री कशी पट्टली? कुसूम नाशिल्ल्यान हांव खरेंच शाणें काय म्हणून म्हजे म्हाकाच दुबाव मारतालो. तें कित्याक, कुसूमानय केन्ना स्वता कडेन मान्य करूंक ना तें पिशें म्हणून. "हांव बरें आसां," तें सांगतालें, "म्हाका कसल्याच उपचाराची गरज ना, हांव बरें आसां."

"तीं सदांच अशें सांगतात," दोतोरान मागीर म्हाका सांगिल्लें, हयन्हयसो हांसो तोंडार खेळयत, "तीं" आनी "आमी" हांचे मदीं अंतर प्रस्थापीत करीत. आतां, म्हाका कशें कळपाचें हांव "तांचे मदलें" न्हय म्हणून?

"हांगा यो जया, म्हाका तुका कितें दाखोवपाक जाय." कुसूमान आपलो खरखरीत हात घट्ट धरलो आनी राग आनी कळ येवन हांव आड्डुलें. आमी कुसूमागेर आशिल्लीं म्हणून तें इतलें आत्मविस्वासान वागतालें. "म्हज्या वांगडा यो, म्हाका तुका कितें दाखोवंक जाय." ताणें म्हाका सामकोच फोर्स केलो. ताचे हरशीं निस्तेज दिसपी दोळे सामके उत्तेजीत जाल्ले.

"कितें दाखयता तूं?" ताच्या त्या परपरत म्हजे फाटल्यान लागपी सभावाक उबगून बेपर्वायेन हांवें ताका विचारलें.

"आमच्या शेजरा एक पिशी बायल रावता. केन्ना केन्ना आड्डी मारता. आंगा वयले कपडे पिंजीत आपल्या घरांतल्यान भायर सरता. हांवें तिका एकदां पळयली." ताणें आवाज देंवयलो, ताचे दोळे चडच चकचकताले, "आनी ती पुराय नागडी आशिल्ली." दिलीप सांगतालो, तिणें परत किळच्यो मारपाक सुरवात केल्या खंय. तुका पळोवपाक जाय? तुका तिका नागडी पळोवपाक जाय?"

बाबडें कुसूम, आपल्या शाणेपणा विशीं ताका सामकी खात्री आशिल्ली. सामकें निर्दयी जावन तिरस्कारान तें ते बायलेच्या पिशेपणा विशीं उलयतालें. देवाचे व्हडले उपकार, तूं पिशी, म्हजे शेजान्नी, कारण तूं पिशी आसा म्हणून हांव शाणें हें कळटा, अशें तुवेंय चिंतिल्लें? बाबडें, आवटें, कुसूम!

ना, हें चूक. कुसूम बाबडें आवटें नाशिल्लेंच. जया तें बाबडें. ह्या पिशेपणाक लागूनच, लेंबडेंपणां करप, अवलंबून रावप, भिवन जगप, आलाशिरो घेवप असल्या गजालींतल्यान कुसूमाची सुटका जाल्ली. ह्याच पिशेपणाक लागून दुसऱ्याक खूश दवरपाच्या वज्यांतल्यान तें मुक्त जाल्लें. ह्याच पिशेपणाक लागून झेतान आनी निर्लज्जपणान तें 'स्वताचें' म्हणून जगपाक शकतालें. पूण आमी ताका त्या जगांत रावंक दिलेंना, जंय "धांव कुसूम, चंदूमामा येता" ही आड्डी लेगीत ताचें तकलेंत रिगनाशिल्ली. म्हणटकीर ताणें सरळ वचून बांयंत उडी मारिल्ली.

हय, आतां हें सगळें चिंतून आयलें तेन्ना सामकेंच स्पश्टपणान लक्षांत आयलें, तें 'बाबडें कुसूम' जावंकच शकना. जिणेंतलो सगळ्यांत व्हडलो निर्णय ताणें घेवंक नाशिल्लो? एकूच निर्णय, जो जिणेचें अंतीम सत्य - जगचें काय मरचें? तें 'बाबडें कुसूम' आसपाकच शकना; बाबडें तें जयाच.

हांवें हें थांबोवंक जाय, हांवें स्वताचेर ताबो मेळोवंक जाय. हाका कांय अर्थ ना. हातूंत कांय तथ्यय ना. मोहन म्हाका सोडून वचूंक नाशिल्लो. तो परत येतलो. म्हाका धीर मेळपा सारकें कांयच नासलें तरीय म्हाका मोहनाचो सभाव खबर आशिल्लो, ताच्या विचारांच्या बळग्याचेर विस्वास आशिल्लो. घोव आनी बायल एकामेकांची पर्वा करतात, मरसर एकामेकां वांगडा रावतात, पालक आपल्या भुरग्यांची काळजी घेतात आनी ताचे बदल्यांत पालकांक गरज आसता तेन्ना भुरगीं तांचो सांबाळ करतात; लग्न बंदनां केन्नाच तुटनात, तीं तुटपाक शकनात- कारण ती मानसीक स्थिती.

मोहनाच्या विस्वासाची वळेरी हांवें काडली, तेन्ना दुबावाच्या रेब्यांतल्यान दांडो ओडून हांवें म्हाका भायर काडलें. हय, मोहन परत येतलो. इतलेंच न्हय, ताका पश्चात्ताप जातलो आनी तो आपलो पश्चात्ताप वांकडे तिकडे पद्दतीन उक्तायतलो. दिसाचें वता थंय ताचो आवाज म्हजे फाटल्यान येतलो, "जया, जया" तो परपरत उलो मारत रावतलो. रातचो काळखांत म्हाका घट्ट लागीं धरतलो आनी म्हणटलो, "म्हाका तशें म्हणपाचें नाशिल्लें. जाणा न्हय तूं, म्हाका तशें म्हणपाचें नाशिल्लें तें? मागीर मोग शिरंगार जातकच म्हाका विचारतलो, "हांवें दुखोवंक ना न्हय तुका?" ताचेर हांव जाप दितलें, "ना." आनी मागीर आदलेवरी जीण फुडें वतली. हळुवार, आरामशीर, मायेस्त जीण वांगडा सारीत आमी दोगांय जाण्टीं जातलीं - हें चित्र दोळ्यांमुखार हाडीत हांव भुल्लुसून गेलें.

हांवें तिडकीन तें चित्र कुशीक सारलें. फट तें. आमी पयलीं भशेन जगूंक शकचीं नात. आमचो हो रस्तो सोंपिल्लो. घडये, एक खीण आशिल्लो, हांव ताका वचपाचो आडावंक शकतालें, हांव आड्डून ताका सांगूंक शकतालें, "वचूंनाका. म्हाका सोडून वचूंनाका." हांवें तशें केल्लें जाल्यार कितें जावपाचें?

पूण हांव एक गजाल विसरूनच गेल्लें; तशें केल्लें म्हणून व्हडलो फरक पडचो नाशिल्लो. एक सादें उतर हांवें लक्षांत घेवंक नाशिल्लें. प्रायश्चीत. ''तुमी आतां फट मारली जाल्यार तुमी दुसऱ्या जल्मांत पाली जातलीं, तुमी चोरी केल्यार सुणीं जातलीं, लोकांक नागयल्यार तुमी सोरोप जातलीं,'' अश्या वेगवेगळ्या परिणामांची धमकी दिवन आजी आमकां भुरग्यांक भिवयताली. पूण आतां म्हाका सारकें होलमल्लें, आमकां ख्यास्त भोगपाक फुडल्या जल्माची वाट पळोवपाची गरज नासता, तें आमच्या सगळ्यां खातीर हांगांच आनी आतांच राखून दवरिल्लें आसता. कार्य आनी प्रायश्चीत - तीं एकामेकां फाटल्यान सहज आनी अपरिहार्य तरेन येतात. एक निरागस भुरगो दशरथाच्या हातान मेलो आनी ताचीं आवयबापूय आपल्या भुरग्याच्या विरहान मेलीं. आनी खूब वर्सांनी, दशरथय तसोच मेलो, ''राम राम'' असो पुताच्या नांवान आक्रोश करीत. हय, सुटका केन्नाच शक्य नाशिल्ली. म्हाका कुसूमाक विसरप परवडनाशिल्लें. कुसूम म्हजे खातीर रडटालें, ''जया, वचूं नाका, जया म्हाका हांगां सोडून वचूं नाका. हांगां राव, म्हजे म्हऱ्यांत.''

हांव ताका हेच कुडींत सकाळची च्या घेवन गेल्लें, तेन्ना हयन्हयशा उजवाडांत अचकीत, साडयेंत गुठलायिल्लें बंडल कशें, म्हजे मुखार उबें जालें आनी भियेल्ल्या जनावरा सारकें, त्या हयन्हयशा उजवाडांत धगधगते नदरेन म्हाका पळोवंक लागलें.

''वचूं नाका जया, म्हाका हांगां सोडून तूं वचूं नाका. म्हजे म्हऱ्यांत राव.'' तें सगळें म्हाका परत याद जालें - थंयचो तो कचकच, ताच्या आंगाचे घामसाणीचो वास, तोंड धुलें नाशिल्ल्यान ताच्या तोंडाक मारपी घाण आनी सगळ्यांत चड याद जाली ती ताची आकांताळी आरड.

पूण हांव रावलें ना. ''जीजा हांगा आसतलें, तुजें लता हांगा आसा, तुका जाय तेन्ना मुक्ता येतलें.'' हांवें ताका समजावपाचो खूब यत्न केलो, पूण ताका ह्या संवसारांत आनीक कोणूच ना अशे तरेन तें म्हाका दसून बसलें. निमणें म्हजें पासियेंस पेड्ड्यार जालें. ''मुर्खपणां करूं नाका,'' अशें म्हणत हांव भायर सरिल्लें, घरा परतल्लें. म्हजो घोव आनी म्हज्या भुरग्यां लागीं.

कुसूमाच्या घामेल्ले घशी सारक्या काळ्या पोल्या वयल्यान घसघशांनी दुकां गळटालीं, ताच्या रडकुऱ्या तोंडाचेर खाऱ्या दुकांचे पाट व्हांवताले, ताका तशेंच थंयच सोडून हांव म्हज्या घरा परतल्लें, म्हजो घोव आनी म्हज्या भुरग्यां लागीं.

म्हाका सुके हुंदके येताले, वेदनांचे हुंदके. पूण दादा म्हजे म्हऱ्यांत बसून म्हजो

हात आपल्या हातांत घेवन म्हजें सांत्वन करता हें जेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें तेन्ना ते हुंदके ल्हव ल्हवू कमी जायत गेले. सुसेग आनी खोस भरून ओतपाक लागली. इतल्यांत म्हाका जाग आयली आनी म्हजी खोस फोर्सान कोणें तरी झोमून घेतिल्ले भशेन म्हाका दिसलें, हांव एकटें आसा हेंय लक्षांत आयलें, म्हजे मुखार सुरकुत्यो नाशिल्ले रितें उशें पडिल्लें, म्हजो चेरो दुकांनी माखिल्लो आनी हांवें दुखसर हाताच्यो मुठी घट्ट आंवुळिल्ल्यो. हांव तशेंच खाटीर पडून रावलें, दुकां पुसनासतना. जनेलांतल्यान सकाळचे वेगवेगळे आवाज व्हांवत भितर येताले. आनी, हांव उठून म्हजें सपन निसटून वच्चे पयलीं हांवें ताची शेंपडी धरिल्ले भशेन दादाचे शब्द म्हाका आयकूंक आयले, ''हांव वतां जया, हांव अमेरिकेक वतां.''

कित्याक, इतल्या वर्सां उपरांत, हो खीण म्हज्या सपनांत आयिल्लो? हांव मोहनाची वाट पळयतालें - मोहन घरा येवंक नाशिल्लो - मागीर दादा वतनाचें सपन म्हाका कित्याक पडलें?

आमी शिवाजी पार्कांत भोंवतालीं तेन्ना दादान ही घोशणा केल्ली, तें दृश्य स्पश्टपणान म्हजे नदरे मुखार आयलें - एक धाकलो चलो आपले तीन चाकी 'स्कुटरीचेर' बसून पांयांनी ती धुकलत, आवयक सांगतालो, ''म्हाका पळय मम्मी, म्हाका पळय.'' आनी एक मोट्टी बायल आमचे मात्शे मुखार दृढ निश्चेवान चलताली, दर पावलाचेर तिचे कुले हालता-धोलतना कमरे भोंवतणचे चरबेच्या कवळेंतल्यान मोटे मोटे घामाचे थेंब गळटाले आनी वारो - वारो आमच्या तोंडार मारतालो, म्हज्या केंसांक घुस्पायत वाजेवण्यो जटा तयार करतालो. तो सरळ दर्यांतल्यान व्हांवत येतालो खरो, पूण ताच्यांत कुस्कूटाची लेगीत खारसाण नाशिल्ली, ताचे बदला एका सुरांत गावपी भुरग्यांच्या गाण्याचो आवाज तो घेवन आयिल्लो.

''हांव अमेरिकेक वतां जया.''

*''तुजें दुख्ख दाढे पोंदां धर, ताका सुटून वचूंक दिवं नाका, ताका तोंडांतल्यान फुटून भायर सरूंक दिवंनाका.''*

- हय, जेन्ना आमकां कसलीय दुखापत जाताली तेन्ना अप्पा आमकां हें सांगतालो.

''केन्ना?''

''दोन-तीन म्हयन्यांनी. सगळें कितें सारकें थारतकच तुमकां सगळ्यांक सांगतलो अशें हांवें थारायिल्लें. हांवें आईक अजून सांगूंक ना. तुका साहनी याद आसा? म्हजो रुम मेट? तो आतां थंय आसा. ताणें म्हजे खातीर थंय काम पक्कें केलां. तो न्यू जर्सी आसा, पूण हांव शिकागो आसतलों.''

पदाचे बोल आतां स्पश्ट जावंक लागिल्ले. ''जिंकू किंवा मरू''.

''तीं म्हणटात ताचो अर्थ कितें?''

''कोण?''

"तीं भुरगीं तें समूहगीत म्हणटात तीं."

"आं तें! प्रजासत्ताक दिसा खातीर येसाय मारतात आसतलीं तीं."

"खूब कळाव जालो, न्हय?"

"प्रजासत्ताक दिसाक? तो फुडल्या सत्तकांत आसा. जया, तुजें लक्ष खंय आसा?"

"ना. म्हाका म्हणपाचें आशिल्लें जिखपाक ना जाल्यार मरपाक. आमी आदींच हारल्यांत."

"चीनाची खबर उलयता तूं?... पूण ते..." दादाचीं उतरां स्कुटरी वयल्यान पडिल्ल्या भुरग्याच्या आक्रोशांत बुडलीं. तो उठून उबो रावलो, ताचे दोळे आपले आवयक सोदताले, ताच्या पोल्या वयल्यान दुकां गळटालीं. वाऱ्याचो रोख बदल्लो. आवाजय पयस गेलो. म्हजें आंग एकदम थंड पडलें. सुर्यान बुडी मारली आनी सगळें जग थरथरलें, दोळ्यां मुखार काळोख नाचलो. हांव फट्ट करून उठून बसलें. सगळे आवाज वांगडाच आयले, एक अर्थहीण भूणभूण. हांव भानार आयलें तेन्ना दादाचो चेरो सामको म्हजे म्हऱ्यांत आयिल्लो, तो म्हाका विचारतालो,

"जया, कितें जालां? तुका बरें दिसना?"

हांव म्हजे खोंटीचेर बसलें, मात्शें लकलें, स्वताक सांवरलें आनी ताका धीर दिवपा खातीर हांसत हांवें म्हणलें, "हांव बरें आसां. म्हाका एक मिनीट दी."

भुरगो परत आपले स्कुटरीचेर बसलो. ताची आवय ताका शिटकायताली. "सांबाळून, सवका वच." तें समूहगीत परत वाऱ्या वांगडा कानार येवंक लागलें, तांचे आवाज तरणे आनी कणखर. मात्शी तरतरी आयली. कितेंय, कित्तेंय शक्य आसा. "आमी जिखतलीं, जिखतलीं..."

"म्हाका दीस गेल्यात."

"आरे वा! तशें जाल्यार बरें आसा. खीणभर भिवयलें तुवें म्हाका. कितले म्हयने?"

"लागीं लागीं अडेज."

"राहुला उपरांत रोखडेंच जालें न्हय?"

"आं, हय..."

"आतां बरें दिसता? चल, आमी परत या. तूं न्हिदून राव, आयज हांव रांदतां."

त्या दिसा आमी परत हांगां आयिल्लीं, ह्या फ्लॅटाचेर आनी दादान बरो पुलाव केल्लो, ते मेरेन हांवें राहुलाक लायलें आनी न्हिदयलें. आनी थोड्या वेळान हांव दादा कडेन सदां भशेन उलोवपाचे मनस्थितींत आयलें. आमी दोगांय कित्याक तरी हांसतालीं, घडये फॅमिली ज्योक, इतल्यान मोहन भितर आयलो. हांवें वयर पळयलें आनी तो थंय उबो रावन आमचे कडेन पळयतना म्हाका दिसलो, ताच्या तोंडार आमकां पयलेच फावट पळयतल्या भशेन, आमी दोगांय अनवळखी आशिल्ले

भशेन विचित्र भाव आशिल्ले.

याद ही वेंचीक आसूंक शकता. इतल्यो सगळ्यो गजाली जावन गेल्ल्यो, तरीय म्हाका म्हज्या ड्रेसा वयलीं भुमितींतलीं वर्तुळां, ताचे वयलो शेवाळी आनी गुलाबी रंगाचो डिझायन, म्हज्या पांयांचेर जाल्लो त्या कपड्यांचो स्पर्श कित्याक याद उरलो? आनी आतां त्याच यादींचे तिजोरेंतल्यान, ती आयली, खूब वर्सां पयलींची याद. मोहना कडेन हांवें गद्दारी केल्ली, ताका सांगिनासतना हांवें आमच्या भुरग्याक नश्ट केल्लें.

आतां म्हजे तकलेंत गोंदळ सुरू जालो. ह्याच भुरग्या विशीं हांवें शिवाजी पार्कांत दादाक सांगिल्लें? ना, ती खबर रतीच्या वेळावेली. हांवें जगूंक दिवंक ना तें भुरगें रती फाटल्यान जाल्लें. दादा तेन्ना सुटयेर घरा आयिल्लो, हय, ताचें लग्न जावपाचें आशिल्लें.

"हें बरोबर न्हय", हांवें दादाची मजत मागली तेन्ना ताणें म्हजे कडेन वाद घालो. "तुवें हाचे विशीं मोहनाक सांगपाकच जाय. तूं असली गजाल ताचे पसून लिपोवन दवरूंक शकना."

पूण हांव हट्टाक पेटिल्लें. म्हाका भंयय दिसतालो मोहन विस्वासघातान म्हाका भुरगें जितें दवरूंक लायत म्हणून. म्हाका भितरल्यान दिसतालें मोहन म्हाका म्हजे वयल्या भुरग्याचो भार कमी करूंक दिवचो ना. बाबडो दादा, ताणें खूब यत्न केले. बाबापुता करून सांगलें, बेजारलो; पूण हांवें हट्ट सोडलो ना, पूण म्हज्या भंयाचें कारण ताका सांगप म्हाका जमलें ना. शेवटाक दादान हार मानली, म्हज्या गुपिताचो भार मनांत नासतना लेगीत पेलपाक तयार जालो तो, पूण ताची पर्वा म्हाका खंय आशिल्ली?

कितलें सोंपें आशिल्लें सगळें! हांव गुंगेंतल्यान शुद्धीर आयिल्लें. म्हाका भुरगें जालां हाचो विचार करीत हांव गुंगेंतल्यान भायर आयलें, पूण खिणांत ही जाणीव बदल्ली - *"हांवें एक भुरगें शेणयलां."* पूण म्हज्या मनांत गुन्यांवकारी भावना अजिबात नाशिल्ली. मोहन ताचे कचेरेंतल्या कामाचे भोंवडे वयल्यान घरा आयलो आनी हांवें ताका फट मारली, तेन्नाय म्हज्या मनांत गुन्यांवाची भावना नाशिल्ली.

पूण आतां, इतल्या वर्सां उपरांत आपयत म्हणून वाट पळयत आशिल्ले भशेन एके काळखी पाखां आशिल्ले आकृतीन, ते गुन्यांवकारी भावनेन, म्हजेर झोंपय मारली. त्या जल्मूंक नाशिल्ल्या भुरग्याचो विचार करतना म्हाका भंय दिसलो आनी दुख्खाचो भालो काळजाक तोपलो. हांवें ताचें रूप मनांत हाडलें - हय, चलीच आसपाचें तें - म्हाका राहुल आनी रतीमदीं सांपडनात त्या सगळ्या गुणांनी परिपूर्ण अशें भुरगें.

"तुजे कडेन दीस काडप अशक्य," रती म्हाका खूबदां म्हणटालें.

"तुका कळना तें. तुका कांयच कळना," राहुल आड्डतालो.

"तुमी सुवार्थी, तुमकां कसलीच पर्वा ना," हांव तांचेर आरोप करतालें.

कितले बरे तरेन, कितले बारीकसाणीन आमी आमच्यो भुमिका केल्ल्यो. हांव म्हजे आई कडेन अशें वागिल्लें, आनी ती, तिचे आई कडेन, आनी खात्रीन, रती ताच्या भुरग्यां कडेन अशेंच आसतलें. हय, आनी जें भुरगें हांवें इतल्या सहजपणान नश्ट केल्लें तेंय अशेंच आसपाचें हेंय सत हांवें मान्य करूंक जाय. तरीय ती अपराधी भावना तकलेंत उरलीच. भविश्यांतलें तुजें दुख्ख नश्ट करप हें चूकच. आनी मोहना कडल्यान ताच्या स्वताच्या भुरग्याची म्हायती लिपोवन दवरपाचें धाडस केल्लें तरी कशें हांवें?"

हांवें त्या काळांतल्यान म्हजें चित्त वर्तमान काळांत ओडून हाडपाचो यत्न केलो आनी परिस्थितीक सामकार गेलें - मोहन येवंक नाशिल्लो. हांव पळयत रावलें, हे परिस्थिती कडेन, थकिल्लें-भागिल्लें, कांयच करूंक शकना म्हणून असहाय्य.

दारा वयली घांट मोट्ट्यान वाजली. हांव कांचवेलें. कितलो वेळ वाजताली काय ती? निलिमा तें.

"अजून उठूंक ना आण्टी?"

"ना गो..."

"कितलो वेळ जालो हांव बॅल मारतां. अंकल खंय? घरा ना?"

"ना."

ताच्या पांयांत मेय आशिल्ले आनी तें एका पांया वयल्यान दुसऱ्या पांयाचेर उडक्यो मारीत म्हजे कडेन उलयतालें. "आयज जीजा कामाक येवचें ना म्हणून सांगपाक मम्मीन धाडलां म्हाका हांगां. तिणें सक्काळीं रकाद धाडिल्लो. तुकाय सांग म्हणून सांगिल्लें. ओके?"

"कितें जालें ताचें?"

"खबर ना आण्टी. मंदाय येवंक ना. माई गुरगुरता - फाल्यां चवथ आनी हें आयज सुटी घेता - गर्रर. बाऽय आण्टी, म्हाका वचूंक जाय" आनी मागीर तें एकदम रावलें आनी म्हज्या चेऱ्या कडेन बारीकसाणीन पळयत ताणें विचारलें, "आण्टी तुका बरें दिसना? तूं बरी दिसना आयज."

"हांव बरें आसा."

हांवें दार बंद केलें आनी हॉलांतच घुटमळत रावलें, कितें करचें तेंच म्हाका कळनाशिल्लें, पूण हांव कितें करतलें हाचेर हांवें विचार करपाची गरज आशिल्ली. हांव सोफ्याचेर बसलें आनी दादान आईक म्हणिल्लें ताची म्हाका याद जाली. "सोफा कम बॅड! हें अगडबंब धूड कांयच कामाचें ना. असल्यो गजाली मगो, तूंच घेवंक शकता. ह्या सोफ्याचेर बसपाकय सारकें जायना आनी न्हिदपाकय सारकें

जायना.'' आनी आईचो चेरो रागान तांबडोगुल्ल जाल्लो. पूण तो भूतकाळ आशिल्लो. हांवें आतां म्हजो आनी मोहनाचो विचार करूंक जाय आशिल्लो. आमचें कितें कितें तें पळोवंक जाय आशिल्लें. कपट, फटिंगपणां, टाळाटाळ - ह्या इतल्या वर्सांच्या सांगातान हेंच दिवंक शकिल्लीं आमी एकामेकांक?

*एका दादल्याचें आनी बायलेचें नातें तितलेंच निसर्गीक आसता जितलें एके व्यक्तीचें दुसरे व्यक्ती कडेन.*

कार्ल मार्क्स- हय, कार्ल मार्क्सानच म्हणिल्लें हें. निसर्गीक! जेन्ना आमी एकामेकांक दुखयत रावतात, एकामेकांची उणीं दुणीं काडीत बसतात तेन्ना? निसर्गीक? तुज्यो हेर भविश्यवाणयो खऱ्यो थारिल्ल्यो आसत, मिस्टर मार्क्स, पूण कितलो चुकलो तूं हांगां!

''जया...?'' मुक्तान ल्हवूच दार धुकल्लें आनी भितर पळयलें. ''आगो, हांगां आसा तूं? निलिमा म्हणटालें तुका बरें दिसना म्हणून.''

''हांव बरें आसा. म्हाका कांयच जावंक ना,'' हांवें हांसपाचो यत्न केलो, पूण म्हज्या चेऱ्या वयले ताठर जाल्ले स्नायू म्हाका वांगड दिनाशिल्ले.

''मोहन घरा ना?''

''ना, ताका मात्शें भायर काम आशिल्लें.''

''बरें तर. हांव तुका नाश्तो हाडूं?''

''ना. म्हाका कांय नाका. आनी हांवें दांतय घांसूंक नात.''

''घांस तर. हांव तुका पांच मिनटां भितर कितेंय घेवन येतां.''

वाद घालपाक म्हजे कडेन आनीक शक्त नाशिल्ली. हांव तोंड धुवन ये म्हणसर मुक्ता च्या आनी धांपिल्ली प्लेट घेवन म्हजी वाट पळयत बशिल्लें.

''तूं कांय घेना मुक्ता?''

''म्हजो आयज उपास. हरतालिका. हांवें निलिमा खातीर शिरो केल्लो. ताका जाय आशिल्लो आनी माई बेजार जाली. ''ते चलयेनय उपास करूंक जाय, गोडधोड खावंक जायना,'' तिणें सांगलें. मुक्ता हांसलें, ''तुका शिरो आवडटा जया?''

हरशीं न्हय, पूण आतां तो अमृता सारको लागलो, दुदान शिजयिल्लो, पासांनी सजयिल्लो, तूप आनी वेलचेच्या वासान घमघमतालो. खीणभर म्हाका सप्तगिरीचे आज्जेची याद जाली. आपले कुडींत ती आसरमांडी घालून, कडक देवी कशी बसताली, तिचे देखरेखी खाला काकींनी करून दिल्ले लाडू अप्पा आनी हांव खातात तें पळयत. आमच्या हातांत ते गरम, आकार शेणिल्ले लाडू आसताले, भाजिल्ल्या पिठाचो वास, घरावें तूप आनी धाडायल्ले वेलचेचो परमळ आमचे भोंवतणीं पातळिल्लो आसतालो.

''आनीक एक घे गो बाय,'' आजी म्हाका पराथताली, ''असले लाडू तुका

तुज्या घरांत मेळचे नात.''

दुसरो लाडू घेवचो अशें दिसतालें, पूण आई विशींची एक अव्यक्त निश्ठा म्हाका आनीक एक लाडू घेवंक आडायताली. कारण आजी तें आईक उद्देशून म्हणटाली हें म्हाका कळटालें, पूण अप्पा केन्नाच ना म्हणनाशिल्लो. लाडू खावन जातकच दिल्ली रासभर फोवांची प्लेटय तो ना म्हणनाशिल्लो. वयल्यान ताचे नखरे खूब आसताले, ''कितें? सोय घालूंक ना?'' अशें म्हणटालो आनी भितर वतालो. कांय खिणांत आमकां रगडयाचेर ठो करून मारून नाल्ल फोडिल्ल्याचो आवाज येतालो. काकी तो कात्ता म्हणसर अप्पा तिचे कडल्यान कांदो मागून घेतालो. आज्जेच्या घरांत कांदो भश्ट मानताले. ''कांदे!'' आजी तिडकीन सूं... सूं... करताली. पूण तरिकूय अप्पाक सदांच कांदो मेळटालो. मूठ मारून अप्पा तो कांदो फोडटालो. आज्जेच्या घरांत खंयचीच कातपा-शिनपाची वस्त कांदो लावन भश्टूंक मेळनाशिल्ली - आनी मागीर फोवां वांगडा अप्पा तो कांदो व्हडा रुचीन खातालो. म्हाका याद जाता, त्या कांद्याच्या वासाक आजी नाक मुड्डिताली, पूण तरिकूय कांयच बोवाळ करिनासतना ती तो फोव खाता तें पळयत बसताली.

घराव्या तुपांतले लाडू, तेलांतले फोव - घडये हीं सगळीं खाणां खावोवन आज्जेनच अप्पाचें मरण लागीं हाडिल्लें, पूण त्या वेळार कॉलेस्ट्रॉला विशीं कोणाक खबर आसतालें? देखून दादले कोणाकच अपराधी मानिनासतना मरताले. फाटलीं दोन वर्सां मोहन वर्सांतल्यान दोनदां चेक-अप करतालो. आमचे कडेन ताच्या रिपोर्टाची फायल आशिल्ली. ती फायल म्हणल्यार म्हजे खातीर एके तरेची धीर दिवपी गजाल - एक हमी - म्हाका मरण परत फटोवचें ना, पूण विस्वासघाताची आलवांतीण अनेक रुपां धारण करूंक शकता. हांवें ताचेर विचार करूंक जाय आशिल्लो.

कांय वेळान नयना आयलें. आयज तें जाणटें दिसतालें. ताचें शरीर ताचें दुस्मान आशिल्ले भशेन तें आंग ओडीत आयलें. ताचे दोळे तांबडे जाल्ले - रडून आयलां हें सहज कळटालें. ताका पळोवन एकदां ताणें म्हाका सांगिल्ली गजाल याद जाली, ''म्हजे दोळे सुंदर आसात म्हणून म्हजे आवयन म्हाका नयना हें नांव दिल्लें. तिणें म्हणिल्लें, हांव जेन्ना जल्मलें तेन्ना खंय तिणें म्हजे दोळे पयलीं पळयिल्ले. ती म्हज्या दोळ्यांत सदांच काजळ घालताली. आतां हांव काजळ बी कांय घालिना ताई. कितें उपेग ताचो? म्हज्या दुकां वांगडा काजळ व्हांवन वतलें. देवाचे उपकार, म्हजे हे हाल पळोवंक म्हजी आवय जिती उरली ना. हांवें ती काजळाची डबी आतां म्हजे चलयेक दवरल्या.''

नयनान म्हाका सांगलें, जीजाचो चलो एका अपघातांत जखमी जाला म्हणून. ''पिल्लो आसतलो, आनीक कितें?'' ताणें रागान म्हणलें. ''तीं सगळीं हॉस्पिटलांत गेल्यांत आनी फाल्यां चवथ. बाबडी भुरगीं.''

नयना गेले उपरांत हांव न्हालें, कपडे उमळ्ळे आनी ते बाल्कनीच्या आड्याचेर सुकत घाले.

"अशे कपडे सुकत केन्नाच घालूं नाका," मोहनान म्हाका एकदां म्हणिल्लें, "आमकां उच्च वर्गियांक अशें करप सोबना."

हाचो आतां कांय उपेग ना, हांवें विचार केलो; आनी मागीर बाल्कनींतले एकानएक कपडे फाफडून काडले आनी पॅसेजींत वयर बांदिल्ले दोरयेचेर घाले. हांवें च्यावेचीं आयदनां धुलीं, जतनायेन बरी पुसलीं आनी वेवस्थीत त्या त्या जाग्याचेर दवरलीं. मान्न्यांत एक पोरणो ब्रश पडिल्लो, तो घेवन हांवें इतल्या फोर्सान फरशी घांसली की सोमतेच त्या ब्रशाचे दांत पडले आनी निमणें म्हज्या बोटांचे पेर आनी ब्रशाचो लांकडी तळ, वणटीक आनी जमनीक आपटूंक लागलो. हांवें कोयराच्या डब्यांत ब्रश उडयलो, हात आनी तोंड धुलें, खोयिल्ली साडी सकयल सोडली. आनी आतां...?

हांव खाटीचेर वचून आड पडलें आनी म्हाका परत हॉस्टेलांत पाविल्ले भशेन दिसलें, खाटीचेर पडून, आपले भितरच रडपी हांव... म्हज्यान सोंसपाक जायना हें, जायना म्हज्यान. दाराचेर टक् टक् जातकच, बेगिबेगीन उठून तोंड पुसतालें. एक चेरो म्हाका विचारतालो, "रूम नंबर पंचवीस न्हय? तुका कोण तरी मेळपाक आयला. हांव दादाक गॅस्टांक मेळपाच्या रुमांत मेळपाक गेलें. दादान म्हणलें, "जया," ताणें नांवान उलो मारलो, म्हाका रूम नंबर पंचवीस म्हणूंक ना, हें येवजूनच म्हाका रडपाक आयलें.

"तुका आंबेगांवां परत वचपाक जाय?" म्हज्या रडपान तो सुन्न जालो. "हांव आईक आनी चंदूमामाक चीट बरोवं?"

"ना, ना. नाका. हांव जातलें सारकें."

आमी दोगांय हॉस्टेलाच्या मुखा वयल्या कठड्यार बशिल्लीं म्हाका दिसतात, दर्याच्या गाजान आमचे फाटल्यान काळशी बेगडी फाटभूंय तयार जाल्या, आशिकुशीच्या मनशांच्या आवाजाक फाटभुंय कशी - फेरीवाल्यांचे आवाज, भुरग्यांचो हांसो आनी किंळच्यो, जाण्ट्यांच्यो आपसांतल्यो गजाली.

"तुका कोण इश्टिणी नात? एक्कय ना?" दादाच्या आवाजांत तिडक आनी हुस्कोय आशिल्लो. सेर्त तुवें कांय इश्टिणी केल्या आसतल्यो?

"ना," हांवें मान हालयली, म्हाका म्हजो अपमान कमी करपाचो नाशिल्लो. दादाचें वजेंय ल्हवू करपाचें नाशिल्लें.

"दोस्ती करपाक लाग जया. कितें जालां तुका? तूं सत्तगिरी अशें केन्नाच नाशिल्लें. आनी कॉलेजीचें कितें? थंय तरी तूं ओके आसा?

कॉलेज - ऊंच ऊंच पाख्यांचें, भयाण कॉरिडॉरांचें, काचाबूल जातालें हांव कोणाकय म्हजो वर्ग खंय काय म्हणून विचारूंक, कॉमनरुमांत वचपाचेंय हांव

चुकयतालें, थंयचें हांसप-खिदळप म्हजे कडल्यान पयस दवरूंक सोदतालें; दिसतालें, झगझगीत उजवाडांत म्हजें एकटेपण उगड्यार पडटलें.

"ना."

"प्रत्येक गजालीक 'ना' म्हणून उपेग कितें? तुवें इश्टागत जोडूंक जाय. सुरवातीक आमकां सगळ्यांकच शेणिल्ले वरी दिसता. हांव पयलीं सप्तगिरीच्यान हांगां आयिल्लों तेन्ना म्हाकाय दुख्खी दिसतालें, पूण हांव तातूंतल्यान भायर सरलों, उदास जावन रावलों ना. अर्थात, तुका सामकें दुख्खी दिसता जाल्यार... तुका आंबेगांव परत वचपाक जाय? हांव आईक आनी चंदूमामाक चीट धाडूं?"

"ना, ना. नाका."

निमणें दादाक राग आयलो, "हांव जाणा तुका कितें जाय तें. तुका अप्पा आनी सप्तगिरी आनी तें पयलींचें जिवीत परत जाय, पूण तें परत केन्नाच परत येवचें ना. तें सगळें सोंपलें. समजलें तूं? अप्पा मेलो, हें तुजे मतींत घे, अप्पा मेलो."

हांव उबें रावलें, ताचे कडेन तिडकीन पळयलें आनी तडक हॉस्टेलार परत गेलें. बडबडत बशिल्ल्या चलयांच्या लखख उजवाडाचे कुडी कडल्यान पासार जातना, मनांत विचार आयलो - *म्हजी खोस आतां सासणाची काबार.* त्या उतरांची रूच मनांत घोळटाली आनी म्हज्या दुख्खाची जाणिवूय.

आनी दुसऱ्या दिसा जेन्ना हांव बशींतल्यान देंवलें तेन्ना लागीं लागीं वाऱ्या वांगडा हुबून वचपाचें, वाऱ्याच्या नेटाच्या धपक्यान डकबॅक रेनकोटाचीं सगळीं बटनां उक्तीं जाल्लीं, माथ्या वयली खट तोपी एका जाग्यार रावनाशिल्ली. तातूंत तोंडा वयल्यान गळपी दुकां पावसाच्या उदकांत आनी वसाडीच्या फवाऱ्यांत मिस्तुराद जाताली. तेन्ना म्हाका कळ्ळें - हो सगळो अप्पाचो गुन्यांव म्हणून. हांव कोण तरी खाशेलें मनीस अशें ताणें म्हाका कित्याक समजुपाक लायलें? हांव हेरां परस वेगळें अशें म्हाका कित्याक येवजुपाक सांगलें?

"तूं हेरां भशेन न्हय जया", अशें सांगत अप्पान म्हाका फोर्सान हेर चलयांच्या सुरक्षीत कंवडाळ्यांतल्यान ओडून काडिल्लें, त्यो चलयो पुजा करताल्यो आनी हाताचेर आनी गळ्यांत हळडीन रंगयिल्ल्यो दोरयो बांदून शाळेंत वताल्यो. चलयो, त्यो नशिबा कडेन फकत आपूण एक बरी बायल आनी आवय जावची हें सोडून कांयच मागनाशिल्ल्यो. आनी हांव, अप्पान सांगिल्ले प्रमाण आनी हांवेंय मान्य केल्ले प्रमाण म्हाका चाटफिल्ड प्रायझ वा एलिस प्रायझ मेळटलें, हांव ग्रॅज्युएशन जातकच ऑक्सफॉर्डाक वतलें अशेंच येवजितालें... "तूं हेरां परस वेगळें जातलें जया," अप्पान म्हाका खात्री दिल्ली.

त्या दिसा, पावस आनी वाऱ्याचो मारो खायत, हांव थंय उबें आशिल्लें, तेन्ना म्हाका समजलें... म्हाका दुसऱ्यां परस वेगळें जावंक नाकाशिल्लें. हांव थंय सगळ्यां

वांगडा ते उजवाडाचे कुडींत बसपाक सोदतालें, म्हाका नाका आशिल्लें अशें अदृश्य, दुर्लक्षीत तरेन थंयच्यान वचपाक. फकत 'रूम नंबर 25' जावपाक.

"ही सगळी अप्प्पाचीच चूक," असो एक कोडू विचार म्हज्या मनांत आयलो. हांव रस्तो हुपून हॉस्टेलांत वचपाक धांवतालें. "ताचें हें बेगीन मरप आनी असो म्हज्या जिवितांत गोंदळ घालून दवरप ही सगळी अप्पाचीच चूक."

"अप्पा मेलो, हें तूं मतींत घे, अप्पा मेलो." आतां तें अप्पाचें सायकलीच्या दांड्यार, ताच्या हाताच्या घेऱ्याचे उबेंत बसप जावचें ना, चडाव चडटना ताका येताली ती खरस जाणवची ना. अप्पा, सायकलीचेर बसून तीन मैल शारांत वतालो, आज्जेक मेळपाक आनी तीन मैल परत आई कडेन येवपाक. उंच-सकयल रस्त्याचेर पॅडलां मारीत दोन बायलांमदीं वयर-सकयल करतालो; धांपेत, खरशेत. हय, तींच तीं, तींच जबाबदार आसात अप्पाच्या मरणाक, त्यो दोनूय बायलो, आई आनी आजी. पूण आज्जेन आपल्या मरणान ताचें प्रायश्चीत घेतलें. अप्पा उपरांत ती जेवताली तें एक वेळचें जेवण लेगीत तिणें सोडून दिलें आनी स म्हयन्यां भितर ती मेली. पूण आई? ती थंय अशी सुसेगाद बसून पॅकिंग कशें करूंक शकली? जशें कांय अप्पा मेलो हाची तिका पर्वाच नाशिल्ली, आनी आंबेगांव वतकच सगळें सारकें जावपाचें. हांव आंबेगांव वच्चें ना. हांव वच्चें ना. ती म्हाका तशी व्हरूंक शकनात... हांव मोट्या मोट्यान रडटालें. खरखरीत आनी कर्कश लाकडाच्या खांब्या वयल्यान हात वयर सकयल व्हरतालें, लाकडाचें एक किसर हाताच्या तळव्यांत घुसलें आनी वेदना आरपार गेली.

हांवें म्हज्या तळव्या कडेन अजापान पळयलें. नितळ, खंयच दाग नाशिल्लो. खूब वर्सां पयलीं तें. खूब खूब वर्सां पयलीं आनी घडये, आतां मोहन मेला आसतलो. घडये तो मुक्ताच्या अरुणा सारको ट्रेनींतल्यान भायर पडला आसतलो. घडये ताका अप्पा सारको हार्ट अॅटॅक आयला आसतलो. घडये तो गाडये पोंदां पडला आसतलो. ते ताची कूड घरा हाडटले आनी परत भायर व्हरतले. ते ताका उबारून व्हरतना *'राम नाम सत्य है'* चो घोश करतले. आनी हांव हांगा आड पडून वणटीचेर, पाख्याचेर पडपी सावळ्यो पळयतलें. *राम नाम सत्य है.*

हांव फट्ट करून उठून बसलें आनी निर्धारान केंसाचो आंबाडो घालो. हांवें हें थांबोवंकच जाय, हांवें हातूंतल्यान भायर सरूंकच जाय, हांवें स्वताचेर ताबो मेळोवंकच जाय. खंयच कांयच जावंक नाशिल्लें, खंय कांयच घडूंक नाशिल्लें. मोहन म्हाका सोडूंक शकचो ना, मोहन म्हाका सोडचो ना. हांव जया, जया म्हणल्यार जैत. "तुवें आयकलें कुसूम? हांव जया, जया म्हणल्यार जैत." हांवें ताका कोंको दाखयलो. व्होशीमार हांगाच्यान तुजें काळें तोंड घेवन. वच तूं हांगाच्यान. हांव तुजें न्हय. हांव तुज्या वांगडा रावंक शकना. म्हाका खूब कितें करूंक जाय... म्हाका करूंकच

जाय... करूंकच जाय.

सायमन म्हणटा दिमी घाल, ऑर्डर आयली आनी आमी दिमी मारली. सायमन म्हणटा ताळी मार आनी आमी मारली ताळी. सायमनाचो शिक्को नासतना ऑर्डर आयली जाल्यार ती ऑर्डर आसनाशिल्ली, आमच्या त्या भुरगेपणांतल्या खेळांत, सायमनाचें नांव घेनासतना ऑर्डर आयली जाल्यार ती मानप नासताली. म्हणटकच तशी ऑर्डर आयल्यार आमी खुंटो कसो तश्शीं हालनासतना उबीं रावतालीं. आतां म्हजे खातीर तशें जाल्लें - तो रहस्यमय, शक्तीशाली सायमन, ताका दुसरो प्रतिस्पर्धी नाकाशिल्लो, तो गायब जाल्लो आनी हांव कांयच करूंक शकनाशिल्लें. म्हजे इत्साशक्तीक अचकीत आरीचो झटको आयिल्ले भशेन जालें आनी हालपाक जायना जावन हांव पांयांत हुमकळपी जोत्यां कडेन एकटक पळयत उरलें.

''घोव म्हणल्यार आश्रय दिवपी झाड'' हो वनितामामीचो जीवनसार, दैवी-वाणीची सया मारपी, विसरूंक नजो असो सिद्धांत याद जालो, पूण त्याच खिणाक हांवें ते शब्द न्हयकारले. लग्न आनी घोवा विशीं वनितामामीक कितें खबर आशिल्लें?

रामूकाकान कुटुंबाचो मुखेली ह्या नात्यान झेतान म्हाका सांगिल्लें, ''जया, एक लक्षांत दवर, तुज्या घोवाचें आनी घराचें सूख आनी समादान तुजेर अवलंबून आसा.'' आनी हांव, निरागस मूर्ख, म्हाका स्वार केल्ल्या घोड्याचेर नियंत्रण दवरून बशिल्लें.

''जया, मोहना कडेन बरें वाग,'' लग्रा उपरांत, आंबेगांवच्यान भायर सरतना दादान म्हाका सल्लो दिल्लो.

हय तर, हांव लग्न जावन संवसार उबारलो तेन्ना सल्लो दिवपी उणे नाशिल्ले, पूण संवसार मोडलो जाल्यार कितें करपाचें हें सांगपाचे त्रास कोणेंच घेवंक नाशिल्ले. कुसूम... हय, एकटें कुसूम आशिल्लें, पूण ताणें पिशेपण आनी मरण आपणायिल्लें. आपणायिल्लें? ना. अशें समजप ही म्हजी चूक, ताणें कांयच आपणावंक नाशिल्लें, ताका तातूंत धुकलिल्लें. आमी सगळ्यांनीच ताका ते बांयंत उडी मारूंक मजत केल्ली. ना, कुसूमाचो म्हाका कांयच उपेग ना, ताचें मरण ताचे जिणे इतलेंच बेकार आशिल्लें. ताचे जिणेंतल्यान म्हाका कसलोच मार्ग मेळूंक ना. मागीर कोणा कडल्यान मेळटल्यो काय जापो म्हाका? म्हाका कमलाकाकीची याद जाली. लक्ष्मणकाकाच्या मरणा उपरांत हांव तिका जाप दिवंक गेल्लें तेन्ना म्हजो हात घट्ट धरून ती म्हाका विचारपाक लागली, ''तांचे बगर कशें जगतलें हांव जया, कशें जगतलें?'' आपल्या बापायच्या मरणा उपरांत जानून तिका सप्तगिरींतल्यान हाडून कर्तव्यदक्ष पुताच्या

नात्यान आपल्या घरांत हाडून दवरली. तो आनी ताची बायल मेघा, दोगांय तिका मायेन वागयतालीं, पूण कमलाकाकी रडत रावताली. म्हजे काकीं मदली एक काकी, तिचें तोंड गोल गोल आनी हांसमूख आशिल्लें, पूण आतां ती शेणिल्ले वरी, बॉक्सराच्या तोंडार मुठीर मुठी पडटकच जाता तशें तोंड करून आसताली. "तांचे बगर हांव कशें रावतलें?"

पूण आईची गजाल वेगळी. आरे, अप्पा बगर जगूंक शिकिल्ले आईक हांव कशें विसरलें? तिचो अप्पा वांगडाचो संवसार सोंपलो तेन्ना ती आंबेगांव परत रावपाक गेली. जशी काय अप्पा वांगडाचीं तीं सप्तगिरींतलीं वीस वर्सां तियात्रांतलो 'सायड शो' कसो आशिल्लो.

"आज्जेच्या मरणा विशीं तुवें म्हाका चीट धाडून कित्याक कळोवंक ना?" हांवें तिका विचारिल्लें.

"म्हज्या लक्षांत आयलें ना तें," तिणें म्हाका सांगलें.

तेन्ना म्हाका तिचें म्हणणें खरें दिसलें ना, पूण आतां म्हाका दिसता तेन्ना तिणें खरें सांगिल्लें. अप्पाच्या मरणा उपरांत तिका आजी आनी सप्तगिरीचें व्हडलें पडून वचूंक नाशिल्लें. मांयचो दुस्वास लेगीत तांचें नातें जिवें दवरूंक शकलें ना. आंबेगांवचे तिचे कुडीची म्हाका याद जाली. ते कुडींत आईच्या संवसाराची एकय खूण नाशिल्ली, आशिल्लो तो फकत फ्रेम केल्लो अप्पाचो व्हडलो फोटो. तो तुजे कडेन भेश्टावपाचे नदरेन पळयतालो. केन्ना तरी आईन त्या फोटयाक चंदनाचो हार घाल्लो. हांवें एक दीस तो सहज उखल्लो जाल्यार जळारांचें भिरेंच रागान म्हज्या आंगार आयलें. तेन्ना हांवें तो हार काडिल्लो. तो थंय ना हें लेगीत आईच्या लक्षांत येवंक नाशिल्लें. वीस वर्सांत आनीक कांयच उरूंक नाशिल्लें.

(तरीय आईन एकदां म्हजो हात हातांत घेवन म्हणिल्लें, "तुजे हात तुज्या बापाय सारके जया," उलयतां उलयतां ती म्हजे हात पोशेवंक लागली. तिचें तें पोशेवप म्हजे खातीर नाशिल्लें हें स्पश्ट आशिल्लें.)

पूण हांव विसरून गेल्लें. आई विधवा आशिल्ली. विधवेच्या जिवितांत कितें तरी ठाम आसता, कितें तरी सकारात्मक आसता. आई उमेदीन हारशांत पळोवन, मुदयेच्या बोटान कपलार कुकूम लायताली, सवकासायेन तो तांबडो रंग, गोल गोल करीत व्हड करताली आनी एक वाटकुळो तांबडोगुंज तिबो कपलार मद्दीं चकचकतालो - हें लग्न. आनी मागीर तें रितेपण, उक्ती सुवात - आईचें कपल कितलें रूंद आशिल्लें, कितलें गोरें आनी सपाट - हें वैधव्य. दोगांय मदीं एक स्पश्ट, निश्चीत रेशा. पूण म्हाका?

दार बंद कर आनी भितर राव, म्हणटकच तूं सुरक्षीत आसतलें, पूण सगळे भायर वतात आनी तूं एकलेंच भितर उरता तेन्ना कितें जातलें? दारावेलो उदकान चिप्प

भिजिल्लो कावळो अरिश्ट नाशिल्लो हें तांणी म्हाका कित्याक सांगूंक ना? खरी भिरांत आनी धोको आपले भितरच आसता ही शिटकावणी कित्याक दिवंक ना तांणी? थकव्याचें एक ल्हार म्हज्या आंगार आयलें आनी म्हाका मनांतल्यान दिसलें कोणें तरी येवन म्हाका दिलासो दिवचो, कोणें तरी येवन सांगचें सगळें बरें जातलें. हांवें कांयच चूक करूंक ना म्हणून म्हाका धीर दिवचो. मनसोक्त रडपा खातीर मायेस्त, मोवसार आवयच्या काळजाक हांव आशेल्लें. आनी मागीर हांव मंद हांसलें. आई - दिलाश्या खातीर हांव तिचे कडेन केन्नाच गेलें ना. आई कडेन वचूंक ना, आज्जे कडेन वचूंक ना, काकीं कडेनय वचूंक ना. खंयचेच बायले कडेन केन्नाच वचूंक ना... पूण लीना आशिल्लें.

दारावेले बॅलीचो आवाज घुस्पागोंदळांतल्यान उक्तें जावपी मनांत घुसलो. हांव ओडत गेलें आनी दार उगडलें. मुक्ता आनी हांव एकामेकां कडेन खीणभर ओग्गी पळयत रावलीं. मुक्तान पयलीं तोंड उगडलें.

"जया, तूं बरें आसा न्ही?"

"हय तर."

'तीं' सदांच म्हणटात 'तीं' बरी आसात म्हणून, पूण हांव 'तीं' न्हय. हांव 'आमच्यांतलें'. हांवें हें केन्नाच विसरूंक फावना.

"तुवें दनपारां कितें खालां?"

"खाल्लें काय हांवें? हय, म्हणल्यार ना, म्हणल्यार म्हाका याद जायना, हय हांवें तुजो शिरो खाल्लो."

"तो... देवा म्हज्या... कितलीं वरां जालीं ताका, नीला शाळेंत वच्चे पयलीं. तुवें रांदूंक ना?"

"ना."

"हांव तुका कितेंय हाडूं?"

"ना मुक्ता, म्हाका कांयच नाका. शपथ, म्हाका भूक ना."

"मोहन येता म्हणसर तूं स्वताक उपाशीं दवरूंक शकना."

'मोहन येता म्हणसर...'

"ना, तें आयज एकच दिसा. हांव कितेंय भाजी हाडटां आनी रांदतां रातचें. आनी मोहन दोन दिसांनी येतलो परत."

"बरें तर! हांव मात्शें भायर वचून येतां. कांय वेळान नीला शाळेंतल्यान परत येतलें. हांवें ताका च्यावे वांगडा खावंक पाव हाडल्यात. म्हाका ते घरा दवरपाचे नात, तूं जाणा माई कशी ती, सकाळीं शिऱ्या वयल्यान थोडो वाद जावंक ना. हांगा दवरल्यार जाता? पाव आनी थोडीं भजीं. तुवूंय तातूंतलें थोडें खायना कित्याक? पाव बरे ताज्जे आसात. आतांच बेकरेंतल्यान हाडल्यात."

हांवें तकली हालयली - एकदांचें हें हांगाच्यान वचूं म्हणून. पूण जेन्ना निलीमा आयलें आनी ताणें म्हणलें, ‘‘म्हजे वांगडा तुवूंय खा न्हय’’, म्हाका अचकीत खूब भूक लागली. हांवें पावाचो कुडको काडलो आनी तोंडांत घालो.

‘‘हींय थोडीं खा न्हय आण्टी?’’ निलीमान म्हाका भजीं दिलीं.

‘‘नक्की, तुका नाका मगो लीना?’’

‘‘लीना?’’ निलिमान म्हाका अजापान पळयलें. मात्शें बेजारय जालें.

‘‘कोण लीना? आण्टी लीनाशें?’’

‘‘सॉरी निलीमा, चुकून म्हणलें. म्हाका नीला म्हणपाचें आशिल्लें.’’

पूण जेन्ना निलीमा घरा गेलें, तेन्ना म्हजे वांगडा उरलें लीना, हॉटेलाच्या डायनिंग टेबलाचे दुसरे वटेन बसून हांसत ताणें एक प्लेट म्हजे मुखार धरली, ‘‘ही घे. म्हजी प्लेट तूं घे. म्हाका भूक ना. हांवें आयज कॉलेज कॅण्टीनांत सामोशे खाल्ले.’’

हांवें भकाऱ्या भशेन ताचीं भजीं खालीं, म्हज्या वखवखाची म्हाकाच मात्शी लज जाली.

‘‘बरें दिसलें?’’ लीनान म्हाका विचारलें, ‘‘तूं म्हजे कुशीच्या रुमांत रावता न्हय?’’

हांवें हय म्हणून मान हालयली, मात्शें भियेलें - हाणें म्हाका हुंदको दितना आयकूंक ना मूं?

ताचे विशीं तें कितेंय म्हणत काय? पूण ताणें कांयच म्हणूंक ना.

‘‘सोंपलें?’’ ताणें विचारलें, ‘‘चल, आमी बाल्कनींत या.’’

दार उगडपाक आमकां खिळये कडेन बरीच कसरत करची पडली. पावसांत आमी बाल्कनींत वच्चें न्हय म्हणून दारां गच्च धांपिल्लीं आसतालीं. थंयच्यान आमी तडीचे वणटीचेर आदळपी पावसाळी दर्या आनी मुखा वयल्या रस्त्यार उसळपी ताचे फवारे पळयतना, झुम्म झुम्म करून व्हांवपी वाऱ्यान आमकां वणटी कडेन धुकल्लें. आमचीं तोंडां आनी ओंठ खारट आनी चिकट जाले. आमी थंय आसतनाच चक्क करून रस्त्या वयले दिवे पेटले आनी मरीन ड्रायव्ह झगझगीत, चकचकीत न्हंय कशी दिसूंक लागली. तातूंत मदीं सवकासायेन उजवाडाच्यो वाती हालताल्यो. मुंबय विद्रूप न्हय, म्हज्या मनांत विचार आयलो, मुंबय सोबीत. हांव मुक्त मनान, खोशेन हांसलें आनी लीनाय म्हजे वांगडा हांसलें.

हय, लीनान म्हाका त्या खतरनाक आत्मद्वेशाचे निर्शेणेंतल्यान भायर काडिल्लें, लीनानच म्हज्या मनांतली अपेसाची कोडसाण, निरुपेगाची भावना पयस केल्ली.

‘‘तूं खंयचे कॉलेजींत शिकता?’’

‘‘एल्फिन्स्टन.’’

‘‘ह्यॅं!’’ ताणें बोचो मोडलो, ‘‘मिजासखोर सगळीं.’’ आनी अचानक सगळें

सारकें जाल्ले भशेन म्हाका दिसलें. म्हज्यांत कांयच वायट नाशिल्लें. तांची चूक आशिल्ली - तीं सगळीं मिजासखोर आशिल्लीं.

आनी तरीय कोणें तरी म्हाका सांगलें, लीना "बरें चली न्हय," तें शेनवार-आयतारा एका लग्न जाल्ल्या दादल्या वांगडा रावता म्हणून, तेन्ना खिणांत हांवें लीनाची इश्टागत तोडली.

"कितें जालें जया? हीं पुस्तकां बेगीन परत कित्याक केलीं? हांवें तीं तुकाच लागून हाडिल्लीं. रातीं म्हाका दार कित्याक काडलें ना जया? हांव तुजे कडेन खबरो मारूंक आयिल्लें. म्हाका सकाळीं ब्रेकफास्टाक कित्याक रावंक ना? तुका काल हांव हात हालयतालें तें दिसूंक ना? कित्याक जया, कित्याक?"

निमाणें प्रस्न विचारप बंद जाल्ले आनी उरिल्लें फकत मौन. आनी मागीर लीना नाच्च. पूण म्हाका पर्वा नाशिल्ली, कारण ते मेरेन हांवें आनीक इश्टिणी जोडिल्ल्यो. आतां, मेजार पडिल्ले पावाचे बारीक बारीक कुडके काडटना, मनांत हांवें लीना कडेन दिवपाक एक माफीनामो तयार केलो.

*"म्हाका माफ कर लीना. हांव मूर्ख, निरागस, अज्ञानी, कोते वृत्तीचें, शतमूर्ख आशिल्लें आनी तुजे असले व्यक्तीची कदर करप तेन्ना म्हाका जमलें ना, समजलें ना. म्हाका माफ कर लीना. हांव जाणून बुजून निर्दयी वागलें ना."*

पूण लीनान म्हाका माफ केलें ना. खूब वर्सांनी तें म्हाका मेळ्ळें आनी ताका वळखून म्हज्या नकळटां हांव ताका हांसलें, पूण तें म्हजे म्हऱ्यांतल्यान निर्विकार आनी घुमे कशें गेलें. ना, ताणें म्हाका माफ करूंक ना. आनी कित्या खातीर करचें ताणें?

आनी आतां, म्हज्या मनांत विचार आयलो, परतय म्हाका तेंच जातलें. म्हाका खंय तरी मोहन मेळटलो आनी असोच मुखार वतलो, निर्विकार आनी घुमो कसो. आनी अशें म्हजे कडेन घडूंक नाशिल्लें? त्या दिसा आमी एके खास कार्यावळीक गेल्लीं, थंय हांव फाटल्यान उरलें आनी मोहन म्हजो पास घेवन, फुडल्या दारांतल्यान मुखार गेलो ना? दारार आशिल्ल्या सॅक्युरिटीन नेमा प्रमाण आपलो हात मुखार करून म्हाका आडायलो आनी हांव थंय रावलें, कशेय तरेन मोहनाचें लक्ष म्हजे कडेन आकर्शीत करपाचो यत्न करीत, पूण मोहनाची नदर म्हजे मेरेन पावच नाशिल्ली. मदींच म्हाका दिसलें ताणें म्हाका पळयलें म्हणून, पूण ताची नदर म्हाका पार करून गेली आनी हांव थंड पडलें.

भुरग्यांनी मोहनाक धोंगसायत ताका हांव खंय आसा तें दाखयलें. मागीर मोहन म्हजे म्हऱ्यांत आयिल्लो आनी सॅक्युरिटीन पासाचेर सारकी नदर लेगीत मारिनासतना आपलो आडवो हात सकयल घेतिल्लो. एक सुटकेचो सुस्कार सोडीत हांव मोहना फाटल्यान भितर गेल्लें.

आनी मागीर तें घडलें. आमच्या आशिकुशीक आशिल्ल्या लोकांक पळोवन, आमच्या सारक्या जोडप्यांक पळोवन, तांचीं सगळ्यांचीं दोन दोन भुरगीं पळोवन म्हजे मदीं एक विचित्र संवेदना तयार जाली. जशें काय हांव आमकांच परपरत पळयतां आनी परपरत दिसतात म्हज्योच प्रतिमा - एक बायल कडक स्टार्च केल्ली कॉटन साडी घालून, दोळ्यार व्हडलें काळें वक्ल, आकार दिल्ल्यो भुंवयो आनी मोटवे केंस - पुराय हांव. जर म्हाका केन्नाय दुसरे भशेन जावंक जाय अशें दिशिल्लें तर हांवें म्हजो हेतू साध्य केल्लो. हांव सारकें तांचे भशेन जाल्लें, अदृश्य जाल्ले भशेन. हांव मातयेभरवण जाल्लें. आनी तेन्नाच हांवें मोहनाक हांसत कोणा कडेन तरी उत्तेजीत जावन उलयतना पळयलें. शिमेभितर रावन तेंगशी हुपिल्लो जैतवंत कसो. आनी परत एकदां हांव शिमे भायर भायर आशिल्लें आनी तो भितर. ताची नदर म्हज्या आरपार.

पूण आमचे मदीं सदांच ही शीम नाशिल्ली? सप्तगिरीच्यान हांव परत आयिल्लें तेन्नाच म्हज्या हें लक्षांत येवंक जाय आशिल्लें. थंय म्हाका सामको उमेदीर आशिल्लो रामूकाका मेळ्ळो. केन्ना न्ही तो चुकून उलयत सुटिल्लो. ताणें म्हाका आपणे तयार केल्ली फॅमिली ट्री दाखयल्ली.

''हांव दोनशे वर्सां मेरेन फाटीं वचूंक शकलों. कांय रिते जागे उरल्यात, पूण ते फुडें केन्ना तरी भरून काडटलों. पळय जया, हो आमची खांदो. हो आमचो आजो - तुजो पणजो - आनी हांगां बाबा, आनी मागीर आमी - लक्ष्मण, वासू आनी हांव. आनी हांगां सगळे चले आसात - श्रीधर, जानू, दिनकर, रवी...

''पूण रामूकाका,'' हांव अजापलें, ''हांगां हांव ना.''

''तूं!'' ताणें वयर पळयलें. मदींच आडायलो म्हणून बेजार जावन, म्हज्या मूर्खपणाचेर पासियेंस पेड्ड्यार जावन, ''तूं हांगां कशें आसतलें? तूं ह्या कुटुंबाचो भाग न्हय. तुजें लग्न जालां, आतां तूं मोहनाच्या कुटुंबाचो भाग. आतां ह्या घरांत तुका सुवात ना.''

मोहनाक ही गजाल सांगली तेन्ना ताणें हांसत म्हणलें, ''हय तर, रामूकाका सांगता तें बरोबर. तूं आतां म्हज्या कुटुंबांतलें.''

''पूण, पूण...'' आडखळत आडखळत हांव मोहनाक समजावपाचो यत्न करूंक लागलें. रामूकाकान तशें म्हणटकच म्हाका जें भोगलें तें हांव ताका सांगपाचो यत्न करतालें. ताच्या त्या वाक्यान म्हाका फकत अर्थहीण दिसलें ना जाल्यार हांव नश्ट जाल्ले भशेन दिसलें म्हणून. पूण मोहनान फाट केल्ली. ताचे खातीर तो मस्करेचो विशय आनी तो थंयच सोंपिल्लो. आनी हांवें म्हजे प्रस्न गिळ्ळे - म्हाका ते प्रस्न रामूकाकाकय विचारूंक जाय आशिल्ले, पूण कापस्ताद जाली ना. कारण रामूकाकाक कोणच प्रस्न विचारिनाशिल्ले, तो कुटुंबाचो मुखेली आशिल्लो.

बरें, म्हाका रामूकाकाक विचारूंक जाय आशिल्लें, हांव ह्या कुटुंबांतलें न्हय हें मान्य, पूण काकी आनी आईचें कितें? तीं ह्या कुटुंबांत लग्न जावन आयिल्लीं काय ना? मागीर तीं हांगां कित्याक नात? आनी आज्जेचें कितें? तिणें एकटेन येदी व्हडली फामील एकठांय दवरली, ती हांगां कित्याक ना?

पूण हांवें कांयच म्हणूंक ना - रामूकाकाकय आनी मोहनाकय. आजी म्हजेर खूश जावपाची. निमणें हांव शिकिल्लें, प्रस्न ना, परत्यापरती जाप ना. फकत मौन.

''हांवें तुका लागून म्हजें लेखन सोडलें,'' हांवें मोहनाक म्हणलें आनी तो अजापलो. तेन्ना हांव कित्याक उलोवंक ना? हांवें कित्याक स्पश्टीकरण दिलें ना? हांवें ताका कित्याक याद केली ना? त्या दिसा तो म्हयनााळें घेवन आयलो आनी म्हजेर उडयत ताणें म्हणलें, ''तुजी कथा आसा हातूंत.''

''म्हजी कथा?'' हांवें उमेदीन म्हयनाळ्याचीं पानां बेगिबेगीन परतायलीं आनी मुग्ध जावन म्हज्या नांवा कडेन पळयत रावलें. मागीर मोहना कडेन घुंवन हांवें म्हणलें, ''आवय देवा, मोहन म्हाका इनाम मेळ्ळां. हांवें कथा-सर्तीक धाडिल्ली कथा ती, ताका इनाम मेळ्ळां.''

मोहनाचें तोंड पळोवन म्हजी बडबड चुप्प जाली. ''जया,'' ताणें थंडपणान विचारिल्लें, ''कशें करूंक शकलें तूं हें, कशें म्हणून केलें तुवें हें?''

''हांव कितें कशें करूंक शकलें?''

''आतां तांकां सगळ्यांक कळटलें, ही कथा वाचपी सगळ्यांक आनी आमकां वळखुपी लोकांक कळटलें, तांकां कळटलें ह्यो दोन व्यक्ती म्हणल्यार आमी, तांकां दिसतलें हांव ह्या दादल्या सारको मनीस म्हणून, तांकां दिसतलें, हो मनीस हांव म्हणून. कोणायचे नदरेक नदर कसो दितलों हांव? आनी तूं, कशें बरोवंक शकलें तूं असल्यो गजाली? असल्यो विद्रूप गजाली कशें बरोवंक शकलें तूं? हाचे उपरांत तूं ह्या लोकां मुखार कशें येवंक शकतलें?''

ताचीं उतरां आयकून मन सुन्न जालें, पूण ते स्थितींत लेगीत म्हज्या लक्षांत एक गजाल आयली. ताका राग येवंक नाशिल्लो, पूण ताका वायट दिशिल्लें. अशें दिसतालें हांवें ताचेर घाय घाल्यात.

''तूं आमकां अशें उक्तें कशें करूंक शकता? आमचें जिवीत अशें कशें वाऱ्यार घालूंक शकता?''

तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें, हांवें एक बरी कथा बरयल्या हाचें ताका पडून वचूंक नाशिल्लें. एका जोडप्याची कथा, तातूंत शरिराचें माध्यम सोडल्यार घोव आपले बायलेचे लागीं पावंक नाशिल्लो. वाचक तें जोडपें म्हणल्यार आमी अशें समजतले अशें मोहनाक दिशिल्लें आनी तो घोव म्हणल्यार तो. मोहना खातीर हांव लेखक न्हय, एक प्रदर्शनाची वस्त आशिल्लें.

पूण तें आत्मकथन नाशिल्लें. हांवें तेन्नाच मोहनाक तें स्पश्ट करूंक जाय आशिल्लें. जरीय तातूंतलो कांय तपशील आमच्या जिवितांतलो आशिल्लो तरीय तें म्हजें अणभव कथन नाशिल्लें, तो आशिल्लो म्हज्या अणभवांतल्यान तयार जाल्लो रूपकार. पूण हांवें हें मोहनाक सांगूंक नाशिल्लें. म्हजी म्हाकाच लज दिशिल्ली. तें सगळें सांगप नाटकीपणाचें जावपाचें. जशें काय म्हजो एक सादो छंद हांव चडूच गंभीरतायेन घेतासो. म्हणून हांव ओग्गी राविल्लें. आनी ताचें भियेल्लें तोंड पळोवन म्हजी खात्री जाली, हांवें ताचो व्हड अपराध केला म्हणून. ताचे उपरांत हांवें बरोवपाचेंच बंद केल्लें.

घडये, मोहन म्हजेर रागार जाल्लो, ताणें म्हाका तापयिल्लें आनी दुशण दिल्लें, ताणें म्हज्या लिखाणाचेर बंदी घाल्ली जाल्यार हांव ताचे कडेन वाद घालपाचें आनी बरयत रावपाचें. पूण ताणें म्हजे कडेन फकत ताची दुखाविल्ली भावना उक्तायिल्ली. आनी देखून हांव ताचो प्रतिकार करूंक शकलें ना. म्हणटकच जितलीं कथानकां म्हज्या मनांत आकार घेतालीं, तांचो हांवें त्याग केल्लो. कारण हांव भियेतालें - भियेतालें हांव मोहनाक दुखयत म्हणून, भियेतालें म्हज्या जिवितांतली एकुलती एक करियर, म्हजें लग्न, हांव त्रासांत घालत म्हणून.

ह्या सगळ्या गजालींचो विचार करत हांव घरांत पासयो मारतना एक जंगली राग म्हजेभितर चडपाक लागलो. हय, ही सगळी चूक मोहनाचीच. इतलीं वर्सां हांवें स्वताक ताचे इत्से प्रमाण घडयलें, अशें आसून लेगीत आतां म्हज्या हातांत कितें उरिल्लें? फकत रितेपण आनी मौन. कुसूम लेगीत म्हाका सोडून ना जाल्लें. हांव असफल जाता तें पळयत समादानान गेल्लें. तांणी म्हाका सोडिल्लें.

"म्हज्या अपुरबायेच्या भुरग्या," तिणें म्हाका म्हणिल्लें, ते गोरे कातीचे, धुरकट दोळ्यांचे, मात्शी पिशिशी आशिल्ले मिशनरी बायलेन, "शाण्या, जेजूक आपणायल्यार तुका सासणाचें सूख मेळटलें. ताणें आमकां तशें उतर दिलां. मात्शें येवजीय, आमचीं लागींचीं मोगाचीं कोणच केन्नाच मरचीं नात, तीं सदांच आमच्या वांगडा आसतलीं."

बाबडी, इल्लीशी पिशी बायल, तूं खंयच्यान आयल्या तेंच तुका याद ना. तांणी सगळ्यांनी तुकाय सोडलो, ते खातीर तूं हांगां-थंय भोंवता कोणाक तरी सोदीत, तुज्या सासणाच्या सुखाच्या सपनांत हेरांक वांटेकार करूंक, मर मेरेन? तिचे दोळे म्हाका विनयताले, "म्हजे सारकें तूंय विस्वास दवर," पूण हांव तशें शाणें, हांव तिका फकत हांसलें. "कोणय मेलो जाल्यार जगांत सुमारा भायर गर्दी जावची ना?" हांवें विचारिल्लें आनी बाबडी ती बायल म्हजे कडल्यान पयस गेल्ली, आनी कोणय आपखोशेन तिच्या सपनांत सामील करून घेवंक मेळटा काय तें पळोवंक. हांवें तिका इल्ली चड दया कित्याक दाखोवंक नाशिल्ली?

हांव वयर-सकयल पासयो मारूंक लागलें, खाटीक, मेजाक, ड्रेसिंग टेबलाक

आदळत. सान्न मारूंक नाशिल्ल्यान घयरांवाचे मोव कुडके हांगा-थंय रुमांत उडपाक लागले. हांवें घरांत सान्न तरी मारूंक जाय आशिल्ली - जबरदस्तीन हो विचार म्हज्या मनांत घुसलो आनी हांवें रागान ते काळपट कापसा सारके कुडके खोंट मारून खाटीपोंदां धुकल्ले. पूण हांव परतलें तेन्ना वाऱ्या वांगडा उडत ते परत आयले म्हाका मेळपाक. हे कुडींत म्हज्या रागाक जागोच नाशिल्लो. थंयची शांतताय, थंयची स्तब्धताय भयानक आशिल्ली. हांवें कितें तरी करूंक जाय. निलीमा आनी म्हजीं च्यावेचीं कपां आनी प्लेटी उखल्ल्यो. तांचो मोरयेंत दाळ घालो आनी मोट्ट्यान आवाज करीत घांसूंक लागलें, वनितामामी सारकें. आयदनांचो खणखण करपाक तिचो कोणच हात धरचो नासलो. हांवें नळ फुल्ल सोडलो आनी उदक मोरयेंतल्यान भोंवरो करून वतना पळयत रावलें, हांवें आनी निलीमान प्लेटींत सोडिल्लें उश्टें उदका वांगडा भायर गेलें. दुस्मानाचेर हल्लो केल्ले भशेन हांवें मोरयेचो वयलो भाग नेटान घांसलो.

तें सगळें सोंपलें आनी परतून शांतताय आयली. आनी ताच्या वांगडा एक सत. हांवें मोहनाक लागून म्हजें लिखाण बंद करूंक नाशिल्लें; म्हजे असफलतायेक लागून हांव मोहनाक बळीचो बोकडो करूंक शकनाशिल्लें, कारण ताचे कडेन वाद जाले उपरांत लेगीत हांवें लिखाण केल्लें - कांय कथा भायर मारिल्ल्यो, साबार कथा परत आयिल्ल्यो, कांय कथा हांवें ह्या घरांत लिपोवन दवरिल्ल्यो.

हांव निमण्या पानार पावता म्हणसर काळोख जाल्लो. हांव उबें रावलें आनी म्हजे मांडये वयले सगळे पेपर सकयल पडले आनी जमनीर पडिल्ल्या अस्ताव्यस्त पोरण्या पुस्तकांनी आनी म्हयनाळ्यांच्या ढिगाऱ्यांत मिसळ्ळे. हांवें लायट लायली आनी उजवाडाच्या झगझगान म्हजे दोळे पिटपिटले. हांवें म्हाका जाय आशिल्ली फायल सोदपा खातीर कपाटांतल्यान भायर काडिल्लीं पुस्तकां आनी म्हयनाळीं सकयल पडिल्लीं, तीं उखल्लीं आनी परत त्या लांकडी कपाटांत घुसयलीं. त्या धपक्यान तें कपाट बेबद्या भशेन लकलें. आतां फकत हीच फायल उरिल्ली. म्हज्यो सगळ्यो परत आयिल्ल्यो कथा. म्हजें असफल कार्य. अर्थात, मोहनाचो हाचे कडेन कांयच संबंद नाशिल्लो. हांवें त्यो बरयल्यात हें लेगीत ताका खबर नाशिल्लें. फकत कामती कडेन हांव तांचे विशीं उलयिल्लें. म्हाका ताची गरज आशिल्ली म्हणून म्हाका ताका सांगचें पडिल्लें. आनी हांवें मागिल्ल्या फावोरा विशीं कांयच उलयनासतना ताणें म्हाका उरफाटें विचारिल्लें, "तूं टोपणनांवान बरोवंक सोदता?" ताणें अशा

अपमानीत सुरांत हें विचाल्लें कीं म्हज्या आवेशाचो म्हाकाच पश्चात्ताप जालो. म्हज्यो भावना समजल्ले भशेन ताणें मुखार म्हणिल्लें, ''तुका तुज्या पत्रवेव्हारा खातीर म्हजो पत्तो वापरूंक जाय? खुशाल वापर. म्हजो टायपरायटरय जाय जाल्यार वापरूं येता.'' ताणें म्हाका एक टोपणनांवय सुचयिल्लें.

'दिलदार मनीस' दिशिल्लो तो म्हाका तेन्ना. पूण आतां म्हाका खात्री नाशिल्ली. त्या दिलदारपणांत कितें तरी विनाशी आशिल्लें, जशें कोणेंय म्हणचें - ''तुका जाय जाल्यार म्हजी सुरी वापर आनी स्वताचो जीव घे, म्हाका तातूंत कांयच फरक पडना.''

पूण ताणें केन्नाच कांयच म्हणूंक ना. ताणें सदांच म्हज्यो परत आयिल्ल्यो कथा, तोंडांतल्यान उतर काडिनासतना परत दिल्ल्यो. बाल-विधवेची कथा परत ये मेरेन. पूण तीय कथा हांवेंच ताका वाचूंक दिल्ली, मत उक्तावपाची जबरदस्तीय हांवेंच केल्ली ताचेर.

ही अप्पाची काणी आशिल्ली. तो ती काणी सांगतना हांवें ल्हानपणांत आयकल्ली. हांवें ती बरयिल्ली तेन्नाय ती म्हजे खातीर 'अप्पाचीच कथा' आशिल्ली. तिका मेळिल्ल्या न्हयकारान हांव खूब दुखाविल्लें. त्या दुख्खाचे भिरकेंत हांवें ती कथा आनीक एका म्हयनाळ्याक धाडिल्ली, मागीर दुसऱ्या, तिसऱ्या. एके तरेची हट्टीपणाची जिद्द म्हाका ती कथा एका फाटोफाट एका नेमाळ्याक धाडपाक प्रवृत्त करताली. तांणी सगळ्यांनी ती न्हयकारली. बायलांचे प्रस्न घेवन झुजपी अशें म्हणपी नेमाळ्यांनी लेगीत ती परत धाडली.

''ही कथा तुमी खंयच्याय बायलांच्या नेमाळ्यांत कित्याक छापून दिनात?'' ही कथा हांव स्वता घेवन गेल्लें तेन्ना एका संपादकान सुचयलें, ''ही मध्यमवर्गीय बायलांच्या प्रस्नां वयली कथा,'' आपलो हेतू कितें, आपली उद्दिश्टां कितें हाचेर व्हडलो शेर्मांव दिवन जातकच ताणें म्हाका म्हणलें, ''ही खऱ्या जिविता परस, खऱ्या प्रस्नां कडल्यान बरीच वेगळी आसा. हांव कितें म्हणटां तें तुमकां कळ्ळांच आसतलें. ही खंयच्याय स्त्री नेमाळ्याक धाडात.''

असंबद्द, मध्यमवर्गीय, बुद्धीजिवी - प्रत्येक शब्दा वांगडा हांव खचत गेल्लें. हांव त्या दिसा घरा गेलेंच ना. हांव हांगा आयिल्लें, वयले माळयेर, कामती कडेन. म्हजी कथा हांवें ताका दिली, ''वाच ती,'' हांवें ताका सांगलें, ''ती वाच आनी म्हाका सांग, कितें चुकलां तें.''

ताणें वाचून सोंपयना फुडें म्हजो स्फोट जालो, ''आनी आतां म्हाका सांग ती विशयाक सोडून कशी आसा? ती आतां न्हय तर साठ वर्सां पयलीं घडिल्ली म्हणून? हांव हांगां क्रूरपणाविशीं उलयतां, म्हणटकच ती विएतनामांत घडली कितें वा बांगलादेशांत, कितें फरक पडटा? ती ॲन फ्रॅन्काची कथा काय तेरा वर्सांचे विधवेची,

हय, तें फकत तेरा वर्साचें आशिल्लें...''

अचकीत हांव रावलें आनी याद जाली - अप्पा ही काणी आपल्या इश्टांक सांगतालो तेन्ना हांवय तेराच वर्सांचें आशिल्लें.

''तें ल्हान भुरगें आशिल्लें, आनी तांणी ताचो अपमान केल्लो, सगळ्यां मुखार ताका लज केल्ली, कारण तें बोडकें जावंक नाशिल्लें. तांणी ताका वेश्या म्हणलें, वेश्येचें चली म्हणलें. अप्पान अशें सांगिल्लें तें म्हाका याद आसा, 'आनी तो दादलो म्हाका सांगता,' हांव त्या दादल्याच्या आवाजाची नक्कल करीत म्हणलें, 'तूं ही कथा स्त्री नेमाळ्याक कित्याक धाडना?' म्हणल्यार बायलांच्या अणभवांत फकत बायलांकच रुची आसता?''

''हो सगळो राग...'' कामतीन हांसत म्हणलें, ''तुवें तो हे कथेंत कित्याक वापरूंक ना?'' ताणें तो पेपर जोरान धाडायिल्ल्यान पिंजलो. हय, तो पिंजिल्लो पेपर अजूनय आसा. ''तुजो तो राग तुवें हे कथेंत कित्याक वापरूंक ना? तातूंत तो खंयच ना. तातूंत वैयक्तीक दिश्टिकोण ना, वैयक्तीक दूरदिश्टी ना. हांव सांगतां तुजे कथेंत खंय कितें चुकलां तें. ती खूब आंखुडिल्ली आसा. तुजो राग तुज्या लिखाणांत ओंक सायबिणी, ओंक तो राग. तो भितर कित्याक दामून दवरता?''

''कित्याक? कारण खंयचीय बायल रागार जावंकच शकना. तुवें केन्ना अँग्री यंग वूमन आयकल्या?''

''हांवें पळयल्यात - अँग्री यंग विमेन म्हणटां हांव. सगळ्या पिरायेच्यो,'' ताणें परत हांसत म्हणिल्लें. ''आयकलांय बी, आयदनां धाडायतना. तुवें तुजीं आयदनां हांगां धाडायिल्लीं जाल्यार ही कथा बरी जावपाची.''

''तुका हीं सगळीं फकाणां दिसतात, पूण हांव जाणा हें सगळें अशें आसता तें. बायल केन्नाच रागार जावंक शकना; ती नेर्वांची, पिशी, देस्पेराद आसूंक शकता. म्हज्या जिवितांत रागाक जागो ना, निर्शेणेकय जागो ना. थंय आसता फकत शिस्त, अनुक्रम आनी दिनक्रम - आयज म्हाका बॅडशीट बदलूंक जाय, फाल्यां बाथरूम घांसूंक जाय, परां फ्रीज निवळ करूंक जाय...

''तुज्यो ह्यो कमीपणाच्यो भावना तुजेच कडेन दवर आनी तुका जर दिसता हांव फकाणां करतालों जाल्यार तुचे सारकें मुर्ख तूंच - 'बायलां शोशीत आसतात' हे तुजे विचारसरणे कडल्यान सादूर. ती तुका मोव मोव, चिकचिकीत आत्मवंचनेच्या रेबडांत ओढून व्हरतली. स्वताकडेन गंभीरपणान पळय, सायबिणी. टोपण नांवांआड लिपनाका. आनी तुका जर दुसऱ्यांनी गंभीरपणान घेवंक जाय जाल्यार काम - काम कर, हें अशें आदीं मदीं बिरबिटावन ...''

''म्हाका वेळ ना.''

''हय, ही सगळ्यांत सोंपी वाट. हुतात्मा जावप चड सोंपें, हांव हें हें करपाचें

पूण..." ताणें आपलो खणखणीत आवाज बायलेची नक्कल करपा खातीर बदल्लो आनी म्हजेय परस बरी नक्कल ताणें केली, "फकत म्हाका वेळ मेळिल्लो जाल्यार. पूण हांव पयलीं बायल आनी आवय. म्हजें घर आनी म्हजीं भुरगीं हांकां म्हजें प्राधान्य... हें... आनी तें... ह्यँ! खरें म्हणल्यार तूं भियेता हेंच कितें तें सत्य."

"भियेता?"

"बरोवपाक भियेता तूं. असफल जातलें म्हणून भियेता."

मध्यमवर्गीय बुद्दिजिवी, उच्चवर्णीय. सत्य परिस्थिती कडल्यान पयस. बरोवपाक भिवपी. असफलतायेक भिवपी. देवा म्हज्या, आनीक सोंसूंक जायना म्हज्यान. किड्यांचो लेगीत आपलो बुराक आसता सरपटत भितर वचूंक. म्हजोय आशिल्लो - मोहनाची बायल म्हणून, राहुल आनी रतीची आवय म्हणून.

म्हणटकच हांव म्हज्या बुराकांत गेल्लें. म्हाका थंय सुरक्षीत दिसतालें. सुसेगाद. अभेद्य. आनी म्हणटकच हांवें बरोवपाचें सोडून दिल्लें. हातूंत मोहनाचो कांयच गुन्यांव नाशिल्लो. आनी तातूंतल्यान म्हाका मजत जाल्ली आसली तरीय मोहनान म्हाका वेगळे पद्दतीचें लिखाण करपाक उर्बा दिल्ली हो एक निव्वळ योगायोग आशिल्लो. "हांवें तुका उत्तेजन दिल्लें," ताणें म्हणिल्लें. आनी ताचें म्हणणें बरोबर आशिल्लें. पूण हांव म्हजें छाती बडोवपी, पश्चात्ताप करपी लिखाणच करत रावलें. मोहनान म्हजेर जबरदस्ती करूंक नाशिल्ली तसलें लिखाण करपाक. हांवेंच थारायिल्लें तशें बरोवपाचें. म्हजे दोळे उक्ते दवरून हांवें तो निर्णय घेतिल्लो.

"तूं असले तरेचें लिखाण कित्याक करिना - कितें म्हणटात ताका? मिडल्स? हय तेंच तें. मिडल्स. होच पळय आतां. सुंदर आसता. हाचे परसूय तूं बरें बरोवंक शकता हाची म्हाका खात्री आसा."

आनी अशें करून हांवें लिखाणाक सुरवात केल्ली. हांवें मध्यमवर्गीय घरकान्नीच्या कश्टा विशीं हलकें फुलकें विनोदी बरोवपाक सुरवात केली. गंभीर अशें कांयच ना... ना, ना. गंभीर कांयच ना.

"पळय, आतां टोपणनांवा आड ल्हिपप बंद!" हांवें गर्वान कामती मुखार दिसाळें नाचयत म्हणिल्लें.

"असलें लिखाण कोण बरयता हाका म्हत्व आसा?" ताणें तिरस्कारान पळयत म्हणिल्लें, "तूं एक गजाल जाणा - तूं असलें लिखाण करूंक शकता हें हांव येवजूंकच शकना. म्हणल्यार, हें तुवें. असले पद्दतीन बरोवपी बायलेचें एक चित्र म्हज्या मनांत आसा..." ताणें आपले दोळे बारीक करून कसल्या तरी दृश्याचेर नदर केंद्रीत केल्ले भशेन म्हणलें, "बरी थुलथुलीत, विनोदी सभावाची, चणो कशा मेंदवाची, अक्कलशुन्य पूण शिटूक, तितलीच दुश्ट आनी उथळय."

आनी अशे तरेन 'सीतेचो' जल्म जाल्लो. पूण तिडकल्ले कामतीन ताचें श्रेय

स्वताक घेवपाक न्हयकार दिल्लो. "ते... ते पोजडे कृतीचो बापूय म्हाका करनाका."

पूण मोहन तिच्या मोगांत पडिल्लो. आनी संपादकय. आनी वाचकय बी. आनी तिचे वरवीं म्हज्या जिविताचेर आक्रमण करपी त्या सगळ्या बायलांकडेन हावें फाट केल्ली. लक्ष ओडून घेवपा खातीर तीं आरड मारतालीं. त्या बायलांक हांव वळखतालें, पूण तांचे विशीं हांव बरोवंक शकनाशिल्लें. कारण तांचें घडये मोहनाचे आवय कडेन वा काकी कडेन वा म्हजे आवय कडेन वा मावशे कडेन साम्य आसपाक शकतालें. त्या मानान सीता सुरक्षीत आशिल्ली. म्हाका म्हज्या सुरक्षीत बुराकांतल्यान भायर येवन 'सीता' बरोवपाची गरज पडनाशिल्ली. हांव थंयच रावंक शकतालें. उबदार आनी मोवसार कोशांत.

"मागीर जया, तूं लेखक जालां खंय," सीतेचे सफलताये उपरांत लक्ष्मणकाका म्हाका सप्तगिरी मेळिल्लो तेन्ना ताणें म्हाका विचारिल्लें. "तुज्या बापायक सदांच लेखक जावंक जाय आशिल्लें. म्हाका याद आसा वासू कितें ना कितें भिरकटायत आसतालो. तरीय बरें मरचे पयलीं ताच्या कवितांचें एक तरी पुस्तक ताणें प्रकाशीत केल्लें. आनी आतां तूंय लेखक, ताचे भशेन.... व्वा!"

म्हज्या बापाय भशेन न्हय, म्हाका भयंकर तिडक मारिल्ली; म्हज्या बापाय भशेन केन्नाच न्हय. कांयच तकली वापरनासतना आपणेच प्रकाशीत केल्लो अप्पाचो तो कविता संग्रह, ताच्यो त्यो विकूंक नाशिल्ल्यो प्रती, म्हाका अजून याद जातात. विकूंक नाशिल्ल्या पुस्तकांचे ते गठ्ठे हांव विसरूंक शकना, ते घरभर पातळिल्ले आसताले, टेबलाच्या खणांनी कोंबून दवरिल्ले, जनेलांचेर दाळून दवरिल्ले, कपाटांचे वयर, कपाटांचे भितर घुसयिल्ले, आमी कपाट उगडटालीं तेन्ना ते लवंडत भायर पडटाले.

"रद्देक कित्याक दिनात तुमी ते?" आईन ताका एकदां विचारिल्लें आनी इतल्या ल्हान वयांत लेगीत त्या प्रस्नांतली निर्दयता म्हाका जाणवल्ली. "घरभर फकत कचकच जाला तांचो - पळयात तुमी, एक दीस वायटी फस्त करून उडयतली तांकां." पूण ताच्या मरणा उपरांत अप्पाच्या लिखाणा विशीं ती भावूक जाली, सप्तगिरी सोडून वतना. आपूण हीं पुस्तकां रद्देक विकपाक सोदतालीं हें ती विसरलीं. आई अप्पाचीं पुस्तकां रद्देक विकपाक सोदता हें म्हजेकडल्यान आज्जेक कळटकीर, आज्जेन तीं सगळीं पुस्तकां शारांतल्या घरांत व्हरून दवरलीं. दोन प्रती हांवें म्हजेकडेन दवरिल्ल्यो - भावनेपरसर म्हजो निशेद उक्तावपा खातीर. (कितल्यो वायट आशिल्ल्यो अप्पाच्यो कविता - इतलो बुदवंत, विनोदी बुद्दीचो मनीस असल्यो भावनाविवश, साकरगोड गजाली कश्यो बरोवंक शकलो?) दर वेळा हांव त्या दोनय प्रतीं कडेन पळयतां तेन्ना त्यो तांबड्या दिव्याचें सिनाल करून म्हाका शिटकायतात. "तूं जेन्ना स्वताक लेखक समजता तेन्ना अशें जाता. तुजें अपेस अशें स्पश्टपणान, दवंडी

वाजयिल्ले भशेन जगा मुखार येता - हीं पुस्तकां कोण वाचूंक सोदिना, कोण घेवंक सोदिना, फकत रद्दीवालेच ह्या पुस्तकांच्या नशिबांत आसतात; ना जाल्यार वायटी.''

*''तूं भियेता हेंच खरें सत. तूं अपेसाक भियेता.''*

तो बरोबर आशिल्लो काय? हांव खरेंच अप्पा भशेन अपेशी जातलें म्हूण भियेल्लें? ना, ना. हातूंत म्हाका अप्पाक कित्याक ओडपाक जाय? पाडा पडूं म्हाका अशें म्हणटल्यांचें आनी पाडा पडूं आमचे बापूय आमच्या माथ्यार मारतल्या त्या फ्रॉयडाचेंय. ह्या गजालींचो अप्पा कडेन कांयच संबंद नाशिल्लो. हें म्हजें जिवीत आशिल्लें.

''लेखक, लक्ष्मणकाका?'' हांवें विचारिल्लें, ''ना, हांव तशें लेखक न्हय. हांव हांगां थंय इल्लें इल्लें बरयतां, नेमाळ्यांनी, दिसाळ्यांनी. ल्हान ल्हान लेख वा काणयो. हांव तशें लेखक न्हय.''

''सारकें, बरोबर. अशेंच म्हणत राव. तूं जर तुका स्वताक बांदून घेतलें ना तर अपेसी जावपाचो भंयच ना,'' परत कामत.

पाडा पडूं तुजें, तूं मेलो, हय काय न्हय? तुका थंय जमनीर पडिल्लो हांवें पळयिल्लो, तुज्या तोंडार अजाप आशिल्लें. तेन्नाच रेडियो वयल्यान तुज्याच आवाजांत कसले तरी च्यावेच्या ब्रॅण्डाची जायरात चलताली. हांवें तुका थंय जमनीर पडिल्लो पळयिल्लो, तुजे कुशीक दिसाळ्याचीं पानां पंख्याच्या वाऱ्यान एकसारकीं फडफडटालीं. म्हाका खबर आशिल्लें तूं मेलो म्हणून, तरीय तुका हांव थंय एकटोच सोडून आयलें. तुज्याच आवाजाच्या सांगातान. आतां तूं म्हाका कित्याक एकटो सोडिना? तूं मेला तो मरूनच कित्याक रावना? म्हाका कित्याक एकटो सोडिना?

हय, तो मेल्लो. तें दृश्य म्हज्या दोळ्यां मुखार आयलें, कामत जमनीचेर सोफ्या म्हज्यांत पडला, घडये तो सोफ्या वयल्यान पडला आसतलो, ताचे दोळे सताड उक्ते आनी चकचकीत पारदर्शक. ओंकिल्लें तें तोंडाच्या कोनशांतल्यान गळटालें, कूडभर ते ओंकीचो वास, मुताचोय बी, मरचे पयलीं ताणें स्वताक रितो केल्ले भशेन. किळस येवपी दृश्य! एक किळसवाणो अंत. आनी ती किळस कमी करपाक हांवें कितें केल्लें? एका खिणा उपरांत, म्हाका म्हज्या काळजाच्या धडधडपी ठोक्यां बगर कांयच आयकूंक येनाशिल्लें तो खीण. हांव थंयच्यान भायर सरलें, म्हजे फाटीक बोट तोंपून सवकासायेन म्हाका कोण तरी भायर धुकलता अशें दिसतालें. ताचे कडल्यान पयस धुकलता. हांव मागीर हांगां सकयल आयिल्लें, ह्या जाग्यांत, हांवें

म्हजी बॅग उखल्ली, ह्या जाग्याक कुलूप लायलें आनी परत म्हज्या चर्चगेटीच्या घरा परतलें. रातचें जेवले उपरांत हांव सदां भशेन न्हिदपाक गेल्लें. कांयच जावंक नाशिल्ले भशेन. कांयच घडूंक नाशिल्ले भशेन.

पूण तें घडिल्लें. सत्या पासून म्हजी सुटका नाशिल्ली. तो मेल्लो.

"तूं मेला तो मरूनच कित्याक रावना आनी म्हाका एकटो कित्याक सोडिना?"

"तुका एकटो सोडूं? बरें आसा तूं, तूंच तें म्हाका एकटें सोडिना, म्हजी फाट सोडिना."

फकत मेल्ल्या मनशां कडेन आमचें बरें नातें आसूंक शकता. थंय कसल्यो गांठी नात, कसले लजेक घालपी घुस्पागोंदळ नात. मेल्ल्या मनशांक आमचे इत्से प्रमाण आमचे गरजे प्रमाण, आमी आकार दिवंक शकतात. पूण हो दादलो - ताणें ताचेर आनी ताच्या म्हजे कडल्या नात्याक नियंत्रणा खाला दवरपाच्या सगळ्या प्रयत्नांचेर मात केल्ली. हांव अपेसी जालें म्हणून अस्वस्थ जालां हें पळोवन तो हांसता हें म्हाका दिसता. आनी तरीय म्हाका हें कुवाडें सोडोवचेंच पडटा, बारीक बारीक कुडके एकठांय करून तांकां कसलो आकार येता तो पळोवचोच पडटा, ह्या दादल्या कडल्या म्हज्या नात्याचो.

पूण तें कसलोच आकार घेवंक तयार ना; तें अशेंच निसरून गेलें, सामकें उदक कशें. घडये, खूब तेंप, म्हणल्यार निमणे मेरेन हांवें ताका कितें म्हणून उलो मारचो हें म्हाका कळ्ळें ना, ही गजाल मतींत दवरपा सारकी. "म्हाका सगळे कामत म्हणटात," ताणें म्हाका सांगिल्लें, पूण त्या नांवान हांव ताका उलो मारूंक शकलें ना. तो मात म्हाका पयल्या दिसा सावन जया म्हणून उलो मारतालो. ज्या सोंपेपणान तो म्हजें नांव घेतालो ताची म्हाका नसाय जाताली, हरशीं ताचें तें लागींपण म्हाका भिवयतलें आशिल्लें, पूण तो तें इतले सहजतायेन, लिंगीक भेद नासतना करतालो, ताका लागून म्हाका तातूंत व्हडलें कांयच दिसनाशिल्लें.

"यो आनी बस म्हज्या वांगडा," पयल्याच दिसा हांव ताचें आमगेर चुकून आयिल्लें पत्र घेवन गेल्लें तेन्ना ताणें म्हणिल्लें.

ताच्या वांगडा बस? तो कितें म्हणटालो तें समजूंक म्हाका एक खीण लागलो.

"ना. हांव जेवन आयलां."

"भोंगूं तुजें, तूं जेवन आयलां जाल्यार तुका बरेंच कितें चुकता. हांव बरो रांदपी." तो बरो रांदपी हें स्पश्ट कळटालें. तो जे कुशळटायेन चपाती परतितालो तें हांव पळयतच उरलें - फटक, फटक. आनी त्याच वेळार चपळटायेन दुसरे शेगडेचेर कितें शिजतालें तेंय तो पळयतालो. हांव ताका पळयत उरलें, ताचे एकाग्रतायेचेर, ताचे कुशळटायेचेर आनी ताचेय परस आपूण कितें तरी वेगळें करता हाची जाणविकाय नाशिल्ल्या हालचालीं कडेन अजापीत जावन पळयत रावलें. तो करता तें हांव

पळयतां हाचें ताका अजिबात वायट दिसूंक नाशिल्लें. तें काम म्हाका बायलकुरें दिसत हाचेंय ताका पडून वचूंक नाशिल्लें. ताचे उरफाटें, आपले हे कले विशीं ताका अभिमान दिसतालो, तो ताचे विशीं फोक्यो मारतालो. ''तुवें दादलो मनीस केन्ना रांदतना पळोवंक ना? तुका अजाप जालें? हांव गरज म्हणून जेवण रांदपाक शिकलों.''

हांवें त्या वेळार कांयच म्हणूंक ना, पूण जेन्ना हांव ताका बरे तरेन वळखूंक लागलें तेन्ना हांवें म्हजी अस्वस्थताय कबूल केली. ''म्हाका तें मात्शें विचित्र दिसता. खरें म्हणल्यार कृत्रीम दिसता, खंयच्याय दादल्यान म्हाका रेसिपी विचारप आनी हांवें कशें रांदपे तें ताका सांगप.''

''कृत्रीम? खात्रेन न्हय. जेवंक आवडटा त्या मनशां खातीर तातूंत कृत्रीम कांयच ना. तुवें टागोराच्यो कादंबरी वाचल्यात?'' ताणे म्हाका विचारलें. म्हाका दिसलें तो विशय बदलूंक सोदता, ''बायलां दादल्यांचीं सदचीं सगळीं कामां आपूण करून दादल्यांक आपणाचेर कशीं अवलंबून दवरतात आनी तांकां असहाय करतात तें केन्नाय लक्षांत घेतलां तुवें? आनी दादलेय आपली असहायता जाहीर केल्लेवरी बायलांकडेन वागतात ते? 'आई म्हाका भूक लागल्या'... असलेंच सगळें. म्हाका हें कृत्रीम दिसता. खरें सांगचें म्हणल्यार, बायलांच्या कसल्याच अधिकारा मुखार म्हाका मान बागोवपाची ना. सॅक्स... हे एकेच गजालींत हांव तिचो अधिकार मान्य करतां. आनीक खंयच ना.''

आनीक एकदां ताणें म्हणिल्लें, ''म्हाका बारीक शिडशिडीत बायलो आवडटात. त्यो सगळ्यो बायलो व्हडल्या व्हडल्या छातयांच्यो, रूंद कुल्यांच्यो बायलो...'' ताणें हातवारे करीत हवेंतच बायलेचो आकार आपल्या कुशळ बोटांनी पितारिल्लो... हांवें नेमाळ्यांच्या मुखपृश्ठां खातीर आनी कथां खातीर तश्यो बायलो काडल्यात - पूण म्हाका तांची वीट येता. म्हाका मनशां मदीं नितळ, गडद रेशा आवडटात. देखीक तूं''. आनी तेन्ना ताणें म्हाका म्हणिल्लें, ''तुजो चेरोय तुज्या नांवां सारकोच.''

पयलीं पयलीं एक दादलो म्हजे कडेन असले गजाली विशीं स्पश्टपणान उलयता हें म्हाका विचित्र दिसतालें. हाचे पयलीं, हांव ज्या दादल्यांक वळखतालें तांच्या चेऱ्याचेर वेगळे भाव आसताले, आवाज वेगळो आसतालो, हांसो नकली आसतालो, म्हजे कडेन ते उलयताले तेन्ना आमी एका पांवड्यार नात हें ते सदांच स्पश्ट करताले. पूण ह्या दादल्यान... दोन मनशां, एक दादलो आनी एक बायल, अशीं मेकळेपणान उलोवंक शकतात हो म्हजे खातीर एक साक्षात्कार आशिल्लो. ते व्यक्ती वांगडा आसतना हांव बायल नाशिल्लें. हांव फकत हांव आशिल्लें - जया.

खंयच्याय नात्यांत अणभवूंक ना अशी एक सहजता आमच्या ह्या नात्यांत आशिल्ली. ताचेकडेन उलोवंक शकना अशी खंयचीच गजाल नाशिल्ली. आनी तोय बी...

काय तो हो प्रामाणीकपणाचो खेळ वांकडे चालीन खेळटालो? तो हो प्रामाणीकपणाचो खेळ ताका जाय तेन्नाच खेळटालो असो आतां म्हाका दुबाव येता. तो खूब वेळा फटयतालो. म्हाका पयलीं दुबाव आयलो तो हांवें रेडियोचेर जायरात करपी तो आवाज त्या दिसा आयकलो तेन्ना. खंयचे तरी उत्पादनाचें गुणगान गावपी तो आवाज मात्सो वळखीचो दिसलो. संरक्षणाच्या पावित्र्यांत, स्वास रोखून राविल्ले ते पद्दतीन म्हजी ट्यूब लायट पेटिल्ली.

''आरे, हो तुजो आवाज'', हांवें म्हणिल्लें. पयलेच खेपे जाप कितें दिवची हें सुचना जावन हांवें ताका गोंदळिल्लो पळयिल्लो. न्हयकार दिवन कांयच जावचें ना हें लक्षांत येतकच ताणें मागीर ''हय'' म्हणलें.

गणीत चड कठीण जावंक लागिल्लें - जितलें हांव ताचे विशीं चिंत्तालें, तितलें म्हाका ताचें व्यक्तीत्व घुस्पल्लें दिसतालें. सगळे कुडके एकठांय करपाचो हांव यत्न करतालें तितलें आमच्या नात्याचो प्रकार थारावप कुस्तार जावंक लागिल्लें. मोग? पूण म्हाका मोगा विशीं कितें खबर आसा?

हांवें बरयिल्ल्यो त्यो प्रेमकथा - त्यो हांवें विणिल्ल्यो म्हजे तरणेपणांतल्या कल्पनांचेर. मोग? ना, म्हाका ताचे विशीं कांयच खबर नाशिल्लें. म्हाका इतलेंच खबर आशिल्लें - मोहन ही म्हजी गरज आनी हांव ताची.

आनी तरिकय हांव कोणाचकडेन उलोवंक शकलें नाशिल्लें, दादाकडेनय न्हय आनी मोहनाकडेनय न्हय, पूण तें हांव त्या दिसा कामतीकडेन उलयिल्लें. हांव म्हज्या पालका विशीं उलयतालें आनी हांवें कितें तरी म्हणलें, तो हांसलो - ताचो तोंडभर हांसो येवन सरळ तुका आपटलो.

''तुका खबर आसा, आपल्या आवयबापाय विशीं उलयता तेन्ना तूं कितलें रागार-फुगार तरणें कशें दिसता? अशें कितें केल्लें तांणी तुका?''

ताच्या आवाजांत मस्करी आशिल्ली, पूण हांवें ताका जाप गंभीरतायेन दिली. ''म्हजे आईन म्हाका बेघर केलें. तिणें आमचें घर विकलें - म्हाका एका उतरान सांगिनासतना.'' आमी कांय दिसां खातीर आंबेगांव वतात अशें तिणें म्हाका सांगिल्लें. आनी थंय वतकच तिणें सांगलें, ''आमी आतां हांगांच रावतलीं. सदांकाळ.''

''आगे सायबिणी, मात्शीं भुरगेपणां सोड. तिका पयशांची गरज आशिल्ली जायत. तुजो बापूय फाटल्यान खूब रीण दवरून मेलो म्हणून तुवें म्हाका एकदां सांगूंक ना? आनी तिचे बाबडेचें कितें, तिचेंय घर शेणलें काय ना? आनी तुजो बापूय, ताचे विशीं कसलो राग आसा तुका?''

''तो मेलो.'' हाचेर तो हांसूंक लागलो. नाटकी पद्दतीन केल्लें पहाडी हास्य.

''तुजे कडेन न्ही ल्हान भुरग्याचो राक्षसी अहंकार आसा. जशें काय मरण होच पर्याय आशिल्लेवरी तूं उलयता. मरण अपरिहार्य आसता हें तूं नकळो?''

''तो मेलो इतलेंच कारण न्हय... ताणें... ताणें म्हाका म्हजे विशीं चुकीची कल्पना करून दिल्ली. तो... म्हजें सगळें जिवीत बदल्लें... तो...'' म्हज्यान उलोवंक जायना जालें, उतरां खातीर हांव आडखळ्ळें, पूण ते रोखडेच मेळ्ळे.

''तो म्हजो एसएस्सीचे परिक्षेचो पयलो दीस आशिल्लो. हांव सांजे हॉलांतल्यान भायर आयलें आनी एक चली... थंय खूब जाणां पंगड करून उबीं आशिल्लीं, म्हाका पळोवन तीं ओगी जालीं. आनी हें चली आयलें आनी म्हाका म्हणपाक लागलें, 'जया, बेग्गीन घरा वच. तुजो बाबा बरो ना खंय'. म्हाका ताचें खरें दिसलें ना. 'आत्ताचे आत्तां वच'. ताणें म्हाका सांगलें, पूण हांवें घाई केली ना. कित्याक केली ना हांवें घाई? कारण कांयच जावंक नाशिल्लें, कांयच जावप शक्य नाशिल्लें. ते चलयेन चुकून आनीक कोणाचो रकाद म्हाका दिल्लो. हांव हांगां थंय रमतगमत, त्या दिसाच्या पेपरा विशीं उलयत दुसऱ्या दिसाच्या पेपरा विशीं सीमा कडेन चर्चा करीत कोनशाक उबें रावलें, झाडाची एक ताळी घेवन हांवें धुल्लांत चित्रां काडलीं. एक वर्तुळ काडून ताचे मद्दीं बिंदू काडलो, म्हाका अजून याद आसा, तो मदलो बिंदू म्हाका अजून दिसता. मागीर सीमा गेलें आनी हांव एकटेंच उरलें. म्हाका घरा वचपाचें नाशिल्लें, पूण म्हज्या लक्षांत आयलें हांव घरचे वाटेर आसा म्हणून. मागीर हांव बेगिबेगीन वचपाक लागलें. हांव धांवंक लागलें. सगळें बरें आसल्यार पुरो, कांयच वायट जावंक ना जाल्यार पुरो. हांव देवा कडेन मागपाक लागलें, 'देवा म्हज्या, सगळें बरें आसल्यार पुरो रे बाबा'. आतां देश्पेराद जावन हांव मागणें करतां करतां धांवंक लागलें. सगळें बरें आसल्यार पुरो, कसलोच विचार करिनासतना हांव मनांतल्या मनांत आंगयत सुटलें.

''सगळें बरें आसा.'' हांव थंय उबें रावलें, दीर्घ स्वास घेत. म्हजी छाती दुखताली, पोटांत गुळो आयिल्लो, पांय थरथरताले, आंगांतल्यान घाम गळटालो, पूण सगळें कितें सारकें आशिल्लें. घर शांत आनी थंड दिसतालें. ''तें मूर्ख चली,'' म्हज्या मनांत विचार आयलो, ताणें म्हाका गरज नासतना भिवयलें. आनी मागीर म्हज्या लक्षात आयलें, घराक कुलूप लायिल्लें. हांवें अविस्वासान तें येदें व्हडलें कुलूप ओडलें. ती म्हाका कुलूप मारून भायर कशीं दवरूंक शकतालीं? तांकां खबर नाशिल्लें म्हाका फाल्यांच्या पेपराची तयारी करूंक जाय म्हणून? आनी हांव थकिल्लें आनी भुकेल्लेंय.

''निमणें हांव थंयच दाराच्या सोंपणांचेर बसलें, वाट पळयत, निर्विकार. दादाक सायकलीचेर घरा येतना पळयलो तेन्ना म्हाका अलिप्त आनी तुटिल्लें कशें दिसलें. तो सामको सवकास, आतांच सायकल शिकिल्ले भशेन हाडबडीत पॅडलां मारीत येतालो. तो हालतालो, सायकल गडगडटाली,खडबडीत रस्त्याचेर सायकल धाडावन सायकलीची कांपीण एकसारकी टीनटीन करून वाजताली. म्हजे कडेन येवचे पयलीं

ताणें लक्ष दिवन गेट बंद केली आनी खिळी घाली.''

''हांवें ताचें तोंड पळयलें. हांवें ताका उलोवंक दिलें ना, म्हाका ताणें उलयिल्लें नाका आशिल्लें. म्हाका तें आयकुपाचें नाशिल्लें. 'ना,' हांवें परपरत म्हणलें, 'ना'. ताणें म्हाका धरलें आनी गदागदा हालयलें. म्हजे दांत एकामेकांचेर आपटले, हांव कांयच म्हणूंक शकना जालें. सादें 'ना' लेगीत. 'जया' ताणें म्हणलें, 'जया, म्हजें आयक. अप्पा गेलो.''

''म्हाका तो खीण सदांच याद उरतलो. दादाचो चेरो घडये रागान वांकडो जाल्लो, तो म्हाका सांगतालो, 'जया, अप्पा गेलो''.

''आनी मागीर तो हुंदके दिवपाक लागलो. ताची सायकल सकयल पडली आनी ताणें थंय खडयेचेर फतकल मारली, ती खडी अप्पान मातयेचीं पावलां घरांत येवचीं न्हय म्हणून घाल्ली. दादा थंयच बसलो आनी रडपाक लागलो. म्हाका कितें उलोवचें कळ्ळें ना. म्हजीं दाडवणां मुयेल्ले भशेन घट्ट बशिल्लीं. म्हाका उलोवंक जायना जालें. कांय वेळान दादा शांत जालो. म्हाका म्हजे फाटल्यान आशिल्ल्या कुलपाची निबरसाण आनी मौन याद जालें. म्हाका दादान दार उगडिल्लें जाय आशिल्लें, म्हणटकच हांव भितर वचून कितेंय खावंक शकतालें, फाल्यांच्या पेपराचे तयारेक लागूंक शकतालें...''

''आमकां वचूंक जाय,'' दादान सांगलें, ''तीं सगळीं आमकां आज्जेगेर रावल्यांत, अप्पा थंय आसा, आमकां वचूंक जाय.''

''आनी परत हांव कांयच उलोवंक शकलें ना. फकत परपरत हांव 'ना' 'ना' म्हणत रावलें. रामूकाकान येवन आमकां दोगांकय व्हेलें तेन्ना हांव ओगी जालें.''

''हांव जमनीर न्हिदिल्ल्या अप्पाक पळोवंक तयार नाशिल्लें. म्हाका ताचे म्हऱ्यांत वचपाचें नाशिल्लें, पूण आज्जेन म्हाका सोडलें ना. 'चल आनी ताच्या पांयां पड', तिणें म्हाका सांगलें, 'ताचे आशिर्वाद घे', तिणें म्हणलें, 'हें शेवटचें दर्शन', तिणें म्हाका ताचे कडेन धुकल्लें. कोणाकय हात लायल्यार आपल्याक विटाळ जातलो म्हूण समजुपी बायलेन म्हाका ताचे म्हऱ्यांत धुकल्लें. हांवें दोळे बंद केले आनी तरीय म्हाका आज्जेचें हाडकुटें बोट फाटीक तोपीत धुकलता अशें दिसतालें. पूण थंय न्हिदिल्लो अप्पा न्हय, तो अप्पा आसूंकच शकना. 'बरे तरेन पेपर कर जया', सकाळीं ताणें म्हाका म्हणिल्लें. जैताची कुरू 'व्ही' बोटांनी दाखयत. 'हांवें तुका जया नांव दवरलें कारण जया म्हणल्यार जैत' हें तो म्हाका खूब वेळा म्हणटालो, पूण आतां...''

''तांणी ताका व्हेलो आनी सगळें सोंपलें. दुसऱ्या दिसा हांव परिक्षेक गेलें. दादान म्हाका आग्रो केलो आनी परिक्षेक धाडलें. सगळ्यांनी ताका सांगलें म्हजे फाटीक लागनाका म्हणून. सगळ्यांनी, फकत आईन कांयच म्हणूंक ना. ती ओग्गी रावली, पूण दादान म्हाका एकटें सोडूंक ना. ताणें म्हाका परिक्षेच्या हॉलांत व्हेलें आनी हांव

पेपर बरयता म्हणसर म्हजे खातीर भायर बसून रावलो. 'म्हज्यान बरोवंक जायना दादा, म्हाका कांयच याद जायना' हांवें रडत सांगिल्लें. म्हाका कांयच याद जायना आशिल्लें. पूण रोखडीच म्हाका एक एक गजाल याद जावंक लागली आनी हांव बरोवंक लागलें. बरयतां बरयतां म्हज्या लक्षांत आयलें, 'अप्पा गेलो' अशें हांवें बरयल्लें आनी एक व्हड हुंदको म्हज्या तोंडांतल्यान फुटलो. सगळीं म्हाका एकटक पळोवंक लागलीं. तो हुंदको म्हजो नाशिल्लेच वरी हांवें सगळ्यांक पळयलें, पूण म्हजी तकली परत शुन्यांत गेल्ली. कशीयबशी हांवें परिक्षा पुराय केली. सद्दां म्हजे वांगडा दादा येतालो. बॅल जावन हांव भायर येसर थंय बसतालो. मागीर आईन रवीक आनी म्हाका आंबेगांवां धाडलीं.''

''आंबेगांव हांव बरें ना जावन पडलें. आनी दुयेंसांतल्यान भायर पडलें, तेन्ना म्हाका आईन घर विकलें म्हणून कळ्ळें. आतां आमकां घर नाशिल्लें. आमकां चंदूमामाच्या घरा आंबेगांव रावचें पडिल्लें. दादा परत मुंबय गेलो आनी फाटल्यान कांयच उरलें ना.''

आनीक सांगपा सारकें कांयच नाशिल्लें. आनी अचकीत म्हज्या लक्षांत आयलें, हांव रडटालें आनी ताणें म्हाका धरिल्लें, पूण ताका कांय अर्थ नाशिल्लो. शिंयाच्या दिसांनी अप्पाचो कोट आंगार उडयिल्ले वरी वा ताचे सायकलीच्या दांड्यार बशिल्ले वरी म्हाका उबदार आनी आरामशीर दिसतालें. आनी मागीर ताणें ''जया'' म्हणिल्लें आनी हांवें वयर पळयल्यार तो अप्पा नाशिल्लो. आरे म्हज्या देवा, हांव इतलो वेळ म्हज्यो गजाली सांगतालें तो अप्पा नाशिल्लो आनी कामतय नाशिल्लो. ह्या अनवळख्याक पळोवन हांव भियेल्लें. हांव बेगिबेगीन भियेवन ताचे कडल्यान कुशीन सरपाक लागलें, पूण ताणेंच म्हाका पयलीं सोडलो. ''एकदां तुवें म्हाका तुजे आज्जे विशीं सांगिल्लें,'' ताणें थंडपणान आनी विचारपूर्वक म्हणलें, आमी अमूर्त गजालीं विशीं खबरो करतल्यावरी. ''तिच्या अनवाळ्या रितीं विशीं, आंगार कांयच नासतना तिका कशी आपली साडी धुवची पडटाली ती, म्हणटकच मागीर ती न्हेसपाक कशी पवित्र आसताली. सुखाचो सोद घेवप - तसोच आसता, एक अर्थहीन, अंतहीन व्यायाम, सुण्याचो पेटो आपली शेंपडी धरपाक धांविल्ले भशेन.''

त्या खिणाक हांवें ताचे शब्द सारके आयकले नात. तो कितें म्हणटा तें सारकें समजलें ना. ताचे बदला, तो म्हजे कडल्यान पयस वतकच, पयलेच खेपे पळयतां अशे नदरेन हांवें ताका पळयलो. हो धवे जायत गेल्ल्या केंसाचो मनीस, मध्यमवयीन, मोटोचसो, वेगळोच दिसतालो. हो मनीस एकटेपणाचे कादयेंत बंदिस्त जाला कसो दिसलो.

आनी मागीर ताणें परत ''जया'' म्हणिल्लें. हे फावट ताणें म्हजो चेरो आपल्या तळव्यांनी हलकोच धरिल्लो, तो स्पर्श हलको आशिल्ल्यान ताच्या हाताची म्हाका

जाणीव जाली ना. ''तुजें नांव तुज्या चेऱ्या भशेन,'' ताणें म्हाका एकदां म्हणिल्लें आनी ल्हवूच आपलें बोट म्हज्या तोंडा वयल्यान घुंवडायिल्लें. पूण त्या स्पर्शांत कांयच नाशिल्लें. मात आतां...

ताची थीर, लागीं लागीं भावनाहीण नदर म्हाका पळयताली आनी म्हज्या शरिरान ताचे ते नदरेक, त्या आवाजाक, त्या स्पर्शाक प्रतिसाद दिल्लो. म्हाका दिसलें ताचें शरीर म्हज्या शरिराचेर आसा, म्हज्या शरिराचो भाग जावन, ताचे ओंठ म्हज्या ओंठार आशिल्ले भशेन म्हाका ताच्या ओंठांचो सुवास आनी सुवाद जाणवलो.

शरिराची जाप चड सादी आसता, चड सरळ. म्हणटकच शरीर बरोबर आसा अशीय शक्यता आसूंक शकता? आयजवेर म्हजे लागीं त्या प्रस्नांची जाप ना, पूण त्या खिणाक, हांवें झटक्यांत म्हज्या शरिराची मागणी न्हयकारली. हांव ताचे कडल्यान पयस गेलें, ताचे हयन्हयशे मिठयेंतल्यान कुशीक सरलें आनी एक शब्द उलयनासतना थंयच्यान भायर सरलें.

हांवें हें सगळें केलें तेन्ना म्हाका राग नाशिल्लो, संतापय नाशिल्लो; कांयच नाशिल्लें. आशिल्ली ती फकत अधीर इत्सा, ताच्या शरिराक म्हज्या शरिरान प्रतिसाद दिवपाची, आनी तेच अधीर ठामपणान मनाक दिसतालें तशें करचें न्हय म्हणून. मागीर, घुस्पागोंदळ जाल्लो. ''जया,'' ताणें म्हणिल्लें आनी हांव जया जाल्लें. तातूंतल्यान मोहन पुराय नश्ट जाल्लो; ते भशेन नश्ट जाल्लो पळोवन हांव पुराय भियेल्लें.

कांय दिसांनी हांव थंय परत गेल्लें. थंय हांव कित्या खातीर वतां आनी हांव ताचे कडेन कितें उलयतलें हें म्हाका खबर नाशिल्लें. हांव यांत्रीकपणान सोंपणां चडत वयर गेल्लें, सदांच वता तशें, हांव ताका सोडून गेल्लें तेन्नाच्यान काळ झेल जाला अशें म्हाका दिसलें. आनी अजूनय तो म्हजी वाट पळयत, तीच पोझ, हात सकयल आनी तेच तोंडार भाव घेवन आसतलो... पूण तो मरून पडिल्लो - कंवचेचे पारदर्शक दोळे, ओंकाऱ्याचो वास आनी निश्चल - आनी हांव परत ताका थंयच सोडून भायर सरिल्लें.

ते रातीं, जेवतना, म्हज्या मनांत विचार आयलो, कोण तरी म्हजे वळखीचो मनीस मेला. आनी ताका पळयला ते बायले कडल्यान हांवें म्हाका तोडलां, त्या अणभवाकडल्यान पयस व्हेलां. पूण मागीर, न्हिदपाक वच्चे पयलीं बाथरुमांत गेल्ले कडेन म्हजीं दुकां घसघशांनी देंवलीं, अचकीत शीर फुटून रगत व्हांवता तशीं. जितलें हांव म्हजे हंदके दामूंक पळयतालें तितलें तांणी म्हाका हालोवन उडयलें. हांव थंयच रावलें, संडासाच्या सिटाचेर मान दवरून थंयच जमनीर बसलें, म्हजो ताळो रडून रडून सुजलो आनी दुखत रावलो. म्हजे हुंदके थांबसर हांव थंयच बसून रावलें. मागीर हांवें म्हजे हात-पांय-तोंड धुले - आनी मोहना कडेन गेलें. हांव पासियेंसान ताका

राविल्लें, ताचें वाचून जायसर आनी ताणें लायट पालयसर. मागीर हांव मुद्दाम ताचे कडेन वळ्ळें, ताका स्पर्श केलो आनी ताका पोशेत रावलें. ताणें म्हाका प्रतिसाद दी मेरेन, उत्तेजीत जाता मेरेन आनी म्हजे कडेन संभोग करता मेरेन.

"दादलो आनी बायल हांचें नातें सामकें निसर्गीक, एका मनशाचें दुसऱ्या मनशा कडलें."

निसर्गीक? थंय आसता फकत विस्वासघात, फकत कपटीपण आनी फकत फटिंगपण.



जीजा एकदम घरांत घुसलें आनी ताचे फाटोफाट, एक पावल फाटीं, मंदा आयलें. तें आयिल्लो तो वेळ वा जे तरेन तीं घरांत भितर सरलीं ताचे परस तांच्या तोंडा वयले भाव पळोवन हांवें विचारलें, ''जीजा, कितें जालें?''

ताचो पाचव्या रंगान गोंदयिल्लो हात मंदाच्या राठ, जटा जाल्ल्या केंसां वयल्यान भोंवडायतना थरथरतालो, ''ताई, आमच्या राजारामाक हॉस्पिटलांत घाला.''

''हय, कळ्ळें म्हाका तें. नयनान सांगलें म्हाका. अपघात जालो म्हणटालें तें. कितें जालें?''

''ताई, तांणी मारलो ताका, चाकू तोपलो ताका त्या गुंडांनी,'' इतलो वेळ ताणें स्वताचेर बळजबरीन दवरिल्लो ताबो सुटलो आनी तें गळसणलें. ताका पळोवन हांवें पळयिल्ले एके बायलेची म्हाका याद जाली. ती अस्थी घेवन वचपी लोकां फाटल्यान धांवताली, तिच्या वांकड्या तिकड्या जाल्ल्या तोंडार तिचे पिसुडिल्ले केंस आयिल्ले, थांबनासतना ती बोबो-हुयेली मारताली.

''तो सोरो पियेल्लो, त्या सगळ्या गुंडांनी ताका पिवयलो, ताच्या पयशांनी आपूणय पियेले आनी जेन्ना ताचे कडले पयशे सोंपले, तेन्ना तांणी ताका उधार सोरो घेवंक सांगलो. गादयेकारान ताका सोरो दिवपाक न्हयकार दितकच, हाणें तांकां कितें तरी म्हणलें, सामको तायट आशिल्लो तो ताई. आपूण कितें उलयता हें ताका कळनाशिल्लें, पूण त्या गुंडांक खंय पर्वा आशिल्ली? तांणी आपले चाकू-सुरे काडले आनी ताच्या आंगभर वार केले आनी मागीर फुटपाथाचेर थंयच ताका मरपाक सोडून गेले.

तें परत एकदां रडपाक लागलें आनी ताच्या मनांतली हयन्हयशी निराशा म्हाका जाणवली. असले परिस्थितींत आनीक कितें अपेक्षा दवरूंक शकतालें हांव जीजा कडल्यान?

''हांगां ताई,'' इतलो वेळ निश्क्रीय प्रेक्षका भशेन तोंडाचेर कसलेच भाव नासतना, आमचीं तोंडां बारीकसाणीन निरखून पळोवपी मंदा पयलेच फावट उलयलें. ''तांणी ताका हांगां मारले... आनी हांगां... आनी हांगां...'' मंदान स्वताच्याच हाडकुट्या

आंगाचेर मारून घेत, जीजान केल्लें वर्णन सचित्र करून दाखयलें. ''सगळे कडेन रगत सांडिल्लें''.

''ताई...'' जीजान आपले दोळे आनी तोंड साडयेच्या पदरान नेटान पुसलें आनी पदराचीं दोनय तोंकां आपल्या हातांत घेवन याचना केल्ले भशेन म्हजे मुखार पदर पसरलो. तातूंतल्यान ताणें आपली प्रतिशठा पुनर्प्रस्थापीत केल्ली. आपल्या सदींच्या मौनांतल्यान भायर सरून नाटकी पद्दतीन दुख्ख उक्तावपाची ताची तरा अजापाची आशिल्ली. ''ताई, आमकां मजत कर''.

''हांव? हांव कितें करूंक शकतां?''

''तो हॉस्पिटलांत आसा, तांणी ताचें ऑपरेशन केलां, ताका रगत घालां, खूब रगत घालां, सिरियस आसा तो. ताचें कितेंय बरें-वायट जालें जाल्यार ह्या लेकरांचें कितें जातलें? हें आनी ताचे भाव, बाबडीं धाकटीं भुरगीं तीं, बापूय ना जातलो तांकां.''

तांचे खातीर शब्द वापरतना तिणें 'लेकरू' हो शब्द वापरलो. माया-मोग, कोमलता आनी करूणेन भरिल्लो शब्द.

''आनी तें चली, ताच्या कपला वयलो कुकूम उरूं दी. ताचे बगर बायलेक कसलो अर्थ आसा? तिचो घोव बेबदो आसूं, पूण तो जितो आसा ते मेरेन ताचे कडेन वांकडे नदरेन कोण पळोवचो ना. तो मेलो जाल्यार... तें जुवान आसा आनी मुर्खूय.''

''जीजा, हांव कितें करूंक शकतां?''

''ताई, तूं त्या दोतोरा कडेन उलयली जाल्यार...''

''कोण डॉक्टर? खंयच्या हॉस्पिटलांत आसा तो?''

''सायन हॉस्पिटलांत. ताई, थंयच्या दोतोरा कडेन तूं उलयली जाल्यार ते ताची बरे तरेन वासपूस करतले, सारकी काळजी घेतले. नाजाल्यार आमची कोणाक पर्वा आसना, गरिबांचें कोणाक पडून गेल्लें आसना, आमी कितेंय विचारल्यार लेगीत ते आमकां सांगिनात, सुण्या भशेन आमचेर भोंकतात.''

''पूण जीजा, हांव त्या डॉक्टराक वळखना. हांव थंयच्या खंयच्याच डॉक्टराक वळखना.''

''तो दोतोर, तो व्हडलो दोतोर, हांगां तुमच्या भावा वांगडा रावतालो तो केन्ना केन्ना. हांवें ताका हांगां पळयलां, केन्ना केन्ना तांचें कामय करतालें हांव हांगां. तीग जाण रावताले ते. हो दोतोर... तो लांब आनी किडकिडीत आशिल्लो... ताचें नांव कितें आशिल्लें? कितें नांव गो ताचें मंदा?''

''डॉ. व्यास,'' मंदान रोखडेंच सांगलें.

''हां... तो.''

ताची म्हाका याद जाली. ''पूण जीजा, ही खूब फाटली गजाल, हांव ताका सारकें

वळखनाशिल्लें, तो दादाचो इश्ट आशिल्लो, तो आतां म्हाका वळखुचो ना. आनी हुस्को करूं नाका, ते राजारामाची बरी काळजी घेतले, तुका कोणें सांगलां ते काळजी घेनात म्हणून? डॉक्टर आपल्या पेशंटा कडेन दुर्लक्ष करिनात आनी सिरीयस पेशंटा कडेन तर नाच ना. आनी तूं आया आनी वॉर्ड बॉयांक थोडे पयशे दिले जाल्यार तींय लक्ष दितलीं सारकीं. तुका पयशे जाय जाल्यार...?''

''ना ताई, आमकां पयशांची गरज ना.''

म्हाका तोंडार थापट मारिल्ले भशेन जालें. जीजाचो रागय आयलो. म्हाका याद जाली ते कुड्डे भिकान्नीची, ती एक ल्हान भुरगो मांडयेर घेवन आनी दोरयेन कमराक बांदिल्लें धाकलें चली घेवन आमच्या जनेला सकयल्या फुटपाथाचेर बसताली, ''कुड्डे बायलेक एक पयसो दियात, तिच्या भुरग्यांक एक पयसो दियात'' म्हणीत दीसभर आड्डत रावताली. जेन्ना जेन्ना हांव थंयच्यान वतालें तेन्ना तेन्ना तिचे ताटलेंत धा धा पयशे उडयतालें. ''तिका अशें उत्तेजन दिवप बरें न्हय,'' मोहन म्हजेर रागार जातालो. ''ती बायल नाडिंगा करपाक शकता, भीक मागूंक तिका कोणें पयशे दिल्ले आसपाक शकता. पयशे जोडपाची ही एक सादी तरा जाल्या हालीं, घडये, तीं भुरगीं तिचीं नासतय बी...''

पूण ह्या सगळ्या गजालींचें म्हाका पडिल्लें नाशिल्लें. हांव ते कुड्डे बायलेचें भोव उपकारी आशिल्लें. तिणें म्हाका परोपकारी जावपाक सादो मार्ग दाखयिल्लो - फकत धा पयशाचें नाणें घालपाचें. पूण हांगां मात, म्हजे खातीर गजाली सोंप्यो करपाक जीजान न्हयकार दिल्लो.

''आमकां पयशांची गरज ना, ते आमी केन्नाय उधार घेवंक शकतात, पूण तूं त्या दोतोरा कडेन मात्शी उलय ताई, ताका तुजी याद आसतली, तो तुजें आयकतलो. सायब व्हडलो ऑफिसर आसा, तांची तुमी घरकान्न..''

ल्हानपणांत एकदां आमी मुंबय आयिल्लीं, थंय व्हडा कश्टान हांवें दर्याविळेर म्हजें नांव बरयिल्लें, पूण कांय वेळान थंय कांयच ना हें पळोवन म्हाका धक्को बशिल्लो. तो जागो सामको रितो जाल्लो, ल्हारांनी सगळें पुसून उडयिल्लें. ''तूं ताची बायल...''

''आमी तुजे उपकार केन्नाच विसरचीं नात ताई, तुमच्या उपकाराचें वजें आमी जल्मभर व्हांवयतलीं. हांव ह्या भुरग्याक हांगां दवरून वतां, तें तुजीं सगळीं कामां करतलें, तुका जाय तें करतलें, तुमकां ताची गरज आसा ते मेरेन तें रावतलें.''

मंदा म्हजे कडेन पळोवन हांसलें, वायट कामांतले भागिदारीचो हांसो. एक वेठबिगार कसो आपणाक धुकुळतात हाची ताका कांयच चिंता नाशिल्ली. ''सायब परत येता म्हणसर तें हांगां तुमच्या वांगडा रातचें न्हिदपाकय रावतलें. नयना म्हणटालें सायब खंय तरी गेला म्हणून.''

तें परपरत पडपी विचित्र सपन हांव परत पळयतां, अशें म्हाका दिसलें. हांव संडास सोदतालें, म्हाका सामकें कडकडून जाल्लें आनी म्हाका संडास बेगीन मेळ्ळो ना जाल्यार म्हजें हांशें जावपाचें. जावं सायबा, तो पळय थंय आसा - आवय, कितलो सुसेग! आनी रोखडेंच म्हज्या लक्षांत आयलें, हांव सार्वजनीक जाग्यार उबें आसां आनी थंयचे लोक म्हाका थंड नदरेन मोन्यांनी पळयतात, म्हाका मरूंक पुरो जालें.

"सायब खंय तरी गेला," लजेक घालपी ह्या ताच्या आरोपाचें खंडन करूंक हांव शब्द सोदूंक लागलें, पूण हांव कितेंय उलोवचे पयलींच जीजान आपली बडबड चालू केली. आतां ताचो सूर सामको वेव्हारी जाल्लो. ताणें म्हजो हयकार गृहीत धरिल्लो. मंदाक धांवडायत ताणें म्हणलें, "चल, हांगां कितें पळयत उबें रावलां? चल आनी आयदनां काड."

आमचो प्लान जीजान आमच्या मुखार दवरलो, मंदाचो आनी म्हजो. आयज रातचें मंदान आमगेर न्हिदपाचें; रातिचें उरिल्लें काम ताणें सकाळीं उठून करपाचें आनी मागीर म्हाका घेवन हॉस्पिटलांत वचपाचें, थंय, हांवें दोतोरा कडेन उलोवपाचें.

एस. के. व्यास! 'हाडकुटो व्यास' अशी हांसत ताची वळख करून दिवपी दादाचे शब्द म्हाका याद जाले आनी ताचो चेरो आनी नांव टक्क करून याद जालें. जीजा गेलें आनी मंदा बांद फुटिल्ले भशेन बडबडपाक लागलें. ताणें म्हाका नाट्यमय पद्दतीन सविस्तर म्हायती दिली. "तांणी आमकां येवन कितें जालें तें सांगलें, तेन्ना आई आयकूनच बेशुद्ध पडली. आज्जेन आनी हांवें तिचेर एक कळशीभर उदक रकयलें. मागीर आजी आनी आई टॅक्सी करून हॉस्पिटलांत गेलीं आनी हांव विजयमामागेर गेलें. हरशीं आमी थंय केन्नाच वचनात, म्हजी मामी मात्शी गर्विश्ठ. आमी झोंपडपट्टेंत रावतात म्हणून ती आमकां कमी लेखता, पूण कितें घडलां तें तिका कळ्ळें, तेन्ना ती रोखडीच म्हज्या वांगडा आयली आनी शरद आनी सुरेशाक घेवन आपल्या घरा गेली. आनी विजयमामा आनी हांव हॉस्पिटलांत गेलीं.

तें दुदाच्यो रित्यो बाटल्यो एकठांय करपाक गेलें तेन्ना म्हाका मात्सो सुसेग मेळ्ळो, पूण थंयच्यान आयले बराबर ताणें परत खबरो सांगपाक सुरवात केली. आमी दोगांय इल्लेंशें, नांवापुरतें जेवलीं, पूण तेन्ना लेगीत ताची बडबड चालूच आशिल्ली. तोंड बंद दवरप ताचे खातीर अशक्य अशें दिसतालें. मागीर अचकीत, उलयतां उलयतां, वाक्य अर्देंच सोडून, जमनीर, आपणेंच घाल्ल्या हांतरुणाचेर तें न्हिदून पडलें. ताचे ते आनंदी वृत्तीचें कवतूक करीत हांवूय न्हिदपाक गेलें, पूण रातचें न्हिदेंत तें ल्हान जनावरा भशेन कुरकुरतालें आनी पिरंगतालें.

"मंदा?" हांवें ताका उलो मारलो, "मंदा?"

ताणें जाप दिली ना, पूण ताचें कुरकुरप थांबलें. हांव म्हऱ्यांत गेलें जाल्यार तें

सुस्त न्हिदिल्लें. ताचो निळो स्कर्ट वयर सरून ताची पट्ट्या पट्ट्याची, बुरशी चेड्डी दिसताली. हांवें ल्हवूच ताचेर पांगरूण घालें आनी ताचें कुरकुरप परत सुरू जालें.

"मंदा.... मंदा...."

ताका जाग आयली आनी भिवन तें म्हाका पळोवंक लागलें.

"कितें जालें बाय?"

ताचे दोळे सामके निर्विकार आशिल्ले.

"मंदा न्हीद तूं आतां, हांव आसां न्हय हांगां, न्हीद, न्हीद तूं."

सामकें आज्ञाधारकपणान, खिणांत, ताणें दोळे परत बंद केले, एक सुस्कार सोडलो आनी न्हिदलें. कांय वेळ हांव ताचे म्हऱ्यांत बसलें. निमाणें जेन्ना हांव न्हिदून पडलें, तेन्ना म्हाका असंबद्द, अर्थ नाशिल्लीं, तिडक आनी थकवो येवपी सपनां पडलीं. तीं सपनां टीव्ही वयले माळे सारकीं, कांय घडयनात आनी सोंपय नात तसलीं. मात दूद हाडपाक मंदाक उठोवपाच्या वेळार हांव ज्युस्त उठलें, पूण म्हाका मातूय ताजेतवाने दिसलें ना.

मंदाच्या त्या दुदाच्यो बाटल्यो वांट्टना जावपी किणकिणाटांत एक सदांचेंच चैतन्य आशिल्लें. सगळ्यांत निमाणें तें म्हजी बाटली घेवन आयलें. आमी दोगांय वांगडा बसून च्या पिलीं आनी ती पियेतनाचो ताचो तो आनंद म्हज्यांतय रिगलो. आमी सवकास च्या पियेलीं आनी दोन कार्रेगाद बेबद्यां भशेन दुसरे च्यावेच्या कपाचो आस्वाद घेतलो. इतल्यांत रस्त्या वयल्यान येवपी किणकीण आवाज आयकून मंदा एकदम उडकी मारून उठलें.

बाल्कनी कडेन धांवता धांवता ताणें सांगलें, "हो पयलो".

"पयलो? पयलो कोण?" तितल्यांत "गणपती बाप्पा मोरया" कानार पडलें आनी लक्षांत आयलें, आयज चवथ. लोक देवाच्यो मुर्ती घरांत स्थापना करूंक व्हरताले. मंदा भितर आयलें आनी उदास आवाजान ताणें म्हणलें, "हांव आयज पाचवी आनी हळडुवी मॅक्सी घालपाचें आशिल्लें. आजयेन म्हाका सांगिल्लें चवथीक घाल म्हणून ती. तो पळय आनीक एक..." मागीर तें थांबलें आनी ताणें म्हणलें, "ना, आमकां हॉस्पिटलांत वचपाक जाय. चला, आमी आमचीं कामां करुंया".

हें सांगतना तें ताची आजी उलयता तशेंच उलयलें. फटाफट कामां करतनाय तें आज्जे भशेन दिसतालें. आनी कॅसान्ड्रा भशेन एका खिणांत म्हाका ताचें भविश्य दिसलें - लग्न, बेबदो घोव, भुरगीं, आनीक भुरगीं, गरिबी, इबाडिल्ली भलायकी, अत्याचार, काम, आनीक काम...

आमी तयार जावन घरा भायर सरता म्हणसर, रस्त्याचेर एका फाटोफाट एक वेगवेगळ्या आकाराच्या आनी प्रकाराच्या गणपतींची रांक लागली.

आमी फुटपाथाचे कडेक उबीं रावलीं. कारण एक ल्हान चली पुजेची ताटली हातांत घेवन बिल्डिंगेंतल्यान धांवत भायर आयलें देखून मिरवणूक अडकून पडली आनी आमकां रस्तो हुपप कुस्तार जालें. मुर्ती घेवन वचपी दादले रावले, एकट्यान भक्तीभावान ती ताटली हातांत घेतली, देवाचेर फुलां घालीं आनी फुटपाथाचे कडेक नाल्ल फोडलो. इतले म्हणसर मिरवणुकीच्या मुखावेले नाचपी लोक नाचत मुखार गेले.

हांव तांकां पळयतालें. ह्या दृश्या कडल्यान अलिप्त आनी पयस आशिल्ल्याचे भावनेन. ते गोल गोल धिंगाणो घालत नाचपी दादले कार्डबोडाच्यो चेपट्यो आकृती जाल्यो. तें सगळें दृश्यच फकाण कशें दिसूंक लागलें आनी हो सगळो पिशेपणाचो भार एके हतया सोंडयेचे, घुमटां सारक्या धोलाचे, रंगयिल्ले चिकणमातयेचे मुर्ती मुखार? देव ही संकल्पना श्रद्धेची निर्मिती - कोणें म्हणिल्लें तें? - जाल्यार देव जितो दवरपा खातीर असो अमर्याद खर्च आनी बोवाळ करून श्रद्धा उक्तावपाची गरज आसा? ह्या सगळ्यांचो अर्थ म्हजे समजिकाये भायर आशिल्लो. एकच शब्द परपरत घोळयतकच तो कसो अर्थहीन, घुस्पागोंदळाचो जाता तसो.

पूण म्हजे म्हच्यांत उबे आशिल्ल्या भुरग्याक कसल्याच विचारांचो त्रास वा दुबाव नाशिल्लो. तें मुखावयलें दृश्य पळयतालें, उमेद आनी खोशेन तें भुल्लुशिल्लें. मिरवणूक मुखार सरली आनी आमी रस्तो हुपपाक तयार जालीं. इतल्यांत निलिमा, अजूनय आपल्या नायट ड्रॅसांत, बाल्कनींतल्यान आड्डलें, "व्हॅर आर यू गोइंग आंटी?"

"बाबाक मेळूंक हॉस्पिटलांत वतात," मंदान सांगलें.

आनी म्हज्या मनांत विचार आयलो - निलिमान म्हाका प्रस्न इंग्लिशीन विचारलो आनी ताची जाप मंदान दिली. ताणें मराठींत जाप दिल्ली, पूण ताका प्रस्न समजल्लो. म्हजे मदल्या कॅसान्ड्राचो अपमान जालो. मंदा शाळेंत वतालें, तें शिकतालें. तें ताचे आज्जे भशेन जावचें ना. अचकीत पावस पडपाक लागलो म्हणटकच हांव आनी मंदा बस स्टॉपाच्या सकयल, एकामेकांक तेंकून उबीं रावलीं. मिरवणूक मुखार वचत आशिल्ली आनी तें दृश्य आतां सिझोफ्रॅनिक कशें दिसतालें. देवा भोंवतणचे दादले पावसांत भिजतकच आनीकय संथ आनी शांत दिसूंक लागिल्ले, पूण, देवा मुखार नाचपी दादल्यांचो गुलाल पावसाच्या उदकांत कपला वयल्यान गळपाक लागतकच ते भयानक दिसूंक लागले. गटारांत व्हांवपी पावसाचें उदक लेगीत गुलालाच्या पावडरान तांबडेंगुंजं जाल्लें. कत्तल जाल्ले सारकें तें दृश्य दिसतालें.

बस येतकच मंदा म्हणपाक लागलें, "आमी वयल्या डॅकार या." पूण कंडक्टरान हातानच आमकां सकयल वचात म्हणटकच मंदा निर्शेलें. आमी उबीं राविल्लीं आनी मोडणाचेर बस लवंडतकच बेबद्या भशेन झेलतालीं. आमी सायन पावता म्हणसर

पावस थांबलो. मंदाचीं पाळांमुळां मुंबयंत रुजिल्लीं म्हणटकच, हांव सत्तगिरी शॉर्टकट मारतालें तितले सहजपणान तें गर्दी आनी ट्रॅफिकांतल्यान आपली वाट काडटालें.

हॉस्पिटलांत ताणें व्हडा आत्मविस्वासान म्हाका जीजा आनी तारा बशिल्ल्या बांका कडेन व्हेलें. राजाराम आतांच साबुद्दीर आयला म्हणून जीजान आमकां सांगलें, पूण दुकांनी थपथपिल्लो चेरो वयर करून तारान आमकां पळयलें ना. ताराचो भाव विजय, गर्देंतल्यान खंयच्यान तरी प्रगट जालो आनी म्हजे कडेन व्हडा आत्मविस्वासान पळयत हांसलो. ताणें म्हज्या हातांनी खाटी आनी वॉर्डाचो नंबर आशिल्लो पेपर दिलो, "हें तुमकां दोतोराक दिवचें पडटलें," ताणें सांगलें.

"डॉ. व्यास?" वासपूस करपा खातीर प्रस्न विचारिल्ली नर्स म्हजेर बेजारली. "म्हाका कशें कळटलें? म्हाका खबर ना, आनीक कोणाकय विचारात थंय."

हांव सामकें बावडें जावन थंयचो 'आनीक कोणय' सोदपाक लागलें, इतल्यान म्हजे नदरेक एक व्यक्ती दिश्टी पडली. ताचो धवो कोट दोतोराचो आशिल्लो. ताणें म्हजेर एक उडटी नदर मारली, मागीर परत पळयलें आनी मागीर म्हाका पळोवन तो हांसलो; तेन्ना हांव ताका वळखलें. विचित्र योगायोग.

"डॉ. व्यास? हांव...."

"हांव तुका वळखतां. तूं दिनूची भयण, जया न्हय तूं? हांव तुका वळखलों."

"हांव आतां सौ. कुलकर्णी."

"जाणा हांव. हांव तुज्या लग्नाक येवपाचो आशिल्लों, पूण पावलों ना. दिनू सामको बेजार जाल्लो, पूण म्हाका तें शक्यच नाशिल्लें." ताणें खांदे उडयले, एक गरज नाशिल्ली हालचाल. "खरें म्हणल्यार तुज्या घोवाचो आनी म्हजो एक इश्ट आसा, मिस्टर अग्रवाल. तो खंयच्या तरी खात्यांत सेक्रेटरी आसा न्हय? तो म्हजो शेजारी." मोहन, परत मोहन. "आनी दिनू कसो आसा? दोन वर्सां फाटीं मेळिल्लो तो म्हाका. आमी एका सिनेमा थेटरांत मेळिल्ले. कसो आसा तो? तसोच आसा तो पयलीं भशेन?"

ना. तो पयलींचो दिनू ना. एक भित्रो मनीस, मोग करपाक भियेवपी, मरणाक भियेवपी...

"हय, तसोच आसा तो, पयलींचोच दिनू."

"दोन चले ताका, न्हय?"

"दोन चलयो."

"हय, हय. दोन चलयो. हुशार मनीस, दिनू. योग्य वेळार गेलो तो थंय. आमकां पळय, आमी कुसत पडल्यात हांगां..." ताणें हातांतले घडयाळीचेर हयन्हयशी, लक्षांत ना येवपा सारकी नदर मारली, ताकतीक आशिल्ल्या मनशाची हालचाल, म्हाका ताचो इशारो लक्षांत आयलो.

“सॉरी, हांव तुमचो वेळ घेतां.”

“ना, ना. तशें कांयच ना. पूण भितर सरलों काय रावंड घेवपाच्या चक्रांत सांपडटलों. आतां खरें म्हणल्यार, एक मिनीटभर स्वास घेवंक मेकळीक आसा.”

“म्हाका तुमचे कडल्यान एक फावोर जाय आशिल्लो”.

“हय तर, कितें जालें?”

हांवें ताका राजारामा विशीं सांगलें. ताणें आपलें अडेचें वागणें कुशीक सारलें, वेव्हारी जावन नंबर आनी नांव बरोवन घेतलें, “हें म्हजें युनिट न्हय, पूण म्हज्या रजिस्ट्राराक हांव ह्या कामाक लायतां. तूं हुस्को करूं नाका.”

आतां तो वचपाक मेकळो आशिल्लो, पूण वचपाची ताका इत्सा नाशी दिसली. “जाणा तूं”, तो उलोवंक लागलो, चलतना आमकां वारांदांतली थांबनाशिल्ली गर्दी हुपची पडली, “तुका पळयतांच म्हाका दिनूच्या फ्लॅटांतले दीस याद जाले. आमचे दीस मजेंत गेले थंय, दिनू, शाहनी आनी हांव. तुका याद आसा, एक दीस तुमकां आमी रातचें जेवणाक आपयिल्लें. तूं आनी शाहनीची इश्टीण आनी... हय, म्हजी भयणशी दिसता.”

म्हाका याद आशिल्ली. म्हाका ते “शाहनीचे इश्टिणीचीय” याद आसा. तें बरें मॉडर्न, सुंदर दिसपी चली आशिल्लें. ताका लागून म्हजे म्हाकाच हांव झेंपें, सादेभोळें आनी नीरस कशें दिसतालें...

“तें शाहानीची इश्टीण, बरेंच बॉसी आशिल्लें. शाहनी ताचे कडेन लग्न जालो ना हें अजाप न्हय. म्हाका याद जाता, तूं ओग्गी आशिल्लें त्या दिसा. तुज्या तोंडांतल्यान एक शब्द लेगीत भायर काडूंक शकले नात आमी त्या दिसा.”

इतलो वेळ चडयिल्लें ताचें दिखावूपण गळून पडलें आनी म्हाका परत एकदां तो हाडकुटो, निराशी तरणाटो दिसलो, जेव म्हूण म्हजेर जबरदस्ती करपी, कसले तरी गजालीचेर म्हजें मत विचारपी, जशी काय म्हजी जाप अती म्हत्वाची आशिल्ले भशेन सामको उमळशिकेन म्हजे जापेची वाट पळोवपी. आनी हांव तायट बशिल्लें, कांयच प्रतिक्रिया दिनासतना. आनी दादा नमळायेन हांसतालो, पूण मागीर दादा म्हजेर खूब तापलो, “अशें मुर्खा सारकें कित्याक वागलें तूं?” आनी आमच्या भुरगेपणांतले शब्द वापरीत म्हणलें, “बशिल्लें थंय भेड्डें कशें. बाबडो हाडकुटो. तो तुजे कडेन इश्टागत करपाचो यत्न करतालो.”

“कोणाक पडून गेलां?” हांवें झेतान म्हणिल्लें. तरीय म्हाका म्हजी लज दिशिल्ली, पूण दादाक हांव समजावपाक शकलें ना. हाडकुट्यान म्हजेर लक्ष केंद्रीत केल्ल्यान म्हाका असहाय, म्हजेर कोणें तरी वार केल्ले भशेन दिशिल्लें.

“दिनून सांगलें तूं भिडेस्त म्हणून. म्हाका दिसलें...” कांय खीण तो ओग्गी जालो, “आसूं सोड,” आनी एक कटाक्ष आपले घडयाळीचेर, हे फावटी इल्लो

स्पश्टच. ताचे उपस्थितींत हांव अस्वस्थ जाल्लें; तरीय तो वतकच म्हाका उदास दिसलें. घडये, हेय फावटीं हांवें ताका निराश केल्लो. हांवें कितें तरी हलकें फुलकें उलोवंक जाय आशिल्लें, मात्शें मेकळेपणान किटकिटूंक जाय आशिल्लें, पूण मोहन नासतना हांव तशें करूंक शकलें ना.

"दुसरे फावटीं दिनू घरा येतकच आमी मेळपाचें करया. खरें म्हणल्यार म्हजी बायल आनी हांव अमेरिकेक ट्रीप करपाचो प्लॅन करतात. तिचे दोन भाव थंय आसतात. हांव थंय गेल्यार दिनूक मेळटां." धवो कोट घाल्ल्या विद्यार्थ्यांचो मोर्चो आमचे वटेन येतालो, "आरे देवा," ताणें म्हणलें, "म्हाका वचपाक जाय."

"तुमी ह्या पेशंटा विशीं विसरचे नात न्हय?"

"ना. ताचो हुस्को करूं नाका तूं. कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार म्हाका फोन कर, ओके?"

तो गेलो. ताची फाट व्यस्त मनशा सारकी दिसताली. मागीर तो एकदम वळ्ळो आनी म्हाका पळोवन हांसलो, "हांव तुज्या फोनाची वाट पळयतां. आनी यो केन्नाय आमगेर... अर्थांत, तुज्या घोवा वांगडा."

'अर्थांत, तुज्या घोवा वांगडा...' कितें म्हणपाचें आशिल्लें ताका? मोहना बगर म्हाका जगाच्या संपर्कांत रावप अशक्य आशिल्लें काय? *घोव हो आश्रय दिवपी रुखा भशेन...* वनितामामी, तुज्या नकळटां, तुंवें सांगिल्लें जिणेचें हें गहन सत्य आयुश्यभर आयकुपाचें भाग्य म्हाका लाबलां? म्हाका मोहनान सोडलें म्हणून ताका हांवें सांगिल्लें जाल्यार तो कितें करपाचो काय? तो म्हजे कडेन कसले नदरेन पळोवपाचो? काकुळटेन? तिरस्कारान? वा सगळ्यांत भयानक विचार, मोहनान म्हज्या आनी दुसऱ्या दादल्यां मदीं उबारिल्ली आडखळ दवरिनासतना?

म्हाका सोडलें? म्हजें मन अचकीत दुखखान लकलें. ना, ना. हीं सगळीं मुर्खपणां. म्हज्यांतल्या 'लेखकांची कल्पना' म्हाका व्हांवयता. मोहन म्हाका केन्नाच सोडचो ना. तो आमच्या चर्चगेटीवेल्या घरा गेल्लो, थंय तो म्हजी वाट पळयता आसतलो. हें म्हाका पयलीं कित्याक येवजलें ना? हांवें थंय वचूंक जाय आशिल्लें, हांवें घरा वचूंक जाय आशिल्लें. हांवें तशें कित्याक करूंक ना?

दार उगडलें आनी भितर सरलें, त्याच खिणाक म्हजी आस पालवली. बंद केल्ल्या दाराच्या एकसुऱ्या आवाजान, आनी म्हज्या पांयां म्हऱ्यांत पडिल्ल्या कांय पत्रांनी, म्हाका सांगलें मोहन हांगां ना म्हणून. तो हांगां येवंकच नाशिल्लो. म्हाका कित्याक दिशिल्लें तो हांगां येतलो म्हणून?

हांवें सकयल पडिल्लीं पत्रां उखल्लीं आनी हॉलांतल्या धाकल्या मेजाचेर दवरलीं. एका अनवळखी मनशाच्या हयन्हयशा परकेपणान मेजावयल्या धुल्लाची नोंद घेतली.

एखाद्री वळखिची व्यक्ती घरचीं मनशां येवपाची वाट पळयता ते उमळशिकेन हांव घरभर हांगां-थंय भोंवलें. खाटी कडल्या मेजार एक पुस्तक पडिल्लें, वाजांतल्या फुलांक कुशिल्लो वास येतालो, पेटोवंक नाशिल्ले दिवे आनी बाविल्ल्या फुलां मुखार विराजमान जाल्ले देव-देवता, आपलें दिव्यत्व शेणोवन बशिल्ले भशेन दिसताले - म्हाका हांचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. अप्पाच्या मरणा उपरांत आमी आंबेगांव गेल्लीं तेन्ना म्हाका टायफॉयड जाल्लो, तेन्ना म्हाका दिसतालें तशेंच आतां दिसलें. त्या सामान्य सुक्षीम जिवाक लागून जाल्ल्या दुयेंसान म्हज्या जिविताची विभागणी केल्ली. सप्तगिरींत आपल्या आवयबापाय वांगडा रावपी ते चलये मदीं आनी आपलो बापूय आनी घर शेणलां हें जाणवल्ल्या, दुयेंसांतल्यान उठिल्ले चलये मदीं कांयच साम्य नाशिल्लें.

आनी आतां, खंयचीच गजाल म्हाका ह्या जाग्या कडेन जोडना जाली, आतांची थतरवितर बायल आनी हांगां आदीं राविल्ली ती बायल हांचे मदली दरी उणी जायना जाली. ती शेणली हाची निर्शेवणी म्हाका जाणवताली. शेवटाक हांवेंच घडयिल्ली न्हय तिका त्रास काडून, व्हडा कश्टान? घडये हाकाच लागून ती म्हजी पुरायपणान फाट सोडूंक शकनाशिल्ली. आनी देखून ती म्हाका दिसली, मूळ बायलेचो धुंवरेल्लो प्रेतात्मो कशी, ह्या टेबला लागीं, फुलांच्या वाजाचेर हात दवरून उबी आशिल्ली.

कितें करताली ती? म्हजें मन वेळाचें बीळ खणत गेलें त्या सुवाळ्या कडेन. रातचें जेवण. आमच्या ह्या घरांतली पयली पार्टी. सप्तगिरी आज्जेगेर सदांचे पुजे खातीर भट भोंवतालो तसो मोहन त्या दिसा धीरगंभीर जावन, पूण झेतान, घरभर भोंवतालो. कदेलां आनी मेजां बेठींच हांगाच्यान थंय हालयतालो, सजयिल्ल्यो वस्तू परत सजयतालो, उजवातीचे पुडे ह्या त्या कोनशाक लायतालो. मागीर मोहनान दोळे बारीक करून सगळी कूड पळयली; आनी हय, पयलीं हांवें सजोवन दवरिल्लीं फुलां परत आपूण सजोवंक लागलो.

''हीं फुलां हांगां बरीं दिसनात. त्या मेजार कशीं दिसतलीं पळोवया, हीं मात्शीं थंय व्हर जया...''

हय, याद जाली, उमेदीन फुलिल्ले रतीन पयल्या पावण्याक झेतान भितर हाडलें तें पळयलें त्या दोगांयनी - त्या दादल्यान आनी ते बायलेन.

''आमी चड बेगीन पावलीं?''

''ना, ना. ही पळय आमची सगळी तयारी जाल्या.''

''फकत फुलां सोडून.''

"आं तें! तुमी नकळो बायलांचें."

सगळे हांसले. त्या हांसपांत ती बायलय सामील जाल्ली. बायल? हांव कोणाक फटोवंक सोदतां, कित्याक स्वताची राखण करूंक सोदतां? हांवें मान्य करूंकच जाय - हांशिल्लें तें हांव.

"जया हीं अस्त्रां दुर्बळ आनी शोशितांचीं" दादान म्हाका हांसत धीर दिवपा खातीर फ्रॉयडाची थियरी सांगिल्ली, रती जातकच, राहुल हांतरुण ओलें करपाक लागिल्लो ताचेर सल्लो मागिल्लो तेन्ना. "दुकां, आदळ-आपट, रातचें मुतप हो सगळो गनिमी काव्याचो भाग."

दादान 'कारस्थान' कुशीक दवरिल्लें. कारस्थान हें म्हजें अस्त्र आशिल्लें - दुखदिणें आसलें तरीय म्हाका तें मान्य करचेंच पडटलें. 'बायलां' म्हणटकच सगळे हांसले आनी म्हाका राग येवंक ना हें दाखोवपा खातीर हांवय तांचे मदीं सामील जाल्लें तेंय एक कारस्थानच; ते दिसा आमगेर सोयरे येताले - नोहाच्या आर्कांत येवपी जनावरां सारके, जोडयांनी एकाच तरेचो तोंडार हांसो फांकीत आनी एकेच तरेचीं वाक्यां उच्चारीत, तेन्ना म्हाका सगळें कॉमिक दिसतालें. पूण म्हज्या नकलीपणाच्या गुणांक लागून हांव तें लिपोवंक शकलें. हांव जाणां आशिल्लें, मोहनाक पवित्र दिसता त्या सुवाळ्यांचेर हांवें हांसूंक फावना. आतां मेरेन म्हज्या लक्षांत आयिल्लें, हांव केन्नाच मोहनाचीं फकाणां करूंक शकचेंना, मोहनाक म्हत्वाचे दिसपी खंयचेच गजालीची हांव धजा मारूंक शकचें ना. हांवें तशें केल्यार ताची उंचाय देंवपाची. आनी बुटको घोव कोणाक जाय आशिल्लो? म्हाका तर अजिबात न्हय.

कर्कशपणान दारा वयली बेल वाजली आनी म्हज्याच विचारांत मग्न जाल्लें हांव कांचेवन भानार आयलें. शेजाऱ्यागेर काम करपी दामू आशिल्लो तो.

"कितें?"

तांचे कुडींतल्यान, ताची बायल, दारा कडेन उबी रावन शुन्य नदरेन म्हाका पळयताली. तिचें एक भुरगें हांडीर, दुसरें तिच्या पदरा कडेन तिचो पदर ओडीत उबें आशिल्लें. ताचे कुडींतल्यान दुदाळ, अमोनिया सारको वास येतालो.

"बाय, तुमी परत आयलीं?"

आमी खंय म्हणून गेल्लीं काय? सदूक घरा धाडटना हांवें कितें सांगिल्लें काय?

"बाय, कालच्यान तुमचो फोन परपरत वाजत आशिल्लो. तो वाज वाज वाजतालो, थोडो वेळ बंद पडटालो आनी परत वाजपाक लागतालो. आयज सकाळीं लेगीत तो तसोच वाजलो"

"अशें?"

"आत्तां म्हाका म्हजे घरकान्नीन सांगलें तुमी आयल्यांत म्हणून. देखून सांगपाक

आयलों. आनी काल, न्हय, पयर...?'' केन्ना तें विचारपाक ताणें आपले बायलेक पळयलें.

आनी तेन्नाच फोन वाजपाक लागलो. हांव तांकां दोगांकय पळयत उबें आसलें.

''पळय'', दामून म्हणलें, ''हांवें सांगूंक ना तुमकां?''

तरीय हांव तांकां पळयत उबें रावलां तें पळोवन तो अजापलो.

''बाय,'' हांव अचकीत भेरें जाल्ले भशेन ताणें मोट्ट्यान उलो करून सांगलें, ''फोन वाजता''.

म्हाकाय तो बरो आयकूंक येतालो. सगळ्या घरभर घुमतालो, खर आनी कर्कश. तातूंत कितें तरी अशूभ जाणवतालें. अचकीत तो बंद जालो. हांवें एक लांब स्वास घेतलो आनी प्रस्नचिन्नां कशीं घेवन आशिल्ल्या दोगांयच्याय तोंडार नेटान दार मारलें. देव पावलो. पूण तो मोहनय आसूंक शकतालो. ना, तो मोहनच आसतलो. हांवें फोन उबारूंक जाय आशिल्लो. म्हजे कडेन संपर्क करूंक सोदपी मोहनच तो.

फोन परत वाजपाक लागलो. आतां मात हांव फोन घेवंक धांवलें. तो मोहन आसूंक शकना हें खबर आसूनय. हांव हांगां आसा म्हणून ताका खबर नाशिल्लें.

''हॅलो? हय, बरोबर, हांव मिसेस जया कुलकर्णी. हय. ट्रंक कॉल? खंयच्यान? हय, हय... हय.. हांव होल्ड ऑन रावतां.''

कानार पडपी आवाज कर्कश आनी नियंत्रणा भायलो आशिल्ल्यान हांव रुपाचो आवाज वळखुपाक शकलें ना. ''हांव रुपा उलयतां '' सांगून लेगीत. ताचे शब्द इतले एकामेकां मदीं घुस्पल्ले, तें कितें म्हणटा तेंच समजनाशिल्लें. पूण कांय वेळान म्हज्या लक्षांत आयलें, तें म्हजेर कितें तरी तरी आरोप करतालें.

''देवा म्हज्या, खंय आशिल्लें तूं, खंय गेल्लीं तुमी? आमी तुमकां कालच्यान सोदतात, ह्या फोना म्हऱ्यांत बसबसून हांव पिशें जावंक पावलां...''

रागिश्ट फुतफूत म्हज्या कानार पडटाली, आनी मागीर अशोक फोनार आयलो. ते मानान तो थंड आशिल्लो, पूण तरिकय संयम तोडून राग भायर सरतालो तो म्हाका जाणवतालो.

''जया? राहुल थंय आसा? तो थंय पावला?''

''राहुल?'' हांवें पिंजिल्ल्या घोगऱ्या आवाजान विचारलें. भंयान म्हजो गळोच अंदलो.

''आयक, राहुल हांगाच्यान भायर सरला, तो हांगां ना - आयक, म्हाका पयलीं सांगून सोंपोवं दी - आमी काल भायर गेल्लीं आनी ताणें म्हणलें आपूण येना, हांगांच रावतां म्हणून. आमी जेन्ना परत आयलीं तेन्ना तो घरांत नाशिल्लो. तो ताच्या वांगडा आपलें बॅगय घेवन गेला. थंय पावला तो? म्हाका कळपाक जाय.''

''ना.''

"बरें तर. जया आयक, आमी पुलिसांक कळयलां. आमकां सांगचेंच पडलें, पूण ताबडतोब मोहनान हांगां आयल्यार बरें. आयकलें तुवें? मोहनाक आत्तांचे आत्तां भायर सर म्हणून सांग."

"राहुल..." हांव मुखार कांयच उलोवंक शकलें ना.

"आयक जया, म्हाका खात्री आसा तो बरो आसतलो म्हणून. तूं भियेनाका. फकत मोहनाक हांगां बेगीन पाव म्हणून सांग."

इतल्यान ऑपरेटराचो निर्विकार आवाज आयलो, "तीन मिणटां जालीं."

"ऑपरेटर, म्हाका आनीक उलोवपाचें आसा. फोन बंद करनाका, ऑपरेटर. बरें जया, हो नंबर बरोवन घे, हो आमच्या हॉटेलाचो नंबर. तो थंय पावलो जाल्यार आमकां रोखड़ोच फोन कर. ओके? आनी मोहनाक भायर सर म्हणून सांग".

"रती...' म्हज्यांत एकाएक जीव आयलो, "म्हाका रती कडेन उलोवंक जाय."

पिकार जावन सुस्कार सोडिल्लो म्हज्या कानार पडलो. "बरें, बरें".

"कितें जालें मम्मा?"

"कितें जालें?" हांव गोंदळ्ळें. "तूं बरें आसा मगो?"

"हय तर. पूण म्हाका वाज आयला. तो पिसो राहुल... मम्मा आयक, हय अंकल, एकच मिनीट - डॅडी हांगा येतलो तेन्ना ताचे कडेन म्हजे कॉफी रंगाचे बूट धाडटा? म्हजे बूट..."

हांवें रिसिव्हर सकयल दवरलो. हांव घामान चिप्प भिजून गेल्लें, म्हज्या जोत्यांचेर घामाचे थेंबे एकठांय जाल्ले. म्हज्या चिपचिपिल्ल्या हाताक रिसिव्हर दसलो. हांवें तो सकयल दवरचे पयलीं यांत्रीकपणान साडयेच्या पालवान पुसलो. सगळो रूम फुगासांव जावपा इतलो गरम जाल्लो. हांवें पंखो चालू केलो आनी त्या अचकीत आयिल्ल्या वाऱ्याच्या झोतान म्हजें आंग शिरशिरलें. हांव जनेला कडेन गेलें आनी तें धुकळ्ळें. गच्च बशिल्लें तें. हांवें मुठी मारून धाडायलें आनी तें अचकीत उगडलें. हे संदीची वाटच पळयत आशिल्ले भशेन एक कावळो जनेलाचेर येवन बसलो. आपली पाखां ताणें भिरांकूळ तरेन हालयलीं आनी म्हजे कडेन पळयत, कर्कशपणान कावकाव केलें. हांवें जनेल हालयलें आनी ताका शूत शूत केलें, पूण तो थंय हट्टीपणान चिकटून बसलो. आनी अचकीत, कर्कश आवाजान कावकाव करत उडून गेलो.

म्हजो हाताचो तळवो दुखतालो. ताचेर रगताचे तांबडे ठिपके उदेल्ले. कितें जालें काय म्हणून हांवें तळव्याचेर नदर मारली, पूण कांय कळ्ळें ना. ताचे बदला दिसलें, दोळे बंद करतकीर लेगीत, एक उगडें-नागडें भिरांकूळ चित्र. सांपळ्यावरी गाडयांचो ताफो. एके फांतोडेर हायवेचेर पळयल्लो तसो. म्होवाळीं घाल्ले बुरखाधारी गाडी चलयताले. शांतपणान. नदर मुखार रोखून. फाटलो फुडल्याक पळयना, आनी फुडलो फाटल्याक. आंगार शिरशिरी हाडपी अलिप्तपणान गाडयो चल्ल्यात. खंय

नाच्च जावन गेल्लें तें रंगरंगयाळें झगमगीत सुखी संवसाराचें चित्र?

फोन परत वाजलो. हांवें आकांतान ताचे कडेन पळयलें. म्हाका रिसिव्हर उखलपाचो नाशिल्लो. म्हजें सगळें अस्तित्व आटोवन उडयिल्लें ताणें. तो वाजत रावलो. तो अशोकाचो आसल्यार, तांकां राहुलाचो पत्तो लागलो हें सांगपाक अशोकान फोन केल्लो आसल्यार....

"हॅलो, हय मिसेस जया कुलकर्णी... ट्रंक कॉल? हय, हय. हांव होल्ड ऑन रावतां."

परत तशेंच घडटा. काय हेदोळ जाल्लें संभाशण हांवें कल्पनेनच रंगयिल्लें? हांव पिशें जाता काय?

"रुपा... राहुल आय... कितें? कोण? रेवती? रेवती कितें जालां? राहुल? तो हांगां ना. कितें? तुजे वांगडा? केन्ना आयलो तो? आयज सकाळीं? म्हाका ताचे कडेन उलोवंक जाय, म्हाका ताचे कडेन उलोवंक जाय, म्हाका तुज्या बाबा कडेन उलोवपाचें ना. म्हाका राहुला कडेन उलोवंक जाय. रेवती... वसंत? ताका येवपाचें ना म्हणल्यार कितें? फोन ताचे कडेन दी. राहुल... राहुल उलयता? तूं अशें कशें... डॅडी? ना. तो हांगां ना. ना, म्हाका खबर ना. राहुल आत्तांच्या आत्तां घरा यो. तुवें आयकलें न्हय? आत्तां घरा यो. ना... ना... ना... घरा यो म्हणलें न्हय. राहुल आयक, हांव मकरंदमामाच्या दादरच्या फ्लॅटांत आसां.... दादर... राहुल घरा यो."

ताणें फोन सकयल दवरलो. हांव सामकें भेरेल्ले भशेन, रिसिव्हरा कडेन पिशा भशेन पळयत उबें रावलें. "मम्मी, मम्मी" अजूनय म्हाका राहुलाचो आड्डी मारपाचो आवाज आयकूंक येतालो. तो कितें सांगपाक सोदतालो? म्हज्यान जायना... मम्मी, म्हज्यान जायना... तो म्हाका कितें सांगपाचो प्रयत्न करतालो?

अचकीत राहुलाचो शाळेंतलो पयलो दीस म्हाका याद जालो. याद जाली कितले उमेदीन तो शाळेंत वचपाक भायर सरिल्लो, कितल्या उत्साहान तो म्हजो हात सोडून टीचरीच्या फाटल्यान चलत वर्गांत गेल्लो. टीचरीन सांगिल्लें, "हांगां रावंनाकात. इकरांक येयात".

हांव थंयच्यान गेलें खरें, पूण इकरा पयलींच परत आयलें, ते ओडीचो शारिरीक त्रास म्हाका जाणवतालो. आनी म्हाका राहुल दिश्टी पडलो, एकलोच उबो आशिल्लो, वणटीक फाट करून, तो रडनाशिल्लो, पूण ताच्या तोंडार खिन्न भाव आशिल्ले. तें पळोवन म्हजेच नकळटां, म्हाका व्हडलो हुंदको आयलो, ताचे खरसाणेक हांव भियेलें. व्हडा प्रयत्नान हांवें म्हाका शांत केलें, पूण म्हजो ताळो वराचीं वरां आड्डी मारिल्ले भशेन भयंकर दुखपाक लागलो.

टीचरीन तांकां सोडले तेन्ना "राहुल, कशी जाली शाळा?" जाता तितलो आवाज

सहज दवरपाचो यत्न करीत हांवें विचारलें.

"बरी जाली," ताणें मोघम जाप दिल्ली. पूण ते रातीं तो कसल्या तरी वायट सपनाक भियेवन आड्डी मारीत उठिल्लो.

"मम्मी, म्हज्यान जायना..."

तो रुपा आनी अशोकाक कित्याक सोडून आयलो? तो वसंतागेर कित्याक गेलो? तो सप्तगिरी कित्याक गेलो? म्हज्या पुता विशीं म्हाका इतलें कमी, न्हय, चडशें कांयच खबर ना ही अजापाची गजालशी. कोणें मुर्खान म्हाका ही पिशेपणाची आयडिया दिल्ली, आवय जाली काय बायल आपसूकच आपल्या भुरग्यांक पुरायपणान वळखता म्हणून? हय, अशेंच तांणी म्हाका सांगिल्लें. तूं आवय जा आनी मागीर सगळें सहज घडत वतलें आनी तें सगळें अपरिहार्य आसतलें - मोग, बुद्द, समजिकाय आनी सुसंस्कृतपण.

पूण आतां ह्या निर्शेल्ल्या भुरग्याक सांबाळपाक हांव असमर्थ आसां अशें म्हाका दिसता. हॉस्पिटलांतल्यान डुगडुगे मानेच्या असहाय बाळकाक हाडटना म्हाका हें जमचें ना अशें दिशिल्लें तशेंच. हो भंय तेन्नासारकोच आतांय आसा, तीच नापास जावपाची खात्री.

"तुका तुज्या स्वताच्या भुरग्याक आंगार पियेवपाक जमना?" तोंड वांकडे करीत आईन म्हाका विचारिल्लें, "आमी बाये असलें केन्ना आयकूंकच ना."

पूण म्हजे तशें जाल्लें. म्हाका ताका चिंवेक धरपाक कळनाशिल्लें, आनी अशें दिसतालें, ताका चोखपाक जमनाशिल्लें. तो बरो खुशालकायेन न्हिदिल्लो आनी हांव, दुदान भरिल्ले छातयेंतली कळ सोंशीत, ताका भुकेची जाणीव करून दीत उठोवपाचो यत्न करतालें. आनी एकदांचो तो भुकेन रडत उठलो, तेन्ना, ताका चिंवे कडेन पावप जमनाशिल्लें. आमी दोगांय अनाडी, नवशिकीं कशीं आवयपुताचो खेळ खेळटालीं. आनी आतां, परत पंदरा वर्सांनी, आमी तेच सुवातेर परत पाविल्लीं. आनी दुसरे वटेन आशिल्लें रती, एक चली - गंभीर, विचारी, स्वतंत्र आनी समजिकायेचें... हांवेंच उबारिल्ले ताचे कागदी पुठ्ठ्याचे आकृती फाटल्यान उबें रावन - म्हजीं फकाणां करतालें.

एक आवय? निर्शेवन हांवेंच म्हजे भोंवतणचें तेजोवलय सोडलें. ना, म्हजी योग्यता नाशिल्ली खंयचेय दुसरे व्यक्तीची जापसालदारकी घेवपाची. कशें केल्लें हांवें हें साहस? मोहनाची बायल, राहुल आनी रतीची आवय - हें म्हजें बीळ- ह्या बिळांत सरपटत भितर वचपाची म्हजी तयारी आशिल्ली. कारण म्हाका दिसतालें हें बीळ उबदार आनी सुरक्षीत आसा, पूण आतां धारदार वस्तूंनी धोंगसावन म्हाका तातूंतल्यान भायर काडिल्लें.

म्हजी मिजास देंविल्ली; इल्लीशी न्हय, व्हडले व्हडले कुडके करीत. पावसा

दिसांनी कोसळपी घरांभशेन. इतलें सगळें भरीव आशिल्लें तें, वीट येवची तशें, पूण तितल्याच सहजपणान गळून पडिल्लें, आनी फाटल्यान उरिल्लें फकत निर्लज्ज नागडेपण. तो वसंता कडेन कित्याक गेल्लो? ताणें म्हजे कडेन उलोवपाक न्हयकार कित्याक दिलो? ताणें मदींच फोन बंद कित्याक केलो? हांवें मन थंड दवरून सुसंगत विचार करपाचो यत्न केलो. म्हाका आतां कितें तरी करूंक जाय आशिल्लें, आत्तां. हां, हय, रुपा आनी अशोकाक फोन करून राहुल सुरक्षीत आसा हें सांगूंक जाय, म्हजो शेणिल्लो पूत मेळ्ळो हें तांकां कळोवंक जाय.

हांवें जनेलाचेर तकली तेंकयली आनी म्हज्या दुकांचो बांद फुटलो. म्हजें हें रडप तितलेंच त्रासदायक आनी अकस्मात आशिल्लें, पोटांत मुड्डून परसाकडेन जाता तशें. हांवें मान वयर केली तेन्ना म्हाका आंगणांत दुसरे वटेंतल्या जनेलांतल्यान दोन तोंडां टुकटुक पळयतात तीं दिसलीं. तांचीं तीं भुल्लुशिल्लीं उमेदी तोंडां पळोवन म्हजो रागान तिळपापड जालो. हांवें जनेल ढण्ण करून मारलें आनी भितर कुडींत आयलें. निश्चेवान हांवें रिसीव्हर उखल्लो आनी एक ट्रंक कॉल बूक केलो. फोनाची वाट पळयतां पळयतां कुडींत काळोख भरलो. फोन लागपाक वरांचीं वरां गेलीं अशें दिसलें. व्हडा कश्टान हांवें अशोका कडेन उलोवणीं केलीं. ‘‘हय, हय. चलात तुमी मुखार. ना, तुमचो प्लॅन तुमी बदलूं नाकात. हय, हय ओके. आसा. हय.. हय....’’

निमणें म्हजें करपाचें आशिल्लें तें कर्तव्य हांवें केल्लें. म्हजो ताळो सामको सुकिल्लो. म्हाका तान लागिल्ली. म्हाका गरजेन उदक जाय आशिल्लें. हांवें मेजा वयलें जग हातांत घेतलें आनी फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना ग्लासांत उदक रकयलें. आनी मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें ग्लासांत घाल्ल्या उदकांत वयर कितें तरी आसा. कोयराची साय. ना. ताच्याकय पाश्ट. मेल्ल्या मुयांचो चोंबो. मरतना एकामेकांक घट्ट वेंगावन मेल्ल्यो. हांवें भियेवन बेगिबेगीन जग सकयल दवरलें. हांगां हांव रावंक शकनाशिल्लें. ना. आनीक एक मिनीट लेगीत न्हय. धडांयच करून दार आपटीत हांव घरा भायर धांवलें. वयर येवपी लिफ्टिचो कूंय कूंय आवाज कानार पडटा आसतना लेगीत हांव धडाधड सोंपणां देंवीत सकयल धांवलें.

हांव बिल्डिंगेंतल्यान भायर सरलें आनी घसघशांनी पावस पडपाक लागलो. हांव रस्त्याचे दुसरे वटेन फुटपाथाचेर आशिल्ल्या बस स्टॉपाच्या पाखयां पोंदां धांवत गेलें. पावस आंगार मारतालो. पावसाचे थेंब फोर्सान रस्त्यार आपटताले आनी रोखडेच ताचे फेणेरी कारंजे जाताले. अशे लाखांनी कारंजे. वाऱ्याचो झोत मारतकीर लोक हांगां थंय फाफसतात आनी मागीर त्याच जाग्याचेर परत येतात; तशे. त्या भर पावसांत म्हजी साडी भिजून जड जाता हें जाणवतालें, पूण तरिकय हांव भुल्लुसून त्या थेंबांक पळयत थंयच उबें रावलें.

आनी मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें, हांव एकटें नाशिल्लें. एक भिकणां विकपीय थंय आशिल्लो. आपल्या बास्केटाचेर ओणवो जावन, सत्री पावसाचे वटेन वांकडी धरून. ते खातीर तो पुराय लिपिल्लो. फकत ताचे पांय दिसताले. ताचे तवलेंतल्या कोळश्यांचो धुंवर सत्रेंतल्यान भायर येतालो. आनीकय लोक आशिल्ले. तांच्या खळखळपी हांश्यान म्हजें लक्ष तांचे कडेन गेलें. दोन तरणाटे चले आनी एक चली. चलयेचें तोंड अत्यंत सुंदर आनी नाजूक आशिल्लें. जिन्स घाल्लें किडकिडीत शरीर. एकूण मेळून, ताची परिपूर्ण सोबीताय थक्क करपा सारकी आशिल्ली. हांव तांकां पळयतालें, इतल्यांत ते चलयेन एकट्या दादल्या कडल्यान सिगार घेतली. आपणाक सिगार दिवपाचें ना, अशें बेठेच नाटक त्या दादल्यान केलें आनी मागीर ओगीच शरण गेल्ले भशेन, ते चलयेच्या नाजूक अशा उकत्या ओंठां मदीं ती दवरली. ते चलयेन सिगाराचो एक लांब दम मारलो आनी खुशालकायेन दोळे धांपले. आनी हे दोनूय दादले ताका, विज्ञानीक कसो प्रयोगा कडेन तटस्थ मुद्रेन पळयता, तशे पळोवंक लागले. तातूंतलो एकटो, म्हज्या लक्षांत आयलें, उक्तेपणान ते चलयेचीं ल्हान ल्हान थानां पोशेतालो. तिणें आपले दोळे उगडले आनी ते दादले हांसले. तेंय हांसलें - एक चिरको, विद्रूप हांसो चालूच उरलो. ते चलयेच्या तोंडांतल्यान दांडगटपणान एकट्यान सिगार ओडून काडली. चलयेन ती परत काडून घेवपाचो यत्न केलो. तो दादलो मात्सो पयस सरलो. तें उठलें, मात्शें झेल्लें, लटपटलें आनी दुसऱ्या दादल्याचेर लवंडलें. ताणें ताका धरलो आनी दांडगटपणान ताची छाती किचमुवपाक लागलो. तें चली, हे गजाली विशीं अनभिज्ञ, अजूनय सिगार घेवंक धडपडटालें. आतां म्हज्यान रावंक जायना जावन हांव तापलें. "रावात. रावात. कितें करतात तुमी ताका?" तें आयकून ते म्हजे कडेन वळ्ळे, तांच्या तोंडार गोंदळिल्ले अजापाचे भाव; पूण न्हय तें चली, तें अजूनय सिगार झोमून घेवपाचे धडपडींत आशिल्लें. ते दादलेय, म्हजेर एक नदर मारून जातकच परत आपल्या खेळांत गुंग जाले. चलयेक परत सिगरेट मेळ्ळी आनी तें हांसलें. तो भिकणांवालो अजून आपल्या पांटल्याचेर उकडयां बशिल्लो. ताका घडये हांगां चलिल्ल्या खेळाची कांयच सुलूस नाशिल्ली. ताणें आपल्या मात्शी धुगधूग आशिल्ल्या कोळशांक फूक मारली, तेन्ना उज्याची एक हयन्हयशी लिकलिक जाली आनी तो तोंडांतल्या तोंडांत बडबडलो.

"नाका, नाका," हांव आड्डलें, पूण ताचो कांयच उपेग जालो ना. तांकां हांव दिसयनाशिल्लें आनी आयकुंकय येनाशिल्लें. तीं हांसत आशिल्लीं.

भर पावसांतच हांव बस शेडींतल्यान भायर धांवलें आनी तांचो हांसो चडलो. म्हाका दिसलें तांचो तो हांसो म्हजे फाटल्यान येता. हांव लटपटत, झेंप्या भशेन तांचे कडल्यान पयस धांवतना म्हजी ओली साडी म्हज्या पांयां मदीं आडखळटाली, म्हाका फुडें वचपाक आडायताली. पूण खर निश्चेवान हांव धांवत रावलें. फाटल्यान

चलिल्ल्या जीवघेण्या खेळा कडल्यान आनी तांच्या त्या हांश्या कडल्यान.

"जया..."

म्हजी नदर थीर नाशिल्ली. मुक्ताचो चेरो पयलीं मात्सो हयन्हयसो आनी पयस कसो दिसलो, मागीर स्पश्ट जालो, हाल्लो आनी परत धुसर जालो.

"जागें जालें तूं? तुका घाम सुटला पळय. घामान सामकें भिजून गेलां. बरें जालें, तुजो जोर देंवलो. अशें यो, हांव तुका पुसून काडटां."

"नाका, हांव..." हांवें दुबळेपणान तो तुवालो ओडलो, तो घेवन तें म्हजे हात आनी तोंड पुसतालें, पूण म्हजे कडेन लक्ष दिनासतना ताणें वेवस्थीत आपलें काम पुराय केलें.

"हां... आत्तां बरें जालें!" अशें म्हणत ताणें ल्हान भुरग्यांक लाळेर घालतात तसो तुवालो म्हज्या गळ्या पोंदां खोयलो.

"आतां सांग म्हाका, तूं कितें खातलें?" हांवें कांय नाका म्हूणन मान हालयतकच ताणें म्हणलें, "ए, तुवें कितें तरी खावंक जाय. दूद? च्या? काय कॉफी?"

"उदक. म्हाका फकत उदक जाय."

तें उदकाचो जग घेवन आयलें आनी पेल्यांत उदक घालपाक लागलें, तेन्नाच हांव आड्डलें," ना. तें नाका, तें घाण आसा."

"घाण?" ताणें घुस्पल्ले नदरेन म्हाका पळयलें.

"तातूंत मुयो आसात."

"पूण ह्या जगांत उदक घालचे पयलीं हांवें तें स्वता घांसलां. पळय, सामकें निवळ आसा तें. हें पळय..."

हांव सुमार अर्दो ग्लास उदक, गटगटीत पिलें आनी तितल्याच प्रयत्नान लेगीत थकून फाटल्यान लवंडलें. म्हाका जाग आयली तेन्ना आवाज आयकूंक येताले, मदींच ल्हव, मदींच मोट्यान, दुसरो आवाज मात्सो चडपाक लागलो तेन्ना, कोणें तरी 'शू" अशें खर आवाजान म्हणलें.

"निलीमा," हांवें उलो मारलो.

"आण्टी... कशें दिसता तुका?"

"ताई, उठली तूं? बरें दिसता आतां?"

"म्हाका कितें जालां?" एकेच तरेचे भाव तोंडार हाडून प्रस्न विचारपी त्या दोगांय चलयांक हांवें विचारलें.

"तुका याद जायना?" निलीमान विचारलें, "आख्खी रात तुका बरोच जोर चडिल्लो. तूं आपले मदींच बडबडटाली." हें सांगतना ताच्या आवाजांत हयन्हयशी तुस्त आशिल्ली.

"आख्खी रात?" अशें म्हणत हांवें बसपाचो यत्न केलो. इतल्यांत म्हज्या कानांत घूं घूं असो आवाज येवंक लागलो आनी भिरभिरिल्ले सारकें जावंक लागलें. "ताई सांबाळून," म्हाका आदार दीत मंदान म्हणलें.

"वेळ कितलो जालो?"

"बारा जायत आयल्यांत. आण्टी, तुका कितें जाय?" निलीमाच्या ह्या प्रस्नाचेर हांवें ताका मख्खपणान पळयलें. कितें जाय आशिल्लें म्हाका?

"थोडी च्या करूं तुका?"

"नाका."

"च्या करतां हांव आण्टी. तूं उठ्ठकच तुका च्या करून दी म्हणून मम्मीन म्हाका सांगलां. म्हाका कांय त्रास ना." व्हडली जाणटेली कशी तें उलयलें. "नाजाल्यार बोर्नव्हिटा हाडूं?"

"नाका. च्याच हाड."

"बरें तर. आत्तां हाडटां. चल गो मंदा, म्हाका मात्शी मजत कर, थंय ओगीच उबें रावंनाका."

रांदचेकुडींतल्यान दोगांय चलयांच्यो खबरो आनी हांसो आयकतां आयकतां, म्हाका सामकें गुंगेंत आशिल्ले भशेन दिसूंक लागलें. सगळे कडल्यान अलिप्त, म्हज्या शरिरा कडल्यान पसून.

निलीमान च्या हाडून दिली आनी हांव घोंट घेतना तें म्हाका बारीकसाणीन पळोवंक लागलें, ताच्या तोंडार चिंतेस्त भाव आशिल्ले.

"बरी जाल्या?"

"फोर्त."

"पळय, हांव सांगतालेंच! आनी हें पिशें म्हाका सांगता हांव च्या सारकी करिना म्हणून. तें सांगपाक लागलें उदक, दूद, च्याचो पालो आनी साकर सगळें वांगडा खतखतावपाचें आसता म्हणून."

"आतां हांव जाणा म्हाका कितें जाय तें," मंदा कितें तरी सांगूंक सोदतालें तें मदींच थांबोवन हांवें म्हणलें.

"कितें?" दोगांयनी उमळशिकेन विचारलें, तांकां हांव आनीक कितें तरी काम दितलें म्हणून.

"म्हाका न्हावपाक जाय. सामकें थंड उदकान."

"न्हावपाक जाय? श्या, तूं दुयेंत आसतना न्हावंक शकना."

"म्हज्यान जातलें."

पूण म्हज्यान उठपाक जायना जालें, कितेंय करप म्हणल्यारच कश्टाचेंशें दिसूंक लागलें. हांव हांतरुणार परत आड पडलें आनी थंयच म्हाका लकणी लागली. हे फावटी जाग आयली तेन्ना तकली बरीच ल्हव जाल्ली. मुक्ता म्हजे म्हऱ्यांत बशिल्लें, मांडयेर पुस्तक घेवन वाचीत. ताणें आपले पांय मोडून घेतिल्ले. हांव ताका पळयतां तें ताका जाणवलें, ताणें म्हजे कडेन पळयलें आनी तें हांसलें. "आतां बरें दिसता," हें ताणें सांगलें, विचारलें ना.

"हय, टायम कितलो जालो?"

"सुमार चार जाल्यांत."

ताणें पुस्तक बंद केलें, वेवस्थीत पुस्तकाच्या पानां मदीं मार्कर दवरून, आनी कदेला सकयलीं जोतीं पांयांनीच सांसपूंक लागलें.

"तूं इतलोय वेळ हांगाच आशिल्लें?"

"हांव? ना! सकाळचो कांय वेळ नीला आनी मंदा आशिल्लीं. तुका याद जायना? नीला म्हणटालें ताणें तुका च्या..."

"आं... हय."

घंयरावान भरिल्ल्यो पंख्याच्यो ब्लेडी आवाज करीत घुंवताल्यो. तो आवाज खंयचे तरी यादी कडेन कुरवो करूंक लागलो. कितें काय? म्हाका दिसलें हांवें म्हजो काल शेणयला, म्हजे सगळे काल. ना, हांवें तशे ते खऱ्यांनीच शेणोवंक नाशिल्ले, स्मृतीभ्रंश जाल्यार येता तशें म्हाका रितेपण येवंक नाशिल्लें जाल्यार म्हजे काल खंय तरी हाताच्या अंतराचेर आसात अशें एक सुखदिणें आश्वासन आशिल्लें, ते फाटल्यान खंय तरी आसात म्हणून एक विस्वास आशिल्लो; म्हाका जाय तेन्ना ते म्हाका मेळूंक शकताले, पूण म्हाका आतां तांची गरज नाशिल्ली - म्हणल्यार आतां तरी न्हय.

"म्हाका न्हावपाक जाय."

"जमतलें तुका? काय मजत जाय पडटली?"

"ना. तशें हांव बरें आसा. पूण एकच गजाल..." असो स्वताचो वास घेत हांवें म्हणलें, "म्हाका... वास मारता."

"आगो, घामाचो वास तो..."

हांव खाटी वयल्यान उठून म्हजे कपडे घेवंक लागलें तेन्ना मुक्तान म्हणलें, "थंड उदक बी न्हावनाका आं."

"थंड? हांव केन्नाच थंड उदकान न्हायना."

"सकाळीं तूं थंड उदकान न्हावपाची गजाल करतालें खंय, हीं दोगांय सांगतालीं."

उदक बरेंच गरम आशिल्लें. तें थेंब थेंब झिरपुपी उदक "हिस्स" अशी शिटकावणी

दीत एकदम वाफेच्या ढगांत बदल्लें. हांवें बेगिबेगीन नळ सोडलो आनी बरें गरम उदक घसघसून भायर आयलें. हांवें तें उदक आंगार घेतलें आनी भायर येतना म्हाका सामकें ल्हव आनी सवळें दिसलें.

मुक्तान म्हजें हांतरूण घाल्लें. हांव येता तें पळोवन उश्याचेर हात थापटीत ताणें म्हणलें, ''यो, आड पड हांगां. तुका कितें तरी खावपाक हाडटां हांव.''

''हाका म्हणटात अपुरबाय.'' ताणें म्हजेर चादर घाली. हांव ताका पळोवन हांसलें. तें कांयच उलयनासतना भितर गेलें आनी म्हजे वांगडा उरली अप्पाची याद. एके रातीं म्हाका जोर आयिल्लो, ते सकाळीं अप्पा आयलो, ताणें मच्छरदाणी कुशीक सारली, उदाऱ्या हातान म्हजें कपल तपासलें आनी म्हणलें, ''चल, आतां बरें जालें तूं. उठ, उठ. आळशी भुरगें.''

''जया,'' झटको लागिल्ले वरी हांव वास्तवांत आयलें.

''घे. ही थोडी च्या पी आनी टोस्टय हाडल्यात तुका. सामकें आपलेंच तनरेंत आशिल्लें मगो तूं.'' येदोळच्यान आडावन धरिल्लो हांसो तोंडार हाडत ताणें म्हणलें.

''हांव म्हज्या बाबाचें चिंत्तालें. ताचें मरण जालें, तेन्ना हांव म्हजे भितरच म्हणटालें, हांव ताका सोडचें ना. तांकां मरपाक दिवचें ना. हांव ताचें विशीं उलयतना वर्तमानांतच उलयतालें, पूण हें चड वेळ तिगलें ना. आनी आतां...''

मुक्ता म्हजे म्हऱ्यांत खाटीर बसलें. ''तुका काल कितें जाल्लें जया? तुवें आमकां सामकें भिवयलें.''

''खरेंच. कितें केलें हांवें?''

''तुका कांयच याद जायना? मंदा तुजी वाट पळोवन पळोवन वाजेलें आनी आमगेर आयलें. णव मेरेन तूं आयलें ना तेन्ना म्हाकाय हुस्को जालो. मागीर आयलेंच तें चिप्प भिजून, थापो जावन आनी तुमच्या दारा वयली बॅल वाजयत रावलें. कांय वेळान दार धाडावंक लागलें. आमकां तुका थांबोवप शक्य जायना जालें. निमणें म्हाका तुज्या बॅगेंत घराच्यो चावयो मेळ्ळ्यो. मागीर आमी तुका दार उगडून दिलें. हांवें तुका कपडे बदलपाक लायले आनी खाटीर न्हिदयलें. तुका बरोच जोर चडला हें लक्षांत आयलें म्हज्या. बॅडार न्हिदतकच लेगीत तूं बडबडत आशिल्लें. परपरत रती विशीं उलयत आशिल्लें. ''ताका एकटें सोडात'' अशेंच कितें तरी. म्हज्या लक्षांत आयलें तूं मात्शें भ्रमिश्ट जालां म्हणून. तुजो जोर 104 मेरेन चडिल्लो. हांवें तुका गुळी दिली आनी... कितें जाल्लें जया?''

''म्हाका खबर ना. म्हाका याद जायना. म्हाका इतलेंच याद जाता हांव पयलीं बशीक उबें राविल्लें. मागीर हांव चर्चगेट स्टेशना कडेन गेलें. म्हाका दिसलें ट्रेन धरतलें. हांव ट्रेनींत बसलें इतलेंच म्हाका याद जाता, ट्रेन सुटली आनी मागीर...''

म्हाका याद जाली, फॅन मोट्ट्यान आवाज करतालो. आनंदान उलोवपी बायलांचे

आवाज, तोंडां, एकठांय आयलीं आनी अस्पश्ट जालीं. फकत एकच तोंड, एके बायलेचें, स्पश्ट आनी ठळक. एम्ब्रॉयडरी करपी बायल, सामकी स्वताच्या घरांत आसा अशे तरेन मग्न जावन मोवश्या कपड्याचेर सूय तोपीत, बारीक बारीक पोंताचो एक क्लिश्ट डिझायन, ल्हान चलयेच्या ड्रेसार भरताली आनी मागीर...

''म्हाका ओंकारे येवंक लागले, म्हाका दिसलें हांवें हांगाच्यान भायर सरूंक जाय. म्हाका दिसलें हांव घुस्मट्टलें आनी थंय डब्यांतच घुस्मटून मरतलें. म्हाका भायर सरूंक जाय आशिल्लें, पूण म्हाका दिसलें थंयचे लोक म्हाका भायर सरूंक दिनात. हांव धुकलूंक लागलें. सरभोंवतणीं अनवळखी, आक्रमक तोंडां आशिल्लीं. हय, ती गर्दी... म्हाका भंय दिसलो तिचो. ती गर्दी आक्रमक आशिल्ले वरी दिसताली. हाचे पयलीं म्हाका अशें केन्नाच जावंक नाशिल्लें.

''आमी ल्हान आशिल्लीं तेन्ना म्हजो बापूय हिंदू महासभेंत आशिल्लो आनी गांधीच्या मरणा उपरांत ताका भुमिगत जावचें पडिल्लें. तुका याद आसा, गोडसेक लागून तांकां सगळ्यांक कशे त्रास दिताले ते? आनी एक दीस एक चोंबो आमचें दुकान लुटपाक आयलो. म्हजी आवय - आमी दुकानाचे वयर रावतालीं. तिणें रडत सांगलें, ''म्हज्या भुरग्यांचो उपासमार जातलो. तशें करूं नाकात, म्हजीं भुरगीं उपाशीं उरतलीं.''

तिणें तांकां आडावपाचो यत्न केलो, पूण ते तिका बदले नात, सगळें दुकान तांणी पोशार केलें आनी हे स्वताक गांधीवादी म्हणटाले, म्हज्या बापाय सारक्या मनशां फाटल्यान लागिल्ले हे दादले. बाबडो गांधी! ताका दिशिल्लें तो मनशांचो सभाव बदलतलो, पूण लोक तशे बदलनात.

मनशां बदलनात - हे शब्द म्हाका मरणाची घांट कशी दिसले. मनशां बदलनात. तशें जाल्यार कोणाक कसली संद आशिल्ली तर? निर्शेणेन म्हजेर प्रभुत्व मेळयलें.

''कितें जालें जया? कितें घडलें?'' मुक्ता म्हाका एकसारकें पळयत रावलें.

''ना गो, कांय ना,'' हांवें म्हणलें, ''कांय ना.''

हाचे मुखार मुक्तान म्हाका आनी कांय विचारलें ना, पूण हें म्हाका दोतोराच्या अलिप्तपणान पळयता काय कितें अशें दिसून हांव अस्वस्थ जालें. म्हाका तें, ते दोतोन्नी भशेन दिसलें, ताचे कडेन दादान म्हाका रती जातकीर धाडिल्लें. तिणें म्हाका गर्भनिरोधक गुळयो सुरू केल्ल्यो, बारीकसाणीन म्हज्या दुयेंसाचीं लक्षणां आयकल्लीं आनी सोबीत अक्षरांनी हांवें सांगिल्लें सगळें बरोवन घेतिल्लें. ''मुयेता,'' तिणें बरयिल्लें, आनी ''मळमळटा,'' आनी त्याच भावनाहीन तोंडान तिणें बरयिल्लें, ''कामवासनेची इत्सा कमी.'' मागीर कांय तेंपान म्हाका कळ्ळें, ती गर्भनिरोधक गुळयांचे दुश्परिणाम हाचेर एक लेख बरयताली. मुक्ताय म्हाका तिचे सारकेंच दिसलें. ताका फकत तपशील म्हत्वाचो आशिल्लो, भावना न्हय.

निलीमान ताका आपयलें तेन्ना म्हाका मात्शें सू जालें. कांय वेळान मंदा आयलें, सामकें धांपेत, उमेदीन, "ताई, आजी आयल्या, आजी आयल्या. ती म्हणटा बाबा आतां बरो आसा म्हणून." जीजा हरशीं हांसपी न्हय, पूण तेंय हांसतालें. "ताई तुवें आमकां मजत केल्या ती आमी केन्नाच विसरचीं नात. देवान आतां तरी त्या राजारामाक मात्शी बुद्द दिल्यार पुरो, घडये तो आतां बदलत आनी सोरो पियेवपाचें सोडत."

पूण मनशां बदलनात. मुक्तानच तशें म्हणिल्लें. आनी ताचें म्हणणें खरें. मनशां बदलनात. बाबडें जीजा.

"ताई, ह्या भुरग्याक हांव घरा व्हरतां, बरें न्हाणोवन परत हाडटां," जीजान म्हणलें. "तुजी दशा पळय गो बाय, तुजे केंस पळय, म्हाका लज दिसता तुजी."

"हांव आयजय हांगां रातचें न्हिदल्यार तुका आवडटलें?" मुक्तान परत येतकच म्हाका विचारलें. "म्हणजे, रातीं तूं हांगा आशिल्लें?"

"आमी सगळीं," निलीमान हांसत म्हणलें. "मम्मी, मंदा, हांव - आमची बरीच गर्दी जाल्ली हांगां. आण्टी, मंदा खंय आसा?"

"तें घरा गेलां. येतलें परत. मंदा आसतलें हांगा, तितलेंच पुरो म्हाका. मुक्ता, आयज म्हजी चिंता करूं नाका तूं."

"नक्की?"

"हय, हय. नक्की."

"पूण गरज पडल्यार आपय म्हाका."

"आपयतां. हुस्को करूं नाका."

म्हजो स्वता वयलो ताबो वचून, हांव मुक्ताक चिकटून - "मुक्ता म्हाका एकटें सोडून वचूं नाका" म्हणून हुयेली मारचे पयलीं ताणें हांगाच्यान एकदांचें वच्चें म्हणून हांव अधीर जाल्लें. आतां रात येतली हें चिंतून अचकीत हांव भियेलें. एकटें रावपाची कल्पनाच म्हाका सहन जायना जाली. एक काळ असो आशिल्लो, दरेकल्याच्या मागण्यांनी जीव उबगतालो, आनी दिसतालें, म्हाका एकटें रावपाक जाय, म्हजें म्हाकाच एकटें रावपाक जाय. जाणटें जातकच एकटें रावपाची भिरांत दिसता तेन्ना न्हय, तर म्हाका आतां एकांतवास जाय अशें हांव चिंत्तालें. आनी आतां, हांव हांगां एकटें आसा आनी...

पूण हांवें म्हज्या भंयाक वयर सरूंक दिलें ना. म्हज्या मनांतली खळबळ हांव मुक्ताक जाणवूंक दिवचें ना. मंदा येतकच आमी दार लावन घेतलें. मंदा न्हिदून पडले बराबर हांव उठलें आनी घरभर भोंवंक लागलें.

हें हांवें घरांत कितले फावटी केल्लें. रांदचे कुडींत सगळें जाग्यार घालां काय ना, हें निरखुपाचें, राहुल आनी रती न्हिदल्यांत काय नात हाचेर नदर मारपाची, दाराची खिळी सारकी घाल्या काय ना हाची खात्री करून घेवपाची.

"म्हाका अमरत्व जाय," अशें मैत्रेयीन मागिल्लें.

"तुका कितें जाय?" निलीमान म्हाका विचारिल्लें.

आतां मेरेन म्हाका कितें जाय हें हांव पक्कें जाणा आशिल्लें. कोणेंय म्हाका जर विचारिल्लें, "तुका कितें जाय?" हांव तांकां रोखडेंच जाप दिवपाचें, म्हाका जगपाक जाय. दिसा अखेर म्हजें कुटुंब आनी हांव एका घराच्या पाखया खाला शाबूत आनी सुरक्षीत जगाच्या कोशांत आसात इतलें कळ्ळ्यार पुरो. भायर काळोख आसलो म्हणून कितें जालें? हांवें दारां आनी जनेलां बंद करून लायट पेटयतकच काळोख नाच्च जातलो. पूण आतां म्हाका कळ्ळें हांव काळखाक भायर धांवडावंक शकनाशिल्लें. काळखान म्हजेर आक्रमण केल्लें. आमच्या जिवितांत कितें घडलां हें समजतकच म्हजेर कलकल आयिल्लो. मोहन परत आयलो आनी ह्या संकश्टांतल्यान आमकां मुक्ती मेळ्ळी, तरीय आमी पयलीं आशिल्लीं तशीं जातलीं? कितें तरी शेणिल्लें - घडये आमचो भ्रम तो - पूण तो शेणिल्ल्यान आमच्या जिवितांत एक चीर पडिल्ली, रफू केल्यार लेगीत लिपोवंक कुस्तार जातली अशी. आनी तरीय हें जिवीत सोडून हांव आनीक खंयचीच जीण नकळो आशिल्लें. मोहन परत आयलो, राहुल आनी रती परत आयलीं जाल्यार आमी आमच्या जिविताची सुरवात नव्यान करूंक शकतालीं.

पूण लोक बदलनात. मुक्ता सांगता तेंच खरें. मनशां बदलनात.

हांव सगळी रात जागें रावलें. सामकें शरीर ताणून भायल्या पावलांची सुलूस, दारा वयले घांटीची सुलूस घेत. पूण रात तशी गपचीप गेली आनी हांव हांतरुणा वयल्यान मुक्तीचो स्वास सोडीत उठलें. बाल्कनींत गेलें, थंय रस्त्या वयलो आवाज आयकून दीस सुरू जालो तें कळ्ळें. हांव रस्त्या कडेन अशें पळयत रावलें, जशें काय म्हजी उमळशीक म्हाका जाय आशिल्लीं मनशां थंय प्रगट करतली. एक खीणभर दिसलेंय बी मोहन आनी दोगांय भुरगीं, तिगांय एकेच गतीन धांवत, खांद्याक खांदो लावन धांवत येतात. तीं लागीं आयलीं तेन्ना पळयलें जाल्यार एक बापूय आनी दोन चलयो वांगडा धांवत येतात. तिगांयचीं शरिरां स्वस्थ आनी तंदुरुस्त, तोंडार विश्रांतेचे भाव. तीं आनीकय लागीं आयलीं आनी हांवें पळयलें, तातूंतलें एकलें चली इत्सा नासून धांवता. तें रावलें, धांपेंत, एक हात कमरार, तोंडार त्राशीक भाव - बापायन रागान कितें तरी म्हणलें, दुसरें चली, तांची वाट पळयत उबें रावलें, नाइलाजाचे भाव तोंडार घेवन. मागीर त्या आळश्यान धांवपाक सुरवात केली आनी हांव तांकां पळयत रावलें कोनशाक वळसो घालून नदरे मुखा वयल्यान पयस वता म्हणसर.

जीजा दूद घेवन आयलें तेन्ना हांव घरांत गेलें. हांव च्या करता म्हणसर जीजा मंदा म्हऱ्यांत भितर गेलें. तांची फुसफूस म्हज्या कानार पडटाली. कांय वेळान निलीमा धडकलें आनी म्हाका विचारूंक लागलें, "आण्टी, सकाळीं तुका आयकूंक

आयलें? आयकलें तुवें?''

''कितें आयकलें?''

''आमची सुंदर सोबीत, कुटुंबीक जीण... आनीक कितें? आयज आशिल्ली झगडीं सतीश आनी माईचीं - माई सतीशाचे सामकी फाटल्यान लागल्या कोणाय एके चलये कडेन लग्न जा म्हणून. आनी आयज सतीशान म्हणलें, 'ना, थँक्यू. हांव भायल्या देशांत चल्लों.' हें आयकून माईच्यो किळच्यो 'एक चलो मरून गेलो आनी दुसरो चल्लो पळून आनी नातू लेगीत ना. मेले उपरांत आमकां अग्नी कोण दितलो?' कॉमिक कशी न्हय? मात्शें येवजी, मरतकच कोण अग्नी दितलो हाची चिंताआतांच . म्हणटकच हांवें म्हणलें, 'माई हुस्को करूं नाका. हांव करतां तुजे सगळे अंत्यसंस्कार.' तशें म्हणटकच ती म्हजे कडेन वळ्ळी, 'गुर्रऽऽ' निलीमान गुरगुरत भयानक आवाज काडलो. आजी म्हणटा ती कशी मायेस्त, मोगाळ आसपाक जाय, अशें दिसना तुका आण्टी?''

''म्हज्यो दोनय आज्ज्यो तश्यो नाशिल्ल्यो.''

''पूण हांव तुजे कडेन बॅट मारतां आण्टी, माई इतली झगडाळ कोणच नासतली. हांव एक दीस कितें करतलें जाणा तूं आण्टी?'' म्हजे नदरेंत ताका मुखार उलोवपाक उत्तेजन मेळ्ळें. ''हांव मगे तेर्रासाचेर वतलें,'' आनी चारूय वटांनी आपले हात फडफडायत म्हणलें, ''हुश्श... ताका हांव सकयल फुटपाथाचेर पडिल्लें मेळटलें.''

कुसूम ह्या जनेला कडेन तडफडटा, फुगार जावन आड्डता, ''म्हाका मरपाक जाय, म्हाका मरपाक जाय.'' ताच्या तोंडार आशिल्लो आकांत, दोळे शुन्यांत, ताचें नाक व्हांवतालें आनी ताचें शेंबूड, हांवें ताका घट्ट धरिल्ल्या म्हज्या हाताचेर गळटालें. हांवें ताका घट्ट धरून दवरिल्लें, तें दृश्य म्हज्या मनांत अस्ताव्यस्त आनी दुभंगिल्लें आसा, त्या दिसा सारकेंच.

''तुका केन्नाच स्वताचो जीव घेवचोसो दिसना आण्टी?''

''तुजे पिरायेचेर घडये, पूण आतां ना. ना, आतां दिसना.'' आनी मागीर हांवें ताका एक म्हणणी सांगली, ''निर्शेवणी फाटल्यान आनी मरण फुडें, दोनूय पातळायतात आतंक.''

त्या उतरांनी प्रभावीत जावन, राग, बी सगळें विसरून निलीमा तीं उतरां आपले बराबर अमुल्य वस्त कशी घेवन गेलें - मुक्ता म्हजे कडेन आयलें तेन्ना हांवें ताका विचारलें, ''मुक्ता, निलीमान हांगां रावप बरें दिसता तुका? सकाळीं तें आत्महत्ये विशीं उलयतालें.

''तें खूब वेळा उलयतां तशें. बेश्टी बडबड ताची ती, हांव जाणा तें तशें केन्नाच करचें ना. ताका जिविता विशीं खूब जिज्ञासा आसा. मुखार कितें जातलें हें सदांच समजून घेवपाची उमळशीक आसा.''

"पूण घरांतलो हो सदांचोच वैरभाव, माई विशींचें ताचें तें...'

"तशें तें बरें घट आसा. तें सहन करूंक शकता तें. हांवें खूब वेळा विचार केला ताचेर जया, हांवें ताचेर मातूय विचार करूंक ना अशें चिंतूं नाका तूं. आनी म्हाका हेंय खबर आसा, निलीमाक फामिलीची गरज आसा. ताचे खातीर फकत आवय पावची ना. नाजाल्यार कित्या खातीर रावपाचें हांव हांगा?"

हाचे उपरांत आमी दोगांय ओग्गी बसलीं, मुक्ता आनी हांव. तें ताचें पुस्तक वाचतालें आनी हांव कांयच करिनासतना बशिल्लें. जशें काय आमी दोगांय कोणाक तरी, कित्याक तरी रावतालीं, पूण तशें कांयच जायना. पुराय कूड सामकी शांत, हे शांततायेक थाकाय दिवपाक घडयाळाची टिकटॉक लेगीत ना. म्हाका विचित्र दिसूंक लागलें, जशें काय म्हज्या जिवितांत आतां कांयच उरूंक ना, कोणच ना, ही एक व्यक्ती सोडून, अशी सांगातीण, ती म्हाका स्वताचें अशें कांयच दिना, स्वताची निर्शेणी लेगीत. आपल्या सर्गेस्त घोवाची सावळी आनी माईच्या रुपांतलें राक्षसी कूप दिसाकणकणी तकलेर हुमकळायत दवरून वयले वयर सवस्तकाय दाखयत जगपी मुक्ताक पळोवन हांव अजाप जालें.

"मुक्ता," कशी तरी ही मरणप्राय शांतताय मोडपाक हांवें तोंड उगडलें, "तूं हांगां कशें? म्हणल्यार आयज तूं कामाक कित्याक वचूंक ना?"

"हांवें सुटी घेतल्या."

"म्हजे खातीर?" पयलेच फावट हो विचार म्हज्या मनांत आयलो.

"हांव तुका तशें एकटें सोडून वचूंक शकनाशिल्लें न्हय. शकतालें?"

"हांव बरें आसा. तुवें सुटी घेवपाची..."

"कांय प्रॉब्लेम ना गो. म्हाकाय मात्सो सुसेग जाय आशिल्लो. जया, मोहन केन्ना येतलो?"

"मोहन?"

"जया, कितें जालां? कितें तरी जालां न्हय? कितें तें?"

"मोहन ना... म्हाका खबर ना तो... म्हाका दिसता ताणें म्हाका सोडलें."

"कित्याक?"

"कित्याक?" ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका येवजना. हांव फकत ताच्या तोंडा कडेन एकटक पळयत उरलें आनी ताच्या ओंठा वयले बारीक केंस उबे जाल्ले म्हाका दिसले. ताच्या घामाचे थेंबे, थीर, ना हालनाशिल्ले दोळे दिसले.

"म्हाका खबर ना मुक्ता, म्हाका कांयच खबर ना. तुजो पुनर्जल्माचेर विस्वास आसा मुक्ता? तुका दिसता मरणा उपरांत आमकां आनीक जीण आसा?"

"म्हाका खबर ना. हांवें ताचेर तसो विचारय करूंक ना. कित्याक?"

"म्हाका आतां दिसता, हांवें हाचेर विचार करूंक जाय आशिल्लो. पयलीं म्हाका

हें सगळें अर्थहीन दिसतालें, एका निरुपेगी जिविता उपरांत दुसरें जिवीत, प्रत्येकाचो अंत शुन्यांत आनी एकूण सगळें मेळून इतल्या सगळ्या जल्मा उपरांत परत कांयच ना. पूण आतां म्हाका दिसता, पुनर्जल्म आमकां आमच्या ह्या जिवितांतल्या अपेसांतल्यान मेकळें जावपाक संद दिता. हय काय न्हय?''

''पूण परत जल्माक येवप म्हणल्यार अपेस न्हय? जिविताचें खरें येस आनी मोख म्हणल्यार परत जल्म घेवप ना, हीच न्हय?''

''हय दिसता. हांव विसरून गेल्लें तें. म्हणटकच आतां कांयच आशा ना तर?''

''तूं कितें म्हणटा तें म्हाका समजना जया. आनी म्हाका खबर ना तुजे आनी मोहना मदीं कितें जालां तें...''

''हांव सांगतां तुका कितें जालां तें. हांवें ताचो अपेक्षाभंग केला. ताची म्हजे कडल्यान, ताचे बायले कडल्यान अपेक्षा आशिल्ली आनी हांवें ती पुराय करूंक ना. इतलीं वर्सां म्हाका दिसतालें हांव मोहनाची बायल म्हणून. पूण आतां तो म्हाका सांगता - वास्तवांत - तशें तें नाशिल्लेंच म्हणून. आतां हांव कितें करूं? तो परत आयलो ना जाल्यार हांव कितें करतलें? मुक्ता, म्हाका स्वता विशीं कितलो आत्मविस्वास आशिल्लो.. स्वता विशीं हांव कितलें निश्चिंत आशिल्लें, दुसऱ्या परस हांव म्हाका श्रेश्ठ समजतालें... कुसूम... हय, आनी तूं लेगीत... आनी आतां, मोहना बगर... हांव...हांव नकळो, हांव नकळो हांव कोण तें.''

''जया,'' मुक्ताच्या आवाजांत ताकतीक आशिल्ली, म्हजे खांदे ताणें घट्ट धरिल्ले, देखून हांव हांसूंक शकनाशिल्लें. म्हजे दुकांनी व्हांवपी दोळे पुसूंक पसून.

''जया, हें कामतीक लागून घडलें?''

''कामत?'' हांवें अजापान ताचे कडेन पळयलें. ''ना. कामतीचो हांगा खंय सबंद येता? ही सामकी वेगळी गजाल. हें मोहनाचे नोकरे विशीं, ताणें कितें तरी...'' हांव मात्शें अनमनलें, पूण मागीर दृढ आवाजान सांगलें, ''अप्रामाणीकपणान केलां, तो हाका लागून बरोच त्रासांत पडूंक शकता...''

पूण मुक्ता आयकनाशिल्लें. ताणें अजूनय म्हाका धरिल्लें, आतां तें म्हाका हालयतालें. ताचें हरशीं फिकें दिसपी तोंड तांबडेगुंज जाल्लें. ''मागीर तो मेलो त्या दिसा तूं ताका एकटो सोडून कित्याक गेलें? तुवें ताका मरपाक एकटो सोडलो, हय काय ना? कित्या खातीर केलें हें जया? कित्या खातीर केलें तुवें?''

हांवें ताका अजापान पळयलें. ताचें तोंड कारण नासतना ख्यास्त दिल्ल्या भुरग्या भशेन जाल्लें. हें इतलें रागार कित्याक जाल्लें? हें कित्याक रडटालें?

''मुक्ता, हें सगळें तुका कित्याक लागता?''

''म्हाका कित्याक लागता?'' ताणें म्हाका सोडलें. ताचें तोंड धवें पडून तें पयलीं सारकें निस्तेज दिसूंक लागलें. ''हांव सांगतां तुका कित्याक तें. म्हाका खबर ना

तुमच्या दोगां मदीं कितें आशिल्लें तें..."

"कांयच ना. कांयच नाशिल्लें आमचे मदीं. ताच्या मरणा उपरांत, म्हज्या आनी मोहना मदींय कांयच ना. आमी सांगातान रावतात खरीं, पूण आमच्या दोगांय मदीं आसा तें फकत रितेपण."

"... पूण म्हजे खातीर तो... तो अरुणाचो इश्ट आशिल्लो. अरुण इश्टांचे बाबतींत खूब वेंचीक आशिल्लो, ताका खूब इश्ट नाशिल्ले. आनी अरुण मेले उपरांत, कामतीन म्हाका मजत केल्ली. ताणेंच म्हाका शिक्षकाच्या प्रशिक्षणा खातीर प्रोत्साहन दिल्लें, नोकरी घेवपाक लायिल्ली. बाकीच्या सगळ्यांचो विरोध आशिल्लो, आबाचो लेगीत. 'लोक कितें म्हणटले,' आबान म्हणिल्लें. 'तांकां दिसतलें आमकां तुजो सांबाळ करपाचो ना.' आनी निलीमाय आशिल्लें, आबाचें म्हणणें हांवें घरा रावन निलीमाची काळजी घेवची. पूण म्हाका खबर आशिल्लें हांवें थंयच्यान भायर सरूंक जाय. हय, निलीमाक लागूनच हांव थंयच्यान भायर सरूंक देश्पेराद जाल्लें आनी कामतीन म्हाका मजत केल्ली. ताच्या मरणाच्या कांय म्हयन्यां पयलीं ताणें म्हाका आपल्या घरा आपयिल्लें - एक अस्ताव्यस्त अंदाधुंद कूड - पुस्तकां आनी नेमाळीं हांगा थंय पातळून पडिल्लीं, एके लांबोडे बूक केसीचेर एक व्हडलो रेडियो. पयलेच फावट पळयिल्ले भशेन हांवें तें सगळें पळयिल्लें. हें निमणेंच हें म्हज्या लक्षांत आयलें आनी हांवें तें सोडून दिलें. ताणें म्हाका सांगलें, ताका एक बारीकसो हार्ट ॲटॅक येवन गेला म्हणून, सादोसो, पूण 'हांवें म्हज्या मनाची तयारी करूंक जाय' ताणें म्हणलें. 'कितलिंशींच वर्सां हांव एकटोच रावलां, पूण एकट्यान मरपाची गजाल मात्शी वेगळी.' ताणें ह्या विशयाची फकाणां केलीं खरीं, पूण तो भियेला हें म्हाका दिसतालें. 'म्हजे खातीर तुवें एक गजाल करूंक जाय' ताणें म्हाका सांगलें. 'हांव घडये कितलिंशींच वर्सां जगन, तुजे परस चड घडये, पूण जर हांव जगलों ना...' आनी ताणें म्हाका ताच्या घराची चावी दिली. 'तुका जर हांव कांय दीस दिसलों ना, अशेंच भितर यो, अचकीत कितेंय घडलें जाल्यार कितें करपाचें हाच्यो सुचोवण्यो हांवें बरोवन दवरिल्ल्यो आसतल्यो, तुवें व्हडलें कांय करपाची गरज ना, फकत म्हज्या पुतणयाक फोन कर, हांवें ताचो नंबर बरोवन दवरिल्लो आसतलो. हांवें अजून सगळें बरोवंक सुरू करूंक ना. आतां फकत सांगतां', ताणें म्हाका सांगलें. 'स्वताचें मरण हें सदांच एक कवी कल्पना कशी दिसता. पूण हांव हें करतलों आनी सगळें बरोवन दवरतलों. पूण हें लक्षांत दवर - तांकां सांग गोपाळाक रावपाची गरज ना."

मरणालागीं पाविल्ल्या मनशाचें एकटेपण - हाचे सारकी आनीक खंयचीय गजाल आसा ह्या जगांत? ताचें दुख्ख हे कुडींत भरून गेलें आनी आमकां दोगांकय - मुक्ता आनी म्हाका - तें जाणवलें. त्या दुख्खाचे भागिदारींत आमी दोगांय बंदिस्त जालीं.

आमची दोगांयचीय गत हॉस्पिटलांतल्या दोन पेशंटां सारकी जाल्ली, तांकां एकेच तरेचें दुयेंस जालां आनी ते लागीं लागींच खाटीर न्हिदल्यात.

"तो मरणाक भियेतालो जया, तो एकटेपणाक भियेतालो आनी तुवें ताका एकटो सोडलो, तूं थंय रावंक शकतालें, तुका ताच्या वांगडा रावंक जातालें, पूण तूं रावलें ना. तूं ताका थंयच सोडून गेलें. तो थंय तसोच पडून उरूंक शकतालो. ताणें म्हाका चावयो दिवंक नाशिल्ल्यो जाल्यार आनी हांव थंय वचूंक नाशिल्लें जाल्यार घडये तो थंयच कुसून वचपाचो. तो खूबच एकटो पडिल्लो. जया, तुका केन्ना कळ्ळें ना हें? तो सामकोच एकटो जाल्लो, जया. चलो वतकच तर चडूच."

आतां म्हाका कळ्ळें, "जया," ताणें म्हणिल्लें आनी हांवें पळ काडिल्लो. ताणें आपल्या एकांतवासांत म्हजे कडेन पावपाचो यत्न केल्लो आनी हाचो म्हाका भंय दिशिल्लो. "हांव मोहनाची बायल," हांवें विचार केल्लो. "हांव फकत मोहनाची बायल" आनी हांवें थंयच्यान पळ काडिल्लो.

"मुक्ता हांव पावचे पयलींच तो मेल्लो. हांव कांयच करूंक शकचें नाशिल्लें."

"तरीय लेगीत... तरीय लेगीत." ताणें भावनाविवश जावन म्हणलें आनी म्हाका दिसलें, हांव आतां मेरेन मुक्ताक वळखनाशिल्लें. म्हाका तें न्हयकारात्मक चिन्न दिसतालें. पूण आतां पळय ताका, हांवें म्हाकाच सांगलें, पळय ताचे कडेन "तूं रावंक शकतालें. तूं भियेलें, कोणय कितेंय म्हणत, मोहन कितेंय म्हणत म्हणून?"

"मोहनाक खबर नाशिल्लें... मोहनाक कांयच खबर नाशिल्लें. हांवें ताका केन्नाच सांगलें ना." हें सांगतना तितल्याच दढ आनी निश्चयी आवाजान हांवें म्हणलें, "ना, मोहनाक लागून न्हय."

उतरां आडखळटना अचकीत म्हज्या लक्षांत आयलें, मोहनाक लागून न्हय, पूण म्हजे वैवाहीक जिणेक लागून हांव सादूर जाल्लें. मुक्तान म्हाका काकुळटेन पळयलें आनी भरिल्ल्या आवाजान म्हणलें, "आतां कितें उपेग ताचो जया? सोडून दी."

पूण इतलें सोंपेपणान हांव सोडूंक शकलेंना. मुक्ता गेलें आनी हांव एकलें उरलें. आनीक एक रात सारपाची आसा. हांवें चिंतलें आनी हांवें तिका येवकार दिलो. आतां म्हाका एकटें रावपाची सामकी गरज आशिल्ली.

थंय मंदा न्हिदेंत बडबडटालें आनी हांव म्हज्या मनांत घोळयतालें - म्हज्या जिवितांत दर दिसा घडिल्ल्यो, अस्ताव्यस्त, अंदाधुंद, सादारण आनी असादारण घडणुको, म्हजे जिणेच्यो भाग जाल्ल्यो. हांव ल्हानपणांत जादवाच्या डब्यांतल्या बुराकांतल्यान राजा-राणयेचो खेळ पळयतालें तशें दिसपाक लागलें. "राजा पळयात, राणी पळयात" तो मनीस आमकां भुलोवपाक म्हणटालो. "येयात, येयात, राजा पळयात राणी पळयात." आनी आतां म्हज्या मुखार एके चलयेचें चित्र, एक ल्हान चली, पयलेच फावट बोल्सां आशिल्लो फ्रॉक घालून, त्या बोल्सांत आपले हात

घालून, सामकें आपलेच तंद्रेंत उत्तेजीत, आपल्याक अनपेक्षीत उर्जास्रोत मेळिल्ल्याचे धुंदींत.

*तें भुरगें हांव आशिल्लें.*

हो सोद लागले उपरांत आनीक एक विचार मनांत आयलो, "*हांव ताचे कडल्यान सुरवात करतलें, त्या भुरग्या कडल्यान.*"

"सोंपलें?" मंदा, हातांत सान्न घेवन, मेजा कडेन येवन उबें रावता आनी चवकसपणान जमनीर पातळिल्ल्या पेपरा कडेन पळोवंक लागता. "इतली सगळी बरपावळ? कितें तें ताई?"

कितें तें? हांवय स्वताकडेन अजापान विचार करूंक लागतां. बोल्सांत हात घालून आशिल्ले चलये पसून सुरवात करून मोहना फाटल्यान हांगा आयिल्ले बायले मेरेन तिका हाडून सोडिल्ली. पूण तशें तें जमलें ना. हांवें हें सगळें बरयलां - रंगिबेरंगी गोजड्यो कश्यो, म्हज्यो काकी घरांतल्या खंयच्याय नवजात भुरग्या खातीर करताल्यो तश्यो. कितले तरी कुडके आनी कपचे - वेगवेगळ्या आकाराचे, प्रकाराचे आनी रंगांचे. हें सगळें बरोवन कितें मेळयलें हांवें?

कितें जाप दिवची हें येवजना जावन हांव मंदा कडेन पळयत रावलें. इतल्यांत दारार बॅल वाजली आनी मंदा दारा कडेन धांवलें.

"ताई," ताचो तारस्वरांतलो आवाज म्हज्या कानार पडलो, "कोण आयला?" दुसऱ्याच खिणाक तें आड्डलें, "राहुलदादा आयला."

हांव दारा कडेन धांवलें. हय राहुलच तो आनी ताचे वांगडा वसंत आसा. ते दोगय प्रवासांत चिकचिके आनी घाण जाल्ले, दोगांयच्याय हातांत एक एक बॅग आशिल्ली. वसंता कडेन एक ज्यादा बॅग आशिल्लें, तें ताणें खांद्यार मारिल्लें.

वसंत म्हाका पळोवन हांसलो, म्हज्या तोंडा वयल्या अजापान तो सुखावलो. "हां, राहुल खरें सांगतालो तर," ताणें म्हणलें, "तूं हांगां आसा. म्हाका खरेंच दिसलें ना." 'तुवें सारकें आयकूंक ना,' हांवें ताका म्हणलें, 'ती कित्याक थंय आसतली?' दादर स्टेशनार ताणें म्हाका फोर्सान देंवयलें. म्हाका व्हीटी स्टेशनार देंवन चर्चगेट वचपाचें आशिल्लें... मोहन घरा कडेन ना?"

"ना."

तो आयले बराबर एकच गडबड सुरू जाली. मंदा वसंताचें बॅग ताचे कडल्यान घेवंक सोदतालें जाल्यार वसंत ताका म्हणटालो, "नाका गो बाय, सोड तूं." हे मजगतीं राहुल ओग्गी रावन भितर गेलो. ताच्या दोळ्यांतलो तो भंय, ताची स्वता

कडेन लक्ष ओडून घेनासतना, चोरा भशेन ल्हवूच भितर वचपाची हालचाल पळोवन म्हज्या काळजांत एक कळ उठली.

राहुल भितर वतकच ''हांव ताका स्वताच घेवन आयलों'', वसंतान म्हाका ल्हवू आवाजान सांगलें.

''बरें केलें तुवें. तूं ताका घेवन आयलो तें बरें जालें. मंदा तें बॅग भितर व्हर. तूं थोडी च्या पितलो?''

वसंतान शेवटीं आपली बॅग सोडली आनी सुसेगाचो एक व्हड उस्वास सोडत म्हणलें, ''च्या? हय, म्हाका एक कप कडक च्या जाय. आमी कल्याण स्टेशनार च्या पियेल्ले, पूण ती रेल्वेंतली च्या... शी! हांव सामको थकलां. आमी स्टेशना कडल्यान चलत आयले. इतले लागीं येवंक कोणच टॅक्सी ड्रायव्हर तयार नाशिल्लो. तांकां बाबा-पुता करून हांव थकलों. मागीर आमी विचार केलो चलून गेल्यार बरें...''

वसंत हात-पांय धुवपाक न्हाणयेंत गेलो तेन्ना राहुल आनी हांव दोगांच उरलीं. आतां चड वेळ आमी एकामेकांक टाळूंक शकना जालीं. हांव कितें तरी उलयतलें हे अपेक्षेन राहुलान म्हजे कडेन पळयलें. पूण मागीर ताणेंच ही शांतताय भंग केली.

''पप्पा खंय?''

''तो दिल्ली गेला.''

''कित्याक?''

''ताच्या कामार कितें तरी गडबड जाल्या. घरा येतकच तुमकां तो स्वताच सांगतलो.''

सांगतलो तो?

''तो केन्ना परत येता?''

''फाल्यां सकाळीं. रातीं म्हाका ताची तार मेळ्ळी.''

तारींत बरयिल्लें, 'सगळें फोर्त आसा. शुक्रारा सकाळीं पावतां.' हांवें त्या उतरांचो वेगवेगळे तरेन अर्थ लावपाचो यत्न केल्लो, पूण 'सगळें फोर्त आसा' हे जैतवंत ललकारी मुखार हांव चिंतूंकच शकलें ना.

''मम्मी...'' राहुलान सुरवात केली. ताका म्हाका खूब कितें विचारपाचें आसा, पूण हांवय ताका प्रस्न विचारूं शकतां हें अचकीत ताच्या ध्यानांत येता. तो थांबता.

''फाल्यां पप्पा येतकच आमी घरा वतलीं,'' हांवें ताका सांगलें. ''तूं जर हांगां फाल्यां आयिल्लो जाल्यार तुका हें घर बंद मेळपाचें.'' राहुल तरीय म्हजे कडेन कांचवेल्लें नदरेन पळयता हें लक्षांत येतकच, म्हजे मदलें कितें तरी म्हाका आनीक उलोवपाक फोर्सार करूंक लागलें. ''पळय तूं भियेवंनाका - म्हणल्यार तुजे अशे तरेन येवप बी. जालें तें जालें. रुपा आनी अशोकाक मात्सो राग आयला, पूण तीं तें

विसरतलीं. आतां वसंत न्हावन आयले बराबर तूंय न्हावन घे. हांवें मंदाक पाव हाडूंक धाडलां, तूं तयार जाले बराबर आमी नाश्तो करया.''

आतां राहुलाच्या तोंडार मन हलकें जाल्ल्याचे भाव उदेले. तो म्हजे कडल्यान दुसरे वटेन परतलो. ''चल, ताचे प्रस्न मेकळे जाले,'' रागा भरशी म्हज्या मनांत विचार आयलो. ''ताचो बापूय हांगां ना, आवयन माफ केलें, आनीक कसली चिंता आसतली ताका?''

नाश्तो करतना ताच्या आनी वसंता मदलें आशिल्लें साहजीक आपलेपण पळोवन म्हाका परत राग आयलो. तो म्हजे कडेन, आमचे कडेन असो कित्याक वागना? आनी अचकीत हें चिंत्तना, म्हाका कितें तरी जाता. हांव त्या दोगांकय पळयतां, राहुल आनी वसंताक, एके वेगळे नदरेन. त्या दोगांय मदले वसंत - मोहनाचो बेजबाबदार भाव न्हय, राहुल - आमचो दुराग्रही चलो न्हय. ते फकत दोन मनीस, एकामेकां कडेन सवस्तकाय आशिल्ले, स्वता कडेन सुखी आशिल्ले. ''कितें जालें मम्मी?'' म्हजी तांचे वयली नदर पळोवन राहुलान म्हाका विचारलें.

''कांय ना,'' तकली हालयत हांव म्हणटां.

'पूण तें कांय ना' न्हय, आतां हांवें ह्यो गजाली वेगळे तरेन पळयिल्ल्यो. हांवें तकली सकयल घालून दोगां मदल्यान संवसारा कडेन पळयिल्ले भशेन म्हाका दिसलें. संवसार फकत उरफाटो न्हय जाल्यार वेगळो आशिल्लो.

''तो माथ्यार तुवालो बांदून तूं माद्री कशी दिसता,'' राहुलान मात्शें अनमनत म्हणलें, ''माद्री माथ्यार घालता तसलें बांदलांशें दिसता.''

''कोईफ'' हांवें ताका योग्य शब्द दिलो.

''कितेंय आसूं तें.'' हांवें दिल्लो शब्द राहुलान न्हयकारलो.

''हांव तें माद्रीबी कांय नकळो, पूण तूं मात्शी भागिल्ले भशेन दिसली,'' वसंतान म्हणलें.

''म्हज्या जिवाक मात्शें बरें नाशिल्लें. तुमकां खरें दिसतलें? निलीमान म्हजी काळजी घेतली - निलिमान आनी मंदान.''

''आनी पप्पा?''

''तो ताचे पयलींच गेल्लो.''

हे सगळे परिस्थिती विशीं राहुल गोंदळ्ळा हें म्हाका दिसलें. पूण हांवें तें तशेंच सोडलें.

''तूं येतली न्हय सत्तगिरी, अण्णाच्या वर्सश्राद्धाक?'' वसंतान म्हाका विचारलें.

''हय. येतलीं आमी, पूण हांव घडये आंबेगांव वतलें पयलीं. वनितामामी बरी ना, आईय बी...''

''आई?'' राहुलान म्हाका कळकळीन विचारलें, ''कितें जालां तिका?'' आपले

आज्जे विशींची आशिल्ली ताची ओड याद जावन म्हजो ताचेवेलो थोडो राग गळून पडलो. ती आमच्या वांगडा रावंक येतकच तो खूश जातलो, अशें म्हाका दिसलें

कांय वेळान ते भायर सरले, राहुल आनी वसंत. बाल्कनींत उबे रावन तांकां पळयतना म्हज्या लक्षांत आयलें, आपल्या काका वांगडा वतना राहुलाच्या पावलांत एक तरेची उमेद आशिल्ली. आनी राहुलाची ही उमेद म्हज्यांत देंविल्ले भशेन म्हाकाय ल्हव दिसपाक लागलें. काय म्हजी ही ल्हवपणाची भावना राहुल आनी वसंताक वेगळे नदरेन पळयलें म्हणून? म्हणल्यार हांवें तांकां बंदिस्त केल्ल्या साच्यांतल्यान सोडटकच म्हाकाय मेकळे जाल्लेभशेन दिसलें.

हांव भितर गेलें आनी ह्या दोन दिसांत कितें तरी खरडून दवरिल्ले पेपर जाग्यार घालूंक लागलें. आनी कित्याक खबर ना, पूण हे गोजडेंतले कपचे एकार एक दाळटना, म्हाका विसर पडिल्लो एक ल्हान कुडको म्हजेर येवन आदळ्ळो. म्हाका त्या दिसाची याद जाली. म्हाका आतां याद जायना कित्या खातीर तें, पूण एक दीस हांव अशेंच घरांतल्यान भायर पडिल्लें, हें सगळें म्हज्यान जायना, म्हाका झेपना अशें म्हणीत. हांव अशेंच सैरभैर भोंवतालें, खंय वतां हाचें भान नासतना, वयल्या रस्त्यान, सकयल्या रस्त्यान - ते सगळे रस्ते म्हाका सामके अनवळखी आशिल्ले. आनी मदींच विटकऱ्या, विद्रूप चाळी मदीं आनी घाणयाऱ्या रस्त्यां मदीं म्हाका एक बाग दिशिल्ली. असो अचकीत मेळिल्लो बरो जागो पळोवन हांव खूश जालें. हांव थंयच एका बांकार बसलें. पूण एक मिणटां भितर थंय एक दादलो आयलो आनी म्हजे म्हऱ्यांत बसलो. ताणें ''हॅलो सिस्टर'' म्हणसर म्हजें ताचे कडेन लक्षच वचूंक नाशिल्लें. तो म्हाका पळोवन हांसलो, कुरवो करपी ताची ती नदर, हिंदी सिनेमांतल्या व्हिलना सारकी आशिल्ली. हांव थंयच्यान उठलें आनी परत दिशाहीन चलत रावलें. शेवटाक, सामकें पुरो जातकीच हांव घरा परतलें. हांवें मनांत विचार केल्लो, जर तांणी म्हाका कितेंय, मात्शें लेगीत कितेंय म्हणिल्लें जाल्यार हांव तांकां सांगतलें, ''म्हज्यान आतां हें चलोवंक जायना, म्हजे कडेन जमना आनी हांव जमोवन घेवचें ना.'' पूण तांणी फकत इतलेंच म्हणिल्लें, ''खंय गेल्ली तूं?'' आनी ''कळाव जालो पळय, म्हाका भूक लागल्या''. आनी हांव थंयच्यान रांदचेकुडींत गेलें, तो दादलो म्हाका हांसत ''हॅलो सिस्टर'' म्हणटकीर हांव थंयच्यान गेल्लें तशेंच. म्हाका हांसचेंशें दिसलें, म्हाका आतां दिसलें हांव आकांतान हुंदको दितलें... पूण हांवें हातूंतलें कांयच केलें ना. ओग्गी रावन हांव रांदचेकुडींत गेलें आनी कितें तरी खावपाक करपाक लागलें.

हांवें तशें कित्याक केल्लें? कित्या खातीर हांवें दामून दवरिल्ली ते देश्पेराद बायलेक? आनी आतां परत नायर आनी ताचे फामिलीची म्हाका याद जाता, ती फामील स्वताक एकामेकांक बांदून घेवन दर्यांत देंविल्ली. आमीय तशींच, आमी

**शशी देशपांडे** हांचो जल्म भारतांतल्या धारवाड शारांत जाला. नामनेचे नाटकार आनी संस्कृत पंडीत, श्रीरंग हांची ती धूव. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा ती मुंबय गेली आनी थंयच तिणें अर्थशास्त्राची पदवी मेळयली. ते उपरांत ती बेंगळुरूक गेली थंय तिणें कायद्याची पदवी मेळयली. लग्नाचे सरुवातेच्या दिसांनी तिणें चडसो आपलो वेळ आपल्या दोनय चल्यांक वाडोवपा खातीर दिलो. पूण त्याय वेळार तिणें पत्रकारितेचें शिक्षण घेतलें आनी कांय वेळा खातीर एका मासिका खातीर काम केलें. खऱ्या अर्थान तिच्या लिखाणाची कारकीर्द सुरू जाली 1970 वर्सा. तेन्ना तिणें खूबश्यो लघुकथा बरयल्यो. तांचे आतां मेरेन कितलेशेचे खंड छापल्यात. तशेंच तिणें भुरग्यांचीं चार पुस्तकां बरल्यांत. ते भायर पयलींच्यो चार कादंबऱ्यो प्रकाशीत जाल्यात-'द डार्क होल्डस् नो टॅरर', 'इफ आय डाय टुडे', 'कम अप अँड बी डॅड'. 'रुट्स शॅडोज' हे कादंबरीक तिला 1982-83 वर्साचो उत्तम भारतीय लेखक म्हणून पुरस्कार मेळ्ळा. **शशी देशपांडे** आपले चिकित्साशास्त्र तज्ञ घरकारा वांगडा बंगळुरूक रावता आनी हालींच तिणें इंग्लीश साहित्यांत आपली एम्‌ए पुराय केल्या.


9 788126 045853

Dirgha maun te (Konkani)

₹ 150/-




साहित्य अकादेमी